

# विश्व कोंकणी केंद्र

कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्टान
कोंकणी गांव, शक्ती नगर, मंगळूर - 575 016

ज्ञानपीठ पुरस्कार सम्मानित, विश्व कोंकणी साहित्य रत्न,

## पद्मभूषण डा. रवींद्र केळेकर

### स्मरण पुस्तक वितरण येवजण

हें पुस्तकाचे दानीः **श्री टी. वी. मोहनदास पै**



This Book is donated by **Shri T.V. Mohandas Pai**, under Jnanpeeth Award Winner, Vishwa Konkani Sahitya Ratn,

## Padmabhushan Dr. Ravindra Kelekar
## Smaran Pustak Vitaran Project

WORLD KONKANI CENTRE
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
KONKANI GAON, SHAKTI NAGAR, MANGALORE - 575016

# बोरकारी
दिलीप बोरकार

**Borkari**
(Literary Essays)
***by Dilip Borkar***

**प्रकाशन क्र. ७७**



**पयली आवृत्ती**
२ मे २०१०

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९० ००२

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**
मंगेश तेंडुलकार

**प्रकाशक**
दिलीप बोरकार
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

**मोल : २०० रूपया**

बोरकारीक लागून
जे जे कोण दुखावल्यात
त्या सगळ्या एक्साच्यांक
बोरकारीचो हो पयलो खंड ओपतां...

# सद्सद्विवेकबुध्दीचो आवाज

चिअर्स दिलीप !

म्हाका घट्ट याद आसा, म्हाका 'सुनापरान्ता' खातीर जाय आशिल्लें तसलें 'खुसखुशीत' सदर बरोवपाचें दिलीपान मानून घेतकीर हांवें दिलीपाक अशेंच चिअर्स केल्लें, आनी, आज सुमार २० वर्सां उपरांत हे 'बोरकारी'चो पयलो खंड उजवाडा येता, तेन्नाय ताका हांव काळजा थावन 'चिअर्स' करतां.

म्हाका याद जाता, हांव 'सुनापरान्ता'चो संपादक जालों तेन्ना आयतारांचो अंक आगळो वेगळो काडप हें हांवें म्हजें पयलें उद्दिश्ट थारायिल्लें. दुसऱ्या काय तिसऱ्याच दिसा हांव पणजे गेल्लों. म्हाका 'ललित' मासिकांतल्या 'टणटणपाळा' भाशेन एक सदर आंकांत जाय आसलें. कोण बरयतलो? हांव चिंततालों. ताका खुसखुशीत शैली जाय, सातत्य जाय, आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, दर सप्तकाक ताणें नवेंताल्ल, रुचीक वेगळें कितें तरी दिवंक जाय. अशें बरोवप्या भितर एक वेगळे तरेची नदर जाय आनी धिटायूय जाय.

असलो कोण आमचे मर्दी आसा?

म्हज्या मनांत अना आसलोच. अना कडेन अशी तांक आसा, शैली आसा. ताचो विनोदूय वयल्या पावंड्याचो. म्हाका दिसता, हांव अना कडेन उलयलां. पूण नेमान सदर चलोवप ताका शक्य नासलें.

तेन्ना, अनिकूय एक आशिल्लें – हांव 'सुनापरान्ता'चो संपादक जाल्लों तें खूब जाणांक उस्तुऱ्यां गेल्लें. म्हालगडे आसतना ह्या कालच्या पयरच्या तरनाट्यान संपादक जावप? 'सुनापरान्त' म्हळ्यार आपणालेंच कुरण अशें कांय

जाण समजताले. म्हणटकीर कोण बरयतलो?

हांवें पणजे दोन तीन कामां केलीं आनी जेवपाच्या वेळार जुस्त दिलीप मेळ्ळो. ताका घेवन हांव जेवपाक गेलों. बियर मागयली. दिलीपा कडेन सदरा विशीं उलयलों आनी विचारलें, 'कोण बरयतलो असले तरेचें सदर?'

दिलीपान म्हळें, हांव बरयतां!

हांव चाट!

म्हज्या मनांत दिलीप नासलोच. दिलीप आनी उपहासात्मक बरोवप? दिलीप तेन्ना 'घनगंभीर बरोवपी' म्हणून फामाद. ताणें खाड वाडयल्लें, भेसूय तसोच 'गंभीर' करतालो, आनी 'नवप्रभा'त 'आघात', तरूण भारतांत 'प्रहार' बी असलीं 'भयंकर' सदरां तो बरयतालो. बरयतालो म्हणचे परस 'पाट्या टाकत होता'.

पूण दिलीपान आपूण बरयतां म्हणटकीर ताका एकदम तोडप म्हज्यान जालेंना.

'दिलीप सदर बरें जावंक जाय. पयलो लेख तुका बुधवार मेरेन धाडूंक जमत?' म्हजें कोंत – बुधवारा ताचें बरप वाचतकीर कळटलें, ताका जमता काय ना तें; जमना अशें दिसल्यार फुडें कितेंय थारावं येत.

हांव मडगांवां आसलों. आयतारच्या आंकाची तयारी सुरू जाल्ली. आनी बुधवारा सांजे पणजेच्यान दिलीपाचो लाखाटो आयलो. कितें सांगतलों, तीं तीन पानां वाचून हांव सामको चाट. कदेला वेल्यान हांवें उडकीच मारली म्हळ्यार जाता. हांवें तो लेख प्रत्येकाक वाचून दाखयलो.

त्या आयतारा तें सदर छापून आयलें. खूब प्रतिक्रियाय आयल्यो. तो वेळ मेरेन 'सुनापरान्त' म्हळ्यार मैदानार देंवचे पयलींच हारिल्लो पंगड कसो जाल्लो. त्या आंकां सावन ताणें सेंच्युरी मारली.

दिलीप बरयत गेलो आनी आपणाल्या सदराक नवीं नवीं परिमाणां जोडीत गेलो. आजून तो बॅटींग करता. मदीं मदीं रन्स काडना जायत पूण अजून फोर आनी सिक्सरूय मारता!

खऱ्यांनीच इतलीं वर्सां – सुमार एक दसक–सातत्यान 'बोरकारी' चलोवप आनी तातुंतलो झिंग (गॅस–बिअरींत आसता तसलो) कायम दवरप सोंपें न्हय. दिलीपाक तें जमलां. दर सप्तकाक तो कोंकणी वाचप्याचे नदरेक नवें

कितें हाडटा. तांकां हांसयत हांसयत तो तांचीं धोंगां पोंगां दाखयता, तांकां खातखुतल्योय करता.

आयज हें सदर खूब लोकप्रिय जालां. आनी, जे आदीं तें वाचून तिडटाले, तांणी लेगीत मानून घेतलां कीं असलें सदर कोंकणी बरपांत जाय, आनी तें दिलीपूच बरे तरेन बरोवंक शकता. दिलीपान ह्या सदराक एक वेगळें व्यक्तिमत्व दिलां. इतलेंच न्हय, दिलीपाच्या व्यक्तित्वाकूय ह्या सदरान नवीं तासां दिल्यांत, ताची नदर विकसीत केल्या आनी कोंकणी साहित्यांतूय आगळी वेगळी भर घाल्या.

विनोदी, वा उपहासात्मक साहित्य म्हळें की खूब जाणांक नाक मुड्डपाची संवंय आसा. असले तरेच्या साहित्याची सामान्यतायेन उपेक्षाच जाता. पूण दिलीपाची 'बोरकारी' हांगा आडवाद थरल्या म्हणूंक जाय. हांव तर अशें म्हणन की, दिलीपाचें सगळें साहित्य तागडेच्या एका दाल्यांत घालें आनी दुसऱ्या दाल्यांत 'बोरकारी' घाली जाल्यार बोरकारीचेंच दालें जड थारतलें.

'बोरकारी'न दिलीपाक तरनाट्यां भितर लोकप्रियताय जोडून दिल्या. भरंया कोंकणीचें सगळें साहित्य व्हरून फाल्यां मांडवींत बुडयलें आनी तरनाट्यांक बुचकळी मारून तातूंतलें एकूच पुस्तक घेवन येयात म्हूण सांगलें, जाल्यार चडशे तरनाटे 'बोरकारी' घेवन तडीर येतले.

'बोरकारी'न कोंकणींत इतिहास घडयला. कोंकणी चळवळीचेर तिणें एके तरेचे उपकारूच केल्यात म्हणूंक जाय. कोंकणी चळवळ शेळेल्ली, आत्मसुखांत मग्न आसल्ली, 'म्हालगडे' म्हळ्यार दैवतां जाल्लीं आनी तांकांय तशेंच खरेपणीं दिसूंक लागिल्लें, कोंकणी संस्था कांय थोड्याच जाणांचीं बेसां जाल्लीं – ह्याच वेळार न्युस्त 'बोरकारी' आयली.

दिलीपान पेनाच्या पयल्याच फटकाऱ्यान कितल्याश्या जाणांचे पांय जमनीर हाडले. प्रस्थापीत जावंक पळेतले कोंकणी चळवळीक भानार हाडली. आयजूय तो हेंच व्रत घेवन आमचे मदीं वावुरता.

हाका लागून ताणें खूब टिका सोसल्या आनी खूब वायटपण घेतलां. म्हाकाय बोरकारीक लागून खूब त्रास जालो. बोरकारी बंद कर म्हूण म्हजेर दबाव आयलो. म्हाका 'सुनापरान्तां'त'ल्यान काडपाचोय यत्न जालो. कोणा कडल्यान? जांणी दुसऱ्याचेर सकयल्या पावंड्यार वचून टिका केल्या आनी

तीय बी टोपण नांवां घेवन.

'सुनापरान्ता' खातीर हांवें एक नीत थारायिल्ली. आपलो आनी परकी अशें थारावन चलप ना. कारण पत्रकारितेचें हेंच पयलें ब्रिद! देखून कोंकणीच्या मळारूय जेन्ना वांकडें कितेंय घडलां, तेन्ना हांवें ताका फटके दिल्यात.

तेन्ना म्हाका 'वेवसायीक' म्हणून हिणसावपाचोय यत्न जाला. आतांच्या 'सुनापरान्ता'च्या जाळवणदारांक ही भुमिका मान्य आसतली हातूंत म्हाका इल्लोय दुबाव ना. 'सुनापरान्त' हें मुखपत्र न्हय, तें एक 'परिपूर्ण कोंकणी दैनिक' अशी म्हजी नदर आसली.

तशें पळोवंक गेल्यार कोंकणीचो एकूय 'दादो' दिलीपाचें हें सदर आवडटा म्हणूंक धजना. आपसांत उलयतना ते 'बोरकारी'विशीं तोंडां वांकडीं करून उलयतात! म्हाका हांसूंक येता, – पूण वाचतना मात जण एकलो 'बोरकारी'च पयलो वाचता. नव्या 'सुनापरान्तां' त 'बोरकारी' सदर परतें सुरू जालां तें ताचे भितरले हे 'वाचूंक लावपाचे' तांकीक लागून हें आमकां मान्य करचेंच पडटलें. 'बोरकारी' आयच्या आमच्या समाजाची, आमचे परिस्थितीची एक 'गरज' अशेंय म्हणूं येता.

आनी आज ह्या बरपाचो पयलो खंड उजवाडा येता. हाचें श्रेय हांव दोग जाणांक दितां, 'सुनापरान्ता'क आनी 'बोरकारी'क उखलून धरपी वाचप्यांक. खासा म्हाकाय ह्या पुस्तकाक लागून उपाट खोस भोगता. हें म्हजेंच पुस्तक जाल्ले वरी!

हांवूय बी हेर कोंकणी वाचप्यां भाशेन आयतारच्या सुनापरान्तांत सगल्यांत पयलीं 'बोरकारी' वाचतां. तातूंत म्हजेरूय कितेंय आयिल्लें आसल्यार म्हाका हांसूंक येता. म्हजे खूबशे मित्र आसात, जांकां तांचेरूय 'बोरकारीं'त कितें तरी येवचें अशें दिसता.

दिलीपाक कोंकणी समाज, आमचे साहित्यीक, तांचें साहित्य, ताचो दर्जो हाची बेस बरी वळख आसा. प्रत्येकाचे गूण-दोश तांचीं धोंगां पोंगां वळखुपाची तांक आनी कळाशी ताका आसा, आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, साहित्यीक पत्रकारा भितर आसची पडटा ती अन्यायाची चाड, विज्ञानीक, सामाजिक दृष्टी ताका आसा. वैचारीक परिवर्तनाची ताका ओड आसा. इतलेंच न्हय, दुसऱ्याचीं फकांडां मारता आसतना आपणालींय फकांडां मारपाचें व्हडपण

ताचे भितर आसा. म्हळ्यार, सगळ्या पसून अलिप्त रावपाची तांक ताणें जोडल्या. दिलीप हो गोंयांतल्या सामाजिक, साहित्यीक मळावेलो जाती-पातीचे पलतडीं गेल्लो एक मनीस. ताच्याय वांट्याक अन्याय आयल्यात. पूण तरी ताका दुसऱ्याचो दुस्वास ना. आनी, आपणाचेर जाल्ल्या अन्यायाक लागून ताचे भितर कोंडसाणूय येवंक ना. दिलीपा कडेन मनीसपण आसा, व्हडलें काळीज आसा आनी हाकाच लागून ताची 'बोरकारी' गोंयच्च्या साहित्यांत उजवी थारल्या अशें म्हजें मत्त.

दिलीपान अशेंच बरयत वचचें, कोंकणी मनशाचो, कोंकणी समाजाचो पावंडो वयर काडपा खातीर 'बोरकारी'ची बेतकाटी मारत रावची अशें म्हाका दिसता. उमेद, उत्साहा वांगडाच संघर्ष करीत वचपाचो विचार ह्या सदरांतल्यान दिलीप दीत आयला. हीच प्रेरणा नव्या बरोवप्यांकूय मेळूं. 'बोरकारी' ही 'पोरकारी' न्हय, तर हो सद्सद्विवेकबुद्दीचो आवाज अशें हांव मानतां.

ह्या प्रेरणांच्या ल्हारांचेर कोंकणीचें साहित्य पलतड मारूं. हे म्हजे काळजा सावन आंवडे.

**– राजू नायक**

मडगांव - गोंय.

# मनांतलीं एक्सां....

**बो**रकारीचो पयलो खंड पुस्तक रुपान येता हो म्हजेखातीर एक आनंद सुवाळोच. बोरकारी हो प्रकार एक इतिआस निर्माण करतलो हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. बोरकारी विशीं कोणाचेंय मत कितेंय आसूं! पूण दुस्मानान लेगीत सुनापरान्त घेवन पान उगडल्याबराबर पयलीं बोरकारी वाचल्या.

'बोरकारी' हें कितें अक्षरसाहित्य न्हय. साहित्यांत ताका तशी सासणाची सुवात नाच. वाचपाचो, भितरले भितर तितले पुरतें हांसपाचें आनी विसरून वचपाचें एक सप्तकांतलें सदर तें. पूण त्या सदरान खूब लोक दुखावल्यात. कारण नासतना दुखावल्यात. हाचेवेल्यान हें असलें साहित्य दुधारी आसता म्हणपाचें सिध्द जाता. तरी लेगीत त्या कारणाक लागून बोरकारीन इतिहास निर्माण केला अशी बडाय हांव निखालूच मारचोना.

बोरकारीन इतिहास निर्माण केला अशें म्हाका दिसपाक एक रजांव आसा.

बोरकारी म्हण कितें तयार जावं येता हाची म्हाका मात लेगीत कल्पना नाशिल्ली. तकलेंत केन्ना विचारूच आयलोना म्हळ्यार जाता.

राजू नायक सुनापरान्ताचो संपादक जालो. तरणें रगत. नव्यो नव्यो आयडिया घेवन हें दिसाळें वेवसायीक स्तराचेर मुखार व्हरपाचो ताचो हावेस.

एक दीस अशेच गजाली मारतना ताणें म्हाका म्हळें, ''दिलीप, म्हाका एक असो कॉलम जाय जो कोंकणी साहित्यांत नवें कितें तरी दितलो. तो कोण बरोवंक शकता ताचें नांव म्हाका सुचय. प्लीज.''

राजूक एक्झेक्टली कितें जाय तें ताका सांगूंक येना आशिल्लें. पूण जें जाय अशें ताका दिसतालें तें भन्नाट अशें आसतलें आनी कोंकणी समाजांत खवदळ घालपी आसतलें हाची म्हाका जाणविकाय जाली. हांव मनांतल्या मनांत आमच्या लेखकांचेर नदर भोंवडावंक लागलों. जे कोण कॉलम बरयतात तांची स्टायल, तातुंतली उंचाय, खोलाय हांव मोलावंक लागलों. पूण राजूक जें कितें जाय अशें म्हाका होलमतालें तें दिवपी म्हाका कोणूच दिसनाशिल्लो. हांव राजू खातीर कांयच करूंक शकना हाचे म्हाका चिटमिटे पडूंक लागले. अशें कित्याक जावंचें म्हाका?

हांवें कोंकणी समाज हें म्हजें कुटूंब मानुनूच कोंकणी चळवळींत उडी घेतिल्ली. कोंकणी चळवळ चलताली पूण ते चळवळीक पुरक असो तेंको दिवपी कोंकणींतलें दिसाळें आमचे कडेन नाशिल्लें. 'नवें गोंय' सुरू केल्लें. तें सुरू जावपाखातीर जें जें कितें करूंक जाय तितल्याय राटावळींत हांव आशिल्लों. तें जाल्लेंय हांवें पळयल्लें आनी ताका मरतनाय हांवें पळयलें. तें मरण इतलें भिगरूळ आशिल्लें की परतून कोण कोंकणी दिसाळ्याक जल्माक घालीत अशें दिसनाशिल्लें.

पूण दत्तराज साळगांवकार मुखार सरलो. ती ताची इत्सा आसूं वा सर्गीस्त वासुदेवबाब साळगांवकारांची इत्सा आसूं. कोंकणीत सुनापरान्त आयलो. वर्तमानपत्र काडपाची काय आमची शक्त नाशिल्ली. पूण कोणतरी काडटा जाल्यार तें बरे तरेन चलचें देखून चडांत चड कितें मजत करूं येता तें पळोवन ती करप हें एक कोंकणीचो सेवक म्हूण म्हजी लागणूक थारताली. वृतपत्राचे जे संपादक आसतात तांची आपली म्हूण स्वताची विचारसरणी आसता. तांचे कालेती प्रमाणे ते वृतपत्राचें धोरण थारायतात. राजूची कालेत वेगळे तरेची आशिल्ली. ताच्या वावराक तुफानाचो वेग आशिल्लो आनी हो वेग, ही गती कोंकणीच्या वावराखातीर वापरपाची तो मांडणी करतालो. म्हणटकच ताका म्हजे कडेन जाता ते प्रमाणें पालव दिवप हें म्हजें कर्तव्य थारतालें.

हांवें राजूक म्हळें, राजू हांव दितां तुका असो कॉलम!

राजूक म्हजेकडल्यान ही अपेक्षा नाशिल्ली. म्हजेकडेन कॉलम जातलो हाचो ताका दुबाव नाशिल्लो पूण ताचे कल्पनेंत जो आशिल्लो तसो जातलोच म्हणपाची खात्री नाशिल्ली. तरी ताणें म्हळें, बरोवन धाड. छापतलोंच अशी

खात्री दिना. ताच्या उलोवपांत तसो जीव नाशिल्लो.

हांवें उत्तर तर दिल्लें. पूण कितें बरोवप, कशें बरोवप हाचो मातूय विचार करूंक नाशिल्लो. तरी म्हळें काडुया एक्स आनी मारूया आंब्यार. पडलो जाल्यार आंबो पडलो नातर एक्स गेलें.

म्हज्या मुखार कॉलम सुरू करचे आदीं साबार प्रस्न आशिल्ले. राजू हो जरी म्हजो मित्र आसलो तरी तो सुनापरान्त प्रोफेशनल रूपान मुखार व्हरूंक पळयतालो. जेन्ना ताचो तसो विचार आसा जाल्यार फकत मित्र ह्याच मालवजार तो हांवें बरयल्लें छापचो नाशिल्लो. जर तें खरेंच ए-वन आसत जाल्यारूच छापपाचो.

राजू सुनापरान्ताचो संपादक जाल्लो तो साबार विरोधांतल्यान. बरेच दुस्मान तयार करूनच, जे सगळे हो कितें कालयता तें पळोवपाखातीर दोळे लावन राविल्ले. ते पासत ताची पत म्हाका राखूंक जाय आशिल्ली. आनी सगळ्यांत व्हडली जबाबदारी आशिल्ली कोंकणी लोकांचो एकवट सांबाळप. तांच्या मनाक लागून तें कोडू जाता अशी कसलीच घडणूक म्हजेकडल्यान घडूंक फावना, तरी लोक बरपाची वाट पळयतात अशें कितें तरी म्हाका दिवपाचें आशिल्लें. आनी अशेच एका खिणाक सुचलें... ''यस बोरकार बरयता ती बोरकारी.'' पयलो एपिसोड बरयलो. धाडून दिलो. खात्री आशिल्ली राजूक आवडटलो. हंड्रेड पर्सेन्ट आवडटलो आनी जालें तशेंच. राजून फोन केलो, दिलीप अप्रतीम. आगे बडो.

दर आयताराक बोरकारी येवंक लागली. लोक बोरकारीची वाट पळोवंक लागले. हांवें कोणाचेर उडयलां ह्या आयताराक हें पळोवपा खातीर कांय लोक सुनापरान्त घेवंक लागले. पूण मजा अशी जाताली की आपल्याचेर बरयतकच जो गाळी घालतालो तोच दुसऱ्याचेर बरयतकच म्हजें अभिनंदन करतालो. म्हाका फुलयतालो.

पूण हांव तारतम्य बाळगितालों. जांचेर बरयतालों ते म्हजे दुस्मान नाशिल्ले. म्हज्या कुटुंबांतले आशिल्ले. ते पासत बरयल्लें दर एक वाक्य मेजून मापून बरोवचें पडटालें.

आमी साहित्यांत कितेंय वायट बरोवंक जाय जाल्यार त्या शब्दाचे सुवातेर ह्नह्नह्न अश्यो फुलयो घालताले. मराठी साहित्याचो प्रभाव हो. समजा

एखाद्र्याक राग आयला आनी तो दुसऱ्याक गाळ घालता. ती गाळ बरोवप साहित्यांत निशिद्ध, अप्रस्तुत. वाचप्यान त्यो फुल्यो फुल्यो म्हळ्यार अपशब्द, गाळ म्हणपाचें वळखुपाचें. आपले तांकी प्रमाण ती गाळ कितें आसतली हें सोदून काडप. दोन फुल्यो आसल्यार दोन अक्षरी गाळ. तीन आसल्यार तीन अक्षरी. वाचक मागीर आपले पध्दतीन ते सुवातेर गाळ वापरून, वाक्य पूर्ण करून लेखकाची अभिव्यक्ती समजून घेताले.

हांवें हीच फुली 'एक्स' म्हूण घेतली. इंग्लेज एक्स अक्षरूच तर तें! फुली म्हणचे परस एक्स अशें बरोवंक लागलों. गाळी आसल्यारूच फुली फुली कित्याक बरोवप? बऱ्या शब्दाखातीर फुली फुली घालूं येता. म्हणचे वाचकाची कल्पनाशक्त लडोवपा खातीर ती एक संद मेळूं येताली. हांव बरयतना कांय वेळार बऱ्या खातीरूय एक्स वापरतालों. पूण वाचक तें वायट, वायट अर्थानूच घेताले. अशे तरेन 'एक्स' हो नवो शब्द प्रयोग कोंकणीत आयलो. रूढ जालो.

'बोरकारी' हो प्रकार कसलो तें हांव सांगना. पूण तो एक साहित्य प्रकार म्हूण कोंकणी साहित्यांत वयर सरला हातूंत दुबाव ना. कित्याक, अशें प्रकारचें कोणूय उलयलो वो बरयलें जाल्यार 'ही बोरकारी' मरे अशें लोक म्हणटात. 'बोरकारी' म्हण एक साहित्य प्रकार कोंकणी साहित्यांत जल्माक घालपाची संद म्हाका मेळ्ळी देखून त्या साहित्य प्रकाराचो हांव जनक अशें म्हणपाक हरकत ना. ती संद रचून दिली देखून ताकाय परबीं फावतात.

बोरकारीक लागून कोंकणी समाजांत खवदळ सुरू जालो. जितल्या लोकांनी तारखणाय केली तितल्याच लोकांनी म्हाका गाळीय घाल्यो. कांय वाचक आपलें मत वृतपत्रांतल्यानूय व्यक्त करताले. तीं कात्रणां सांबाळून दवरिल्लीं. तांचोय आस्वाद हांवें ह्या पुस्तकांत परिशिश्ट म्हूण केला. नवी पिळगी जी साहित्याचेर अभ्यास करता तांका वाचूंक मेळचीं होच हो फाटलो उद्देश्य.

नामनेचे व्यंगचित्रकार मंगेश तेंडुलकार हे म्हजे आत्मीय. विजय तेंडुलकरांचे ते भाव. विजय तेंडुलकर म्हजे साहित्यिक मित्र. पूण म्हजी नाट चड जुळ्ळी ती मंगेशबाबांकडेन. 'बोरकारी' वाचून ताणीं मुखपृष्ठ दिवपाचें मान्य केलें. म्हणूंक लागले, हो साहित्य प्रकार म्हळ्यार मिसायल. मस्तपैकी चिंतामुक्त जावन निवांतपणान तूं हे मिसायल सोडटा. तोच विशय आपूण मुखपृष्ठाक घेतलो. ताणीं समर्पक आनी सुंदर मुखपृष्ठ दिलें. म्हजेवयलें प्रेम

जालेंच पूण असल्या प्रकारच्या साहित्यावेलें तांचें हें प्रेम. ह्याच प्रेमान म्हाका आंतरीक शक्त दिल्या.

बोरकारीच्या वाचकानी म्हाका खूब प्रेम दिलां. चड करून नवे पिळगेन. युवा साहित्य संमेलनातले पडवेर बशिल्लेकडेन जावं वो आनी खंयचेय कार्यावळींत ताणीं तें व्यक्त केलांच. ताची म्हाका दखल घेवंकूच जाय.

बोरकारीचो हो पयलो खंड. दुसरो येतलोच अशें सांगू नज. पयल्या खंडांत ज्यो शंबर बोरकारी आसात तातूंत कसलोच बदल करिनासतना, एकूय वगळावनासतना छापल्यात. जाणी वाचून म्हजी तोखणाय केल्ली वो गाळी घाल्ल्यो तांका परतून एकदां ती संद दिवपा खातीर आनी जाणी वाचूंक नांत पूण तांचेविशीं आयकल्लें तांका वाचूंक मेळच्यो होच उद्देश्य.

'बोरकारी'चो साहित्यिक दर्जो कितें हाचेर हांव भाश्य करिना. करपाची गरजूय ना. म्हज्यांतल्या मस्त्या भुरग्याची ती एक कला. तिची वळख करून दिवपी ही बोरकारी. इतलेंच.

**– दिलीप बोरकार**

'धर्म-लक्ष्मी',
सांत लॉरेन्स,
आगशी – गोंय.
मो. : 9822136885
e-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in



**प**णजेच्या जुन्ता हावसाच्या
एका आडमोडणार
म्हाका झुल्फे कवी मेळ्ळो
अशे कवी-बिवी म्हाका
वाटेर आपटले जाल्यार
महारोग जाल्ल्या मनशाक चुकोवचो
तसो हांव तांकां कट मारतां

ह्या जातीच्या लोकांक जर कटयना
जाल्यार मागीर म्हजो पुराय दीस
हेरांक गाळी घालपाक वता
झुल्फें कवीक म्हाका चुकोवंक जमलेंना
'पाड पडूं हाचें'
तोंडार हांसो हाडीत हांवें मनांत म्हणलें
तशें पळोवंक गेल्यार ही म्हजी
सामाजीक हिपोक्रसी
म्हाका हीं असलीं ढोंगीपणां आवडनांत
पूण समाजांत रावतलो जाल्यार
ही हिपोक्रसी राबोवचीच पडटा
तोंडार हांसो दवरून
मनांत गाळी साचोवन हांव
झुल्फे कवीच्या तोंडाक पळयत रावलों
आपूण बाकीबाबाचो भाचो
जाल्ले भशेन झुल्फे कवीन
आपल्या कपलार देविल्लीं झुल्फां
दाव्या हातान कुशीक सारीत म्हळें
''बोरकार, तूं ती कितें पोरकारी बरयता रे?''
म्हाका कच्च जालें
हो प्रस्न अपेक्षे भायलो आशिल्लो
हो झुल्फे कवी म्हाका आतां
खंयच्यातरी हॉटेलांत च्याक व्हरतलो
आपल्यो नव्यो प्रसुती वेदना
आनी काव्य गर्भ
म्हज्या तोंडार उडयतलो
आनी धन्य धन्य जावन वतलो
असो हांवें मनांत हिशोब केल्लो
बारा आण्याची च्या साध्य करपाखातीर
वर देड वर होगडावपाची

हांवें मनाची तयारी केल्ली
पूण च्याचो विशय काडिनासतना
भलतोच प्रस्न केल्लो पळोवन हांव अजापलों
''तूं कितें म्हणटा तें म्हाका कळूंना
हांवें तुजेर खंय कितें बरयलां?''
हांव इनोसंट
''हांव तें म्हणना रे''
ताणें परतून आपली बट कुशीक काडली
''तूं ते 'आघात' 'प्रहार' बी बरयता तें म्हणटां हांव
कितें पोरकारी चलयल्या रे तुवें?''
आतां म्हजी एक्साची तिडक तकलेक मारली
आतां एक्साची तिडक तकलेक मारप
म्हळ्यार कितलो राग येवप हें सांगपाची गरज ना
आपल्याक आयिल्लो राग
सोंपेपणी उक्तायतलो जाल्यार
होच वाक्यप्रचार वापरप
खरें म्हळ्यार बरें
पूण एक्साक सामाजीक मान्यताय
आसली तरी साहित्यीक मान्यताय ना
ते खातीर बरयतना
एक्सूच म्हणचें पडटा
तरी हांवें कोंकणी मनशाचो
सोशिकपणा सिद्ध करपाखातीर
थोडे पाशियेंस काडलें आनी झुल्पेक म्हळें -
''हांव पोरकारी केन्नाच बरयना
हांव बरयतां ती बोरकारी
तुका जर तातूंत कितेंय पोरकारी दिसली
जाल्यार म्हाका दाखय.''
तो म्हाका कितें दाखयतलो एक्स?
हांव बरयतां म्हण ताणें
कोणाकडल्यान तरी आयकल्लें

आनी वाचीनासतना कितें तरी
पचपचूंक जाय म्हण उलयल्लो
म्हज्या प्रस्नाक ताजेकडेन जाप नाशिल्ली
तरी सुद्धां सुण्याची शेंपडी वांकडी
''तें जालें रे, पूण कितेंय बरें बरय''
कितेंय बरें बरय अशें सांगतना
बरें कितें आनी तें कशें बरोवप
हें मात झुल्फे कवीन म्हाका सांगलेंना
'जे न देखे रवि वो देखे कवि'
हे म्हणणेचो सार्थ अर्थ दिवपी हो कवी
ताका हेरांतले दुर्गूण तितले दिसतात
मांजरान व्हियेंवचें
तसो हो कवी व्हियेता
मोगाच्यो कविता करतां करतां
केन्नाय मोडणें मारून येवचें तशें
तो क्रांतीच्यो कविता करता
एकदां खंयच्यातरी कवि संमेलनाक
ताणें क्रांतीची कविता मोट्या नेटान
हड्डें फुलोवन वाचिल्ली
ताचो तो हावेस पळोवन
हांवें भरपूर ताळयो मारिल्ल्यो
कोंकणीचें जैत आतां पयस ना
अशें दिसून हांवें ताची भरपूर तोखणाय केल्ली
ताचोच गैरफायदो घेवन हो झुल्फे कवी
म्हाका मेळ्ळ्या बरोबर कविता आयकयतालो
अशा ह्या क्रांतीकारी कवीक हांवें एकदीस
कोंकणीच्या मोर्चाक व्हरून
सगळ्यांत मुखार उबो केलो
अशा शुरविरांचो फोटो
वर्तमानपत्रांत येवंचो आनी
लोकांक खऱ्या क्रांतिकारी मनशाची

वळख जावंची होच शुद्ध हेतू आशिल्लो
मोर्चो सचिवालयाकडेन पावत आयलो
कॉर्डन मोडचो आनी अटक करून घेवंची
असो निर्णय जालो
म्हाका दिशिल्लें झुल्फे कवी
सगळ्यांत पयलीं अटक करून घेतलो
पूण तो हळू हळू कुशीक सरतालो
इतल्यांत कोणें तरी गर्दी पोलिसांचेर लोटली
पोलिसांनी लाठी उबारली
झुल्फे कवीची क्रांती बोटव्यांतले कवितेंतूच उरली
लाठी उबाल्ल्या बराबर झुल्फे कवीन
आपल्या कुल्यांक पांय लावन धांव मारली
ताका तसो धांवतना पळोवन
म्हाका मनांतल्यान हांसो आयलो
म्हजो हांसो ज्युस्त कवीन पळयलो
गणपतीक चंद्र जसो हांशिल्लो
आनी गणपतीच्या स्त्रापाचो जसो धनी जाल्लो
तसोच हांव ह्या झुल्फे कविच्या रागाचो धनी जालां
म्हाका कमी लेखूंक तो
म्हज्या बरोवपाक पोरकारी म्हणटा
पूण ह्याच लोकांक हेरांनी समजून घेवंचे म्हूण ही बोरकारी

२० मे १९९०





पेडण्या मराठी साहित्य संमेलनाक
उद्‌घाटनाच्या वेळार म्हजो इश्ट
भाई खलप उलोवपाचो आसा म्हण म्हाका कळ्ळें
हांव थंय गेलों आनी एका कोनशाक भश्टो कसो बसलों
गोंयची शीम हुपिनासतना महाराष्ट्रांत
वचपाची हीच एक संद आशिल्ली
भाईचें भाशण तें खंयच्यानूय आयकूंक येवपाचें
पयले रांगेत बसूं येतालें
पूण थंय सगळे मराठीचे 'अती महारथी' बशिल्ले
तांकां गरजे भायर कुरासांवाचो आताक येत म्हण
एका कोनशाकूच बसलों
उद्‌घाटन जाल्या उपरांत भाई स्टायलीन उलोवंक लागलो
गोंयकारांची मराठी आयकून म्हजें हड्डें फुलून आयलें
हांव भाईची तोखणाय करीत रावलों
'मराठीचा जरी पटका गोव्यात फडकाविण्यासाठी
मराठीत शिक्षण घ्यायलाच पाहिजे'
भाईन सिंहगर्जना केली
हांवें कच्च करून आंग काडलें
म्हजें मॅट्रीक मेरेनचें शिकप मराठींत जाल्लें
मराठीचें भरपूर वाचन केल्लें

मराठींत खूबशें बरयल्लें
पूण जरी पटका मात फडकावपाचो
विचार तकलेंत येवंक नाशिल्लो
मराठींतल्यान शिकूनच तूं लेखक जावंक पावलो
तिजें रीण फारीक करपा बदला
तूं कोंकणीखातीर झुंजता हीं तुजीं कृतघ्नपणां
अशें कोणेंतरी म्हणिल्लें
मराठीचें रीण फारीक करूंक
हांव मराठींत बरोवंक लागिल्लों
मराठीचीं पुस्तकां विकतीं घेतालों
आतां म्हाका जरी पटका फडकावन
ह्या रिणांतल्यान मुक्त जावपाचें आशिल्लें
म्हजे मुखार वडेर बशिल्लो
ताका हांवें 'जरीपटका म्हणजे काय?' अशें विचारलें
भाईची मराठी बोली आयकून
मुमुरख्यांनी हांसपी वडेरान म्हाका पळयलो
आनी तो नेर्वोस जालो
तरी पूण प्राथमिक शाळेंतल्या
एका विद्यार्थ्याक समजावन सांगचें
तशें ताणें सांगलें
'मराठी राज्याची स्थापना करून
शिवाजी महाराजांनी लावलेले निशाण
हा पहिला अर्थ
दुसरा अर्थ कमरपट्टा
तिसरा अर्थ जरीचा फेटा'
मराठी राज्याचें निशाण काय म्हज्यान
लावं नज आशिल्लें
तें भाई करूंक शकतालो
हांव फकत फेटो जावं कमरपट्टा बांदूंक शकतालों
आतां जर खंयची हाडप!
म्हाका याद जाली

आवयचें एक जरीचें पोरणें कापड
काशेदांत आशिल्लें
ती तें पोरणेकाराक दिवंक सोदी
हांवें तें भायर काडलें आनी एक कुडको
माथ्याक आनी दुसरो कंबराक बांदलो
त्या बराबर म्हज्या माथ्यावेलें
मराठीचें रीण घासायंच करून फारीक जालें
हांव धन्य जालों
म्हजें हें सगळें कर्तुब आवय पळयताली
शेजारचें आवडूय ज्युस्त थंय पाविल्लें
ताणें फुतफुतत आवयक म्हळें
'दिलीप असो कितें करता?'
'खंयतरी नाटकांत सवंग आसतलें-
आवयन म्हाका सांबाळपाचो यत्न केलो
'आतां पावसांत नाटकां खंयचीं?
हांवें तुका पयलींच सांगलेलें
तो पळय तीं नाटकां पुस्तकां बरयता
तो एक दीस तकली होगडावन बसतलो'
म्हाका ह्या पामरांची तिडक माल्ली
ही जनता फकत म्हाजी भाशा मराठी हाये
हेंच म्हणूंक जाणां
तांकां म्हजें ध्येय कशें कळटलें?
तांच्या तोंडाक लागचे परस
आफोंसागेर गेल्यार बरो
म्हण हांव भायर सल्लों
भाई-इरमांव एक जावन
हिंदू क्रिस्तांव एकजूट जाल्या बराबर
हांव म्हजीय लागणूक पाळटां
धार्मिक एकजूट पाळूंक
खलप भाई इगर्जेंत वचून नाकान खुरीस काडटा
आनी चर्चील इरमांव देवळांत वचून

पांये पडटा जाल्यार
नागरीक म्हण म्हाका इतलें तरी
करूंकच जाय आशिल्लें
'आगो चोय कोण येयला
कोंकानीचो खोडेगांठ फुडारी बोरकार'
आफोंसान बायलेक म्हळें
'बाब डू रे आं ऽऽ डू आं ऽऽ डू रे !'
म्हाका हो अपमान दिसलो
हांव आयलां आनी ही
बाबा 'गां ऽऽ डू बाब गां ऽऽ डू' म्हणटा म्हळ्यार कितें!
पूण इतल्यान तीच भायर आयली
तिच्या हातांत एक वाटली आनी हांडीर चलो आशिल्लो
म्हाका पळोवन ती हांसली आनी तिणें परत म्हळें
'बाबा आं ऽऽ कर. डू रे आं ऽऽ डू
नातर फिशां बोरकार खातलो आं!'
म्हज्यान आतां सोंसूं नज जालें
पयलींच तकलेर जरीचो पटको
तातूंत आफोंसा बायलेची इंग्लेज
च्याचो फोर्स टाळून हांवें कूस मारली
आनी बद्द रवीन्द्रबाबागेर गेलों
रवीन्द्रबाबाची नात पुतूल अभ्यास करतालें
रवीन्द्रबाब मिश्किल नदरेन
तिजे कडेन पळयत विचारांत दंग जाल्लो
'थोबाडींत मारणे म्हणजे गालावर मारणे
थोबाडींत मारणे म्हणजे गालावर मारणे'
पुतूल बडबडतालें
'कोंकणी शाळा ना म्हण ताका मराठींत घाला
ते खातीर ताका अशें पाठ करचें पडटा'
म्हाका पळयत रवीन्द्रबाबान म्हळें
आनी पुतुलाक विचारलें
'पुतूल सोणकुटेर फुलोवप म्हळ्यार कितें गो?'

'बरें दुखता तशें पोल्यार मारप'
पुतुलान जाप दिली आनी तें आपल्या कामाक लागलें
'पळय हें ताका शिकनासतना समजता. पाठ करचें पडना'
रवीन्द्रबाबान म्हळें
पुतुलाचें पाठांतर म्हाका त्रास दिवंक लागलें
तकली थंड करून हांव थंयच्यान उठलों
आनी हणजुणां गेलों
हेन्स थंय दर्या वेळेर बशिल्लो
तो जर्मन, फाटलीं धा वर्सां गोंयांत रावता
'यो बोरकारबाब खूब दिसांनी पावलो!'
हेन्स म्हजेकडे सदांच कोंकणी उलयता
हेन्सावांगडा दोन चलयो आशिल्ल्यो
दोगांयची दिगंबर अवस्था
एकली सनबाथ घेताली तर दुसरी चिलीम फुसकीताली
हेन्सान वळख करून दिल्या बराबर
सनबाथ घेवपी जुआना उठलें
आनी 'ओह ब्रोकार' म्हणत म्हज्या
खाडाची पापी घेतली तर दुसऱ्यान चिलीम मुखार केली
चिलिमींतल्यान झुरको माल्ल्याबराबर
चरसाचो धुंवर म्हज्या पुलमावांत पावलो
हांव जरीपटका विसरलों
आं ऽऽ डू विसल्लों आनी
थोबाडीत मारणेय विसरलों!

२७ मे १९९०



शिक्षणमंत्र्यांचो फोन आयलो
अशे मोठ्या मनशाचे फोन आयले
कीं जिवाक बरेंऽऽ दिसता
'बोरकार, आतां म्हाका सगळें
जाग्यार घालपाचें आसा.
तेन्नां तुजेकडल्यान थोडो आदार जाय'
हो अणभव म्हाका नवोच
हांव कांचाबूल जालों
'तुजी कोंकणीवयली निश्ठा आनी सिंन्सियरीटी हांव जाणां'
हांव आनी सिंन्सियर!
म्हजें काळीज धडधडपाक लागलें
म्हाका खातखुतल्यो जाल्यो
अशी तुस्त आयकल्या बरोबर
म्हाका लजिल्लेवरीं जाता
'तेन्ना आमी निर्णय घेतला
तुका कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष करप!'
म्हज्या काळजांत धरस जालें!
देवा, आयज एप्रील फूल काय?
ह्या नव्या मंत्रीमंडळांत कसलीं कसलीं नाडेपेन्नां

आनी अजापां घडत हाचो इस्पार ना'
'तुजें मोनेपण म्हळ्यार हांव हयकार समजतां'
शिक्षणमंत्री उलयत आशिल्लो
आतां म्हाका उलोवंकच जाय आशिल्लें
पूण कितें सांगप?
म्हाका म्हज्याच एका नाटकांतलो
डायलॉग याद जालो
'कितें सांगता रे तूं दुमींग
आमी राज करपाचें!
गावडे म्हणोन केन्ना राजा जाता?'
पूण हो डायलॉग हांगा फीट जायनाशिल्लो
हांगा निर्णय घेवप म्हत्वाचो आशिल्लो
टू बी ऑर नॉट टू बी
म्हजे एके जापेंत म्हजो 'फुडार' थारतालो
'म्हाका विचार करूंक दोन दीस दियात'
म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरिल्लीं
आवाज थरथरतालो. ताळो सुकिल्लो
'तुमी लेखक-कविनीं फकत विचारूच करपाचो
म्हाका जाता तितले बेगीन सांग'
शिक्षणमंत्र्यांनी फोन दवरलो
अध्यक्षपद! तेंय कोंकणी अकादेमीचें!
आवयचो घोव ना घरा!
येदी व्हडली जापसालदारकी सुश्रूत मार्टीन्स,
पुरुषोत्तम काकोडकार हांचेकडेन पेलता
म्हूण म्हजेकडेन पेलूं नाकां?
निर्णय घेवंचे पयलीं कोंकणी
आनी कोंकणी अकादेमीच्या
'म्हाल'गड्यांकडेन चर्चा केल्ली बरी
बेगोबेग हांवें सगळ्यांक तारो धाडल्यो
केणी हॉटेलांत मिटींग आपयली
आतां बिलां बी फारीक करपाची चिंताच नाशिल्ली

सगळे म्हजेकडेन दुबावान पळयताले
फकत धुमे मात नमळायेन उबो आशिल्लो
पुरुषोत्तमबाब, मनोहरबाब, उदयबाब, पुंडलीकबाब,
मावजोबाब हे सगळे बाब
हांव केन्ना तोंड उगडटां काय म्हूण
उत्सुकतायेन पळयताले
'भाऊ, म्हाका कोंकणी अकादेमीचो
अध्यक्ष जावपाचो प्रस्ताव आयला'
हांवें नमळायेन म्हळें
'प्रस्ताव आयला मूं! येवपाचोच
येवपाची वस्त केन्ना येना आसतना रावल्या?'
'तशें म्हणना हांव भाऊ!
म्हाका तुमचेकडल्यान सहकार्य जाय
कितें म्हणटा उदयबाब?'
'बरे भशेन!'
उदयबाबान आपलो एक हात तोंडामुखार धरीत म्हळें
'सहकार्यूच मूं! तें मेळटलेंच.' भाऊन सुरवात केली
'मेळपाची वस्त आसा ती मेळटलीच
आमी गोंय सुटकेखातीर झुंजले
तशें झुंजलेना म्हूण कितें गोंय
स्वतंत्र जायनासतना रावपाचें?
तें जावपाचें तें जावपाचेंच
तशें सहकार्य मेळपाचें तें मेळटलेंच'
पुंडलीकबाब कितें तरी
उलोवंक सोदता अशें दिसलें
भाई ताका बरोच वेळ पासून
बोटां तोपीत आशिल्लो
'कथा- कविता हांचेर दोन- दोन दिसांचें
शिबीर घेवंक आमचें सहकार्य आसाच'
पुंडलीकबाबान म्हळें
'जाय जाल्यार आतां पावसांत

पावसाच्यो कविता कथा कशो बरोवप,
हाचेर एक पावसाळी शिबीर घेवं येता'
भाईन तेंको दिलो
'हीं शिबिरां बी खूब जालीं
आतां एम्. ए. क कोंकणी लागल्या,
शाळांचें माध्यम कोंकणी जाता,
तेखातीर फाव तीं पुस्तकां,
शब्दकोश बी करूंक जाय न्हय'
हांवें दबकत म्हळें
'तशें जाल्यार म्हाका तें विचारचें पडटलें'
पुंडलीकबाबाची जाप आयकून
म्हाका कांपरी सुटली
पयलीं आमी नाटकांच्यो तिकेटी बी घेवन
दुकानां आनी हेर घरांनी वचून त्यो खपयताले
त्या वेळार व्हडल्या भावाक विचारूंक जाय
बायलेक विचारूंक जाय
अशो जापो दिवन लोक आमकां टाळटाले
हीच सवंय बी लागली काय हाका?
'ताजें कितें आसा जाणां तूं दिलीप
सद्या आमच्या प्रेसांत सामकी ताणी आसा
तेन्ना छापपाचो प्रश्न मागीर हाताळूं येता'
पुंडलीकबाबान म्हाका समजायलो
इतल्यान मनोहरबाब फ्रांसेजीन कितें तरी उलयलो
उदयबाबाक तें कळ्ळें आनी ताणें मान हालोवन
'बरे भशेन' म्हळें
म्हाका फ्रेंच भास खूब आवडटा
तिचें एकूच वाक्य पूण वेगवेगळ्या सुवातांचेर
ताचो वेगळो अर्थ जाता
हांवें मनोहरबाबाक ताचें मत विचारलें
तोंडार थोडो हांसो हाडून ताणें म्हळें–
'ताचें कितें आसा दिलीपबाब

फाटले पावट अकादेमीकडेन फंड कमी आशिल्लो
त्याखातीर आमकां देशांतल्या भासांचो
अभ्यास करूंक मणिपुराक वचचें पडलें
आतां वर्साक तीन लाख केल्यात
तेन्ना फ्रांसेज भाशेचो अभ्यास करूंक
फ्रांसाक वचप बरें
ताचो कोंकणीच्या विकासाक फायदो जातलो
अशें म्हाका दिसता आं!
तुमकां कशें दिसता तें पळयात
कल्पना सगळ्यांक आवडली
फ्रांसाक कोणें कोणें वचचें
आनी कोणाक व्हरूंना तो
कितें कितें टिका करतलो
हाचेर भासाभास जाली
उपरांत च्या, केक, बिस्कुट्यो जाल्यो
हांवें केणी हॉटेलांतल्यानूच
शिक्षणमंत्र्यांक फोन केलो
'म्हाका अकादेमीचें अध्यक्षपद मान्य आसा
पूण तें स्वीकारलां म्हणपाची घोशणां
हांव फ्रांसाक करतलों'

३ जून १९९०



**प**मेला म्हाका आवडटालें

हें पमेला बोर्जेस न्हय
हें आमचें गोंयचें पमेला
पमेला बोर्जेस आवडूंक
म्हजें एक्स खंय तितलें व्हडलें आसा?
म्हाका आवडटालें तें लोकल पमेला
गोंय विद्यापिठांत बोमले सकयल
साडी न्हेसून हांगा थंय सतत
व्हींवळीं कशी भिरभिरत आसता
तेंच तें आमचें पमेला
पयलीं म्हाका तें कोण हें खबर नाशिल्लें
पूण तें जळा-मळाक भिरभिरता
तेन्ना म्हजी नदर ताचेर वताली
उप्रांत ती ताचे बोमलेचेर पडली
की म्हाका बेश्टेंच लजिल्लेवरी
जावन नदर सकयल वताली
खरें म्हळ्यार म्हाका पळोवन
ताची नदर सकयल वचूंक जाय आशिल्ली
सदांच चल्यांक पळोवन चलयांची

नदर आपसूक सकयल वता
हो तसो जागतीक सिद्धांत
पूण हांगा पमेलान परतो समज करून
आपल्याक पळोवन बोरकार नदर सकयल घालता
असो अर्थ लायलो
त्यानंतर एक क्युरयोसिटी म्हण
ताचेर हांवें संशोधन सुरू केलें
तरी आसतना ताचें नांव कळुनूय
ताका पमेलाच म्हणचें अशें म्हाका दिसलें
पमेला सोशलॉजींत एम. ए. करतालें
त्या भायर पमेला समाजसेवा करतालें
ताचोच एक वांटो म्हणून कविता करतालें
आनी सगळ्या बायलांची मक्तेदारी
आपल्याचेरूच आशिल्लेवरीं बायलांची
बाजू घेवन चल्यांकडे झगडटालें
ह्या सगळ्या राटावळीचो पमेलाक
बेस बरो फायदोय जातालो
ताका महिला मंडळांचीं आमंत्रणां येतालीं
तें गोंयच्या बायलांचें प्रतिनिधीत्व
गोंय आनी गोंयां भायर करतालें
सरकार आनी वेगवेगळ्या संस्थांकडल्यान
अनुदान घेवन बायलांचे मेळावे घडोवन हाडटालें
थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार
पमेलाचो दिसवडो बरोऽऽ सुटटालो
एक दीस कित्याक तरी लागून पमेलाची
आनी म्हजी वळख जाली
म्हजेकडे वळख करून घेवपाची ताची
एक गुप्त आस आशिल्ली म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें
उपरांत आमी खूब चर्चा केली
चर्चा करतना म्हजी नदर
ताचे बोमलेक आदळटालीच

तें वोठांतल्या वोठांत चिड्डून इंग्लेज उलयताना
खरेल्या इंग्लेज मनशाक लेगीत लजयतालें
तें स्वताक इंटूक (आमचे भशेन इंटेलेक्च्युअल) समजतालें
तें लिबरल, सोशल, ब्रॉड मायंडेड
बी सगळें आशिल्लें
ताका असायनमेंट बरोवन दितल्यांक
तें कितेंय दिवंक तयार आसा अशें कांय चले म्हणटाले
म्हाका आतां तें फट दिसलें
कोल्याक द्राक्षां आंबट
एक दीस पमेला आसतनाच हांवें
एक गुजराती बायलेचेर कॉमेंट मारलो
ती आपलें पेडावण मुखार धुकलताली
'बुलडोझरांत आनी हातूंत खूब साम्य आसा'
पमेला केंच करून म्हजे आंगार आयलें
बायलांची घेतिल्ली मक्तेदारी उफाळून आयिल्ली
आनी केन्ना तरी एकदां हांवें खंयतरी
भाशण करतना म्हणिल्लें
'ज्या मनशाचे दोळे
शेजारच्यान सळसळत वचपी पदराचेर वतात
ताचें काळीज सदांच तरणें'
हांव कितलो काव्यात्मक उलयलों
म्हण हांव म्हजेरूच खूश जावन गेल्लों
पूण पमेलान ताचेर जो आकांत केल्लो
तो पळोवन मात खंयची झक मारली
आनी हांव अशें उलयलों अशें म्हाका जाल्लें
तरी आसतना बायलांची बाजू
सांबाळपाची ताची ही धडपड पळोवन
म्हाका ताची अर्थ अपुरबाय आनी तोखणाय दिसताली
ना तर दादले! बायलांक सकयल घालूंक
एकूय चान्स सोडिनांत
कितें त्यो जायराती आनी कितें ते हेर प्रकार....

पमेला सारक्यो एक दोनूच चलयो
ह्या गोंयांत आसत तर गोंयची
स्त्री मुक्ती चळवळ
सफल जावंक कळाव लागचो ना
अशा ह्या पमेलाची आनी म्हजीं
एक दीस बरींच आकांताचीं झगडीं जालीं
पमेला हें विशाळ मनाचें बुद्धीवादी
शिलवंत, कुळवंत म्हण म्हजी खात्री जाल्ली
बायलांच्यो समस्या जाणां जावन घेतलों
तांकां खोलायेन समजतलों जाल्यार
बायलांच्या सभावाचेर हेच चलयेकडे
उलोवप बरें म्हण हांवें पमेलाक कांय प्रस्न विचारले
'तुका हुंडो ही पद्धत आवडटा?'
'आंतरजातीय लग्नाचेर तुजे विचार कितें?'
'फ्री सेक्स हाचेर तुजें मत कितें?'
'कॉन्ट्रॅक्ट-मॅरेज' ह्या प्रकाराक
शिकिल्ल्यो चलयो खंयची सुवात दितात?
'हस्तमैथुन हे प्रकार शिकिल्ल्यामदीं
चड काय अशिक्षीत चलयांमदीं चड?'
म्हजे प्रस्न आयकून बुद्धीवादी ब्रॉडमायंडेड
पमेलाचो आवरो उडलो
ताचें इट्टुकपण, रॅशनलिटी, ब्रॉडमायंडेडनेस
आंगाच्या घामावांगडा सकयल गेलो
तणतणत गाळी घालीत तें गेलें
म्हाका पश्चाताप जालो
गरजेभायर हांवें नाकाशिल्ले प्रस्न
सोज्वळ अशा पमेलाक विचारून
बायल हे जातीचो अपमान केल्लो
त्या पिकासावान हांवें आण्टीचे गादयेर
वचून तीन फूल पेटयले
याकूबान म्हजीं फकाणां करूंक विचारलें

'बोरकार साब, पंजी में नया माल है
रेट पुछके आवूं?'
हांवें मान हालयली
याकूब खरेंच धांवलो
म्हजी चूक म्हाका कळून आयली
ग्लास दवरून भायर पावता सर
याकूब ते चलयेकडेन पाविल्लो
ताचेकडेन कितें तरी उलयतालो
ते चलयेन कितें तरी सांगून चलपाक सुरवात केली
'बोरकार साब आज उसको ॲपायन्टमेंट है'
याकूबान येवन म्हळें
हांव अजून ते चलयेक पळयतालों
आमोरेच्या काळखांत लेगीत हांव ताका वळखलों
तें पमेला आशिल्लें
म्हजे मारिल्ले तिनूय पेग देंवले



**१० जून १९९०**





**दु**शासन भीमाच्या हातांत सांपडलो
दोगांयचेंय आकांताचें झूज जालें
पूण भीम दुःशासनाक आयकता?
पांचालीच्या केंसाक हात घालपी
दुःशासनाचें भीमान हर्दें फोडलें
ताचें रक्त तो पियेलो
म्हज्या आंगार शिरशिरी आयली
'मॅर्द. आवयएक्साचो'
'तूं बास्टर्ड एक्साचो'
आंगाची शिरशिरी वचचे पयलींच
म्हज्या आंगाक कांपरी सुटली
ही नखलामी काय आनी कितें?
टी. व्ही.चेर कोंकणी कार्यावळ
मागून मागून गोंयकार थकले
आनी ह्यो मर्दीच कोंकणी गाळी?
त्योय बी दुःशासन आनी भीमाच्या तोंडांत!
'हांव तुका उबोच चिरतलों'
जरासंधाक चिरपाचो प्रोग्राम
तर पयलींच जाल्लो
आतां तेच प्रसंग रिटेक कित्याक जाय?

आतां तर कापाकापी आनी बाणांबाणीं
चोप्रा तकलेन सुटला काय देवा!
हांवें बारकायेन म्हाभारत पळोवंक सुरवात केली
च्ये, हें टी. व्ही.चेर न्हय
कदाचीत रेडिओ चालू उल्ला आसत
गाळी मारप्यां मदल्या एकाचो आवाज
दिसपट्टो तर रेडिओचेर आयकूंक येता
पूण म्हाभारत चलताना रेडियो कोण लायतलो?
तो तर टी.व्ही. आयिल्ल्याक
केन्नाच माळ्यार उडयला
म्हाका दिसता हांवच तकलेन सुटलां
गाळयांचो प्रोग्राम रेडिओचेर
केन्ना आसूंकच शकना
उठून गॅलरींत आयलों
भायर नदर मोखली
सगळे रिक्शावाले महाभारत सोडून
थंय गर्दी करून राविल्ले
तुकूतुकू पळयताले. कोण झगडटात काय?
ह्या रामायण महाभारतान
लोकांची चलणुकूच होगडायल्या
इतल्यांत ठो SS करून आवाज आयलो
कोणें कोणाचेर तरी फुलयल्लें
हांव धांवत सकयल आयलों
पळय जाल्यार कितें? म्हजो आवरो उडलो
कोंकणीचे दोग जाण फुडारी
टी. बी. कुन्हा मुखार रावून आकांताचे झुजताले
शेजारच्या कॉफि प्रकाशाचो मालक
प्रकाश पयशे घेवपाचे सोडून
युद्ध पळयत मुमुरख्यांनी हांसतालो
हॉटेलाच्या भायर यशवंत पालेकार
हातांत बॅग आनी खाकेंत सत्री धरून

जरासंध वधाच्या वेळार कृष्ण जसो
भीमाक आनी जरासंधाक पळयतालो
तेच नदरेन पळयतालो
हांवें मान वयर करून गर्दींत पळयलें
कोंडाळ्यांमदीं कोंकणींतलो खलील जिब्रान
आनी कोंकणी मळार धुमशेणां कांडपी
इंग्लेज पत्रकार एकमेकाचें गॉल धरून
ऐटींत उबे आशिल्ले
'तूं म्हजें नांव वाट लायत। मॅर्द। ठो ऽऽ
खलील जिब्रानान पत्रकाराचेर फुलयलें
आरे पापया, ताचेर हात उबारूं नाका
तो पत्रकार
संजयाक मारूंक वचपी अश्वत्थामावरीं
भ्रश्ट निती आपणावं नाका
म्हज्या भितल्ल्या महाभारतान म्हळें
पूण आवाज सुटलो ना
तुवें पयशे खाल्याच. आवयएक्साचो
संमेलनाचे पयशे खावन तुवें
स्कुटर घेतल्या हें हांव मडगांवांच न्हय
मुंबय अ. ना. क लेगीत सांगपी
मागीर बरोवनी ताका कुळागरांत!
पत्रकाराचे सोणकुटेर बरेंच
चुरचुरीत पडलां आसूंक जाय
ताच्या कडक गाळयांनी खलील जिब्रानाचें
आनीक चाळवलें
ताणें पत्रकाराचेर झडप घाली
ताचो शर्ट धरून फरफरीत पिंजलो
तरी नशीब!
खलील जिब्रानान आयचें महाभारत पळोवंक ना
तें पळयल्लें जाल्यार तो भीमाच्या
आवेसान पत्रकाराचें हड्डें फोडटलो आसलो

पत्रकारान खलील जिब्रानची कोंकणी सेवा
आनी पिराय लक्षांत घेवन मारथे घेतलें
पूण ताणें कोंकणीतल्यो सगळ्यो गाळी
मात ताचेर पावस कश्यो शिंवरल्यो
इतल्यांत दत्त म्हणून तानाजी
आपलो रथ घेवन हाजीर जालो
ताणें युद्धांत जखमी जाल्ल्या पत्रकाराक
आपल्या रथार घालो आनी झुजामळावयल्यान पयस व्हेलो
हांवें तांबडो गुंज जाल्ल्या खलील जिब्रानाकडेन पळयलें
'हांव त्या रस्तादाक सोडिना
बास्टर्ड मॅर्द, हांवें संमेलनाच्या खुस्तार
स्कुटर घेतल्या म्हणटा!
म्हाका पळयत ताणें म्हळें
आनी त्याच नेटान स्कुटर स्टार्ट मारून
पत्रकारावेलो सगळो राग गियराचेर काडलो
देवा सायबा, कितें चल्लां हें कोंकणी मळार?
यादवकूळ आपल्याच भितर झगडून सोंपलें
तशेंच हें कोंकणी कूळ सोंपतलें काय?
मान सकयल घालून हांव
परत सोपणां चडूंक लागलों
इतल्यांत कोणे तरी म्हाका सत्रेचो दांडो तोंपलो
हांवें कच्च करून आंग काडलें
पळय जाल्यार यशवंत पालेकार!
'हांव जिखलों. हांव जिखलों'
तो युरेका युरेका म्हण नाचचो तसो नाचतालो
फरक इतलोच ताच्या आंगार कपडे आशिल्ले
'आरे दोगायचीं झगडीं तिसऱ्याचो लाब
म्हळ्ळें तुका खबर ना?
आतां दोग दोग जाण झुजताले पळे तांतलो
एकलो म्हज्या विरूद्ध भाशा मंडळाच्या
अध्यक्षपदाक उबो रावला'

'मागीर जालें कितें?'
म्हाका कुटनिती कळ्ळी ना
'आरे सभाग्या हें झूज जावप गरजेचें आशिल्लें
आतां हो पत्रकार हें गांवभर घालतलो
आनी अध्यक्षपदाखातीर मतां न मेळूंक
होच प्रचार पुरो. मागीर हांव फ्री!'
'कित्याक दुडू खावपाक?' हांवें न कळून म्हळें
'शें तूं आनी बाबा. हांव कितें तसलो रे?
अध्यक्ष जावंक म्हणटां हांव'
आपली पेजाद सुटकेस उखलीत पालेकारान म्हळें
भाशा मंडळाचे वेंचणुकेक न राविल्ल्याचें
पिकासांव म्हाका पयलेच फावट जालें



१७ जून १९९०





अठरा जूनाची सांज

टि.बी. कुन्हाकडल्यान पासार जातालों
सहज वयर नदर गेली
टि. बी. कुन्हाच्या तेर्रासावेले कावळे नदरेक पडले नांत
खंय गेले काय आज बाबडे!
आझाद मैदानावयले घुमटेरूय दिसले नांत
सगळो वाठार सोडून वचपाखातीर
आयज आझाद मैदानार फायरींग बी जाल्या काय?
पूण अठरा जूनाक मोर्चा कोण हाडटलो?
माध्यमा विरूद्ध मोर्चा काडपी सगळे
फुडारी तर वास्को आशिल्ले
गोवा-दिल्ली वचपी उज्या गाडयेच्या
इंजिनार इगर्जेचें चित्र तयार करूंक
थोडे भाई-इरमांवांक हेल्प करताले
तर थोडे दिल्लीच्यान सुटपी उज्यागाडयेच्या
इंजिनार देऊळ तयार करपी बार्बोझाक
मदत करायला दिल्ली गेल्ले
मागीर अशी फावोराद परिस्थिती आसतना कावळे गेले खंय?
इतल्यांत दोतोर भिकाजी घाणेकार

हातांत कागदांचो कवळो घेवन
ताकतिकेन टि. बी. कुन्हाच्या वटेन वतना
म्हाका दिश्टी पडलो
आतां म्हजी ट्यूब लायट पेटली
आज टि. बी. कुन्हांत कवीसंमेलन आसूंक जाय
वसंत येवपाचो आसा म्हणपाचें
जशें पयलें कोगळेक कळटा
तशें कवी संमेलनाची सुलूस सगळ्यांत पयलीं
कावळ्यांक लागता
कविंचो तो उपद्रव टाळपाखातीर
ते त्या वेळार ज्यूस्त कूस मारतात
बाबड्यांक ती रात मागीर
कांचवेत खंयचेतरी अनवळखी
रूखार काडची पडटा
हांवें धांवत वचून दोतोराक हटकिलो
अशा कवींक मेळपाची हीच तर भांगरा संद आसता
'दोतोर खंय, खूब तेंपान?'
'आरे बोरकार मरे! कसो आसा?
तुका आमंत्रण ना कवी संमेलनाक?'
हांवें म्हळें 'ना'
'तशें म्हाका नाशिल्लें
पूण हांवें म्हळें या
असले प्रसंग आमीय चुकयल्यार कशें जातलें?'
दोतोर तोंडभर हांसलो
ताच्या तोंडार काव्यप्रतिभा तिकतिकताली
दोतोरान क्रांतीदिसा निमतान
सात-आठ कविता रचल्यात म्हणपाचें
स्पश्ट वळखू येतालें
दोतोरा वांगडा हांव टि. बी. कुन्हांत पावलों
हॉलांत कदेलांची गर्दी जाल्ली

तांतल्या कांय कदेलांचेर कवी बशिल्ले
कांय नवे, कांय पोरणे
पोरणे कवी दाराकडेन नदर लावन
रसिकांची वाट पळयताले
नवे कवी परत परत डायरी चाळीत
वोठांतल्या वोठांत पुटपुटताले
'दोतोर यो. बोरकार, कविता हाडल्यात मरे कितें?'
नागेशबाबान आमकां पळोवन म्हळें
हांवें बेश्टीच सकयलीं-वयलीं बोल्सां
सांसपीत ना म्हळें आनी निर्लजपणान हांसलों
'आरे नागेश, करूया मरे सुरू?'
रामभाऊन बोल्सां सांसपीत
कदेलावेल्यान उठत म्हळें
तो गॅलरींत गेलो आनी तोंडांतल्या
पानांची पीक उडोवन परत आयलो
सकयल रस्त्यावेल्यान वचपी
कोणाच्यातरी कपड्यांचेर येन्नादर
काव्यरंग चडला आसतलोच
कल्पनेनूच म्हजें आंग शिरशिल्लें
सुनील पालकार कविता वाचूंक उबो रावलो
ताणें बोल्सांतल्यान चुरिल्ल्या
कागदाची पुडी काडली
ताका संवयच ती
तो कविता करता आनी
त्या कागदाची गुटली करून
काल्सांवाच्या बोल्सांत चोंदता
मागीर बालमोहनासारके ताचीं फकाणां करतात
'रामभाऊ नेहरू युवक केंद्रांत
बसून कविता करता
प्रेमकाव्य न्हय अशा कवितांच्या

कागदांची गुटली करून कोनशाक मारता
आनी त्योच कविता सुनील
आपल्यो प्रेमकविता म्हण संमेलनात वाचता'
बालमोहनाक काव्याचें कितें कळटा?
तो अरसिक तोरपाशोर !
एकदां एक लांब कवी कविता वाचतना,
हाका भडभडीत ओकपाक आयलें
काव्य पचना जाल्यार ह्या लोकांक
कविसंमेलनाक कित्याक येवंक जाय तेंच समजना!
हांव येवजुपांत गुल्ल
हांच्यो सगळ्यांच्यो कविता सोंपसर
दोन-चार म्हज्यो कविता तयार जांव येताल्यो
कोणाच्यो तरी किंळच्यो आयकून म्हजी तंद्री भंगली
पळय जाल्यार शशिकांत पुनाजी
तावातावान कविता म्हणटालो
सगळे नवकवी आपआपल्यो डायऱ्यो
सांबाळून ताचेकडेन अजापान पळयताले
थोडे, हो केन्ना आपलें सोंपयता
आनी आपलो नंबर येता काय म्हूण वाट पळयताले
अकस्मात बालमोहनाक उचकी आयली
'पाडपडिल्ल्याक ओंकारो येना जाल्यार पुरो'
हांवें मनांतल्या मनांत म्हळें
तरी पूण तो हात तोंडार धरून धांवलोच
म्हाका फाटलो अणभव आशिल्ल्यान
हांव ताका सांबाळूंक गेलों
पूण तो टॉयलेट सोडून गॅलरींत गेल्लो
'आरे खंयच्यान....?'
हांव उलोवंचे पयलींच ताणें हांसूंक सुरवात केली
'हें हांव ओंकीना रे, म्हाका एक कविता येवजली
आनी हांसूंक आयलें,' ताणें म्हळें
'म्हण पळोवया. म्हाका आयकुंदी !'

बोरकाराची कविता बोरकारी
भिकाजीची कविता सरकारी
रामभाऊची कविता पोरकारी
हेरांची सगळी तोरकारी!!
हांव ह्या नवकवीच्या तोंडाकडेन पळयत उल्लों !

२४ जून १९९०





गोंय विद्यापिठांत एम्. ए.क कोंकणी लागली...
हांव धन्य धन्य जालों
कोंकणीच्या जाणट्या फुडाऱ्यांच्या
नशिबांत कोंकणींतल्यान शिकप घेवप
केन्नाच नाशिल्लें तें म्हाका मेळिल्लें...
ना तर आवय एकसाचे, कोंकणी दुस्वासी
मराठीवर तुझा पिंड पोसला अशें सदांच म्हणटात...
आतां पिंड दवरपा वेळार तरी
कोंकणी शिकुया म्हूण एम्. ए.क ॲडमिशन घेतलें
फकत एडमिशन घेवन कितें एम्. ए. जाता?
हांव कितें एन्. शिवदास तर!
क्लासांत बसूंक जायच
केन्नाच क्लासांत बसनासतना
'भायल्यान' शिक्षण घेवन युनिवरसिटींत
प्रोसोर जावपाचें भाग्य ओलव्हीन गोम्सा सारख्या
थोड्याच लोकांक मेळटा
कोंकणी क्लासाक बसून
जिवनाचें सार्थक करून घेवया म्हूण वर्गांत गेलों
म्हजे पयलींच वर्गांत चाळीसेक भुरगीं आशिल्लीं
तुकूतुकू करून प्रोसोराची वाट पळयतालीं

थोड्यांच्या गळ्यांत मंगळसुत्रां....
तर थोड्यांच्या दोळ्यांत मंगळसुत्रांचीं सपनां....
थोडे नोकरी मेळना म्हूण एम्. ए. करताले
तर थोडे प्रमोशन मेळूंक!
म्हजेर नदर पडटांच 'सर, सर' म्हणत
सगळीं भुरगीं सोंसे जालीं
म्हज्या रूपान तांकांय धक्को दिलो
म्हजें धवें फुल्ल खाड केंस पळोवन
हांवूंय तांचे सारको विद्यार्थी आसां
म्हणपाचें तांणीं सपनांत लेगीत चिंतूक नाशिल्लें
हांव वचून तांचेमदीं बसलों
प्रोसोराची वाट पळोवंक लागलों
धा पंदरा मिण्टां गेलीं पूण प्रोसोर नाच.....!
'आयज येतोलो, फाल्यां येतोलो, पावोन पावना'
अशें म्हणटां थंय आसां
'सर येता, सर येता' कोणेतरी म्हळें
हांवें तेवटेन पळयलें
कोणतरी गोब्राकोराची सफरी घालून येतालो
पयसुल्ल्यान म्हाका तो इलेक्ट्रीशियन दिसलो
लागीं पावतकच कॉट्रॅक्टर......
देवासायबा, शेख अलीक कोंकणी शिकिल्लो
कोण मेळुंना म्हण कोंकणी शिकोवपाचो भार
ह्या कॉंट्रॅक्टराचेर घाला काय?
प्रोसोर भितर आयलो
ताणें एक हांसरी नदर सगळ्यांचेर भोंवडायली
चडश्यांक ती रडकुरी दिसली
बोल्सांतल्यान कागदाचो कुडको काडून
प्रोसोरान कदेलाचेर बसकण मारली
'हायें व्होडली शिर्विस सोडून तुमकां
कोंकानी शिकोवंक त्याग केला
हांव तुमकां आतां कोंकानी सायत्याचो

इतिआस शिकयतलों.' प्रोसोरान म्हळें
सगळ्या भुरग्यांनी ह्या त्यागी मनशांकडेन कान केले
तर कोंकानी सायत्याक मोठो इतिआस आहा
तो शाणाय गोंयेबाबान कोमेस केलो
तो हेरानी मुखार येलो
आतां कथा बरोवपी जायते आहा
मावजो, नायक, सैल, मोसणो-फोणो
ओतो दिलीप बोरकार आनी हांवूय आहां...
प्रोसोरान म्हजें नांव घेतल्या बराबर
सगळ्यांनी तोखणायेन म्हजेकडें पळयलें
म्हाका लजिल्लेवरीं जालें
कवितेन रमेश आहा, नागेश आहा, प्रकाश आहा
दिलीप बोरकार आहा आनी हांवूय आहां.....
कादंबरींत बोरकार आहा आनी हांवूय आहां
'आरे पापया म्हजें नांव घेनाका. हांव ह्या लफड्यांत ना !'
म्हाका मोठ्यान आइडेवंचें दिसलें
'तर हो आहलो कोंकानी सायत्याचो इतिहास
आतां हांव पुर्तुगालाक वेतां
थंय बाराव्या शेंकड्यांतलें कोकांनी आस्तलिखित आहा
तेज्यो झेरोक्स काडून हांव दोन म्हयन्यांनी येतोलों'
प्रोसोर आयलो तसो गेलो !
प्रोसोर गेल्या बराबर भायर आशिल्ल्या
कोणेतरी सुर्रर करून
च्यानी कशी वर्गांत प्रवेश केलो
प्रोसोरीण बाई भितर आयिल्ली
आतां मराठीचो वर्ग दिसता
कित्याक आतांच भायर ही मराठी उलयताली
एकदां मडगांवां हीच एकल्याक म्हणटाली
'ती कोंकणी काय भाषा हाये?
तिला काय व्याकरण हाये?
मला बाई ती बोलायला लाज वाट्टे!'

हांव भायर वचूंक उठलों
'तीय कोंकणी शिकयता'
भुषण भावेन म्हजो हात धरून म्हळें
हांव बाकाक दसलों
'नांव कितें रे तिजें?'
'तोड तोड'
तोड तोड म्हणून कितें नांव आसता?
ह्या विद्यार्थ्यांक तोडतोड, फोडमोड, मोडतोड,
ह्या शिवाय हेर उतरांच येनांत
आतां हांव तुमकां
कोंकणी कविता शिकयतां 'सांवर'
एका हातान पदर सावरीत तिणें म्हळें
तिणें सांवर म्हळे बराबर भुरगीं सावरून बसलीं
ती कितें सावर म्हणटा तें न कळून
हांवें म्हजें खाड सावरलें
'कवितेचें नांव सांवर.
कवी वेळुस्कारान प्रतिकां वापरून
बायल आनी दादलो हांचो सभाव हांगा उक्तायला
सांवर म्हळ्यार बायल आनी वारो म्हळ्यार दादलो
दनपारच्या कडार, उक्त्या बांदार
जर दादल्याक एकटी बायल मेळत
तर तो तिका किरमिता...
जसो वारो सांवरीक किरमिता...
सगळ्या चलयां-बायलांनी
वर्गांतल्या दादल्यांकडेन तिरस्कारान पळयलें
आरेच्या हांवें तर इतलो तेंप
हे कवितेचो वेगळोच अर्थ लायिल्लो
रमेशाची कविता खऱ्या अर्थान कळूंक इतलो कळाव?
म्हजे भितर रमेशाची कविता संचारली...
हांव वारो जालों. तसोच भायर सुटलों...
भर दनपार आशिल्ली

हांव सांवर सोदीत बांद हेडलों....
रमेशाल्यो सांवरी खंयच नाशिल्ल्यो
म्हजी नदर पयस गेली....
ती पयसुल्ल्यान बांदावयल्यान येताली
तशीच पदर सांवरीत !
म्हज्या मनांतल्या वाऱ्याक सावरीचो वेध!



१ जुलाय १९९०





'दिलीप बोरकार भायर सर!'
'दोकेच मोडून घालतां!'
'स्वताक कोण व्हडलो समजता?'
'चोर खंयचे कडलो!'
'पेन आसा म्हण कितेंय बरयता?'
'खाडाक उजो लावया. एक्साच्याच्या'
कोण काय सकाळफुडें!
पाडपडिल्ले सकाळची न्हीद लेगीत घेवंक दिनांत
तोरपाशोरांक हांव रातचो बोरकारी बरयतां
आनी उसरां न्हिदतां हें खबर ना काय?
हे पाडपडिल्ले बेबदे अशेच
म्हज्या घराकडेन गरजे भायर बोबो मारतात
'आरे दिलीप उठ. भायर मोर्चा आयला'
आवयन दार धोडायत म्हळें
'इतलो तेंप तुवें हेरांचेर मोर्चा काडून
आपलें आयुश्य होगडायलें
आतां पळय तुजेरूच येवंक लागले
हांव सांगतालीं तेन्ना आयकलें ना
आतां भोग फळां

बाकीचे पळय कशे आपलीं घरां दारां भरून
खावन जेवन सुशेगाद आसात'
आवयक आयज आलायतो चान्स मेळिल्लो बडबडपाक
म्हजेर आनी मोर्चा?
तांकां खबर ना काय हांव इलेसांवांक पडलों म्हण!
पाडपडिल्ल्यांक जिकिल्लो आमदार कोण
आनी पडिल्लो आमदार कोण हेंच खबर ना
फकत मोर्चा व्हरूंक जाणांत
हांव दोळे चोळीत भायर आयलों
भायर पळय जाल्यार गर्दी
'आरे पापयानो हांव आमदार न्हय
तुमचो आमदार पेगाद
तो व्हडले गोंयां रावता
भरत नायकाल्या घरा मुखार'
हांव मोठ्यान आड्डलों
पूण कोणूच आयकूंक तयार नासले
दूज हे लोक तर म्हज्या मतदार संघांतले दिसनांत!
चुकिल्लीं गोरवां करमळेच्या तळ्यांत
तशे हे म्हगेर पावले काय किर्ते?
तशे हे राजकीय पंगडातलेय दिसनांत
थोड्या थोड्यांक मातशी
काँग्रेसची हिमसाण मारताली
भोवतेक बारका फाटल्यान पोनेळ
कशे हे काँग्रेसच्या दर्यात गेल्ले आसूं येता
इतल्यांत कोणे तरी हातांतलो पेपर वयर काडलो।
'बोरकार बोरकारी बंद कर!'
ताच्या नेटार दुसऱ्याचो हात वयर सल्लो
'बोरकारी काय पोरकारी'
हांवें बारीकसाणेन पळयलें
हो तर कवी तोरकारी
कोंकणीचो फुडार आपल्याच खांदार

आसा म्हण हांगा थंय झळपेवपी
ताच्या वांगडा आनी कांय बोडकां
सरकारचो राग पडचो न्हय म्हण
सरकाराचे वाटेन आनी
कोंकणी विरोधी म्हणचे न्हय म्हणून
कोंकणी वटेन अशे जातीचे
हांव भीत भीत तांच्या मुखार गेलों
काळजांत कलकलतालें
दुसऱ्यांचेर मोर्चा व्हरप सोंपो
आपल्याचेर येता तेन्नाच कळटा
उदयबाबान त्या वेळार कितें केल्लें कोणाक खबर!
'तुमकां कितें सांगपाचें आसा तें
शिश्टमंडळ घेवन येयात आनी सांगात'
हांवें प्रतापसिंग राणेचो नेट काडलो
केन्नाच शिश्टमंडळात वचूंक ना अशे मुखार सरले
कोणे कोणे वचचें हाचेर थोडीं झगडीं
उपरांत कवी तोरकारी हाच्या मुखेलपणाखाला
एक शिश्टमंडळ भितर आयलें
हांवें सगळ्यांक च्या हाडूंक लायली
सगळ्यांचो नेट मातसो देंवलो
'तूं तें बोरकारींत बरयता पळय तें बरे न्हय!'
कवी तोरकारीन म्हळें
'ताका विचार रे खलील जिब्रान वाचला काय म्हण?'
कवी पोरकारी
'ताणें सेक्स फियर वाचला जाल्यार पळय'
कवी सरकारी
'सेक्स फियर न्हय. शेक्सपियर' कवी झुल्फे
उपरांत सेक्स फियर काय शेक्सपियर हाचेर बाचाबाची
इतल्यांत कोणे तरी मुळूमुळू रडूंक सुरवात केली
म्हज्यान ताचें रडप पळोवं नज जालें
'बाबा, शाणुल्या, गुणुल्या तुजें घडलां कितें?' हांवें म्हळें

'तूं कोंकणी कुटुंबातलें झगडें वाऱ्यार घालता
तांकां तूं दु:शासन बी म्हणटा'
'आरे म्हज्या बरोवपाचो अर्थ तसो न्हय रे शाण्या!'
ताका थातारपाचो यत्न करूंक हांवें म्हळें
'न्हय कितें! तुका कोंकणी साहित्याची उदरगत कळटा?
ती करप्यांचेर तूं बरयता म्हणचे कितें?
आमचें लिखाण बरो समाज घडोवपाच्या दृश्टीन आसचें'
'सारको उलयलो. हेच विचार प्लेटोन मांडल्यात'
कवी तोरकारी मर्दीच उलयलो
'पेटो खंयचो! हांवेंच मांडल्यात ते स्पश्टपणान
कोंकणी भाशेचो फुडार परजळीत करूंक!'
कोंकणी कुटुंबाचें चितप्या तरणाट्यान म्हळें
आनी परत मुळूमुळू रडूंक सुरवात केली
ताचें रडप पळोवन
म्हज्या आवयच्याय दोळ्यांत दुकां आयलीं
तिणें त्याचें कोप तांचे मुखार धरलें
सगळ्यांनी एकदम झोंपय माल्ली
'हांवें बोरकारी बंद केल्यार तुमकां आवडटली?'
'हय'. सगळे एकदम उलयले
'मागीर तुमच्या त्या अमक्या अमक्या
दुस्मानाचेर बरयल्लें कितें करूं?'
'तें तूं छाप पूण आमच्या मनशांचेर छापू नाका!'
'आमकां आमचें कुटुंब सांबाळूंक जाय'
'बरें आसा. तथास्तू!' हांवें म्हळें
एकसाचे आतां घोशणा विसरले
पदां म्हणूंक लागले
'बाट लेंगे हम आधा आधा....!

८ जुलाय १९९०



**गो**वा बंद!

गोंय खरेंच बंद काय म्हाका खबर ना
पूण पणजे ते आगशी हो रस्तो मात बंद
म्हजे खातीर हेंच गोंय
हेर कडेन कितेंय जाल्यार म्हजें कितें वता! एक्स?
पूण हांवें घरा कशें वचप?
बस स्टॉपार रावून रावून कंटाळो आयलो
मुखावेल्या आवंती बार्रांत वचून बसलों
गोंयचें एक बरें
सगळें बंद जातलें पूण बार्रां बंद जावंचीं नांत
आनी बार्रां बंद जाल्लीं जाल्यार
गोवा बंद खंय जावपाचो?
दोन-तीन फूल पेटयले तरी बस येना
उठलों सरळ आल्तीन गेलों
कोंकणीच जाय म्हूण को. प्र. आ.चे
चळवळींत आसतना म्हजे वांगडा
खांदाक खांद लावन आनी हाताक हात धरून
(कित्याक आमी तेन्ना फुडारी फातर मारिनाशिल्ले
देखून हात मोकळे आसताले)

आसपी दोतोर विली थंय रावता म्हणपाचें
म्हाका खबर आशिल्लें
पयसुल्ल्यान विलीचो बंगलो दिसलो
बंगल्यांतल्यान धुंवर येता असो भास जातालो
आल्तिनची चडटी चडटांसर
हांवें मारिल्ले फूल तर केन्नाच देंविल्ले
मागीर हो भास कसलो?
लागी वचून पळयल्यार खरेलोच धुंवराचो लोट!
कदाचीत उजो घालपाची
ट्रायल दिता आसतना विलीच्या मनशांनी
थंयच उजो लायलोंना मूं?
जांव येता
माकडाच्या हातांत कोलीत दितकच
बरें कितें जातलें!
दारशेवेली बेल दाबल्या बराबर दार उगडलें
त्या बराबर धुंवराचो लोट भायर आयलो
पूण भितर उजो लागिल्लो मात खंयच दिसनाशिल्लो
फकत राजन नारायण
चिंताग्रस्त नुरेन सिगार फुसकायतालो
ताच्या हातांतलें सिगार आनी बंगल्यांतलो धुंवर
म्हळ्यार गोंय जळपाचें प्रतीक
असो भोवतेक दोतोर विलीन समज करून घेतिल्लो
म्हाका पळोवन दोतोर तोंडभर हांसलो
हांसून येवकार दितनाच आपल्या मुठींतलो
पिठाचो गुळो लिपोवपाचो ताणें अयशस्वी यत्न केलो
सिगाराच्या धुंवरांतल्यान हय म्हयश
हेर कांय लोक दिसताले
वळखूंक येना आशिल्ले
एक सार्दीन कसो!
दुसरो राधाराव कसो!
तिसरो पेगाद कसो!

हे लोक तशे केन्ना वळखूंकच येनांत
तातूंत आनी हो सिगाराचो धुंवर!
'बोरकार फूंय रे येद्या रातीचो?'
दोतोरान म्हाका भितर घेनासतना विचारलें
'दोतोर आयज गोवा बंद न्हय!'
हांवें भीत भीत म्हळें
'गोवा बंद? सामको बंद! व्हेरी गूड
तूं आहा मुरे आयज रातीचो?
सगळ्याक घालपाचे आं आडे!
ह्या एक्साच्यांक सारकी बुद्ध शिकयतां हांव
म्हुजो पावर काडटा?'
विली कदंब बस जळटा तसो जळटालो
'पूण दोतोर हांव इंग्लेजीचेर कोंत्र. हांव कोंकणी मागपी'
'आरे कोंकानी घेवन फूंय वेतोलो?
कोंकानी शिकोन तुका भायर गल्फाक वचोंक मेळटा?'
सार्दीन कसो दिसप्यान म्हळें
'तुमी बारीक लोक सदांच कोंकणी म्हणोन
बारीकूच रावंक सोदतात'
राधाराव कसो दिसप्यान हिंदू कोंकणी उलयतात
तशें हेळे काडीत म्हळें
'पूण दोतोर तूं म्हण्टालो न्हय कोंकणी गोंयची भास म्हण'
हावें कडकडत म्हळें
हांगा सुबेज उलोवंक म्हण जाता!
तरी बरें, चर्चिल हे फावट ताचे वांगडा ना
'आरे कोंकानी म्हुणली म्हूण हांव मिनिस्त्र जालों
आतां म्हाका पोत्तो मिनिस्त्र जावंक जावो
पूण बार्बोज आतां कोंकानी म्हुणटा
म्हण्टोच हांव इंग्लेज म्हुण्टां'
दोतोराचें राजकीय तत्वगिन्यान
'तेणीं तर इंग्लेज म्हुणली जाल्यार
आमी पूर्तूगेज म्हुणटेले' पेगादा सारक्या दिसप्यान मर्दीच म्हळें

'बोरकार तेका राजकोरोण म्हुणटा
तें तुका गोमपाचें ना'
सार्दीन टायप मनीस
'कळिल्लें जाल्यार ताका एकशे त्र्यांयशीं
मतां पडपां नाशिल्लीं.' राधाराव टायप मनीस
'कोंकानीचें पिशें काड रे
कोंकानी शिकलेलो जाल्यार म्हुज्यान
ओपरेसांव करूंक जावपाचें?
चल वच आनी रस्ते बंद कर'
दोतोरान म्हज्या हातांत कांय नोटी चोंदीत म्हळें
'पूण दोतोर म्हाका घरा वचूंक गाडी दी म्हण हांव आयिल्लों'
'घरा वचचें रे फाल्यां
तुमी आगशीकार झुंजोक फामाद!
कोंकानी वेळार तुजेच गांवचे मार्तीर जालेंना' दोतोर
'कोंकानीक थोडे उपकारलें
आतां इंग्लेजीक चोयपा जाय पडटलें
आमचो शेरकार येतोच फुंड उबार रे मागीर!'
सार्दीन टायप मनीस
हांवें मारिल्ले पेग सामकेच देंवले
दोतोरान दिल्ल्यो नोटी परत्यो केल्यार
दोतोर रागार जातलो.
चड वेळ त्या धुंवरांत रावपय शक्य नाशिल्लें
हातांत नोटी घेवन हांव
आल्तिना वेल्यान देंवपाक लागलों
वाटूच सांपडना. काळोख गुप्पाट्ट
भोंवता भोंवता एका कोनशाक पावलों
मुखार व्हडलो बोर्ड
मेन्टल हॉस्पिटल

०००

१५ जुलाय १९९०



**रा**म नाम सत्य है चे चालीन
चलत तो आमगेर आयलो
कपलभर मिरयो
उलयतना गळ्याच्यो, मानेच्यो शिरो ताणून उलोवप
हांसतना लेगीत कपलार मिरयो
ताच्यो त्यो मिरयो पळोवनूच हांवें ताचें नामकरण केलें
मिरयानंद!
'दिलीप बोरकार आसा?'
मिरयानंदान विचारलें
ताचो तो लेंगो कुरता पळोवन
म्हाका तो कोणतरी दुष्काळग्रस्तांखातीर
फंड उबारपी समाज सेवक दिसलो
'हय. हांवच तो दिलीप बोरकार'
'हांव थिवी वयल्यान आयलां'
थिवीवेल्यान? हो थिवी सावन कित्याक आयला काय?
नार्वेकार प्रकरण जायत सावन हांवें
थिवी मतदारसंघाचो धसको घेतिल्लो
'थिवी न्हय. टि. वी. दुरदर्शन '
म्हाका इंग्लेज येना हाची ताका खात्री पटली

दुरदर्शन! साक्षात परब्रह्म! आज पर्वत महमदाकडें?
हांव भुल्लुसलों
मिरयानंदा मुखार हांव नतमस्तक
जंय राजीव गांधी बागवल्लो
जंय भिकाजी घाणेकार, रामानंद रायकार
ओलवीन गोम्स हांचे सारके म्हालगडे
नज आसतना आल्तिनचो दोंगर चडून गेल्ले
थंय म्हजी खंय गत!
हांवं मिरयानंदाक आसनार बसयलो
'हांव दूरदर्शनचो निर्मातो
पयर तुमचो आघात वाचलो
आनी तुमकां दूरदर्शनाचेर आपोवंक ना म्हण
तुमी तो राग काडलो हें आमकां कळ्ळें
देखून दुसरो आघात जावंचे पयलीं
तुमचें तोंड बंद करचें अशें आमी थारायलां
अशें म्हणत मिरयानंद परत एकदां मिरयांचें मिश्रण हांसलो
ताका कितें म्हणपाचें आसा
आनी तो खंयचे भाशेन उलयता तें कळना जालें
बाबड्यान आपल्याचेर दूरदर्शन
आनी सिनेमाचो खूबच असर करून घेतिल्लो
'आमी तुमची मुलाखत घेवंची थारायल्या'
ताच्या बोल्साकडेन म्हजी नदर गेली
तें पळोवन ताणें म्हळें
म्हणजे हो एकसाचो म्हजें तोंड
अशे रितीन बंद करूंक सोदतालो तर!
पूण ताका दुखोवन म्हाका जमपाचें नाशिल्लें
हांव मुरगटत हांसलों आनी विचारलें -
'पूण म्हजी मुलाखत कोण घेतले?
'आसा एक घोसाळें, आंगलोटान बरें आसा
तोंडानूय बरें दिसता'
'पूण म्हज्या लेवलाचें आसा न्हय!'

हांवें भितभीत प्रस्न केलो
मिरयानंद तापलो
'तुकाच लेवल लागता?
मनोहर सरदेसाय आयलो ना चित्राच्या लेवलार
येद्या व्हडांक लेवल जमता जाल्यार तुका जमना?'
मिरयानंदान म्हजो लेवल म्हाका दाखोवन दिलो
ताका धांवडान घालचो अशें दिसलें
पूण टि.वी. तो. असलो चान्स होगडावन
पिशेपणां करूं येतालीं?
तरी हांवें म्हळेंच
'बीरान नागेशाची घेतली तशी
म्हाकाय कोण साहित्यिक पळयल्यार बरें'
'आमी ज्युस्त करतात तें
तुमी टि.व्ही.चेर दिसले की जालें
तुमी तयारी करात
सांजे कॅमेरा येतलो हांगा
मिरयानंदान च्या बिस्कीटी, उडोवन कूस मारली
हांव सामकोच भुरकुटलों
म्हाका म्हाकाच खंय दवरूं आनी खंय नाका जावन गेलें
म्हजेर आकांताची जापसालदारकी पडिल्ली
इतलो तेंप हांव टि.वी. चीं कुतां काडटालों
आतां हेरांच्या मुलाखती परस
बरी मुलाखत दिवन हांव कोण म्हणपाचें
म्हाका सिद्ध करपाचें आशिल्लें
पोरसांत आयलों
सगळ्याक काजऱ्याचीं आनी ताळखिळ्याचीं झाडां
तीं हांव लायतां म्हण दाखयल्यार लज
फॉरिस्टाचीं फुलझाडां भाड्याचीं हाड़लीं
मांडून दवरलीं
शेजारच्या आंतोनीलीं पुस्तकां हाडून
रूमांत पातळायलीं

कूड लेखकाची कशी सजयली
इतल्यार उपकारता?
व्हड साहित्यिकान कितें तरी
वाजोवपाचो छंद बाळगूंक जायच!
भावाल्या चल्याचें चेरमेल आशिल्लें तें साफ केलें
पूण वाजोवंक कोणाक येता?
कोंडो तारून बऱ्यापयकी एक पिल्लूक तयार केली
फकत ह्यो वस्तू तोंडान धरून
ॲक्शन करप आनी फाटल्यान
कॅसेट लावप हो निर्णय घेतलो
घरकान्नीक नटून थटून रावंक फर्मायलें
सगळी तयारी जाली
पूण प्रस्न कितें विचारतले काय?
'तुका साहित्य निर्मणेची स्फूर्त कशी आयली?'
हय नक्की हो प्रस्न आसतलोच
हांव हारशामुखार रावून येसाय मारूंक लागलों
'कोंकणीत कोणूय कितें बरयल्यार
लेखक म्हण पदवी मेळटा तें पळोवन
म्हाका बरोवपाची स्फूर्त आयली
पूण तात्त्यो बकच्छायो चलतात तें पळोवन ती जिरली
पूण जेन्ना वामन नायकाचो
'वांगडी' शिक्षणखातें घेता
कोंकणी अकादेमी कितेंय बरयल्यार छापता
आनी कला अकादमी जेवणाक आपयता
तें पळोवन ती परत आयली'
हांव म्हजेच जापेचेर खूश
इतल्यांत म्हजी नदर खाडाचेर गेली
पिकिल्ल्या खाडाचेर प्रस्न केलो जाल्यार?
'तुजें इतले बेगीन खाड कशें पिकलें?'
नक्की कोण तरी तिरसुवाद हो प्रस्न विचारतलोच
हेर कडेन जाल्यार सांगू येतालें

एडस जाला म्हण
पूण हांगा दूरदर्शनाचेर
ताचें दर्शन म्हण उपकारता?
काळें केल्यार बरें. कोण हांसचो ना
दोतोर बार्बोजान करूंक ना!
गोदरेज कलप हाडून खाडां-मिशांक चोळ्ळें
म्हाकाच हांव वळखूंक येना जालों
काळें कुळकुळीत तोंड करून
कॅमेऱ्याची वाट पळयत बसलों
खाडाक कलपाक लागून खाज सुटिल्ली
पूण मिरयानंदूय ना आनी कॅमेराय ना
हांव एक्साचो खाड खाजयत
वाट पळयत रावलों. अजून रावलां...

**२२ जुलाय १९९०**





**सा**हित्य अकादेमीचें आमंत्रण येवप म्हळ्यार भाग्य
ताका आदल्या जल्माची पुण्याय लागता
जांकां अकादेमीचें सदस्यत्व मेळ्ळां
तांचें तर विचारूंकच नाका
ते आदल्या जल्माक राजे-म्हाराजे आसतले!
जांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावला
ते खरेपणी राजदरबारांत भाट आसूंक जाय!
जांव खंयचे तरी मिरासदार आसूंक जाय
अशी म्हजी कल्पना
आतां दिलीप बोरकाराचीच ती कल्पना!
ती आनी कशी आसतली!
जांव! तर पोस्टमनान हातार
पत्र दवल्ल्या बराबर हांवें तें उगडलें
पळय जाल्यार भितर आमंत्रण
म्हाका कातकुतल्यो जाल्यो
म्हजीच हांवें फाट थापटून घेतली
हांवूय आतां कोंकणीतलो
'म्हाल'गडो बरोवपी जावपाचे वाटेर पाविल्लों
गोंय विद्यापिठांत साहित्य अकादेमीन
कथा कथन दवरिल्लें

पाडपडिल्ल्यांक हांव कथा बरयतां म्हण कोणें सांगलें!
आतां एक कथा व्हियेवंची पडली.
भुल्लुसून वचून हांवें आमंत्रण परत परत वाचलें
शे ऽ ऽ! म्हाका कथा वाचूंक आपोवंक नाशिल्लो
कथा आयकूंक आपयल्लो
हांवूंय तेंच येवजितालों
कुवत वळखनासतना येवजतकच हेंच घडटा
सगळ्यांनी कथा वाचल्यार आयकतलो कोण?
कदेलां मांडूंक, कार्यावळ थारावंक
आनी ताळयो मारूंक म्हण लोक नाकात?
कोंकणीची सेवा कितें कथा-कवितानीच जाता!
म्हाका आपयलो तेंच व्हडलें
नातर कोंकणी अकादेमी,
कला अकादेमी कशी वांटे घालता
कवितेक कवी, कथेक कथाकार,
नाटकाक नाटककार, तियात्राक तियात्रीस्त,
जेवणाक जेवपी...
सगळ्यांक धादोशी करप हेंच आमचें ब्रीद
स्कूटर स्टार्ट मारून ओल्तार ओल्तां घेत
ताळगांव पठारार विद्यापीठ सोडून काडलें
दारांतूच धुमो नमळायेन उबो आशिल्लो
म्हाका पळोवन तोंडभर हांसलो
'धुमेबाब, जालें कथाकथन?' हांवें विचारलें.
'ना. जातलें रोकडेंच. अजून जेवण जावपाचें आसा?'
धुमेन परत हांसत म्हळें
भोंगू बाबड्याचें
कोंकणी खातीर कसो उपाशी पोटार तळमळटा!
कोंकणी अकादेमी खातीर
ताची तळमळ पळोवन हांवूय तळमळ्ळों
इतल्यान पयसुल्ल्यान शेख अली
आनी रजिस्टार गंधे पोटार हात ओडीत

धेंकर दीत येतना दिसले
'जेवण जालें दिसता.' म्हणत धुमे धांवलो
हांवूय तांच्या फाटोफाट गेलों
धुमे तांकां घेवन एका हॉलांत गेलो
हॉलांत उच्च पातळीचेर कोंकणी अकादेमी
आनी साहित्य अकादेमी हांचे 'म्हाल'गडे
तांच्या सकयल कोर्टाच्या पिंजऱ्यांत
उबे रावचे तशे एके वाटेन चंद्रकांत केणी
मदीं जयंती नायक आनी एके वटेन जे. एल. गोयस
हे कथाकार तयारींत उबे आशिल्ले
तांच्या मुखार शेकान शेक
आयकुपी लोक पातळ्ळेले,
सगळ्यांत वयल्या स्थानार गंधे, अली बसले
त्या बराबर कोर्टाचो सीन पूर्ण जालो
हांवूय वचून आयकुप्यांमदीं बसलों
शेजराक कोण तरी पुटपुटलो
'कितें बोरकार, शेख अली आनी गंधे वांगडा
कोंकणी अकादेमीचें जेवण जेवन आयलो काय कितें रे?'
म्हजी एकसाची तिडक तकलेक मारली
बोल्सांत पान दुडू ना म्हण हांव
दोन दीस उपाशीं आनी हे नाका जाल्लो आळ घालतात
फटींग खंयचे! एकसाचे
राग गिळून हांव हांसलों. तांकां सत्य सांगू येता!
मूठ धांपिल्ली आसा तीच बरी
अलीन खुणायल्या बराबर चंद्रकांतबाबान
कथा वाचूंक सुरवात केली
'हिप्पी चली'
फाटलीं धा वर्सां हांव ती आयकतां
म्हाका ती पाठ जाल्ली
त्या खातीर आंगार पडपी हिप्पी चलयेचो
लेगीत हांव तिरस्कार करतालों

ती सोंपसर एक न्हीद काडपाचें थारायलें
उपाशीं पोटार रोखडो दोळोय लागलो
अकस्मात कोणाच्या तरी बोबेन जाग आयली
पळय जाल्यार धवे फुल्ल कपडे घाल्लो
यशवंत पालेकार तावातावान उलयतालो
कोंकणीक कोणे कितें म्हळें काय?
एक हात फाटल्यान धरून
एका हाताचें बोट वयर सकलय नाचयत
लोकमान्य टिळकाच्या बाण्यान
तो कित्याक आड्डता तेंच कळना जालें
तकलेक ताण दिलो
'चंद्रकांतबाबा उप्रांत जयंती आनी
गोयसाची कथा हाची तुळाच जावंक शकना
खंय इंद्राचो ऐरावत आनी खंय तट्टाणी...'
अशें पालेकार कितेंतरी म्हणटालो
सगळे ताका ओगी करूंक धडपडटाले
शेख अली तालसुरांत गोरेताले
ताका जाग येवंची न्हय म्हण गंधे
मळबाक दोळे लावन देवाक पराथतालो
हांव कथा कशी बरोवंची हाचो अणभव घेतालों...



**२९ जुलाय १९९०**



**प**ळा पळा कोण पुढे पळतो!
अक्षरशा हेच रितीन कोंकणी म्हालगडे
सकाळफुडें, आल्तिनची चडटी काडटात ती पळोवन
म्हज्या काळजांत कलकल्लें!
हांवूय तांच्या फाटल्यान धांवत रावलों
देवासायबा, खंय उजो लागला काय?
पूण हे उजो पालोवंक वचपी तर लोक न्हय!
चडांत चड हातुंतले कांय लोक
उज्यांत तेल घालपी
आकाशवाणीचेर वतात काय?
चे! इतल्यांक एकदम आपोवपाचीं पिशेपणां
आकाशवाणी केन्नाच करचिना
मूय लेगीत चाबची न्हय म्हूण काळजी घेवपी
आकाशवाणीकार हांकां एकदम एक्स आपयना
आकाशवाणी कडल्यान पुरसांव मुखार गेलें
दूरदर्शनार वतात काय?
पूण हातुंतले तर सगळे दूरदर्शनार
दर्शन दाखोवन गेल्यात
कदाचीत हाचो मुखडो बरो न्हय
ताचो मुखडो बरो न्हय हें सांगूंक तर हे थंय वचनात मूं?

पुरसांव ताच्याय मुखार मेन्टलाकडें पावलें
म्हजें प्रेसांव वाडूंक लागलें
'पळयलें, कोंकणी कोंकणी म्हणटकच अशें जाता'
अशें म्हणून ताळयो पेटूंक मराठीवाद्यांक हेंच निमित्त पुरो
'हे भितर वचनांत जाल्यार पुरो'
हांवें देवाकडें मनापासून मागणें केलें
मनांपासून देवाकडे कितेंय मागल्यार तें मेळटा
अशें केन्नातरी रवीन्द्रबाबान म्हाका म्हणिल्लें
ताची प्रचिती म्हाका आयली
पुरसांव मेन्टलांत वचनासतना सरळ मुखार गेलें
म्हाका सू जालें
एका वल्तार आशिल्ल्या बंगल्याकडें
बरीच गर्दी आशिल्ली
कोणतरी मोठो मनीस खंवसला आसतलो. नक्कीच!
अशे पुंज्या पुंज्यानी उबे रावून फुतफुतपाचो
प्रकार अशेच सुवातेर घडटा
कोंकणीचें पुरसांव थंयच थांबलें
हांवें भितर नदर मारली
आरेच्या! हो तर चर्चिलाचो बंगलो
हांगा हांचें कितें काम?
बंगल्याचें दार उगडून आंतोन मोराइस भायर आयलो
पुंडलीकबाब, सेवेक हाजीर, मोग आसूं
रवीन्द्रबाब, सेवेक हाजीर, मोग आसूं
चंद्रकांतबाब, सेवेक हाजीर, मोग आसूं
दिलीपबाब, सेवेक हाजीर, मोग आसूं
अशें सगळ्या बाबांचें स्वागत करून ताणें
'व्होर' भितर काडचो तसो सगळ्यांक येवकार दिलो
सगळे बसले
इतल्यांत राजू नायक भितर सरलो
तो एका कदेलाक दसलो आनी
मिश्कील नदरेन कोंकणी फुडाऱ्यांक पळोवंक लागलो

इतल्यांत कोणतरी दादा टायप आयलो
आनी ताणें अचूक राजूचेंच कदेल व्हरपाक सुरवात केली
'तुमी म्हाका स्टेडियमाचेरूय बसूंक दिनांत
आनी हांगाय बसूंक दिनांत' राजू तिडकलो
रागान तांबडेगूंज जाल्ले राजूचे पोले पळोवन
त्या दादान कूस मारली
कोंकानीचे सगळे फुडारी आयले
अशें दिसून चर्चिल सभेमाजार आयलो
सगळ्या फुडाऱ्यांनी ताका कुनिर्सात केलो
'आरे, हायें कोंकानी खातीर इतलें केलें
तुमी कितें कोत्तात?'
चर्चिल तापिल्ल्याभशेन उलयलो
सगळ्यांनी आंग काडलें
'तुमची पॉलीशी आसा ती बरी आसा
तिका घट्ट धरून रावात
आदीं मराठीवाद्यांकडल्यान फातर खाले
आतां इंग्लेज वाद्यांकडल्यान खातात'
दत्ता नायकान सुरवात केली
ताच्या खणखणीत आवाजान
सगळ्या कोंकणी फुडाऱ्यांक धीर आयलो
जण एकलो संधी मेळटा तसो उलोवंक लागलो
जाव सायबा! माध्यमाचेर तोंड बंद करून
आशिल्ले कोंकानीचे खोडेगांठ फुडारी
उलोवंक लागिल्ले पळोवन म्हजें हड्डें फुलून आयलें
हांव चर्चिलान हाडिल्लो केक खायत
एका कोनशाक बसून रावलों
'कोंकणी सक्तीची करूंक जाय ' सगळे आड्डले
'तो भाशावाद आमी आणचो न्हय
आमी इंग्रजी भायर धांवडावया'
'विसूबाब, फक्त कोंकणी जाणां
त्याच सुटके झुजाऱ्यांक देडशें रुपया

पेन्शन वाडोवंचें अशें म्हणटात ते'
गुरुदास दुकळ्यान तोंडभर हांसून म्हळें
'तशें जाल्यार भाशावाद करूंक हरकत ना'
विसूबाबान टायची गांठ सदळ केली
इतल्यांत बाबलीबाब नायक हांच्या
मुखेलपणाखाला मडगांवचो ट्रूप भितर सरलो
'चर्चिल मिटींग घेतलो हें हांव पयलींच जाणां आसलों!'
बाबली नायक हरिश्चंद्र नागवेकाराच्या कानांत फुतफुतलो
नागवेंकार समिक्षात्मक हांसलो
इतलो तेंप आपूण कांयच उलोवंक ना
हाची जाणीव यशवंत पालेकाराक जाली
तो सुर्वेक सावन उठतालो बसतालो
ताची ती चुळबूळ चंद्रकांतबाबाक कळ्ळी
तो उठचे पयलींच ताणें सभेचीं सुत्रां
आपल्या हातांत घेतलीं
संमेलनाच्या व्यासपिठावेल्यान उलोवंचें तशें
तो प्रदीर्घ उलयलो
चर्चील भुल्लुसलो
आपलें कदेल आतां पांच वर्सां हालना
हाची ताका खात्री जाली
ताणें आनी केक मागयलो
हांव केकीचेर तुटून पडलों

५ ऑगस्ट १९९०



**रा**जहंस वितरणांत बशिल्लों
तशी पणजेंतली ही एक बरी सुवात
चुकिल्लीं गोरवां करमळेच्या तळ्यांत
तशे चुकले-माकलेले सगळे
हांगा न चुकतां सापडटात
केन्नाच न सापडपी र. वि. पंडित लेगीत हांगा सापडटा
काणकोणच्यान शिक्षणखात्यांत आयिल्लो
कमलाकर म्हाळशी हांगा येवन वता
तसो मराप्रसाचे मिर्टींगेक आयिल्लो
शशिकांत नार्वेकार दोन घटका हांगा बसून
प्रभाकर भिडेन मराठी भाशीक जावनूय
कोंकणीवाद्यांकडेन कशें सूत जमयलां
हें कुचित्री नदरेन तेळपाचें काम करून वता
कोण फुकट फोन करूंक मेळटा म्हूण येता
कोण पुस्तकां चाळपाक मेळटा म्हूण येता
कोण सम्राटांत सिनेमा सुरू जावपाक
कळाव आसा म्हूण टायम पास करूंक येता
कोण नुस्तें घेवन येता
पुस्तकांच्या शेजराक दवरता

आनी बायलेक हाडूंक वता
कोण येता आनी हेरांची टवाळी करता
कोण कोणाचे ढवळे करता
कोण येता आनी भिडेचें कितें चल्लां
हें गरज नासतना पळोवपाचो यत्न करता
थोडे भितर सांगपाचें म्हळ्यार थंय सगळे धंदे चलतात
म्हाका कांय धंदो ना म्हूण हांवूंय थंय वचून बसतां
थंयच्यान भायरचें सौंदर्य पळयत भितल्लें आयकतां
म्हाका भिडेचें 'शी बाबा' खूब आवडटा
कोणूय कितेंय उलोवं
भिडे कांय उलयना. तो फक्त 'शी बाबा' म्हणटा
शंकर परूळेकारान एकदां ताका म्हळें
'आरे भिडे, बोरकारान एके फावटीन
पांच पुस्तकां काडलीं
आनी तूं एक-एकूच काडटा?'
'शी बाबा!' भिडेची जाप
ताच्या ह्या 'शी बाबान' म्हजो फुडलो
धा पुस्तकां काडपाचो हावेसूच मोडून उडयलो
तर सांगपाची गजाल म्हळ्यार
'हांव एक दोळो भिडेचेर आनी
दुसरो दोळो रस्त्यावेल्या सौंदर्याचेर दवरून बशिल्लों
इतल्यांत एक जाणटेलो भितर सरलो
'तूं बोरकार?' ताणें भिडेक विचारलें
'कित्याक?' भिडे अजापींत
खरें म्हळ्यार ताणें म्हजेकडेन बोट दाखोवं येतालें
पूण भिडे तो!
'हांव म्हजे चलयेक लागून आयिल्लों'
जाणटेल्यान ताकाच बोरकार समजून म्हळें
'शी बाबा' म्हणत भिडेन
आंगावेली पाल फाफडून उडोवंची
तसो ताका म्हजेर उडयलो

म्हजेर कलकल
भिडे नक्कीच म्हजें हें लफडें समजला जावंक जाय
हो एकसाचो जाणटेलो म्हज्या ह्या
साहित्यिक अड्ड्याचेर आड येतलो सो दिसता!
'हांव बोरकार. कितें खबर!' हांवें भितभीत म्हळें
भिडे कान टवकारून आशिल्लोच
पूण आपणांक कांय पडूंक ना हाची ॲक्टींग करतालो
'मातशें खाजगी आशिल्लें'
एक दोळो भिडेर दवरून जाणटेल्यान म्हळें
भिडेची आतां शंबर टक्के खात्री जाल्ली
की हांवें त्या जाणटेल्याचे चलयेकडेन
भानगड केल्या आनी तो आतां म्हाका धरूंक आयला
पूण म्हज्या लिस्टांत काय तो
आनी ताची धूव नाशिल्ली
'ना हांगा उलोवंक हरकत ना
ताचे मुखार परकेपण ना.' हांवें म्हळें
त्या भानगडी परस म्हाका
भिडेची सुवात म्हत्वाची आशिल्ली
हागच्यान म्हाका खूब वितरण करूंक मेळटालें
'म्हजी धूव आसा
बि. ए.क थोडे मार्क पडल्यात
पूण फस्ट क्लासांत पास जाल्या
तिका मातशी टि. वी. चेर व्हरून लावंक जाय'
जाणटेल्यान एका दमांत म्हळें
जांव सायबा. सुटलों
म्हज्यो कपलाक पाविल्ल्यो त्यो देंचल्यो
टि. वी चेर सद्या खूब चलयो दिसतात
म्हजीय जर दिसली जाल्यार तिका
दाखयत भोंवपाचो म्हजो त्रास चुकतलो
कितेंय दिवंचें पडल्यार उपकारता'
जाणटेल्यान बोल्सां सासपीत म्हळें

'शी बाबा!' भिडेच्या तोंडातल्यान भायर सरलेंच
'हांव टि. वी. चेर आसना.' हांवें म्हळें
'तुमकां हांवें पळयला. त्या आंबेडकाराचेर उलयतना'
आतां म्हजी लायट पेटली
'तो हांव न्हय. तो दुसरो.' हांवें म्हळें
'ना. ना. म्हाका तो तुमींच म्हण सांगलां?'
'तो हांव न्हय. तो एन्. शिवदास'
हांवें समजावपाचो यत्न केलो
ह्या शिवदासान खाड दवरून म्हाका त्रासांत घाला
बरें करतां त्या सर बरें आसा
कितेंय भानगड केली जाल्यार मात हांव फोंडांत
'म्हणजे तें लावपाचें काम तुमचेकडेन जावपाचें ना?'
'ना. शिवदास करूंक शकता जाल्यार पळयात'
हांवें आंग मारलें
'तो खंय मेळटलो? टि. वी. चेर?'
जाणटेल्यान विचारलें
'हय. हय. तो थंयच आसता. आतां मेळटलो'
जाणटेलो आयला तसो तुरतुरीत गेलो
'शी बाबा.' म्हज्याय तोडांतल्यान उतरां आयलीं
भिडे पयलेच फावट हांसलो
हांसतनाय 'शी बाबा ' म्हणूंक विसल्लोना
टि. वी. चेर केन्नाच पांय दवरप ना
हाचो परत एकदां म्हाका सोपूत घेवंचो पडलो
शी बाबा!

१२ ऑगस्ट १९९०



**कों**कणी 'म्हाल'गडे सद्या चिंतेन ग्रासल्यात...

कपलार आटयो चडोवन जर
रस्त्यार कोणूय दिसलो
तर तो कोंकणी म्हालगडो समजुचो
तशो तांच्यो चिंता अर्थशून्य!
खूबशा एकसाच्यांक नाका जाल्ल्यो चिंता
बोडार घेवपाची जर सवंय लागल्या
तर ताका हांव किते करतलों?
हेरांची चिंता केल्यार भलायकी इबाडटा
हाची चिंता तांकां कशी ना तर?
कोंकणी म्हालगडे तशे सदांच चिंतातूर।
कोंकणी आठवे वळेरीत वचना - चिंता!
कोंकणी राजभास जायना - चिंता!
कोंकणी अकादेमीचो फंड सोंपना - चिंता।
मराठी अकादेमीक अनुदान मेळ्ळें - चिंता!
भिडेची साहित्य पसवण पसवता - चिंता!
गुरूनाथ केळेकाराची
साहित्य यात्रा नांव जोडटा - चिंता!
सुरेश वाळवे टि. वी. चेर

मराठींतल्यान कोंकणी उलयता - चिंता!
प्रशांती संदेशाकडे लग्न जावनय नांव बदलनां-चिंता!
चिंता! चिंता! चिंता!
तातूंत आनी आतां बोरकाराची चिंता!
रवीन्द्रबाबाक रवीन्द्र म्हळो म्हण बाबलीबाबाक चिंता!
धुमेचें नांव घेतलें जयंतीबायक चिंता!
उदयबाबाचो उल्लेख केलो तर दोतोर हेगडेक चिंता!
हाची चिंता ताका तर ताची चिंता हाका!
सद्या म्हजी चिंता दामोदर घाणेकाराक
'तें बोरकारा वांगडा आसा तें कोण रे?'
घाणेकारान संजीव वेरेंकाराच्या कानाकडे तोंड व्हेलें
'आमकां नाका त्यो बाये भानगडी!'
संजीवान पाल फाफुडली
'सदांच ताचे वांगडा आसता. लग्न जाल्ली बायल ती?'
'कोणाक खबर!'
'दिलीपाचें लग्न जालां?' घाणेकाराची चिंता गेली ना
'म्हाकशें कित्या विचारता?'
संजीवाचें तुसडेपण!
इतल्यांत टि. बी. कुन्ह्यातल्यान कोण तरी भायर सरलो
'ओतो गेला तो अमक्याचो मेवणो रे?'
ताका पळयत घाणेकारान प्रस्न केलो
त्या प्रस्नापयलींच संजीवान
हातांत पास्त आनी सत्री धरून कूस मारली
वतना मानेक झटको दिवंक विसल्लोना
घाणेकारावरींच हेरांकय म्हजी खूबच चिंता
मँगलोराक म्हजे वांगडा अशेंच कोणतरी आशिल्लें
ताणें प्रोसोर नागवेकाराची चिंता वाडयली
ताचें संमेलनांवेलें लक्ष गेलें
कार्निवालाक गांवांगांवांनी लोकांखेळांत
नाचपी कलाकारावरीं थंयचे थंय भोंवताडे घेत
प्रोसोर अकस्मात म्हज्या म्हऱ्यांत पावलो

'बोरकार तूं लग्न जाला म्हण खबर ना मरे म्हाका'
प्रोसोराचो समिक्षात्मक प्रस्न
'ना. हांव जावंक ना'
'मागीर हें कोण तर?'
'ही हांवें एक्स हाडल्या. दोन दिसां खातीर'
प्रोसोरा मुखार असत्य उलोवंचें न्हय म्हण हांवें म्हळें
प्रोसाराक उस्तुरें गेलें पूण चिंता गेली ना
आतां हांची चिंता वाडल्यार हांव कितें करूं?
असोच आनीक एक चिंता करीत आयलो
हांव ताका विचित्रवीर्य म्हणटां
विचित्रवीर्यान म्हाका प्रस्न केलो
'बोरकार, लग्न केन्ना जाता रे?'
'कित्याक?' हांवें विचारलें
जण काय हांव हाचे बायलेचेर दोळो दवरून आसां
'ना. खाड-केंस पिकले म्हण म्हणटां'
विचित्रवीर्याची आनीक एक चिंता
'लग्नाचो आनी पिकिल्ल्या खाडाचो
संबंद कितें,तर!'
'चली दिवंक नाका?' आनीक एक चिंता
'हांव लग्न जावंकच सोदिना'
म्हजे जापेन विचित्रवीर्य भिलो
'मागीर तुजें कशें जातलें?' ताची चिंता वाडली
'जेवण खाणावळींत मेळटा घरा कित्याक रादूंक जाय
दुदाच्यो पिशव्यो मेळटात गाय कित्याक पोसूंक जाय'
हांवें ताका काव्यांत जाप दिली
ताची चिंता आनीक वाडली
ताका रडचेंय म्हण कळना आनी हांसचेंय म्हण कळना
'पापया लग्न जारे! आतां जायतीं मेळटलीं
म्हातारपणार आदार नाका?'
सुण्याची शेंपडी वांकडी ती वांकडीच
विचित्रवीर्याची कोण तरी भयण आसतली

आनी तिका तो म्हज्या गळ्यांत बी बांदूक सोदिना मूं!
आतां म्हजी चिंता वाडली
हे एक्साचे स्वताक कोण समजता म्हण देवाक खबर!
गरजे भायर चिंता करतात
आनी दुसऱ्याकूय चिंतेत घालतात!
'पूण तूं म्हाका फोर्सार कित्याक करता रे?'
हांवें ताचें मन जाणां जावंक विचारलें
'हे, तूं ती बोरकारी बी बरयता न्हय रे?'
'मागीर कितें जालें?'
'प्रहार बरयलो बेळगांवच्यो चलयो पयस गेल्यो
आघात बरयलो आनी गोंयच्यो चलयो पयस जाल्यो
आतां बोरकारी बरोवन तूं सगळ्या चलयांची
दुस्मानकाय घेता मरे
तुका मराठीवादीय चली दिवंचो ना
आनी कोंकणीवादीय दिवंचोनां'
विचित्रवीर्य भावनाविवश जावन उलयतालो
तो आतां रडपाचोच उरिल्लो
केन्ना दुकांचो पावस पडत हें कळनाशिल्लें
ताची काकूळट म्हज्यान पळोवं नज जाली
हांवें विचित्रवीर्याक आश्वासन दिलें
वत्सा, भिऊ नाका हांव लग्न जातां!
तुज्यो चिंता झडय
पूण त्यो झडपाबदला
वाडटात त्यो एक्साचेर दिसताल्यो

१९ ऑगस्ट १९९०



**ग**णपतीक पांये पडूंक जाय
सगळेच पडटात
नारायण पालेकार लेगीत!
वर्सान एकदां येवपी गणपतीखातीर
इतलेंय करिना जाल्यार
जल्माक येवन फायदो कितें?
हांगा-थंय कोण ना सो पळयलें
सगळीं जेवणाच्या बोवाळांत
हांव असो गणपतीक
पांयें पडटां तें पळयत जाल्यार
'जांव आतां तरी सुदाल्लो हो'
अशें म्हणत म्हण भंय!
स्वताक कम्युनीश्ट म्हणोवन घेवन हांवें
कांय गजाली चुकयल्ल्यो
तांतलीच ही एक गजाल
गणपती म्हऱ्यांत गेलों
गजानन जोग आपले कथेंत
बारीकसाणेन वर्णन करीत जाल्यार
कशें आसतलें तशें
ज्युस्ताक ज्युस्त वातावरण

हांवें हात जोडले
'कोण रे तो पुंडलीक नायक?'
गणपतीन म्हळें
हांव जाणांच आशिल्लों
तो म्हजेकडें उलयतलो म्हण
ते खातीर हेर बरोवप्यांवरीं
सपन पडोवन घेवपाची म्हाका गरज नाशिल्ली
तशे म्हजेकडेन सगळेच उलयतात
दुस्मान तशे मित्र
देव तशे देंवचार
तोंडार बरें ऽऽ उलोवन मागीर
तांणीं म्हजी एक्स मारूं!
'न्हय. हांव पुंडलीक न्हय
ताचें खाड काळें आसा. म्हजें धवें!'
'कित्याक? तुजे परस जाण्टो न्हय तर तो!'
'तो म्हज्या परस सगळ्या गजालींनी जाणटो
पूण ताका साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा
म्हाका मेळूंना म्हण पिकलां आसूं येता'
'मागीर तूं कोण दामोदर मावजो?'
'पूण ताका खाड खंय आसा?' म्हजें अजाप!
'ताका खाड ना? दादलो न्हय तर तो?'
गणपतीन दोळे मोटे केले
'दादलोच तो. पूण सगळेच दादले
खाडां खंय वाडयतात?
तशें नारायण आठवलेन वाडोवंक ना तर!'
म्हजी भीतभीत जाप
'मागीर तूं कोण तर?'
गणपतीन तेच जरबेन विचारलें
पाडपडिल्ले पुलोआ सरकार
सत्तेर आयिल्ल्याक सगळेच तापून उलयतात!
शांती तेंडुलकार लेगीत

'हांव दिलीप बोरकार'. म्हजी नमळायेची जाप
नातर नाका आशिल्ली भानगड नाका
म्हज्या एक्सार मारपाच्या सभावाक लागून
हांवें वता ताचेकडे दुस्मानकाय केल्या
तशी हाचेकडे केली जाल्यार मागीर सोंपलें
'बोरकार! खंयच्या बोरकारालो?'
हांव ओग्गी
'शांतादुर्गेचो म्हाजन?'
म्हाबळेश्वर बोरकारावरी ताणें केल्लो
प्रस्न आयकून म्हज्या कपलाक आटयो
आतां म्हजो दोर्शी पेच!
हय म्हळें जाल्यार हो रागार जातलो
ना म्हळें जाल्यार हाका म्हजी जात कळटली
मातशी एक्सबुद्ध वापरून हांवें विशयांतर करचें थारायलें
'गणपतीबाब....'
गणपतीबाब म्हळ्या बगर म्हाका पर्याय नाशिल्लो
म्हज्या सभावान म्हजो घात मारिल्लो
मनोहराक हांव मनू म्हणटां
पुरूषोत्तमाक हांव पुरसो म्हणटां
तशें हाका गणी म्हणूं येता?
'गणपतीबाब, तुमी पुंडलीकाक आनी
मावज्याकूच शे वळखतात?'
'ते म्हजे खरे भक्त
एकल्यान गणीलो गणपती बरयला
आनी दुसऱ्यान गणपती पावलो
म्हणून तांकां हांवें साहित्य अकादेमी पुरस्कार दिला'
'गणपतीबाब, म्हाका केन्ना मेळटलो?'
म्हजी आस जागी जाली. हीच संद आशिल्ली
'म्हजेर अशेंच कितेंय बरय
लोक वाचतले
नातर तूं बरयता ताची गत अशी जातली'

ताणें बोट दाखयल्ले सुवातेर हांवें पळयलें
म्हजें 'आण्टीची गादी' पुस्तक
गणपतीचें वाहन उंदीर मजेन कुरतडीत बशिल्लो
आवय एक्साचो! म्हजेंच पुस्तक मेळ्ळें हाका!
कोंकणी अकादेमीन अनुदान दिल्लीं
कितलीं तरी आसात!
तरी हांवें राग गिळ्ळो
'गणपतीबाब, हे फावटी साहित्य अकादेमी
पुरस्कारा खातीर म्हजें नांव आसा न्हय लक्षांत!'
हांवें भीत भीत याद केलीच
'म्हजेर बरय. सरकारी गणपती
जांव नार्वेकारालो गणपती म्हण. तेन्ना पळोवया'
गणपतीबाबाक गणपती पुराणाचेंच पडिल्लें
'पूण तुवें, सॉरी तुमी 'एक पोर नागडेंच उरता'
आनी 'कार्मेलीन' हाका कशें दिलें तर!' हांवें याद केली
'बरोऽ आसा मरे तूं! तुका जायच म्हणटा हे फावटी?'
'दिल्यार म्हाकाय म्हालगडो जावंक मेळटलें!'
'तशें जाल्यार एक काम कर. तूं ओलव्हीन गोम्साक मेळ'
'पूण तो म्हजेर कोंत्र!'
'तुमचें देडशाण्याचें हेंच चुकता
तुमकां पुरस्कारूय जाय आनी
म्हालगड्यांक तिडावपाकूय जाय
'चुकलों न्हय हांव गणपतीबाब.' हांव नमलों
'मागीर अशें कर
आमच्या देवसमाजांतूय पुलोआ सरकार टायप
अमर-ॲन्थोनी गट आसा
ॲन्थोनी म्हजें आयकत शें दिसना
तेन्ना तूंच ओलव्हीना मुखार शेंपडी हालय'
गणपतीचो राजकीय सरलो
'पूण म्हाका शेंपडी ना'
हांवें फाटल्यान सांसपीत म्हळें

'ती हांव दितां. ते खातीर तुवें
तुजी बुद्ध म्हाका परत दिवंची पडटली
गोम्साक आपले परस बुदवंतांची नसाय आसा
अशें कोंकणीतलो नारद म्हाका म्हणी'
'बरें आसा!' हांवें मानून घेतलें. पुरस्काराची आस ती!
गणपतीन म्हजी बुद्ध व्हेली आनी हुंदराची शेपडी म्हाका दिली
हांवें शेंपडी हालयत मोट्यान म्हळें
'मोरया!!'

@• @• @•

**२६ ऑगस्ट १९९०**





**बा**दसा मेळ्ळो

मेळ्ळो म्हणचे परस ताच्या शेल्यान म्हाका आडायलो
हांव म्हजेच गुंगीत कविता पाडीत चलतालों
इतल्यांत म्हज्या नाकार कोणाचो तरी पालव आपटलो
कोणाचो पदर काय म्हण मान वळयली
जाल्यार बादसान बाकीबाब स्टायलीन
खांदार शेंवटिल्ल्या शालीच्या पदराचो
म्हज्या तोंडार पालव धरिल्लो
ललनेचो पदर अशें समजून म्हाका
जाल्ल्यो कातकुतल्यो खिणाभितर जिरल्यो
'जिवितभर आमच्या नशिबांत हेच शेले काय?'
मनांतल्या मनांत पुटपुटत हांवें राग गिळ्ळो
तोंडार हांसो हाडून हांवें बादसाक विचारलें
'दादा कसो आसा?'
'हांव बरो आसां. पूण कोंकणी कशी आसा रे?'
मराठीवादी जावनूय हांकां कोंकणीची
लागिल्ली चिंता पळोवन हांव धन्य जालों
'अशे रस्त्यार भोंवचे परस कोंकणीची उदरगत करात'
बादसान लाख मोलाचो सल्लो मागनासतना दिलो
'करतात न्हय आमी यत्न!'

हांवें हांसो तसोच दवरून म्हळें
'कितें करतात? कोंकणीत कितें आसा?'
इतलें विचारून बादसा ओगी रावलो ना
'कोंकणींत व्याकरण आसा?'
'कोंकणीत कादंबरी आसा?'
'कोंकणीत हें आसा? कोंकणीत तें आसा?'
'कोंकणींत समिक्षात्मक साहित्य आसा?'
'हें सगळें नासतना कोंकणी शिकात म्हण
कशे मागतात रे तुमी?
नातर हांवें मराठींत कितलें बरयलां पळय
म्हणूनच सगळे मराठी शिकतात'
बादसान परतून शेलो खांदार शेवटीत म्हळें
'कोंकणीत हें काय ना?'
हांव चिंतातूर!
कोंकणीकडेन पळयता तेच नदरेन
म्हजेकडेन पळयत बादसा मराठींत लिपलो
बादसा गेलो तो गेलो. म्हज्यो चिंता वाडोवन गेलो
कोंकणीत कांयच ना आनी म्हाका कोंकणीचो येदो मोग?
म्हज्यांत रवीन्द्रबाब संचारलो
कोंकणींत कांयच ना म्हणचे कितें?
लज दिसपासारकीच गजाल
कोंकणीत ना तें हांव हाडटलों
भिरकेंत राजहंसांत गेलों
कथा, कादंबऱ्यो, नाटकां समिक्षा हाडल्यो
काशिनाथ जल्मी सारक्यो वाचून काडल्यो
पूण कथा जमनांत
त्यो शीला, मीना, जयंती, दामोदर हार्णींच बरोवपाच्यो
कादंबरी बरोवप जमना
नाटक तर पुंडलीकानूच बरोवपाचें
समिक्षा जमूंक शकता
लक्ष्मणबाबाचें कथाशिल्प वाचलें

पूण ताणें सगळ्यांची फाट थापटिल्या
नागवेकाराचें आस्वादन वाचलें
पूण कांयच कळ्ळें ना
सु. म. तडकोडाचें तत्व आनी प्रयोग वाचलें
एकदां, दोनदां, तिनदां
वा! सुवादीक समिक्षण
समिक्षा आसची तर अशी आसची
तेंच पुस्तक मार्गदर्शनाखातीर घेवन
हांव समिक्षण बरोवंक बसलों
तरी तकलेंत प्रस्न
पुस्तक तयार जांव येता. पूण अर्पण कोणाक करप?
म्हजो तर स्वामी कोण ना
पुस्तक हांवें तडकोडाक ओपपाचें थारायलें
पूण आशिर्वाद कोणाचो घेवप?
समिक्षणाक 'दर'जो येतलो जाल्यार आशिर्वाद म्हत्वाचो.
स्वाम्याक विनंती पत्र बरयलें
संदेश तर उदयबाब बरे भशेन दितलोच
ताकाय पत्र घालें
मुखेल बरोवपां आतां तर जाल्लींच!
आतां समिक्षणाक सुरवात करचे पयलीं
म्हजी म्हण प्रस्तावना नाका?
पूण प्रस्तावनेक नांव कितें दिवप हो प्रस्न निर्माण जालो
अवळोक दवल्लें जाल्यार लोक
तडकोडाची कॉपी म्हणटले
तकली खांजय खाजय खाजयली
तरी कोंकणीचेर आयिल्ली अवकळा
पयस करपाची इत्सा गेलिना! अवकळा! वा!
अवकळे वेल्यान अवकोळ शब्द बरो
हांव अवकोळ बरोवंक बसलों
पूण कशीच सुचना
सुचतलें कशें?

म्हाका घराण्याचो वसो म्हण
बरोवपाचो गूण येवंकूच नाशिल्लो
येतलो कसो?
म्हजो बापोल आजो चिंतक नाशिल्लो
दुसरो बापोल आजो तत्वगिन्यांनी नाशिल्लो
म्हजे आवय कडसूनचो
खासा आजो नीजकवी नाशिल्लो
म्हज्या बापाय कडसूनय म्हाका
बरोवपाची प्रेरणा मेळूंक नाशिल्ली
म्हजो पणजो शास्त्रार्थाचो पंडित नाशिल्लो
म्हज्या साहित्यिक गुरूनी तर म्हाका
बरोवंक कोरसार करचे बदला तवनास म्हणूनच हिंडसायलो
कितलेंय बरयलें तरी म्हजे केंस आनी मन
पिकून लगीत कोंकणी अकादेमीन केन्ना संद दिली ना
अक्कोळ बरोवपाचे लटाफटींत समिक्षण शंयच उरलें
आनी स्वाम्याचें पत्र आयलें
एकूय वाक्य कळना
सगळें संस्कृतांत
तसोच उठलों आनी तडकोडागेर गेलों
ताणें भाशांतर केलें
'आपूण तुका वळखना
कित्याक दिलीप बोरकार हें नांव ल्हान
तातूंत वर्दे जांव शेणवी बरय आनी धाड
तेंच चड समिक्षकात्मक आनी लांबलचक दिसतलें'
हांव म्हज्या नावाचीच समिक्षा करूंक उरलों

@• @• @•

२ सप्टेंबर १९९०



'कोरी काफी कर रे पोरा, बोरकारा.....'
वर्षा बूक स्टॉलार उबो रावून
पेपरांची घडी करतां करतां वामन भाटे गायतालो
म्हाका पळयल्या बराबर ताका कंठ फुटता
ताणें म्हजेर रचिल्लें गीत तो म्हाका गावन दाखयता
ताचो हो राग करचे परस ताची म्हाका तोखणाय दिसता
ताच्या ह्या ओळीचो अर्थ ताका खबर ना
आनी आयकतल्याकय तो कळना
तरी पूण भिकाजी घाणेकार दूरदर्शनाखातीर
जीं पदां रचता ताचेपरस तें म्हाका रूचता
अर्थ नासलो तरी ताल आनी लय आसा
वामनाच्या गिताचो फायदो घेवन
हांव बूक स्टॉलांत घुसलों
भितर कोंकणी पुस्तकां सोडून सगळीं पुस्तकां आसात
सगळे कोंकणी कवी लेखक
हांगा येवन पुस्तकां विकतीं घेतात
सगळे मराठी कवी लेखक येवन
कोंकणीवाल्यांक गाळी घालून वतात
गोंय विद्यापिठांतले हिंदीवाले हांगा येवन

हिंदी पेपर घेतात आनी कोंकणी मराठीवाल्यांच्या
खांदार हात घालून तांच्या खांदाचो
आदार घेवन पेपर वाचतात
कोंकणी-मराठी मनशाक
एकठांय दवरपाचो होच एक वेळ
हीं सगळीं नाडपेन्नां हांव
पुस्तकां चाळटां, चाळटां पळयतां
वेळ काडपाचें हेंच एक बरें साधन
इतल्यांत काच्च करून रमेश आयलो
रमेश वेळुस्कार जेन्ना काच्च करून मेळटा
तेन्ना जिवाक बरेंऽ दिसता
तोंडार हांसो दवरीत तो वाकोर पाजीत आसता
उलयतां उलयतां तो केन्ना काच्च करून
वाकोर चलयत हें सांगू येना
ताच्या ह्या काच्च करून वाकोर चलोवपांत
बोरकारी परस चड धार आसता
'बोरकार भितर किर्ते उस्तिता रे!'
रमेशान काच्च करून म्हळें
'ताचे चार आर्णे शेंणल्यात खंय!'
वामन पडिल्लो दांत कसो उलयलो
'जांव ताका ते मेळना जाल्यार
तुज्या आठ आण्यांत भर पडटली'
रमेशान काच्च करून म्हळें
वामन लोकसत्तेची घडी मारूंक विसरलो
मुंबय जरूर माधव गडकरीक कळ आयल्या आसूं येता
आतां भितर रावपांत अर्थ नाशिल्लो
कितेंय तरी विकतें घेवंक जाय म्हण हांवें
सवायशें पुस्तक उखल्लें
आरेच्च्या, हें तर कोंकणी पुस्तक
हांवें किंमतूच पळयल्ल्यान लेखक पळोवंक नाशिल्लो
वामनान पुस्तकां चाळून वता म्हणचें न्हय म्हूण

म्हाका घेवचेंच पडटा तें
सवाय रुपयाचें अभयकुमार वेलींगकाराचें तें सवाय पुस्तक!
ती कोणाची तरी जायरात पडल्या अशें दिशिल्लें
पळय जाल्यार पुस्तक
चार पानांचें आसलें म्हण कितें जाता?
भिकाजी घाणेकारासारकें सरकारी जायराती घालून
ताच्यान तें मोठें करूं येनाशिल्लें तर!
पूण अभयकुमार त्यागी मनीस!
तत्वाचो मनीस!
कोंकणी पुस्तक दर्जेदार आसचें
आनी वाचप्यांक तें सवाय भितर मेळचें हें ताचें ध्येय
ताचे हे सेवेबद्दल ताचेमुखार म्हजी मान सदांच बागवता
सुटके झुजारी म्हण वि. सु. बाबांच्या मुखार बागवची तश्शी
पुस्तक घेवन हांव भायर सरलो
'पयशे फारीक केल्यात मरे!'
रमेशान काच्च करून विचारलेंच
'बोरकारान केन्ना पयशे फारीक केल्यात?'
तानाजी सारको आवाज आयलो
पळय जाल्यार खरोच तानाजी
स्टुलार बसून तो पेपर चाळटालो
वामनाचो एक मनीस, तानाजीन हे पयलीं
चाळून उडयल्ले पांच स पेपर घडी मारतालो
म्हाका तानाजीचो सदांच हेवो दिसता
तो कितलेय पेपर उस्तीय!
वामन ताका एका उतरान विचारिना
हांवें मात एक पेपर काडल्यार पयशे मागता
तांचो आसतलो कितेंय रूणानबंद!
हांव पयशे फारीक करतां हें तानाजीक कळचें म्हण
हांवें काच्च करून दोन रुपयांची नोट
वामना मुखार धरली
वामनान सवाय रुपया काडलो

बारा आणे म्हज्या हातार दवरले
रमेशान ते काच्च करून पळयलेच
'तरीय चार आणे उणेच रे बोरकार!'
काच्च करून ताणें म्हळें
हांवें ताचेकडेन दुर्लक्ष करून
अभयकुमाराचें शेनाय उगडलें
हांव पुस्तक घेतां आनी वाचतांय हें म्हाका
हेरांक दाखोवंक जाय आशिल्लें
पुस्तक चाळ्ळें
सगळीं पाना हळडुवींच
ताचेर खयतरी चुकून अक्षरां छापून आयिल्लीं
बाबड्यान बेळगावां हुंद्रेकडेन छापलां आसतलें
सवाय रुपयाक आनी कितें मेळटलें!
कोंकणी अकादेमीन शंबर टक्के अनुदान दिवनूय
पुस्तकाची किंमत पन्नासां वयर आसता
अभयकुमाराविशींचो म्हजो अभिमान सवायपटीन वाडलो
रामभाऊ आपल्या पुस्तकाची जितली काळजी घेना
तितली घेवन हांवें तें पुस्तक बोटव्यांत घालें
मनांत शेनायची धून!
'शेनाय वाचून कितें शेणय जावंक सोदता रे?'
रमेशान काच्च करून म्हळें
हांव ताच्या तोंडाकडेन पळयत उरलों

०१ सप्टेंबर १९९०



**शी**ला कोळंबकाराचें पत्र आयलां
अशा व्हड साहित्यिकांचीं पत्रां आयलीं की
हांव तीं फ्रेम करून दवरतां
एकदां मुंबयच्यान दत्ताराम सुखठणकारांचें पत्र आयलें
हांवें तें फ्रेम केलें
अजापाची गजाल म्हळ्यार
एकूच कोंकणी पुस्तक बरोवन तांकां
साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फाव जालो
तांकां तो फावरान दिला अशें मागीर
कोंकणी नतद्रश्ट म्हालगडे म्हणूं!
पूण हांवें तें फ्रेम केल्ल्यानूच तांकां तें फाव जालें
हाची म्हाका खात्री आसा
त्याच खातीर तांच्या माक्नी पुनवेर पुनव ओतली
त्या उपरांत प्रकाश पाडगांवकाराचें आयलें
तेंय हांवें तशेंच फ्रेम केलें
ताकाय पुरस्कार मेळ्ळो
आतां शीलाचें पत्र हांवें फ्रेम केलें म्हूण
तीच गत जातली अशांतली गजाल न्हय
आतां कांय गजालीं फ्रेमी भायर पावल्यात
ओलव्हीन गोम्स कला अकादमी मंडळार आसलो

थंय आशिल्ल्यान आपल्याक ट्रावलींग ग्रांट मेळचोना
म्हण तांणीं मंडळाचो राजिनामो दिलो
आतां तो साहित्य अकादेमीर पावला
साहित्य पुरस्कार मेळचो म्हूण तो हे फ्रेमीभायर
येवंचो ना कित्यावेल्यान?
ह्याच खातीर म्हजे फ्रेमीक आदलींचे म्हत्व आतां ना
शिवाय आदलींचो मराठीवादी आतां मराठी फ्रेमींत ना
कोंकणी साहित्य दर्जेदार फ्रेमीत रावंक सोदिना
सुनील पालकाराचे नागीण
ह्या रामभाऊशाप काव्य-पुंजल्याक
पुरस्कार मेळ्ळो जाल्यार
कोंकणी म्हालगड्यांनी वक्लाची फ्रेम
पुसपाची गरज ना
हागा काव्य-पुंजलो म्हळ्यार काव्य संग्रह
संग्रहापरस पुंजलो हें उतर बरें
काजुलो कसो चकचकीत
हें उतर म्हजें न्हय. मोरायशबाबाचें
पूण म्हाका तें आवडटा
तर शीलाचें पत्र हांवें फ्रेम केलें तें वेगळ्या कारणाक
शीला आतां कथा थोड्यो बरयता
पत्रांच चड बरयता
ताच्यो कथा वाचूंक मेळनात, निदान पत्र वाचचें
म्हूण फ्रेमीची खटपट
एकदांच दुर्मीळ अशें येवपी पत्र फ्रेमूच करूंक जाय
पत्रां फ्रेम करपाची ही एक्साची म्हाका
एक वायट संवय लागल्या
म. ज. देसाय लेगीत म्हणटालो
'ह्या एक्साच्या बोरकाराक,
एक्सापरस किंचमणेंच चड लागता'
आतां हो देसाय कोण हें हांव नकळ
वसंत भगवंत सावंत म्हणटालो की तें टोपण नांव म्हण

तें एक तर मा. ज. आसूंक जाय
वो म. ज. देसाय आसूंक जाय
तर सांगपाची गजाल म्हळ्यार
म्हाका हें पत्रां फ्रेम करपाचें किंचमणें
कोप्राच्या वेळार लागलें
दत्ता नायकाक आनी म्हाका
एक्सां घालून खूब पत्रां येतालीं
पत्रां घालपी हे एक्सवादी आतां
सगळ्यांक कोंकणी शिकयतात
कोंकणी बरयतात
दूरदर्शनाचेर कोंकणी उलयतात
सुमेधा कामत लेगीत
गुरूनाथ केळेकारांचें कोंकणी उलय
कोंकणी बरय
कोंकणीतल्यान सरकार चलय
हो संदेश हांणीं खरेलोच फ्रेम केला आसतलो
जांव सगळ्या एक्सवाद्यांनी आपल्याक
मराठी फ्रेमींतल्यान भायर काडलें तें बरें जालें
आतां हो म्हजे फ्रेमीचो प्रताप अशें हांव म्हणना
नाका जाल्लें मोठेपण घेवंक हांव कोण तर?
शशिकांत नार्वेकार ?
काय पां. पु. शिरोडकार!
मराठीची फ्रेम गोंयांत तिगल्या ती म्हजेच खातीर
शशिकांत एक दीस म्हाका म्हणटालो
फट जाल्यार म्हजो सदरो पळयात
ताचे पिकेचो स्प्रे अजून म्हज्या सदऱ्यार आसा
तर सांगपाचें थंयच उरलें
शीलाचें पत्र फ्रेम केलांच
ताचो कितेंय फायदो जाल्यार पुरो!
ना तर म्हाका मीना काकोडकाराक सांगचें पडटलें
म्हाका एक पत्र बरय

तें हांव फ्रेम करतां
कुळागराचो पुरस्कार
धा हजार जावंक तरी फायदो जातलो!!

@• @• @•

**१६ सप्टेंबर १९९०**





**फा**टलें सप्तक म्हाका मनस्ताप सोंसचे पडले!

हे मनस्ताप बोरकारी खातीर न्हय
बोरकारी वाचून कोणाकूय मनस्ताप जांव!
कोणाच्याय एक्साची तिडक एक्साक पावूंदी!
म्हजें एक्स वचना
पूण म्हाका मनस्ताप भोगले ते कोंकणीखातीर
'कोंकणीन आमकां बऱ्याक पावयल्यात'
अशें कोंकणी म्हालगडे म्हणूं मागीर
कोंकणीन म्हाकाय स्वाभिमान दिला हातूंत दुबाव ना
पूण सप्तकभर मनस्ताप दिला हें म्हत्वाचें
सोमारा सक्काळीं भावाच्या चल्यान म्हाका उठयलो
'दिलीपकाका म्हाका मलम दी'
'हाका सकाळफुडें जालां कितें काय?'
ताका सांसपिलो. पूण खंयच घाय ना
ताणें ब्रश काडलो आनी पेस्टीकडेन बोट दाखयत म्हळें
'तें पळय थंय आसा मलम'
सदांच हो पेस्ट मागतालो
आयज ताका तें मलम कशें दिसलें काय?
दांत दुखता आसतले. हांवें दांत पळयले
सगळे सारके आसात

'आरे तें मलम न्हय. ती पेस्ट'
'तूं म्हाका सांगता? मलमूच तें'
तो पेस्ट घेवन पळ्ळो
रातची परत रडारड. आकांताची!
'आई म्हाका ताईकडेन न्हिदूंक जाय'
व्हडल्या भावाले चलयेक तो ताई म्हणटा
'मागीर न्हीद मरे. सदां न्हिदनां?
आवयन ताका समजायलो
'तें ताई न्हय. शाळेत शिकयता ती ताई'
ताची पिरंगण चालूच
'किते! सदां बाई म्हणपी हो आतां तिका
ताई म्हणून तिच्या म्हऱ्यांत न्हिदूंक सोदता?'
म्हाका पोराचीं लक्षणां बरीं दिसलींना
मंगळारा दिसा दोन केस्तांवां
सकाळफुडें नागूदाद आयलो
माडांचीं आळीं सारकी करचे पयलीं
ताणें मुंडासो सारको केलो
हाणें ताका शणय म्हण उलो मारलो
सदांच नागूदाद म्हण उलो मारपी हो
आपल्याक शणय म्हणटा म्हण नागूदाद चाळवलो
ताणें शणय म्हळ्याबराबर
म्हाका दिसलें अभयकुमार आयला
हांवें म्हळें, 'आरे, तो नागूदाद. शणय न्हय'
'ना तो शणयूच. तूं म्हाका सांगता?'
'तो म्हाका किरयता. पोरा हांव बामण न्हय आं!'
नागूदाद ताचेर तिडकलो
दनपरां पिटराचे आवयच्यो गाळी आनी फोरस्ती
ताणें पिटराक छगन म्हळें
पिटरान आवयक सांगलें
'कोंकानी जालेल्याक कोंकण्यांचीं नांवां दवत्ता?'
निमताक आशिल्लें मारिमानां चाळवलें

‘आरे तो छगन न्हय. पिटर!’
‘तूं म्हाका सांगता? तो छगनूच’
बुधवारा आनीक झगडीं
विनय स्कुटरीवेल्यान पडलो
हाताचें हाड दोन तीन कडेन मोडलें
तो हात गळ्यांत घालून भोंवतालो
‘तुजें बळ बरें आसा’
ताचो हात दामीत हाणें म्हळें
विनयान सगळी दूख आमचेर काडली
ब्रेस्तारा आवय पापड करूंक बसली
हाका सांगलें पापड वताक घाल
दर खेपे उमेदीन काम करपी हो
हे फावट मात ताणें हात लायलो ना
‘हांगा दोंगर खंय आसा?’ ताचो प्रस्न
‘आरे वत आंगणांत पडलां.’ आवय
‘ना. वत दोंगरार आसता’
आतां मात म्हाका ताचेर लक्ष दिवचें पडलें
बाजारांत वचून हांवें मिलां हाडलीं
बशेंत घालून ताका दिलीं. ताका तीं आवडटात
म्हाका ही इडली टबांत घालून जाय
सदां मिलां मिलांच म्हण खावपी हो
आज तांकां इडली म्हणटालो
तीं खावंक टब मागतालो
केस सिरीयस. नखलामी
‘आरे, हीं पिशेपणां कितें करता?’
‘पयलीं हांव पिसो आशिल्लों. आतां हांव शाणो जालां’
ताची परती जाप
‘हें सगळें हांव नव्या पाठांत शिकलां’
नवो पाठ! म्हाका कांय कळना जालें
ताणें धांवत वचून एक पुस्तक हाडलें
‘आरे, हें पुस्तक. पाठ न्हय’

'हें तो पाटूच. पुस्तक न्हय'
हांवें पुस्तक उगडलें
पळयल्यार गुरूनाथ केळकारालो तो चित्रबोध
हांवेंच ताका दिल्लो
म-मलम-पेस्टीचें चित्र
छ-छगन-कॉमिक भुरगो
इ-इडली-बशेंत बारीक कितेंतरी!
व-वत-दोंगर आनी सूर्य
ट-टब-वाटली
ई-ताई-बाई
श-शणय-शणय गोंयबाब
म्हाका सगळो बोध जालो
शणयचें चीत्र थकून म्हजेकडेन पळयतालें!



२३ सप्टेंबर १९९०





**कों**कणी म्हालगडे म्हजेकडें उलयनांत
म्हाका पळयल्याबराबर तोंड काळें करतात
बालगडे मात तोखणायेन पळयतात
कित्याक लागून काय?
बोरकारी माल पडटा म्हूण?
फाटल्या आयतारा केपें गेल्लों
केपेकारांचें कितें तरी आशिल्लें
कितें आशिल्लें तें खबर ना
दनपरां जेवण आशिल्लें तें मात याद आसा
सगळे भुसाचेर तुटून पडिल्ले
त्याच वेळार हांवें एंट्री घेतली
खूबशा जाणांक खोकली आयली
भिकू बोमी नायकाचें म्हजेर लक्ष गेलें
ताणें एके जिलबेक हात घाल्लो तो चुकून दोनांक पडलो
'बोरकारीक विशय गावलो बोरकाराक'
जिलबी तोंडांत धुकलतनाच ताणें म्हळें
कविसंमेलनाक नवी कविता रचूंक शांती दंग आशिल्लें
चिकनाची फोड चोकतां चोकतां तें उतरां जुळयतालें
भिकू कितें उलयलो तें ताका कळ्ळेंना
तरी तें हांसलें

हांसतना तोंडांतली चिकनाची फोड पडलिना
कवितेचे शब्द मात शेणले
'आतां बोरकारी कोणार रे केपेंकारांचेर ?'
दुसरो कोण तरी उलयलो
पयलीं दिसलें नागेशबाब म्हण
पळयल्यार शिवदास
तोंडांत आख्खो बांगडो घाल्ल्यान आवाज वेगळोच
'तें एक्स मातशें काड रे. हरशीं बरोवप बरें जाता'
कृष्णनाथ करमली गोंय विद्यापिठाच्या
कोंकणी विभागाचे मुखेली कशे उलयले
तर सांगपाचें म्हळ्यार सगळ्यांक भंय
कोणाक दिसता हांवें एक्सां काडचीं
कोणाक दिसता हांव बोरकारीक विशय सोदूंकच भोंवतां
कोणाक दिसता बोरकारी आपल्याचेरूच म्हूण
म्हाका दिसता बोरकारीक लागून
हे सगळे म्हालगडे कोंकणी सोडटले
पूण हांव केप्प्यां बोरकारी सोदूंक वचूंना
हांव गेल्लों वेगळ्या कामाक
मनोहरबाबाक मेळूंक
मनोहरबाब कविसंमेलनाचो
अध्यक्ष जालो की म्हाका बरेंऽ दिसता
अशें भाग्य दुर्मिळच
म्हाकाय दिसता केन्नाय कविसंमेलन करचें
पूण मनोहरबाब खंय खंय म्हण पावतलो
'लोकशाय' खंय खंय म्हण वाचतलो?
तर बोरकारी बंद करची अशें दिसूंक लागलें
ती बंद करिना जाल्यार कोंकणी फुडें वचचिना
कोंकणी कार्यावळीक म्हाका वचूंक मेळचेंना
गेलों जाल्यार कोणूच उलोवंचोना
सगळ्यांच्या स्वातंत्र्याचेर बोरकारीन घालो घालो
अब क्या करेंगे?

एकूच निर्णय. बोरकारी बंद!
पूण असो निर्णय म्हूण घेंव येता?
चार चौगांक विचारूं नाका?
उठलों आनी प्रशांती तळपणकाराकडेन गेलों
तेंय एके बशेंत फराळ घेवन बशिल्लें
नार्वेकार प्रकरणांत उपास केल्या उपरांत
तें फराळूच करता. जेविना
आतांय ताचे बशेंत फराळूच आशिल्लो
दोन तळिल्ले बांगडे
चार उकडलेलीं तांतयां, दोन-तीन जिलेबी
दोन उंडे. अर्द बशी चिकन
उरिल्ल्या सुवातेर पुलाव
ताका फराळ करतना डिस्टर्ब करचें न्हय अशें दिसलें
पूण निर्णय घेतल्याबगर म्हाका उंडी चलना
'बोरकारी म्हजेर बी बरयशी आं....' प्रशांती उलयलेंच
आवय-सॉरी एक्साचें म्हणप ना
प्रशांतीय म्हजे बोरकारीक भिलें?
तेंय धुम्याचे लायनीर गेलें
कितें जातलें ह्या देशाचें आतां?
'प्रशांती हांव बोरकारी बंद करतां'
'चे नाकां आं नाका. बंद करूं नाका'
'पूण म्हजेकडें कोण उलयनांत. उदयबाब लेगीत'
'कसो उलयतलो? तूं भलतेंच बरयता'
'हांवें खंय भलतेंच बरयलां. तीं सगळीं फकणां'
'पूण लोकांक खरीं दिसता न्हय!'
'मागीर बोरकारी कशी बरोवप तें तरी सांग'
'तूं बोरकारी बरय. म्हालगड्यांचेर बरोवं नाका'
'बरें तर, हांव हांचेर ह्या मुखार बरयनां'
– मनोहरबाब कोंकणी अकादेमीचे गाडयेन
कविसंमेलना करीत भोंवता अशें हांव म्हणचोना
– नागेशबाब ना ना म्हणत सगळ्यांत फुडें आसता

अशें हांव म्हणचोनां
- उमेश म्हांबऱ्याक हांव वाकडो देव म्हणचोना
- गुरूनाथ केळेकाराच्या चित्रबोधाक वायट म्हणचो ना
- चंद्रकांत केणीची शब्दावळ वायट म्हणचोना
- उदयबाबाक बरे भशेन म्हणचोना
- हांव कोणांक एक्साचो म्हणचोना
'तशें जाल्यार बोरकारीच एक्साची जाली'
प्रशांती मर्दी उलयलेंच!



**३० सप्टेंबर १९९०**



राजू नायक म्हाका आवडटा
तो हांसत आसता
तो सतत हांसत आसता देखून तो
गाळी मारता काय बरें उलयता तें ओळखूंक येना
म्हणून तो म्हाका आवडटा
आनी आवडीच्या मनशांक म्हाका मेळन दिसता
उठलों आनी मडगांवां गेलों
आतां उठल्या बगर कांय मडगांवां वचप शक्य ना
जाय जाल्यार मडगांवां वचून न्हिदूं येता
तरी हांव बरयतां
उठलों आनी गेलों.....
सहज येता तें. आवडनासतनाच
आवडनासताना कांय गजाली करप म्हाका आवडटात
जशें एक्साचेर फातर मारून एक्स आंगार घेवप
तर सांगपाचें म्हळ्यार मडगांव गेलों
राजूक मेळपाक बीपीएस मार्गाविल्यान
वळवळत सुनापरान्तात पावलों
जो वळणा घेत गेल्ल्या रस्त्यावेल्यान वता
तो वळवळत वता
हें सांगपाचें कारण म्हळ्यार थोड्यांक

एक्स कळटा पूण वळवळप कळना
सुनापरान्तात भितर सरलों
पळय जाल्यार सगळ्याक सामसूम
जितो मूस ना
खंय गेले काय सगळे
मनोज कामत फांतोडेर लेगीत गेल्यार दिसतालो
बेश्टोच तोंडार हांसो दवरून आपूण
कामात आसा अशें दाखयत
न्हिदेंत लेगीत तो म्हाका हटकिता
तात्त्याच खातीर म्हाका बाकीबाबाच्या
काव्याची ओळ आवडटा
'थरथरून थांबलीं पानां झेमतां झेमतना'
पूण तो आज दिश्टी पडूंक ना
सुटी काय आज?
इतल्यान कोणेंतरी येवन सांगलें
'इमर्जन्सी मिटींग चल्ल्या'
सुप्रसिद्ध साहित्यिक दिलीप बोरकाराक
भायर बसचो पडलो
पूण ही अकस्मात इमर्जन्सी मिटींग कित्याक?
म्हजी बोरकारी बंद करपाचो निर्णय घेवपाखातीर बी न्हय मूं?
सागू नज पि डी ए. सरकारांत कितेंय घडूं येता
म्हजी उत्सुकताय चाळवली
'कसली मिटींग रे?' प्यूनाक विश्वासांत घेतलो
'शडयंत्राचेर' ताणें तितल्याच बारीक आवाजांत सांगलें
शडयंत्र! देवा सायबा!
सुनापरान्ताचेर शडयंत्र कोणें रचला काय?
म्हजे कान हांवें बंद दारांतल्यान भितर घुसयले
भितर शडयंत्राचेर दबकत भासाभास
'राष्ट्रमत कोंकणी करपा फाटलो उद्देश म्हळ्यार
सुनापरान्त सोंपोवपाचें षडयंत्र'
चर्चील अशें म्हणटालो तें खरें तर!

मिटींगेक जायते भाशा तज्ञ जमिल्ले आसूंक जाय
'हें षडयंत्र थांबोवंक जाय.' राजूचो आवाज
ताच्या आवाजांत पत्रकारी कळवळ
पूण हें षडयंत्र कसलें?
जाका लागून राजू आकूळ पिकूळ जाला!
उदयबाब सुनापरान्तान बरयना
पुंडलीक नायक आपलें पाजण पाजिना
दत्ता नायक निशाण सांधिना
मावजो सरभोंवतणी भोंवना
शिवदासाचें एक समजूंक शकता
तो सद्या दिवाळी अंकात घुस्पला
पूण पालेकार लेगीत आपलें
'म्हळ्ळें-बिळ्ळें' बरयना
हेंच काय तें षडयंत्र!
काय बाबू नायकान नवें कसलें यंत्र हाडलां?
काय अनील पैन आपली बुद्ध वापरल्या?
पूण 'ष' जाग्यार 'श' वापरल्यार जाता कितें?
मनोज कामतीचो प्रस्न
'तें तत्सम उतर. ते खातीर 'ष'चे सुवातेर 'ष'च वापरप
आनीक कोण तरी
'पूण कोंकणी अकादेमीचो नेम कितें सांगता?'
बाबली नायक दिसता!
'पाद्रीचो शेरमांव व्हनयेक न्हय'
परत तोच आवाज
षडयंत्र खंय! पाद्री खंय आनी अकादेमी खंय!
म्हाका कांयच कळना जालें
कोंकणी अकादेमीन षडयंत्र रचपाचे वर्ग उगडल्यात काय?
जांव येता. अकादेमी कितेंय करीत
एक्स बांदून दोंगर लेगीत ओडीत
'भाशाभास्त्राचे नदरेन' 'ष' चो आनी 'श' चो उच्चार एकूच'
फेलीक्स कार्दोज मर्दींच उलयलो

'फरक आसा. तुमकां भाशेचें ज्ञान ना'
आपलें कोण आयकना देखून तो कोणतरी तापलो
आरेच्या हो तर नागेशबाब
मागीर कॅबिनांत बरीच घुस्पट
सगळे एकदम उलयल्ले कारणान कितें जालें तें कळ्ळेंना
झगडीं पालोवंक कार्दोजान उपाय काडलो
'षडयंत्राच्या वापरांत 'ष' आनी 'श' दोनूय वापरप ना'
'मागीर कितें वापरप?' सगळे एकदम
'त्या बदलाक एक्स वापरप'
फेलीसबाबाचो तोडगो सगळ्यांक मानवलो
म्हज्या एक्साक राज्यमान्यता मेळ्ळी
हांव एका षडयंत्रांतल्यान वाचलों



**०७ ऑक्टोबर १९९०**





**खू**ब दीस जाले मराठीवाल्यांची खबर घेवंक ना
पयलीं एक बरें जातालें
कों. प्र. आ. ची चळवळ चलतना हे सगळे मेळटाले
आमी मोर्चो काडलो ते काडटाले
आमी भाशणां दिलीं ते दिताले
आमी पत्रकां काडलीं ते काडटाले
आमी कोंकणी म्हळ्यार ते मराठी म्हणटाले
आमी मराठी जाय अशें म्हणत जाल्यार
ते कोंकणी जाय म्हणटाले
ह्या घुस्पागोंदळांत आत्र्यापयऱ्यान ते आपटताले
पूण चळवळ बंद जाल्ल्याक रस्त्यार कोणूच दिसना
आमचो पुंडलीकूय दिसना आनी तांचो शशिकांतूय दिसना
ह्या लोकांक मेळप म्हळ्यार एक दिव्यच जालां
पुंडलीकाक मेळूंक वतलों जाल्यार
शेकानशेक मराठी रस्तो लागता
शशिकांत म्हाका मेळूंक येतलो म्हळ्यार
उत्तर गोंयचो कोंकणी पट्टो ताका आडायता
शशिकांत नार्वेकाराक मेळना जाल्यार
मनोहर हिरबाक पळयना जाल्यार
म्हाका बेश्टेंच आतां कितेंशेंच दिसता

उठलों आनी मराठी अकादेमींत गेलों
हे आतां साहित्य सेवकांत मेळपा सारके न्हय
थंय कितें उल्लां आतां? फकत साहित्यूच मू?
थंय ते सेवक म्हूण कितें करतले?
मराठी अकादमींत तरी खूब सेवा आसा
शिवाय आतां कोंकणी-मराठी सरकार जाल्ल्याक
मराठी अकादेमीचीं दारां
म्हजे सारख्या कोंकणी मनशाक उक्तीं जाल्यांत
मराठी अकादेमी सोदून काडली
नॅशनल थेटरा लागींच ती आसा
नॅशनलांत धुमाकूळ म्हणू पिक्चर लागिल्लें
पयलीं पिक्चराक वचचें शें दिसलें
पूण मराठी पिक्चर पळोवन वेळ होगडावचे परस
शशिकांत नार्वेकाराक मेळप कल्याणकारी
नॅशनला कडच्या गाड्यार एक पान घेतलें
अमृता प्रितमाक मेळूंक वतना हांव सिगरेट व्हरतां
नार्वेकाराक कितें व्हरतलों?
पान घेतलें आनी मराठी अकादेमीत गेलों
शशिकांतबाब मराठी अकादेमीचो अध्यक्ष जावन
कसो दिसता हें म्हाका पळोवंक जाय आसलें
चर्चील मंत्री जातकच दिसता तसोच दिसता काय?
पुरूषोत्तम काकोडकार कोंकणी अकादेमीचो
अध्यक्ष जावन जसो वागता तसोच वागता काय?
तकलेंत खूब प्रस्न
दारांतल्यान नदर भितर मोखली
एका उच्च आसनार शशिकांतबाब पान खायत बशिल्ले
अकादेमीच्या अध्यक्षपदाचें तेज तांकां मारतालें
तांच्या उजव्या हाताक पुष्पाग्रज
आरेच्या हो मनीस हांगा कसो पावलो?
हो तर कोंकणी कवी
कोंकणी मनशाक मराठी अकादेमींत स्थान ना

कोंकणी साहित्यीक म्हळ्यार मराठीवाल्यांक अछूत
पुष्पाग्रज कोंकणी कविता करता म्हण
ह्या बाबड्यांक खबर ना काय?
जांव येता
कोंकणी-मराठी सरकार जाल्ल्याक हांची
नीत बदल्ल्या आसूंक शकता
कोंकणीवादी जालो म्हूण मराठी अकादेमींत आसूंक शकना?
हांव कोंकणी आसून मराठी बरयना तर?
बा द सा मराठी म्हणून कोंकणी बरयना?
पां पु कोंकणी बरोवन तिका मराठीची बोली म्हणना?
हांवें शशिकांतबाबाचें अभिनंदन केलें
शशिकांतबाब खूश
'म्हाका हें आवडटा. तुमी पयले कोंकणी मनीस'
पान खातां खातां तांणीं म्हळें
'हांव पयलो कोंकणी मनीस न्हय'
हांवें तांची चूक सुदारपा खातीर म्हळें
'म्हजें अभिनंदन करपी'
फुडलें वाक्य तांणीं खूब उसरां घेतलें
बाबड्याक दिसलें आसतलें
हांव ते अध्यक्ष जाल्यात म्हूण अभिनंदन करतां
'तुमी कोंकणी मनशाक उपाध्यक्ष केला म्हणून अभिनंदन'
शशिकांतबाबान आंग काडलें
'कोंकणी मनीस हांगा?'
हुंदीर कदेलापोंदां सोदचो तसो तांणीं सोदूंक सुरवात केली
'ना. तुमी फकत मराठी मनीसूच घेताले न्हय'
म्हजी जाप आयकून पुष्पाग्रजाक उस्तुरें गेलें. वतलेंच
बाबड्याक कोंकणी मनीस आपलो म्हणना
मराठी मनीस आपलो करूंक सोदता जाल्यार
आतां हांव थंय कडमडलों
शशिकांत नार्वेकारांची चिंता वाडली
हांवें पान मुखार केलें

फाटीं फुडें पळयनासतना तांणीं पान चाबडायलें
म्हजो सगळो राग आनी पुष्पाग्रजाचोय पानार काडलो
हांवें म्हजो सदरो सांबाळ्ळो

@•@•@•

**१४ ऑक्टोबर १९९०**





**प्रा.** म्हळ्यार कितें?

म्हाका अजून खबर ना
प्रा. हें खंयच्या तरी भयंकर उतराचें शॉटफार्म
प्रा. म्हळ्यार प्राचीन काय?
प्रा. म्हळ्यार प्रायश्चित काय?
प्रा. म्हळ्यार प्राकृत, प्रासंगीक, प्राथमिक
प्रायोगीक, प्रार्थना, काय प्रामाणिक?
कांयच कळूंक मार्ग ना
प्रा. म्हळ्यार प्रामाणिक अशें म्हजो समज आशिल्लो
जशे नांवां मुखार श्री. लायतात तशें कांय लोक प्रा. लायतात
प्रा. सुरेश वाळिम्बे
प्रा. प्रल्हाद वडेर
प्रा. सु. म. तडकोड
प्रा. शशिकांत सरदेसाई
पूण हांगा प्रा. म्हळ्यार प्रामाणिक आसूंकच शकना
कितें तरी गडबड आसा खरी
प्रा. म्हळ्यार प्रामाणिक जाल्लें जाल्यार
हांव म्हज्या नांवामुखार प्रा. लावचो नाशिल्लों?
पुरूषोत्तम काकोडकार लावचो नाशिल्लो!

प्रा. म्हळ्यार नक्कीच प्रामाणिक न्हय
कितें तरी अति महाभयंकर आसतलें
हांव भाषाशास्त्री असो गैरसमज हांवें
करून घेतिल्ल्याक हें अशेंच जाता
उठलों आनी प्रभाकर भिडेगेर गेलों
थंय एअरकंडिशनांत तकली थंड जाता
शिवाय सगळे विचारवंत थंयच मेळटात
कांय प्रा.य थंय येतात
म्हजो प्रस्न थंय सुटलो ना
भिडे म्हणूंक लागलो, 'प्रकाश थळीक विचार
तोय प्रा. लायता. हें सगळें प्रायवेट आं!'
उठलों आनी मडगांव गेलों
थंय वता थंय नरकासुराचो बोवाळ
मडगांवकार नरकासुराचो मुखवटो
ज्युरत वैकुंठ फोंडेकारा सारको दिसपी
कसो करतात तेंच कळना
ताचेर उपरांत विचार करूं येता
राय पावलों. प्रकाश थळयाचें घर सोदलें
पूण प्रा. प्रकाश थळी घराकडेन ना
कदाचींत प्रकाशवाणी घेवन सुनापरान्तात गेला आसतलो
भायर सरलों पळयल्यार प्रकाश थळी एका माडा मुळांत
पाडटा आसतलो आयज
जांव भाटकारांक बरे दीस आयल्यात
'आरे. बोरकार मरे। हांगा खंय आयज!'
गळ्या भोंवतणचो मफलर सारको करीत
थळीबाबान म्हळें पूण नदर माडाचेर
'थळीबाब आयज पाडो दिसता!'
उलोवंक जाय म्हण हांवें म्हळें
'चुकलो तूं आं! हांव पाडोय न्हय आनी आयज पाडोय न्हय'
शब्दांची कोटी करीत थळीबाबान म्हळें
'हांव माडाची उंचाय मेजतां'

'पूण मुळांत रावून माडाची उंचाय मेजप म्हळ्यार!'
हांवें प्रस्न केलो!
'तें तशेंच आसता रे
माडाची उंचाय कळूंक एक तर
माडार चडचें पडटा वा माड जावंचें पडटा'
उलयतां आसतनां मफलर सारकें करप तांणीं सोडलें ना
'कित्याक आयिल्लो तूं?'
'थळीबाब प्रा. म्हळ्यार कितें?'
हांवें भितभीत विचारलें
र. वि. पंडिताक माड न्हय म्हणप्यामुखार
आनीक आनी स्पश्ट उलोवं येता!
'तूं सामकोच हो मरे! प्रा. म्हळ्यार प्राध्यापक'
'तें प्रामाणिक जांव नजो?'
म्हजो दुबळो प्रस्न
'तुकां कळपाचें ना रे तें. तूं आजून भुरगो आसा
प्राध्यापक प्रामाणिक जाले जाल्यार जाता?'
परत माडाक पळयत प्रकाशबाब उलयलो
म्हणजे म्हजें प्रामाणिकांतलें प्रा. एक्सांत गेलें?
तरी बरें हांवें म्हज्या नांवा मुखार प्रा. लायलें ना!
प्रा. म्हळ्यार प्रामाणिक न्हय तर प्राध्यापक
म्हजो प्रस्न सुटिल्लो
तरी सुद्धा प्रा. प्रकाश थळी माडाक कित्याक पळयतात?
बाबड्याक नाल्ल काडपाचें आसतलें!
चडूंक येना म्हूण अडचला
'प्रकाशबाब हांव चडूं माडार?'
मदत करूंक हांवें विचारलें
'चेऽ! म्हजो माड तर तो? हांव फकत र. वि. पंडिताची
उंचाय मेजतां. गरजेभायर ताका माड म्हळां'
प्रा. थळीबाबाचो कितें तरी गैरसमज जाल्लो
'थळीबाब तांचे कवितेक लागून तांकां माड म्हळां
ते माडावरीं लांब म्हूण न्हय'

हांवें म्हजी अक्कल व्हांवयली
'तुका कवितेचें कितें कळटा? तूं प्रा. बोरकार तर!'
प्रकाशवाणी जाली
म्हाका थळीबाबाचें पटलें
हांव प्रा. न्हय
प्रा. जाल्लों जाल्यार माडायेदी फीत घेवन कविता मेजपाचों
'थळी सांगता तें खरें! तुवें बोरकारीच बरोवपाची!'
आकाशवाणी जाली
आवाज ज्युस्त पंडिताचो

**२१ ऑक्टोबर १९९०**





म्हाका सुटके झुंजारी जावपाचें आशिल्लें
पूण म्हज्या नशिबांतूच ना तें
तेन्ना जर हांव मातसो व्हडलो आशिल्लों
जाल्यार आयज हे उतळताप नाशिल्ले
पेन्शनार तरी दीस काडूं येताले
सुटके झुंजारी म्हण मिरोवं येतालें
राज्यपालागेर वचून वर्सांतलीं
दोन तीन जेवणां सोडोवं येतालीं
पूण म्हजें नशीब फुटकें ताका कोण कितें करतलो?
हांव जरी सुटके झुंजारी जावंक पावलोंना
तरी तांच्या विशीं म्हाका आदर खूब
ते वाटेर खंयीय दिसल्यार म्हजी मान रोकडीच बागवता
म्हाका बाग आयल्या ती तेच खातीर
अशें विनायक खेडेकार एकदां म्हणटालो
तें कितेंय आसूं
म्हाका सुटके झुंजारी भोवच आवडटात
तेच खातीर हांव फाटलीं दोन तीन वर्सां
मनोहर हिरबांचो 'गोव्याचा स्वातंत्र्य इतिहास' नेमान वाचतां
हे दोनूय खंड म्हळ्यार म्हाका अप्रूप

धा रुपयांत आनी हाचे परस वजनदार कितें मेळटलें?
हांव 'बांबर' आनी 'कार्मेलीन' वाचपा सोडून
हो इतिहास वाचतां देखून म्हजेर आवय लेगीत खूश
ती हेरांक मुद्दाम म्हजो दाखलो दिवन
म्हजी देख घेवंक सांगता
ह्या इतिहासाक लागून म्हाका
मनोहर हिरबाय खूब आवडटा
ताणें सगळ्या सुटके झुंजाऱ्यांक
हातून चोंदून ताची एक कादंबरीच केल्या
तॉलस्तॉयच्या वॉर ॲण्ड पीस हातूंत लेगीत
इतलीं पात्रां नासतलीं
हीं सगळीं जिवंत पात्रां म्हाका भोवच आवडटात
म्हजें हें सुटके झुंजाऱ्यांविशींचें
प्रेम पळोवन भावान म्हळें-
'तूं इतलें काम करता
सुटके झुंजारी जावंक येना तुका?'
हें आनी अजापूच. कोणूय म्हूण सुटके झुंजारी जातात?
'तुवें तरी पाखल्याकडल्यान मार खाला'
हांव मोनो जाल्लो पळोवन ताणें म्हळें
हावें मार खाला? हें एक नवें अजापशें
'हय तूं तेन्ना चार वर्सांचो आशिल्लो'
भाव सांगता तेन्ना हें खरेंच आसतलें
म्हजो जीव खुशालकायेन भरलो
ही गजाल मनोहर हिरबांक सांगूकच जाय
हांव येदो व्हडलो स्वातंत्र्य सैनिक
आनी म्हजें नांव इतिहासांत ना?
हो इतिहासाचेर अन्याय
गोंयचेर अन्याय
फुडले पिळगेचेर अन्याय
सरकारी खजिन्याचेर अन्याय

म्हाका न्याय जाय आशिल्लो
न्यायाखातीर लडना जाल्यार स्वातंत्र्य सैनिक तो कसलो?
फकत ताम्रपट आनी पेन्शन घेवंक?
म्हजेर जाल्ल्या अन्यायाक वाचा
फोडल्या बगर म्हाका शांतीकाय मेळचिनाशिल्ली
धांवत धांवत इतिहासकार सरदेसाईगेर गेलों
'मनोहरबाब...' हांवें धापेत म्हळें
'हांव स्वातंत्र्य सैनिक. म्हाका इतिहासांत घाल'
मनोहररावांनी आंग काडलें
ते तिसऱ्या खंडाचें मनन करूंक दंग आशिल्ले
तांणीं असो अकस्मात भितर सरपी मनीस
पळोवंक नाशिल्लो जावंये!
'तूं स्वातंत्र्य सैनिक?'
म्हाका वयर-सकयल पळयत तांणीं दुबावान विचारलें
म्हजी दुश्काळग्रस्त स्थिती पळोवन
तांकां दुबाव येवपाचोच
हांवें बरो फांत मारून वचपाचें
'सर्टीफिकेट घेवन यो' तांणीं म्हळें
'खंय मेळटा?' म्हजो प्रश्न
'तेंय खबर ना? आनी सुटके झुंजारी जावंक सोदता?'
म्हाका म्हजीच काकूळट दिसली
उठलों विसुबाबागेर गेलों
तांणीं सांगलें थापट मारिल्ल्या पाखल्याक घेवन यो
ओलव्हीनबाब पुर्तूगालाक वतालोच
ताचेकडल्यान पाखल्याक रकाद धाडलो
नशीब बरें म्हूण पाखलोय ज्युस्त मेळ्ळो
ताणें ओलव्हीनबाबा कडल्यान चीट धाडली
'तुवें म्हाका हिंदू म्हूण सांगलें. देखून थापट मारलें
थापटाक आयज दर येयला देखून बरें दिसलें
स्वातंत्र्यांत तूं स्वातंत्र्य सैनिक जाता तें बरें जालें

हांवें जायत्या भुरग्यांक चिमटेय काडलेले
तांच्योय सर्टिफिकेटी धाडटां
तूं मरसर स्वातंत्र्य सैनिक उरचो म्हूण बेसांव घालतां'
पाखल्याच्या बेसावान हांव सुटके झुजारी जालों

@• @• @•

**२८ ऑक्टोबर १९९०**





**वा**टर डी. सतीश मेळ्ळो
तोंड सामकें सिरियस
आरेच्या, सदांच हांसपी डी. सतीशाक आयज जालें कितें?
टी. वी.चेर जादू दाखयल्ल्याक हो बदलूंक ना मूं?
जांव येता
टी. वी.न बऱ्या बऱ्यांचो हांसो व्हेला
दोतोर भिकाजी घाणेकार हांसत आसतालो
गोंय टी.वी.चेर हास्यकविता म्हणूंक ताका व्हेलो
हांसो टी. वी.र दोतोर सकयल
दोतोर मनोहर सरदेसाय हास्य कविता म्हणून आयलो
पयलीं तोंडभर हांसतालो
आतां हांसो म्हारग. (हांस्याक न्हय.)
दोतोर विनय सुर्लकार जनतेक हांसोवंक टी. वी.र गेलो
आपटलो धोपटलो
लोकय हांसले नांत आनी हाचोय हांसो ना
आतां डी. सतीश आपलो हांसो शेणोवन बसला
नक्की हो गोंय टी.वी.चोच प्रताप
दूरदर्शनची ही प्रस्तुती बरी प्रसूत जावंक ना दिसता
हो खरेंच सिरियस विचार
रिअली गंभीर!

अशा बऱ्या बऱ्या हांसप्यांक जर
दूरदर्शन हांसपाचें बंद करता जाल्यार
आमी दूरदर्शन पळोवन कित्याक हांसचें?
म्हजें एक बरें आसा
म्हजो हांसो खाडाक लागून कोणाक दिश्टी पडना
पूण म्हालगड्यांचो हांसो बंद जालो जाल्यार!
हो देशाच्या आरोग्याचो प्रस्न आसा!
ही चूक कोणाची?
गोंयच्या म्हालगड्यांचो हांसो बंद करपी कोण हो एक्साचो?
हाचेर गोंय पातळीचेर विचार जावंकच जाय
धांवत डी. सतीशाकडेन गेलों
'आतां जादू-बीदू कांय ना आं!'
किलें! इतशी रोखडीच ट्रीक्स करपी जादू ना म्हण्टा!
टी वी चेर दोन खेळ केल्याबराबर हाणें
एक्साक हात लायलो? अब्बा!
ना तर आमच्या शिवदासाक पळय!
पुंडलीकाक पळय!
रामानंद रायकाराक पळय!
टी वी म्हळ्यार तांच्या खातीर एक्स!
'म्हाका तुजो जादू नाका म्हाका फक्त....'
हांव उलोवंक वतालों, मर्दीच ताणें आडायलो
'फक्त-बिक्त कांय नाका. हांवें जादू सोडलो'
तोंडात घाल्ल्या पानाक चाबडायत ताणें म्हळें
हाचो टी वी र जादू पळोवन मायकल जेक्सनान,
सुदर्शनान, इडियटान, वूड पेकरान
हांसो व्हेला आसूंक जाय
'आरे टिका ही जाताच न्हय
ती सिरियस घेवपाची नासता
मुकूंद नायकाचेर कितली जाता
पूण तो मनाक लावन घेता जाल्यार पळय!'
'टिकेक कोण भिता रे?

हांव टिकेक लागून थोडीच बंद करतां जादू!'
'मागीर जादू बंद करपाचें कारण!'
'हांव आतां कविता करूंक लागलां!'
सतीशाच्या जादवान जितलो शॉक दिवंक ना
तितलो ताच्या ह्या वाक्यान दिलो
'कितें तूं कविता करूंक सोदता?'
म्हज्या काळजांत कळ येवंक लागली
ह्या गोंयचें कितें कितें जावपाचें आसा म्हण देवाक खबर!
'कविता करप म्हळ्यार तुमचीच मक्तेदारी!
आमकां कितें काव्यात्मो ना रे?'
'जालें! गोंयचो सत्यनाश!
सतीशान जादू सोडून कविता करूंक
सुरवात केली जाल्यार फाल्यां
बार्बोजूय करूंक लागतलो.
चर्चीलूय करतलो.
बाशिकूय करतलो.
मागीर गोंयचें राज्य कोणें करप तर!
गोंयांत स्मगलींग कोणें करप तर!
फाल्यां हे काव्य कृतीसत्रां
घडोवन हाडून अनुदान हेच खातले.
पयलीं गजाल सादी दिसताली. पूण प्रकरण गंभीर.
सतीशाक काव्यांतल्यान परावृत करूंक जाय.
नातर भटाक तारूं आनी खारव्यांक गोरूं
ही पॉलीशी हाडची पडटली.
'पूण सतीश, कविता करपा फाटलें कारण!'
'कारण खंयचें रे ! त्या दिसा
मनोहरबाबाच्यो कविता टी.वी.र आयकल्यो.'
'मागीर तुवें करूंक जाय अशें कांय ना.'
कित्याक तुमकां टी. वी.चेर चान्स पडचोना म्हूण.
'ते खातीर न्हय. म्हाका तुज्यो कविता नाकात.'
'कितें जादू जाय. तुजी एक्सबुध्द हांव जाणां.'

'ते खातीर न्हय. म्हाका तुजो हांसो जाय.'
'हांसल्यार विनोदी कविता जाता?
तुका कविता म्हणटा तें कळटा? ना तर ही कविता पळय.
टी. वी. वेल्यो कविता आयकून स्फूर्त आयल्या म्हाका.'
इतलें उलोवन तो रावलो ना.
पोज काडून कविता सुरू केलीच.
'मांडवी न्हय घाण दवरून
काडलां हांवें रीण
मांय एक्साच्या-तुजें कांयच घेवंक ना
तरीय तुजो शीण!'
बोरकारी सोडून म्हाकाय
कविता करच्यो अशें दिसूंक लागलें!



**४ नोव्हेंबर १९९०**





एम्. फील ची फी भरूंक जाय.
बोल्सांत पान दुडू ना. करप कितें?
कोणायकडेन म्हूण मागूं येता?
दिलेय जाल्यार परते मेळपाची आस्त नाका?
नोकरी करता ताका कोणूय दीत!
उठलों आनी दत्ता नायकाकडेन गेलों.
मागल्या बराबर काडून दिवपी
तोच एक कोंकणी मनीस.
बाकीचे सगळे म्हालगडे म्हाल काडूंक कुस्तार.
पूण दत्ताबाब आसल्यार पुरो.
खंयीय सायटीर बी गेल्लो आसल्यार हांव मेलों.
कामाचे मनीस हे. म्हजेखातीर थोडेच रावतले!
तशे कोणाक कोण रावल्यात?
बार्बोज राजीव गांधीक रावला?
खलप मराठीक रावला?
दामोदर घाणेकार सुनापरान्तांत रावला?
ना. मागीर दत्तान म्हाका कित्याक रावचें!
दत्ताबाब आसल्यार पुरो!
ताच्या ऑफिसांत भितर सल्लों.

मेजार फायली उण्यो. पूण वर्तमानपत्रांची कात्रणां चड.
शापून आयिल्लीं कात्रणां आनी
शापूंक धाडपाचें लिखाण.
त्या ढाळाभितर खुर्चेर बशिल्लो दत्ताबाब दिसच नाशिल्लो.
बरें दिसलें!
दत्ताबाब ढाळा फाटल्यान दिसना म्हूण न्हय.
तो आसा म्हूण!
हातांत पेन घेवन बरोवपांत गुल्ल.
कदाचीत नागोबाचेर जांव सु. का.चेर
तुटून पडला आसतलो.
'कॉ रे तो?' मान वयर काडिनासतना ताणें म्हळें.
आवाज मातसो बदल्ल्या सारको दिसलो.
जांव येता. पुलोआ सरकार जालो.
कोंकणी राजभास जाली
तेन्ना बऱ्या बऱ्या तत्वनिष्ठांचो आवाज बदल्ला.
पूण दत्ताचो आवाज कसो बदलतलो?
तो काय ह्या म्हालगड्यांमदलो न्हय.
कदाचीत डॅन्टोबॅक तोंडांत घालां म्हूण आसतलें.
पूण ताणें तेंय तर सोडिल्लें.
बारकायेन मान वयर करून पळयलें.
आरच्च्या हो तर अवधुत चोडणेकार!
मागीर दत्ताबाब खंय गेलो? म्हजें नशिबूच फुटकें दिसता!
ह्या अवधुतान तर म्हाका एकसार मारपाची
कार्यावळ दवरिल्ली कला अकादमींत!
ताची बोरकारी आयकुपांत म्हाका रस नाशिल्लो.
'आरे बोरकार मरे। तुजें एक्स कशें आसा?'
'दत्ताबाब ना?'
ताच्या प्रश्नाकडेन दुर्लक्ष करून हांवें म्हळें.
'हा पळय न्हिदला.' ताणें बोट दाखयलें.
दत्ताबाब फुडल्या सोफाचेर ठार पडिल्लो.
बाबडो लेख बरोवन बरोवन थकला आसतलो.

घोरेता त्या मनशाक उठोवन पयशे मागल्यार ते मेळटात?
इतल्यांत तोच उठलो. म्हाका पळोवन हांसलो.
तो हांसता तेन्ना कॉमीक दिसता.
ललितक करतना तो कथा सांगतालो
आनी तो ती सांगचे पयलींच हांव हांसतालों.
म्हाका पळोवन दत्ताबाब उठलो ना.
'रातीं दोन पेग व्हिस्की घेवन बांगडे खाल्ले.'
हाका मागचे पयलींच कळ्ळें काय कितें
हांव कित्याक आयलां तो!
'ते बांगडे माल पडले म्हाका.'
आपलें पोट दामीत ताणें म्हळें.
म्हणजे हो न्हिदेचें कारण दितालो तर!
'म्हजेर बोरकारी बी ना मरे?'
मर्दींच अवधूत चोडणेकारान म्हळें.
हो ज्युस्त शिवदासा सारको.
आपल्याचें नांव केन्ना पेपराचेर येता काय पळयता.
'दत्ताबाब, म्हाका तिनशीं रुपया एक जाय आशिल्ले'.
चोडणेकाराक पळोवप टाळीत हांवें म्हळें.
म्हाका एक्सार मारूंक येता हाका.
आनी वेल्यान हाचेर हांवें बोरकारी बरोवप!
'म्हजेकडेन आनी पयशे?' बोल्सां सांसपीत ताणें म्हळें.
बोल्सांत पयशे सोडून कागदांच चड दिसतालीं.
'तुजे इतले कोंकणीवादी आसात मरे! तांचेकडल्यान घे!'
बोल्सांत बारीक घडयो करून दवरिल्ले
पयशे काडून दीत ताणें म्हळें.
हे लोक पयशे दिवंक भितात.
पूण शाणपणा सांगले बगर रावनांत.
'तूं मरे गरजेभायर वेळ होगडायता.'
डायरेर पयशांची नोंद करीत ताणें म्हळें.
'आरे एक प्रेस घाल.
कोंकणी अकादेमीचीं पुस्तकांय छाप आनी तुजींय छाप!'

ना तर कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष जा.
ना तर राजभास विभागाचो वांगडी जा.
कोंकणीचो फायदो घेवंक येना
जाल्यार एकसाक चळवळ करता?'
ना तर हेरांक पळय रे!
केन्ना आयल्यात म्हजेकडेन दुडू मागूंक?
तूं मरे असोच उरतलो. बोरकारी बरयत!' •
हांव तिनशें रुपया सांसपीत सकयल देंवलो.
दुडवांची उब बरी लागताली.

෴ ෴ ෴

**११ नोव्हेंबर १९९०**





एक आलमार जाय.

खूब दीस जाले आलमार घेतलों म्हूण आशिल्लों.
कोनशाक पुस्तकां मारून पुस्तकांची वाट लागल्या.
हीं म्हजीं पुस्तकां न्हय.
हांवें म्हजीं पुस्तकां छापल्यांत हें खरें.
पूण अजून ते गठ्ठे सोडोवंक नांत!
जेन्नां मागणी येतली तेन्ना सवकासायेन ते सोडोवं येतात.
हीं पुस्तकां हेरांचीं.
पुस्तकां घेवप सोंपे. पूण तीं सांबाळप कठीण.
ते खातीर एक आलमार जायच.
आलमार घेवंची हो विचार तसो पोरणोच.
खूब वर्सां पयलींचो.
जाग प्रकाशनाचें एक कार्ड आयिल्लें.
घरांत देवारो एक वेळ नासूं येता.
पूण पुस्तकांचें भांडार जायच.
तेच पिशेपणांतल्यान जागाचीं सगळीं प्रकाशनां घेतलीं.
तांचेवेलो धुल्ल फाफुडटां-फाफुडटां
आलमार घेवंक वेळूच मेळ्ळोना.
परत चीट आयली राजहंसाची.
साहित्य पसवणचो उपक्रम म्हज्या घरांत पावलो.

आतां राजहंस म्हळ्यार राजहंस.
राजहंसांत गूण आसा दूद आनी उदक वेगळावपाचो.
तो म्हज्यांत खंयचो येतलो?
कितलोय जाल्यार हांव बोरकार.
साहित्य पसवण घरभर पसवली.
तातूंत 'शाकुंतल'य आयलें.
हेर पुस्तकांतल्यान शाकुंतल
वेगळावपाची अक्कल म्हाका नाका?
पूण सवाय मेळटा जाल्यार सोडुया कित्याक?
येतल्या वतल्यांक कचकचीत पुस्तकां तरी दिसतलीं.
कांयच जोडून दवल्लेंना तरी ही जोड भुरग्यांक दिसतली.
तांणीं मागीर गाळी मारीत तांचें जाय तें करूं!
दोळ्यां आड मसण पाड!
पूण आलमार ही घेवपूच!
पुस्तका ना तर ती तरी भुरग्यांक उपकारतली.
पूण म्हूर्त सापडच ना.
आलमार म्हळ्यार दुडू जाय.
म्हजीं पुस्तकां मराठी आशिल्लीं जाल्यार,
मराठी अकादेमी एक-दोन गठ्ठे घेवपाची.
एक आलमार तरी सुटपाची.
पूण म्हाका नशीब नाका?
आमचीं पुस्तकां म्हळ्यार फुकट वाटपाचीं.
मोशायसबाबाच्या कोंकणी सेवा केंद्राक लेगीत!
तो पुस्तकां प्रकाशक-लेखकाकडल्यान घेता.
आलमारी कोणाकडच्यान घेता काय?
विचारूंक जाय.
पूण तो आतां खंय मेळटा?
सरकारी कर्मचाऱ्यांक कोंकणी
शिकोवंक लागिल्ल्याक तो शिंपणे खात्यांत सापडच ना.
शिंपणे खात्याची गाडी घेवन
कोंकणी रूख शिंपत भोंवता.

आलमार खंय मेळटली?
मडगांव बाजार भोंवलो. थंय सवाय मेळूंक शकता.
भोंवतां भोंवतां कुळागर प्रकाशनाकडेन पावलों.
दारांतूच अभयकुमार मेळ्ळो.
'आरे आमची कुळागर साहित्य पसवण पावली मरे?'
कसली फसवण?
म्हाका ह्या दिसांनी सारकें आयकूंक येना.
कदाचीत आलमारीचे चिंतेन आसतलें!
'फसवण न्हय. पसवण. भिडेन केल्या तसली.'
हो भिडे एक बरो बाबा!
आपूण सुरू करता आनी हेरांकूय देख लायता.
ताणें सुरू केलें. मानून घेतलें.
आतां कुळागर प्रकाशन.
उप्रांत अपुरबाय प्रकाशन.
मागीर नामी प्रकाशन.
अगस्ती प्रकाशन, चामुंडा प्रकाशन,
वामन प्रकाशन, तुकाराम प्रकाशन,
तडकोड प्रकाशन, साखरदांडो प्रकाशन
प्रकाशन! प्रकाशन! प्रकाशन!!!
शी बाबा!
कितल्यो आलमारी जाय पडटल्यो काय?
भिडेन हो पसवण पंथ सुरू करून
म्हाका त्रासांत उडयला आनी पंथाचो प्रवर्तक जाला.
पुस्तकां एक घेवं येता.
पूण आलमारी घेता सर एक्स कपलाक पावतल्यो.
आलमार तर घेवंक जाय.
सवाय भितर खंयच्यान घेवप हो एक्सप्रस्न!
कोणें तरी सांगलें वेलंगा मेळटात.
हे! हो कितें तरी बंडलां मारता.
वेलंगा आसा जाल्यार अभयकुमार सांगचो नासलो?
तरी पळोवया म्हूण वेलंगा गेलों.

वेर्लींगकुमार आरमार वर्क्स.
व्हडलो बोर्ड लावन एक ल्हान कारखानो.
जाव आतां नोकरे फाटल्यान लागचे परस
भुरगे गांवागांवानी धंदो उगडटात.
भितर सल्लों.
पळयल्यार भितर अभयकुमार!
'आरे हाचो पात्रांव खंय?' हांवें विचाल्लें.
'हावच तो.' अभयकुमार नमळायेन उबो.
'आरे त्या दिसा तुवें कित्याक सांगलेंना?'
'कसो सांगतलों? त्या वेळार हांव
कुळागराचो आशिल्लों.'
'तुवें आलमारी सुरू केल्यो?'
'हय तर! आतां लागतल्यो न्हय रे!'
म्हाका ताची तोखणाय दिसली.
मनशान आसचो जाल्यार असो आसचो.
आमकां ती तकली खंय!
आमची बुद्ध एकसांत!
'तुका आलमारीच जाय मरे! भिता कित्याक?
आतां वळवय जातल्यो, प्रियोळ जातल्यो,
मडगांव जातल्यो, पणजे जातल्यो.
जाय तितल्यो घे!'
अभयकुमार सांगत आशिल्लो.
म्हजे तकलेवयलो एक भार गेल्लो!



१८ नोव्हेंबर १९९०




'**तो** नवप्रभांत जिमलेट बरयता तो कोण रे?'
प्रकाश कामतीचो रस्त्यावेलो प्रस्न!
हे पत्रकार म्हळ्यार विचित्र बाबा!
भितरल्यो खबरो हे कश्यो सोढून काडटात तांकांच खबर!
हांवें म्हळें म्हाका खबर ना.
म्हाका खबर आशिल्लें जाल्यार
हांव पत्रकार जांवचो नाशिल्लों?
गोंयचो अरूण शौरी म्हूण नांव काडचों नाशिल्लों?
वर्तमानपत्र नांव काडटलें जाल्यार असली कला जायच.
पत्रकां हाडून दिता ताचेर वर्तमानपत्र चलता?
हांवें म्हळें म्हाका खबर ना.
'तो तूंच कसो दिसता मरे!'
'हांव जावंक थंय कितें म्हजें नांव आसा?'
'पूण तुजी स्टायल ती! सारकी मराठींतली बोरकारी!'
आतां मात हें अती जालें.
हो सरळ सरळ म्हजेर आरोप करतालो.
फाटले नवप्रभा चाळून पळयले.
कोण तरी जीम डार्सी म्हूण जिमलेट बरयतालो.
म्हजे बोरकारीची स्टायल काडटालो खरो!

स्टायल काडली म्हूण कितें हांव जातां?
रवींद्रबाब म्हणटा म्हाका बेनार्ड शॉ ची स्टायल आसा.
म्हूण कितें बेनार्ड शॉ जालों?
कोण म्हणटा म्हजी स्टायल जयवंत दळवीची.
म्हूण हांव कितें ठणठणपाळ तर!
कोणाक म्हजी स्टायल आवडली आसतली.
ताणें ती घेतली.
गरजे भायर टोपण नांव घेवन बरोवंक
म्हजी एक्स ढील जावंक ना.
म्हाका जाय जाल्यार हांव खऱ्या नांवान बरोवं!
प्रकाश कामतीन तशें म्हळें म्हूण राग ना.
राग इतलोच की हे म्हाका वळखले ना.
गरजे भायर आरोप.
हांकां इतल्यार सोडले जाल्यार हे मुखार पावतले.
मागीर म्हाका मायकल जॅक्सन म्हणटले!
इडियट म्हणटले!
सुदर्शन, निरज नायक, संतवंतसिंग बी सगळें म्हणटले!
आतां बरें कितें आसल्यार दुसऱ्या नांवार मिरोवं येता.
आपूणच तो म्हण सांगूं येता.
'ब्रह्मास्त्र' हें आपलेंच म्हण सांगपी लोक अजून नांत?
वायट जाल्यार उदयबाबाचेर,
बरें आसल्यार आपल्याचेर!
तरी बरें हे सगळे एक्साचे हापशी,
शकूजी म्हळ्यार हांवूच म्हणनांत।
'वायट जाल्यार बोरकार ना तर शिवदास!'
ही म्हण आतां कोंकणीत येतली दिसता!
पूण हांव टोपण नांवान बरयतलों हें हांकां पटलेंच कशें?
कोंकणीचे सगळे म्हालगडे बरयतात म्हूण हांवें बरोवंचें!
म्हाका जाय कित्याक?
म्हालगडो तर जावपाचें ना.
म्हजें सगळें उगड.

काड एक्स मार आंब्यार
पडलो जाल्यार आंबो पडलो ना तर एक्स गेलें!
मागीर कोणेंय कितेंय म्हणू
म्हजे फाटल्यान सगळी तरणी पिळगी आसतना
हांवें भिवप कोणाक?
कोंकणीवाद्यांक?
मराठीवाद्यांक?
कोंकणी-मराठी वाद्यांक?
मेळटा तांकां भिवपाक
हांव कोण पुरूषोत्तम काकोडकार तर?
काय मनोहर हिरबा सरदेसाय?
म्हाका मराठी अकादेमीचो अध्यक्ष
जावपाचो ना वो कोंकणी अकादेमीचोय.
खंयचोय सरकार आयलो जाल्यार म्हज्या बसलो एक्सार!
हांवें कोणाक भियेवप आनी कित्याक?
चडांत चड राजू नायक बोरकारी बंद करीत.
पूण गोंयांत कॉंग्रेसचें सरकार खंय आसा?
गोंयांतूय ना आनी केंद्रांतूय ना
म्हाका जाय तें हांव करूंक शकतां.
म्हज्या नांवान कितेंय बरोवंक शकतां.
एक्साचे सुवातेर कसलेंय उतर वापरूंक शकतां.
पूण आसूं हांवें ती जापसालदारकी हेरांक दिल्या.
तशी अर्दी मर्दी ती दिवचीच पडटा.
ना तर मागीर सवंय जाता.
सवंय जाली म्हणटकच लोक दुबाव घेतात.
अकादेमीचें छापप अपुर्बायेंत वता.
एक सवंय.
तुकाराम शेट 'इती इती इती इती कर रे मोरा'
म्हण गोंयभर भोंवता. सवंय.
मनोहरबाब फोटू काडीत भोंवता. तरी ती सवंय.
प्रकाश थळी कसलेय प्रोजेक्ट हातांत घेवन जैतवंत जाता.

सवंयेचो गूण तो.
थय हात आपशींच वता.
मागीर लोकांनी कितेंय म्हणूं!
म्हजें कितें वता? एक्स!
पळय ह्या एक्साची म्हाका एक सवंय लागल्या.
फुडल्या फावट एक्स काडून उडोवप.
गरजेभायर वाचप्यांक त्रास.

꩜ ꩜ ꩜

**२५ नोव्हेंबर १९९०**





आरे बोरकार तूं राजूच्या लग्नाक ना मरे!
हजार जाणांचे प्रस्न.
हांगा हजार म्हणजे कांय म्हालगडे
आनी कांय बोरकारीचे वाचक.
जंय कोंकणी संमेलनाक हजार लोक येनांत
थंय कितें राजूच्या लग्नाक येतले?
हांव हांसलों.
हांव लग्नाक ना म्हणटकच म्हजें आनी
राजूचें बरें ऽ ना असो भोवतेक ह्या विघ्नसंतुश्टांचो समज.
वाटेर मोहनदास लोलयेंकार
आनी क्लेओफात आल्मैद मेळ्ळो.
'बोरकार ह्या आयताराक बोरकारी ना रे?'
हे लोक सदांच नकारात्मक
कित्याक येवजितात तेंच कळना.
'आसा. ना अशें कित्याक दिसलें तुका?'
मोहनदास हांसलो.
'ना. तूं राजूच्या लग्नाक ना म्हूण म्हळें.
ताचेर तुका बोरकारी बरोवंक मेळपाची.' क्लेओफात.
'आमचेंय नांव येवपाचें'. मोहनदास.

म्हणजे ह्या लोकांक म्हजे बोरकारींत रस ना.
राजूच्या लग्नांत रस ना.
फकत हांच्या नांवांत रस.
सगळे शिवदासाच्या पंथांतले काय कितें हें?
'आरे, हांव लग्नाक आयिल्लों. तुमकां दिसलो ना
जाल्यार हांव कितें करूं?'
'च्या तूं आमकां शिंगां लायता.'
क्लेओफाताक खरें दिसलें ना.
ह्या सगळ्या आदवोगादांक खरें सदांच
फट अशें कित्याक दिसता तेंच कळना.
हांव खरें सांगतां आनी हे फट म्हूण सांगून म्हजें एक्स...
सॉरी, फाटले फावट हांवें एक्स काडटलों म्हणिल्लें.
पूण सुण्याची एक्स वांकडी ती वाकडीच.
कितलेंय एक्सांत घाल.
म्हजें आनी राजूचें कांयच वायटपण ना, आमचें बरें आसा.
आनी हांव लग्नाक गेल्लों हें ह्या लोकांक कशें पटोवप?
तें पटयना जाल्यार, हे भलतोच समज करतले.
राजूचे आनी म्हजे दुस्मान ताळयो पेटतले.
ह्या दोगांकूय हांव लग्नाक गेल्लों हाचें प्रूफ दिवंकच जाय.
करप कितें?
हांवें सगळो फावत सांगपाचें थारायलें.
दोगूय कान दिवन आयकूंक लागले?
'लग्नाक पुरूषोत्तम काकोडकार आयिल्लो?'
'हय.' मोहनदास.
'मनोहर सरदेसाय आयिल्लो?'
'हय.' क्लेओफात.
'लग्नाक उदयबाब येवंक नाशिल्लो.'
'हय. तो येवंक नाशिल्लो.' मोहनदास.
'अनाक आनी सुखठणकाराक एक लाखाचो
पुरस्कार मेळ्ळो आनी तो आपल्याक मेळूंक ना
म्हण खंती जायत पुंडलीक नायक जिलबी खाय नाशिल्लो?'

'हय. खातालो' क्लेओफात.
'लग्नाची जापसालदारकी आपल्याचेरूच आसा
म्हूण नागेशबाब हांगा थंय बोवाळ नाशिल्लो?'
'हय. बोवाळटालोच' मोहनदास.
'नाकांत पूड घालतां घालतां स्वामी
लग्नाक आयलो ना म्हूण चंद्रकांतबाब
पालेकाराकडेन खंत उक्तायनासलो?'
'हय उक्तायतालो'.
'सगळो सुनापरान्त परिवार लग्नाक आयलो म्हूण
दत्ताराज साळगांवकार तोंडभर हांसो घेवन
येतल्या वतल्याक हडकिनासलो?'
'हय. हडकितालो. म्हाकाय ताणें हात दिलो.' मोहनदास.
बाबली नायकाच्या तोंडांतल्या पानांक भिवून
रवीन्द्रबाब आपलो धवो फुल्ल सदरो सांबाळनासलो?'
'हय सांबाळटालोच' क्लेओफात.
'राजूचें लग्न माधवीकडेन जावंक ना?'
'हय. जालें. पूण तूं खंय आशिल्लो?'
म्हजे प्रस्न आयकून आयकून दोगूय उबगल्ले.
दोगांयनीय एकदम ते खातीर प्रस्न केल्लो.
'तेंच सांगतां. हांव लग्नाक येवंक भायर सल्लो.'
स्कुटरींत पेट्रोल नाशिल्लें.
पेट्रोल मेळना म्हूण न्हय. बोल्सांत दुडू ना म्हण.
येवन बसीक उबो रावलों.
बसींत गर्दी. मुद्दाम धुवन घेतिल्लो सदरो
गर्देंत लोळत म्हूण दोन चार बसी चुकयल्यो.
इतल्यांत पयसुल्ल्यान एक गाडी येता ती दिसली.
वळखीची ज्युस्त कोंकणी अकादेमी सारकी.
लागीं पावली. पळयल्यार खरेंच कोंकणी अकादेमीची.
पूण ती म्हाका थारयता?
इतली बोरकारी बरोवन हांवें ती अपेक्षा बाळगप?
गाडी लागीं पावली.

भितर रेडिओ वाजतालो.
गाडी थांबली. हांव अजापलों.
अकादेमीचे गाडयेंत आनी स्टिरियो?
पूण ना. गाडयेंत मनोहरबाब आनी पुरूषोत्तमबाब गुणगुणटालो.
'राजूच्या लग्नाक सगळे आयले. राजूच आयलो ना.'
पुरूषोत्तमबाब मिश्किल हांसत
मनोहरबाबांचें गीत आयकतालो.
'मनोहरबाब खंय मिटींगेक?'
'हय. तूं खंय वता? मडगांव?'
'हय राजूच्या लग्नाक.'
'मागीर यो तर. आमीय थंयच वतात.'
हांव फुडल्या शिटार बसलों.
मनोहरबाबाचें गीत आयकतां आयकतां
मडगांव केन्ना पावले तें कळ्ळेंच ना.'
आतां खात्री पटली तुमकां हांव लग्नाक गेल्लो ती!'
'चे तूं घडोवन सांगता.'
मोहनदासाक अजून खरें दिसलें ना.
'तो आमकां शिंगां लायता.
कोंकणी अकादेमीची गाडी घेवन केन्ना कोण लग्नां करता?'
कले ओफातान म्हाकाच फटींग थारायलो.
आतां हांकां खरें दिसना जाल्यार हांव कितें करूं?
म्हजें शेवटी एकसूच फुटकें!



**२ डिसेंबर १९९०**



**बों**डला इतलो बोवाळ पयलीं केन्नाच जावंक ना.
बोंडलाच्या जनावरांनी तशे खूब मनीस पळयले.
शाळा-कॉलेजीचे भुरगे येवन गेले.
थोडे पांजऱ्यांतल्या माकडांकूय खावोवन गेले.
जनावरांक तांची संवय जाल्ली.
पूण असलें तांणीं केन्ना पळोवंक नाशिल्लें.
पयलीं मगोचे फुडारी आयले.
शिंवा भोंवतणी नाचून, शिंवाचेरूच उलोवन गेले.
सगळ्या जनावरांक प्रस्न!
हे बरे खावपी पिवपी दिसतात. बरे बोवाळ घालपी दिसतात.
पूण एकल्यानूय भायर बोवाळ घालोना.
हेरांभशेन झाडां मुळांत सहभोजन केलें ना.
आयले. घरांत गेले आनी सांजचे आसा तशे परतले.
जनावरांक अजाप! आकांताचें!
शिंवाक प्रस्न- हे म्हजे मनीस,
आपूण खातात तें भायर दाखयनांत काय?
मागीर सगळ्यांनी हाचेर भासाभास केली.
ही तर सामकी नवीदादूच बोंडलाच्या इतिहासांत.
सगळ्यांचें अजाप ना जाता थंयच आसा.
परतून एक जबरदस्त शॉक.

बोंडलाचीं सगळीं जनावरां एकठांय जालीं.
झाडां वाऱ्यावांगडा धोलपाचीं थांबलीं.
पयसुल्ले दोंगर चंवरूपाचे खीणभर थांबले.
'हे आनी कोण नवेच शे?'
एकल्या माकडाचो दुसऱ्या माकडाक प्रस्न.
'ते आमचे सारके ह्या झाडावेले त्या झाडार
उडयो मारपी दिसनांत.' दुसऱ्या माकडाची जाप.
'म्हणाजे हे कोंकणी म्हालगडे बी न्हय मूं?'
न्हिहेदिल्ल्या शिंवाचो मान वयर करून प्रस्न.
'तेच ते! आमी तांकां वळखतात.
हो तो पुंडलीक नायक. बरो मनीस.
ताणें म्हाका शबै शबैंत खूब वयर काडलो.' एक कोलो.
'तुकाच न्हय आमचो समाज वयर काडलो.' दुसरो कोलो.
'हो रमेश वेलुस्कार, ताणें म्हजेर खूप काव्य केलां.'
मोरान शेंपाडो फुलयत म्हळें.
'आनी ताणें म्हजेर कविता करूंक ना?'
एक सांवरीन पदर सांबाळीत म्हळें.
'तुजेर तर एकूच कविता केल्या.
म्हजेर कथा संग्रह काडला. मीना काकोडकारान.'
पयसुल्ल्या दोंगरान मीनाक पळोवन म्हळें.
'पूण तानाजीन मात आमची वाट लायली.'
तानाजीक पळोवन गांयडोळ वळवळ्ळे.
'ताणें कथा बरोवन लोकांक सांगली.
तेन्नाच्यान गांयडोळ समाजाचेर हावळ.'
दुखान पिरंजत गायडोळ भितर लिंपले
दामोदर मावज्यान म्हजेरूय कथा बरयल्या आं!'
हेवाळ्यान मर्दीच तोंड घालें.
'पूण ते हांगा करतात किते?
आमचेर आनीक बरयतले काय किते ते?'
बांगर बैल इतलो वेळ सुस्त आशिल्ले.
ताणें दावें तोडूंक हिसको दीत म्हळें.

'ना. ना ते हांगा मिटींगेक आयल्यात' गादो रेडो.
'च्ये! ना ते हांगा जेवपाक आयल्यात.' हत्ती.
'कोण सांगता! ते हांगा
कोंकणीची उदरगत करूंक आयल्यात.' लांडगो.
'तांकां पणजे सुवात नाशिल्ली तर!'
वास्वेलाचो दुबावी प्रस्न!
'मिटींग म्हणून कोण रानांत घेतात?' वायसाचो प्रस्न.
'हय. हय. घेतात. पणजे घेतल्यार
लोकांक कळची ना तर! ते परस हांगा बरी!'
कोल्यान पासयो मारीत म्हळें.
इतल्यान सगळे कोंकणी म्हालगडे
एका धव्याच मनशा वांगडा घरांत घुसले.
सगळ्या जनावरांनी माकडाक
त्या घराचेर धाडलो रिपोर्ट हाडूंक.
उडक्यो मारीत तो थंय गेलो.
सगळो रिपोर्ट हाडलो.
रिपोर्ट आयकून सगळीं जनावरां खुशालभरीत.
तांणींय रोकडीच एक अकादेमी स्थापन केली.
कोल्याचे बुद्धीन कांय नेम केले.
अकादेमी चडांत चड काळ ॲडहॉक दवरप.
रोकडीच एक उतरावळ छापप.
सदस्यांक फायद्याक पडटा जाल्यारूच
प्रकल्प तयार करप.
फायदो जायना जाल्यार तो बंद दवरप.
कोणूय टिका करीत जाल्यार ताचेर तुटून पडप.
सगळ्या संवसाराची भोंवडी करप.
दर म्हयन्याक मेळावे घडोवप.
चानयांचो मेळावो, कुकडांचो मेळावो,
बोकड्यांचो मेळोवो, रान धुकरांचो मेळावो.
मोरपाखां कोणाच्या दोळ्यांत दिसल्यार
ताका लागीं धरप ना.

दर म्हयन्याक विंगड विंगड वाठारांनी म्हाळ वाडप.
मुयांचे, दोमळ्यांचे, काजुल्यांचे फोटो काडप.
हें सगळें करता तांकां 'जैत' नांव दिवप.
ह्या जैताचें पुस्तक छापप.
ताचें प्रकाशन दिल्लीक करप.
दिल्लीक सगळ्यांनी विमानान वचप.
'मागीर वनखात्याचें कशें जातलें तर
सगळे दिल्लीक गेल्यार!' मोराचो प्रस्न.
'तुजें नशिबूच फुटकें तुका अकादेमीचें कल्याण नाका'.
सगळे मोराचेर तुटून पडले.
सगळ्याक बोवाळ.
बोंडला हो बोवाळ पयलोच.
बोवाळ बंद करतलो जाल्यार एकूच उपाय.
जेवणांक सुरवात करप.
अध्यक्ष जेवपाक उठलो.
बोवाळ थंड जालो.
सगळें अभयारण्य जेवणाचेर तुटून पडलें.
पुराय अकादेमी तृप्त जाली.



**१ डिसेंबर १९९०**





## चवदा, पंदरा, सोळा

हें चवदा-सोळांचें राजकारण न्हय
चवदा पंदरा सोळा म्हळ्यार तारखो
पयर-काल आनी आयज
ह्या दिसांनी कांयच करप ना अशें हांवें थारायल्लें
म्हजेखातीर हे तीन दीस सुटी
कित्याक, सगळे म्हालगडे रामनाथी वतले
मागीर हांव पणजे वचून कितें एक्सां मेजूं?
रामनाथी काय हांव वचचों ना
अखिल भारतीय साहित्य परिशदेंत म्हजें कितें काम!
म्हाका कदेलां कांय मांडपाचीं नांत
नवी पिळगी आयल्या ते सुवातेर
ताळयो काय मारूंक म्हजी गरज ना
दोन हात आशिल्ले खूब भुरगे आसात
मागीर हांवें थंय कितें करप?
फाटलीं पंदरां वर्सां हांवें तेंच काम करप?
ती कितें म्हजी मक्तेदारी?
नवे पिळगेक हांव संद दिना जाल्यार कोण दितलो?
त्या परस घरा बसून म्हाभारत वाचिल्लें बरें!
सुरवात केली. कंस प्रकरण वाचूंक लागलों
कंस म्हळ्यार आकांताचो वेव्हारी

कृष्णान ताचो वध करूं मागीर
पूण आपलो बापूय सत्ता सोडूंक तयार ना देखून
ताका बंदखणींत उडोवन आपूण सत्ता हातासपी
कंस हो खरो महामनीस!
पूण ताची तांक आमकां येवं नाका?
ती ना म्हूण शशिकला अजून राजकारणांत आसा
राणे आजून खुर्ची सोडिना
खलप विरोधी पंगड सोडिना
बाबू नायक चाबूक सोडिना
मनोहरबाब कविसंमेलनाचें अध्यक्षपद सोडिना
उदयबाब कॉंग्रेस सोडिना
तेन्ना हांवेंच म्हजें काम बरे भशेन सोडिल्लें बरें न्हय!
देखून घराच रावलों. महाभारत वाचूंक
इतल्यांत भायर सुणे भोकूंक लागले
हांव महाभारत वाचतां म्हूण न्हय
म्हजे सुणे म्हळ्यार कितें
धर्मराज युधिष्ठिराच्या सुण्याचे वारस न्हय
उठून भायर आयलों
पळयल्यार स्कुटरीवयल्यान दोग जाण येतात
चलोवप्यान मामलेदाराचें हॅल्मेट घाल्लें
फाटल्यान कोण तरी सफारी सूट घालून आशिल्लो
हातांत ब्रिफकेस घेवन
सध्या ह्यो ब्रिफकेसी खूब दिसतात
आमदारांच्या दारांत, मंत्र्यांच्या दारांत
पूण म्हज्या दारांत शे कित्याक?
हांव काय निवडून येवंक ना
नायलॉन ६,६ विरोधी चळवळ बंद करूंक न्हय मूं?
च्ये-हे तर कोंकणी म्हालगडे
एक शिवदास आनी दुसरो माणिकराव गावणेकार
स्कूटर दारांत थांबली
माणिकराव तोंडभर हांसलो

पूण ब्रिफ़केस सोडिना
'आमी बार्बोझाकडेन गेल्ले. परिशदेक अनुदान घेवंक'
माणिकबाबानूच सुरवात केली
ब्रिफकेसीचें रहस्य म्हाका समजलें
'म्हळें तुजो थोडो सल्लो घेवंया
गरजेभायर परिशदेचेर बोरकारी नाका.'
हॅल्मेट काडीत शिवदासान म्हळें
बोरकारी बरोवंक लागिल्ल्याक हे सगळे
म्हजो सल्लो घेवंक मात विसरनांत
भितर हाडून दोगांकूय बसयले
'हांव अखिल भारतीय साहित्य परिशदेचो
येवकार अध्यक्ष, शिवदास सचीव'
माणिकरावान नवी वळख सांगली
शिवदासाचें बरें आसा. तो साहित्यिक.
पूण गावणेकारबाब! तो बरो शिक्षक.
राष्ट्रपती पुरस्कार घेवपी
पूण साहित्य म्हळ्यार तांणीं वेगळो अर्थ घेवंक ना मूं?
सुधा आमोणकाराक साहित्य जाय म्हळ्यार तें कितें दितलें?
गोवन डिश करूंक लावपी साहित्य.
तरी बरें दिसलें.
म्हज्या दारांत साहित्य परिशदेचे
येवकार अध्यक्ष आयल्यात तें पळोवन
'म्हाका तुमचो सल्लो जाय. मागीर टिका नाका'
येवकार अध्यक्ष
'परिशदेचें मूळस्वर उलोवप कोणे करप? नांव सूचय' शिवदा
मूळस्वर उलोवप? मूळस्वर म्हळ्यार कितें?
म्हाका मूळ स्वर खबर आशिल्ले अ-आ-ई बी. हें नवेंच
'की नोट अॅड्रेसाक ओलव्हीन गोम्स मूळस्वर उलोवप म्हणट
म्हजें अजाप पळोवन शिवदासाची जाप
'येद्या व्हडल्या कोंकणी तज्ञांचें उतर भायर उडोवं येता?
म्हणून आमी तें घेतलें.' माणिकराव

'मागीर ताकाच करूनी मूळस्वर उलोवप'. हांवें म्हळें
म्हजो सल्लो तांणीं मानून घेतलो
'कोंकणीची पंदरा वर्सां सेवा केल्ल्यांचे
सत्कार करूंक सोदतात आमी' माणिकराव
म्हाका धरस्स जालें
भितल्ले भितर म्हजी सेवा हांवें मेजली
सोळा वर्सां जाल्लीं
म्हजो सत्कार! म्हाका कातकुतल्यो जाल्यो
'म्हजो बी नाका'. हांतें वयलेवयर म्हळें
'च्ये तूं भुरगो मरे! तूं फकत नांवां सांग.' शिवदास
'पेडण्या लेखक संमेलनाक कृष्णा मोयाचो
करूंक पावले ना. हे फावटी आमी ताका
आयार करूंक सोदतात.' माणिकराव
ह्या दिसांनी मोयोबाब हड्डें फुलोवन
किल्याक भोंवता तें म्हाका आतां कळ्ळें
हांवें म्हजी मान्यताय दिली. चर्चिलाचेंय नांव सुचयलें
'कविसंमेलनाचें अध्यक्षपद कोणाक दिवप?' शिवदास
'शिवदास कितें फकाणां करता?
फाटल्या वीस वर्सांचो अणभव आशिल्ले
मनोहरबाब आसतना तुका हो प्रस्न पडप मरे?' हांवें म्हळें
'तें आमी पयलींच थारायल्लें. फकत तुजो विरोध....'
'च्ये म्हजो विरोध! हांव येतलों मरे!'
म्हजी जाप आयकून दोगूय खुशालभरीत
गावणेकारबाबान बॅग उगडली
पन्नासेक आमंत्रणां काडलीं म्हजे हातार दवल्लीं
'हीं मातशीं वाट्टा मरे!' तांणीं म्हळें
हांव ना कसो म्हणटलों?
म्हाभारत मेजार दवरून आमंत्रणां वाटूंक भायर सल्लों!

१६ डिसेंबर १९९०



रमेशाक पुरस्कार मेळ्ळो
तो मेळटलो हें म्हाका खबर आशिल्लेंच
आतां हो साहित्य अकादमीचेर म्हजो संशय न्हय
तसो संशय घेवपाची म्हाका संवय ना
ती हेर म्हालगड्यांक आसत
दत्ताराम सुखठणकारांक मेळ्ळो
आमी जाणांच आशिल्ले. म्हालगड्यांनी म्हळें
अनाक मेळ्ळो. आमी जाणांच आशिल्ले
पुंडलीकाक मेळ्ळो. आमकां कळिल्लेंच
मावज्याक मेळ्ळो. तें थरिल्लेंच
म्हालगड्यांक जणूकाय सगळेंच कळटा
मेल्ल्या जनावरांचो वास हिरांट्याक लागचो तसो!
हांणीं थॉमस पेरेरा सारकें भविश्य सांगल्यार
चड म्हाल सोडोवपाचे
बेश्टे कोंकणीचे गडे जाले
तर म्हाका खबर आशिल्लें,
रमेशाक पुरस्कार मेळटलोच हें
हें म्हाका गोम्सान सांगू ना
अपुर्बाय प्रकाशनान सावुलगोरी छापलें
तरीय म्हाका दुबाव आयलोना

म्हाका तें कळ्ळें रमेशा वेल्यानूच
ह्या दिसांनी रमेश हिसपाभायर वजनदार जाल्लो
ताका चलतना पळोवन कोणूय तर्क करपाचो
आतां कोणूय म्हणशात म्हाका तो मेळूंक ना
म्हण हांव रमेशाचेर शीण काडटां
म्हाका निखालूस वायट दिसूंक ना
तशें तो मेळिल्लो जाल्यार वायट जावंचे नाशिल्लें
पंचवीस हजारांची आस ती
म्हाका मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार हेरांक मेळपाचो
दोतोर भिकाजीक मेळपाचो
शिवदासाक मेळपाचो
रामभाऊच्या कवनांक मेळपाचो
भायले गोडयेक मेळपाचो
मीनाक मेळपाचो
तो कोणाक तरी मेळपाकूच जाय
पुस्तक बरें नासलें म्हूण कितें जाता?
कोंकणीक मेळटा तें कितें थोडें जालें?
तरी बरें, हे फावटी सावुलगोरीक मेळ्ळें तें
रमेशाक म्हूण दिल्लें जाल्यार रमेशूय म्हालगडो जावपाचो
पूण रमेश कितें करतलो काय ह्या पयशांचें?
म्हाका मेळिल्ले जाल्यार हांव ताचो बरो उपेग करपाचों!
कुळागर प्रकाशनान केला तसो
अगस्ती प्रकाशना नांवान हेरांक पुरस्कार दिवपाचों
पुरस्काराचो पुरस्कार
मागीर त्या पुरस्काराच्या पुरस्कार मेळिल्ल्या
पुस्तकांक साहित्य अकादेमी पुरस्कार
मागीर मज्जाच मज्जा
पयलो पुरस्कार गोम्साच्या सरस्पतीच्या इतिहासाक
दुसरो पुरस्कार तडकोडाच्या अवकोळाक
तिसरो पुरस्कार भोसल्याच्या खुटावणेक
चवथो पुरस्कार रामभाऊच्या दत्तात्रय स्तोत्राक

पांचवो पुरस्कार दोतोर घाणेकारांच्या पुस्तकांक
पूण तांच्या पुस्तकांक कसो दिवप?
तातूंत तर सरकारी जायराती आसतात
वाचपी गरजेभायर म्हणटले
पुरस्कार जायरातींक दिला म्हण
मागीर करप कितें?
पांचवो पुरस्कार दिवप कोणांक?
त्या परस तांच्या पुस्तकांतल्यो जायराती
वेगळ्यो काडून दोन पुस्तकां केल्यार कशीं?
च्या! दोतोराक जायरातींचे दुडू मेळचेनांत
त्या परस पांचवो पुरस्कार दुसऱ्यांक दिवया?
राम प्रभू चोडणेकारांक दिवया?
काय महाबळेश्वर सरदेसायांच्या महाभारताक दिवया?
इतलीं पुस्तकां जाल्यांत आनी पुरस्कार एकूच उल्ला
बरें जालें म्हाका पुरस्कार मेळूंक ना तो
गरजे भायर त्रास जावपाचे
म्हाका काय जमनां तें पयलीं मनीस थारावप
आनी मागीर पुरस्कार दिवप
पळय ह्या पुरस्काराक लागून खंयचे खंय व्हांवत गेलों
पुरस्काराक लागून अशेंच व्हांवप जाता
बोरकारी थंयच उल्ली आनी नाका थंय व्हांवलों
सगळे पुरस्कार मेळिल्ले अशेच व्हांवतात
पुरस्कार मेळटकच तांकां मुखेल सोयरो करतात
व्हांवप सुरू
पेपर वाचूंक व्हरतात. नाका थंय व्हांवतात
नाका त्या विशयाचेर बरयतात
मूळ विशय एकेकडेन, बरोवप भलतेंच
तरीय ताळयो. विशयाक न्हय
पुरस्काराक लागून
कसलीय कविता कर. ती व्हडली
कसलेंय नाटक बरय. तें उत्कृष्ट

कसलीय प्रस्तावनां बरय. प्रस्तावनांचें पुस्तक
कितेंय भाशण ठोक. बेस -बरें
सगळो पुरस्काराचो प्रताप
देवा सायबा, रमेशाचें अशें जायना जाल्यार पुरो
एक लोककवी आमकां ना जातलो
पळय परत हांव रमेशाचेर पावलों
बोरकारी थंयच उल्ली
ह्या आयतारा बोरकारी कोणाचेर बरोवप?
परिशदेक तर सगळे म्हजेकडे आशेन पळयताले
फुडली आपल्याचेर म्हणून
पुंडलीक तर सांगून गेल्लोच
मावजो अनाऊन्समेंट करता तेन्ना बोवाळ घालात म्हूण!
कित्याक काय?
हो ताचेर कोंत्र जाला काय?
च्या! म्हजी एक्स पळय एक्सांत गेल्या
तो तर पुरस्काराचेंच सांगपाचो आशिल्लो
आमकां केन्ना टाळयो मारपाचें तेंय हेरांनी सांगचें पडटा?
एक्साचो घोव ना घरा!

@• @• @•

**२३ डिसेंबर १९९०**





**बो**रकारीक लागून म्हजी एक्स् फुटल्या
पयलीं म्हजें चिंतप वेगळेंच आशिल्लें
बोरकारी बरयतलों आनी हांव व्हडलों ऽ जातलों
बेर्नाड शॉ जातलों
तेंय ना जाल्यार जयवंत दळवी जातलों
जमलेंच ना जाल्यार अना म्हांबरो तरी जातलों
पूण म्हजें एक्सूच फुटकें
हांव एक्स् सोडून कांयच जावंक पावलोंना
आनी म्हाका दर खेपे तेंच खाता
खंयीय वच. सगळे म्हाका भितात
कोणाच्या जल्मदिसाक वचूंक जमना
आठवलेच्या निरोप समारंभाक वचूंक शकना
नातालांचे पार्टेक वचूंक मेळना
एम्. एस्. प्रभूच्या सत्काराक वचन दिसना
खलपाचीं दुकां पुसूंक मेळना
कोणाच्या मड्यार वचूंक मेळना
तशे म्हाका कोण आडायनांत
सगळे बरे येवकार दितात, तरी भितात
हांव तांचेर बोरकारी बरयत म्हण!
म्हाका खबर नाशिल्लें बोरकारीचो हो परिणाम जायत म्हूण

वैकुंठ फोंडेंकाराच्या लग्नाक गेलों
वैकुंठ आनी ताची बायल धांवत आयली
म्हाका दिसलें म्हजें धवें खाड-केंस पळोवन
आशिर्वादाक आयल्यांत
पांय पडचे पयलींच वैकुंठाची विनंती
'बोरकार, बोरकारी आमचेर नाका!'
हांव चर्चील जाल्लेवरी वैकुंठ उलयलो
रवीन्द्रबाब केळेकारागेर गेल्लों
रवीन्द्रबाब 'वैष्णव जन ते' म्हणटालो
तें बंद करून ताणें म्हाका च्या दिली
च्या दितना 'बोरकारी म्हजेर नाका आं' म्हणूंक विसल्लो ना
म्हाका च्याचें उस्तुरें गेलें
हे सगळे म्हाका हरिजन समजतात काय रूदोल्फ समजतात!
थारायलें बोरकारी बरोवप. पूण खंयच वचप ना
नागेशबाबागेर वचप ना
पुंडलीकबाबागेर वचप ना
मनोहरबाबागेर वचप ना
उदयबाबागेर वचप ना
मागीर खंय वचप? मसणांत?
थंय गेल्यार म्हजें एकस सदळ जातलें
तरी थारायलें वचप ना म्हणजे वचप ना
उदयबाबाच्या सत्काराक लेगीत वचप ना
गेलोंना जाल्यार म्हज्या मनांक खातलें
उदयबाब शिणटलो
पूण ताका निमित्त आसा
सत्कार समितीन म्हाका आमंत्रण खंय धाडलां?
सत्कार समिती म्हळ्यार मडगांवकार समिती
ती मडगांवच्या भायर गेल्यार दामबाबाक वायट दिसचेंना!
आमंत्रण नासतनाय गेलों, जाल्यार मडगांवकार कितें म्हणटले?
म्हणटले तें एकूच
'बोरकाराक बोरकारीक विशय मेळ्ळो.'

एक्साच्यांक दिसता हांव वता थंय विशय सोदतां
पूण हांव इतलो विशयासक्त ना हें हांकां कोण सांगतलो?
तरी पूण उदय हो म्हजो विशय न्हय?
धा-वर्सां पयलींचो उदय म्हळ्यार म्हजो देव
तो उलयता तसो हांव उलयतां
तो चलता तसो हांव चलतां
तो वागता तसो हांव वागतां
दत्ता श्री. नायक लेगीत हेंच म्हणटा
अशें आसतनाय उदयबाबाच्या सत्काराक
हांवें वचप ना म्हळ्यार कितें?
वचूंकच जाय
पूण सगळे लोक पळटले हाचें कितें?
तांकां दिसता हांव तांचेर बोरकारी बरयतलों
तांकां हळदी कुकमांक आयल्यात म्हणटलों
ते परस वचनां जाल्यार बरें
मडगांवकारांमुखार उदयाक म्हजी यादूच जावची ना
पूण वाटेर देवेंद्र कारापूरकार मेळ्ळो
ताणेंच म्हाका याद केली
ताका हांव कशें सांगतलों
पुंडलीकान आमंत्रण धाडूंक आमंत्रण छापूंक ना म्हूण!
ताच्या हातांत तर तें आशिल्लें
ताचेखातीर म्हाका वचचेंच पडलें
पोरण्या बाजारांत पावलों
कोणें तरी फाटल्यान 'एक्स्-एक्स्' केलें
वळून पळय जाल्यार कोण तरी फटफटीकार
'एक्स्' म्हणटकच म्हाका कळ्ळें, हो बोरकारीचो वाचक
तो एक्स्-एक्स् म्हणटा, म्हणचेच दिलीप-बोरकार म्हणटा
फाटीं वळून पळय जाल्यार फेलीस कार्दोज
हांव हांसलों. हें हांशें न्हय
'हांव बुस्कोट बदलून सदरो घालून येतां'
फेलीसान म्हळें. म्हाका कळ्ळें हो आयज स्टेजीर आसतलो

विद्या निकेतनांत पावलों
सुलोचनाताई काटकार उलयताली. उदयाचेर
भाशणांत 'राणे' हें नांव वचून 'भेंब्रे' हें आयिल्लें
हांव श्रीधर कामतीकडेन गजाली मारूंक लागलों
तिचें भाशण सोंपलें. चंद्रकांत केणी उठलो
मानपत्र वाचूंक लागलो
हांवें तें पयलीं आयकल्लेंच
एम्. एस्. प्रभूच्या वेळार
बाबू नायकाच्या वेळार
मोन्त क्रुजाच्या वेळार
हांवें श्रीधराक विचाल्लें, 'आयज खंय पिवया?'
ताणें म्हाका चिमटो काडलो
मनोहरबाब उदयाचेर उलयतालो
कसली तरी कविता म्हणटालो
तीच कविता एकदां हांवें
बाबू नायकांच्या मेजार पळयल्ली
कदाचीत म्हजो भ्रम आसतलो
म्हाका सद्या सारकी याद उरना
हे बोरकारीन म्हजी एक्स मारल्या
हें हांवच न्हय, लोटलीकारूय म्हणटा
'कोंकणी भवनाक' जमीन दिल्ल्याक ताचेंय अशेंच जालां



३० डिसेंबर १९९०



पैस..... पैस

खंयतरी पैस वचप
पैस वचप बरें आसा. पूण पैस कशें बरोवप?
पयस काय पैस!
पैस अशें बरोवप नासता तें 'पयस' अशें बरोवप
हें हांव न्हय कोंकणी अकादेमीचे नेम सांगता
पैस हें पैसो आशिल्ल्यानूच बरोवप?
बाकीच्यांनी नेमाक पाळो दिवप?
आतां एक्साचे म्हणटले हांव 'पैस' हाचेर घसल्लों
ह्या सुदेश लोटलीकारान आनी एक कोफुसांव केलां
ताणें 'पैस' म्हूण कवितासंग्रह काडलो
तो कवितेपासून कितलो पैस आसा हें हांव नकळो
तें तानाजी सांगतलो
तोच ताचेर उलयल्लो
तानाजी म्हाका खूब आवडटा
तेच खातीर हांव ताचे पसून पैस रावतां
तो कित्याचेरूय उलोवंक शकता
तेच खातीर तो सगळ्या म्हालगड्यांपासून
पयस सॉरी पैस पावला
तो पावला देखून म्हाकाय पैस जावंक जाय अशें न्हय

म्हाका लागींच रावपाचें आसा
पूण म्हाका लागीं कोण धरता?
लागीं रावपाचें थारायल्यार लेगीत
कोंकणी म्हालगडे म्हाका पैस केल्या बगर रावतात?
ते परस 'पैस' बरोवन लागीं जांव येता
पैस वचून लागीं येवं येता
सुदेश लोटलीकार 'पैस' बरोवन कोंकणीक लागीं जालो ना?
शिवानंद तेंडुलकार लागीं येवन पैस जालो ना?
ताचो काशिनाथ शांबा जालो ना?
विली सौज लागीं आसुनय पयस ना?
अजापूच एक
अना म्हळ्यारूय एक अजाप!
तो मुंबय रावता आनी
महाराष्ट्राकूय लागीं आनी गोंयाकूय लागीं!
हें थोड्यांकूच जमता
म्हाका तें जमतलें काय?
पयस वचून पळोवप
हांवें हें प्र. भिडेक म्हळें
हांगा हावें फकत एकच प्र. वापल्लां
प्र. म्हळ्यार प्रभाकर न्हय. प्रकाशक
प्रकाशक प्रभाकर भिंडे लायिल्लें जाल्यार प्र. प्र. जावपाचें
हो प्रपंच करूंक म्हाका खंय वेळ आसा?
ही प्र. प्रा. प्रि. प्री. म्हालगड्यांमदीं खूब
प्र. चे बाराखडीचेरूच एक बोरकारी जांव येता
प्र. भिंडे, प्रा. थळी, प्रि. केळेकार
तर प्र. भिडेक म्हळें हांव पयस वतां
ताका दिसलें पयस म्हळ्यार पैस
ताणें 'पैस' पुस्तकाचें आमंत्रण हातार दवल्लें
तो ताचो प्रकाशक म्हणटकच ताचें कामूच तें
पूण हांव इतले पैस फोंड्यां कसो वतलों?
फकत फोंड्यांच न्हय फोंडेंच्यान आनी पयस!

आमंत्रण वाचून बरेंऽ दिसलें
तातूंत रवीन्द्रबाब आशिल्लो
पुंडलीकबाब आशिल्लो
तानाजीबाब आशिल्लो
आनी आख्खी रात आशिल्ली
त्यायपरस चड खोशयेची गजाल म्हळ्यार जेवण आशिल्लें
प्रकाशन सुवाळे करून कितें पोटांत पडटा?
फकत फाट कोण बरी थापटिता तें पळोवप
हें म्हजें आतांचें मत न्हय. पयलींचें
हांगा ह्या सुवाळ्याक पोट तरी भरपाचें
मागीर तें चुकोवं येता?
फोंड्यां गेलों. तें पयस आशिल्लें
तरी आतां पयस दिसनाशिल्लें
दिसतालो फकत 'पैस' सुवाळो
त्याय परस जेवणा सुवाळो
कला अकादमी केन्नाय असले सुवाळे करताली
कला अकादमीन तो बंद केलो
कित्याक तर कोंकणी मराठी वाद जाता
पोट भरतकच एक्स शिळोणी घालता तशी
सगळे पोटभर जेवन झगडटाले
ती स्टायल कोंकणी अकादेमीन उबाल्ली
हांगा कोंकणी म्हालगडे आनी बालगडे हांचेमदीं झूंज
ह्या झुंजान बऱ्यो बऱ्यो संस्था काबार केल्यात
झूंज कित्याक तर जेवणाक
रामायणाचें झुंजय जेवणाकूच लागून जालें
रावण भीक मागूंक आयलो. सीतेन घाली
तिणें ती घालूंक नाशिल्ली जाल्यार झूंज जातालें?
प्रकाशन सुवाळ्याक झूंज जायना जाल्यार पुरो
कित्याक अशें जेवण दिवपाचो हो पयलोच सुवाळो
नातर प्र. भिडे हे पयलीं दिवंचो नाशिल्लो!
फकत पेढेच कित्याक वाट्टलो आशिल्लो?

हांव 'पैस' गेलों. म्हळ्यार सुवाळ्याक गेलों
प्र. भिडे खंयच दिसना
आमंत्रण दिवपीच ना
जेन्ना प्र च ना तर येवपाचें प्रयोजन कितें?
कोणेंतरी सांगलें तो पयस गेला
कोण म्हणटालो मुंबय गेला
'पैस' प्रकाशनान प्र.क इतले पैस धाडप!
हांव भायले भायर परतलों
भाशणां तर हांवें आयकल्लींच
भाशणां तींच फकत पुस्तक आनी लेखक वेगळो
रावलों जाल्यार हे म्हणटले हांव जेवणाक रावलां
जेवतलोय आनी बोरकारीय बरयतलो
त्या परस जेवनासतनाच बरयल्ली बरी न्हय!
ना जाल्यार सुदेश म्हणटलो सांगूनय बरोवंक ना

@• @• @•

**६ जानेवारी १९९१**





**कि**तें करचें तेंच कळनां
तकली सामकी भेरेल्या
आतां हें भेरेवप वेगळें. खऱ्याचें भेरेवप
नातर एक्साचे म्हणटले हाची तकली कोप मारून भेरेल्या
हांव स्कुटरी वेल्यान पडलों आनी तकली आपटली
तकलेक चार-पांच पोंत
आतां सगळ्या म्हालगड्यांक कळचें म्हूण हांव हें बरयनां
तांकां खरें म्हळ्यार हें हांव सांगूंक सोदीच नासलों
म्हजी तकली फुटल्या म्हूण कळ्ळ्यार हे ताळयो पेटतले
'एक्साचो, आमचेर बोरकारी बरयता? आतां खा!'
'सुबेज तो. अशेंच जावपाचें.'
'तकलीच फुटली. हात मोडूंक जाय आशिल्लो!'
हीं तीनूय वाक्यां सगळे म्हालगडे आपले पद्धतीन म्हणटले
तेंय म्हणटनां म्हाका तकली आसा
हें मान्य करचें पडटा म्हूण आपल्याकूच संवत
पूण ताका उपाय ना
म्हजी तकली फुटल्या हें म्हाका सांगचेंच पडटा
स्कुटरीन रातचो घरा येतालों
अकस्मात वाटेर एक गाय आयली
अकस्मात म्हणपाचें कारण इतलेंच

हांवें गायचेर बोरकारी बरोवंक ना
मुद्दम येवपाक तिका कारणूच ना
गोंयांत इतल्यो कथा लेखिका आनी कवयित्री आसात
पयलीं प्राधान्य तांकां. गायेक न्हय
मागीर बोरकारी गायचेर कित्याक बरयतलों?
बायचेर बरोवप बरें!
पूण गाय अकस्मात मर्दी आयलीच
म्हाका सकयल उडोवन तकली फोडली
तसोच उठलों आनी दोतोरागेर गेलों
लार्गी दोतोर म्हळ्यार धाकणकार
ताचें मॅटर्निटी हॉस्पिटल वाटेकूच आसा
दोतोराक दाखयल्ली बरी
फुटल्या ती फुटल्या मागीर सुटपाक नाका
हॉस्पिटलांत भितर सल्लों
बाळतीचें हॉस्पिटल भुरग्यांचें रडप हें आयलेंच
पूण अजाप! एकूय सानुल्याचो आवाज ना
फक्त एका रूमांतल्यान दत्तात्रय स्तोत्र भायर येतालें
म्हाकाच कळना जालें
म्हजी तकली फुटल्या काय सुटल्या?
आवाज तर वळखीचो
रामभाऊ आनी हांगा हॉस्पिटलांत कित्याक आसतलो?
कितलोय व्हडलो कवी जालो म्हण
काव्य प्रसुतीक कोण हॉस्पिटलांत येता?
बरो ना जातलो बाबडो!
रमेशाक साहित्य अकादमी पुरस्कार मेळ्ळो
धसको मात खूब जाणांक बसलो
थोड्यांक खोसयेचो
थोड्यांक पिकासावांचो
दोतोर आसात तांचें एक बरें
ते आपली काळजी घेतले
दोतोर भिकाजीचें बरें आसा

रामभाऊ बाबडो कितें करतलो?
मीनाबाय कितें करतलें?
जेस फेर्नांदीसाचें कशें जातलें?
आनंद मंगेश नायक खंय वतलो?
म्हाका हें सगळें कित्याक पडलां?
हांव तर वेगळ्या कामांक गेल्लों
तकली भेरेल्या म्हूण
वखद लावन तरी सारकी करूं नाका?
पूण दोतोर मेळचे पयलीं रामभाऊच मेळ्ळो
हटकुंवचोच पडलो
कितलोय जाल्यार कोंकणी म्हालगडो
सुवार्थूय जालो आनी परमार्थूय जालो
खबर घेतली
'तुजें तें एक्स म्हाका आवडना बाकीचें सगळें बरें आसा'
भाऊन हात धरीत म्हळें
म्हजें एक्स काडून उडय सांगपी खूब जाण आसात
पूण एक्साक लागून हॉस्पिटलांत वचपी हो एकलोच
देवा सायबा! म्हज्या एक्सान असो घात मारप!
जाका मोलीयराचो वास मारता ताका हांवें त्रास दिवप?
येद्या व्हडल्या कवीक हांवें दुखोवप!
पूण मोलीयराक लोकांनी दुखयलोना?
ताका केन्ना कोणें पुरस्कार दिला?
ताका खंयचे संस्थेन केन्ना मान दिला?
पूण मागीर सगळ्यांनी ताका माथ्यार घेतलो ना?
आमच्या मोलीयराक म्हाका आतां दुखोपाचें ना
म्हज्या एक्साचो ताचेर असो परिणाम जायत
हें म्हाका खबरूच नाशिल्लें
एक्स बोरकारींत घालां हाचो म्हाका पश्चाताप
तोय पयलेच फावट
बोरकारी सगळेच वाचतात
ल्हान-व्हड, भुरगीं-बाळां, म्हातारी-कोंतारीं

पूण भुरगे-बाळांनी तें वाचप?
भाऊक तीच चिंता
तेच चिंतेन भाऊक खंगयला
भुरगे-बाळां खातीर तरी एक्स काडप
तांचे खातीर खरें उतर घालप!
रामभाऊ खुशालभरीत तर आमीय
आमकां आनीक कविता नाकात तर!

१३ जानेवारी १९९१





**स**द्दामाक हांवें सांगिल्लेंच!

हो सद्दाम म्हळ्यार कोण कोंकणी म्हालगडो न्हय
सगळ्या कोंकणी म्हालगड्यांक दिसता
की हांव तांचेरूच बरयतां
पूण तें खरें न्हय
हो सद्दाम म्हळ्यार सद्दाम हुसेन
तर सद्दामाक हांवें सांगिल्लें तुका झूंज म्हारग पडटलें
पूण म्हजें आयकल्यार तो सद्दाम कसलो?
म्हजें सद्या गोंयकार आयकनांत
इराक्यांनी आयकलें ना म्हूण अजाप न्हय
ज्या लोकांनी म्हजें आयकलेंना
ते सदांच त्रासांत पडल्यात
सद्दामान जर म्हजें आयकल्लें तर
ताचेर ही पाळी येवंची नाशिल्ली
ताचें एकसूच जर फुटकें जाल्यार हांव कितें करूं?
आतां हांव सद्दामाचेर बरयतां म्हूण
सगळ्यांक अजाप जातलेंच!
हांव कितेंय बंडलां मारतां म्हणटले
जयंती नायक, रजनी भेंब्रे लेगीत दुबाव घेतलीं
'बोरकार घडनाशिल्लें बरयता.'

व्ही. पी. सिंगाचेर बरयलें. तांणीं दुबाव घेतलो
साहित्य अकादेमीचेर बरयलें. तांकां दुबाव
पूण म्हजे हात खंय-खंय पावल्यात हें तांकां खंय खबर!
तांकां दिसता बोरकार म्हळ्यार सामको एक्स!
कित्याय कितें बरयता
पूण खरी गजाल अशी की
म्हजो संबंद सगळ्यांकडेन आसा
ना तर शिवदासाक विचारात
सलमान रशदीन म्हाका
चीट धाडल्या ही ताणें पळयल्या
तर हांव कितें सांगतालों!
हय. सद्दामान जर आयकल्लें,
म्हळ्यार म्हजें आयकल्लें जाल्यार अशें घडचें नाशिल्लें
पूण हांवें सद्दामाक कित्याक शिणप?
कितलोय जाल्यार तो म्हाका परकी
तो त्रासांत पडलो म्हूण म्हजें एक्स् वचना
तरी मनाक दिसता, बरें तें कोणेंय आयकुचें!
सद्दामाचें एक वेळ सोडून दिवया
आमच्याच म्हालगड्यांचें पळयात
ते तरी आयकतात? ना
उदयबाबान म्हळें आपूण काँग्रेसींत वतां
आतां ताका नाका कोण म्हणटलो?
उदयबाबाक नाका म्हणूक कोणाक कापाजदाद आसा?
ताका नाका म्हणचेपरस ताचे फाटल्यान सगळे गेले
वळवय काँग्रेसींत गेलें
कुडचडें काँग्रेसींत गेलें
माजोड्डें काँग्रेसींत गेलें
अंत्रूज गेलें, मडगांव गेलें, व्हडलें-गोंय गेलें
आगशी मात गेलें ना
बार्का फाटल्यान पोनेळ वता म्हूण आगशीन वचपाचें?
फाल्यां कोणूय मांडवी वेल्यान उडी मारतलो

सगळ्यांनी ताचे फाटल्यान उडी मारप?
काय ताका आडावन सांगप?
आतां पळयात काँग्रेसींत गेल्ल्याचे कितें हाल जाल्यात ते!
भितरूय रावप जमना, भायरूय येवंक जायनां
तेन्ना म्हजें आयकल्लें जाल्यार काय बरें जावपाचें!
हातूंत दत्ता शाणो!
आतां हो दत्ता म्हळ्यार मडगांवचो दत्ता
दत्ता दामोदर नायक
दत्ता श्री. नायक न्हय
गोंयांत हे इतले दत्ता जाल्यात की माणसुकीच ना
खंयच्याय दत्ताचेर बरोवं, चिंतचें पडटा
नातर पणजेचो दत्ता आपल्याक लावन घेता
पळय, पणजेय आनीक एक दत्ता आसा
दत्ता भी. नायक
ते परस सद्दाम हुसेन हेंच नांव बरें
त्या नांवाचेर कोण दुसरो अधिकार सांगना!
तर दत्ता नायक शाणो!
सगळे म्हणटात कोंकणी म्हालगड्यांक
काँग्रेसींत ताणेंच व्हेल्यात
आसतय बी
पूण तो भायर सल्ला तेन्ना हेरांनीय सरपाचें न्हय?
आसूं हांवें हाचेर कित्याक चिंतप!
चिंतून चिंतून तकली मात इबाडपाची!
फायदो कांयच ना
फायदो करून घेवपाचो आसल्यार
काँग्रेसींत भितर सरपाचों!
पोस्टर लायल्यार तरी कितेंय सुटपाचें
मागीर हेरांनी कितेंय म्हणू!
पयसो आसल्यार कोण कितें म्हणटा?
आयज रवी नायकाक कोण कितें म्हणटा?
सोमनाथ जुवारकाराक कोण विचारता?

चर्चील, विलीक कोण आडायतात?
आयज दुडू आनी सत्ता म्हळ्यार सगळें!
बाकीचें सगळें एक्स्
सत्ता आनी दुडू आसल्यार कोणाकूय एक्सार मारूं येता
कोणूय म्हज्या सारख्याचें आयकून घेता!
आतां म्हजें कोण आयकता?
सद्दाम हुसेन आयकना
बुश आयकना
उदयबाब कॉंग्रेस सोड म्हळ्यार आयकना
राष्ट्रमताक बरो 'गेटअप' दी म्हळ्यार केणी आयकना
विधानसभा बरखास्त कर म्हूण सांगलें
राज्यपाल आयकना
ताणें आयकलें ना तें एक बरें जालें
नातर रवीन्द्रबाब, पुंडलीकबाब,
शिवदासबाब, मावजोबाब हे लेखक
दत्ता नायक पणजेचो, दत्ता नायक मडगांवचो
आनी सेर्जु कार्वाल्ल्य
हाका निशेध करूंक कशें मेळपाचें?
म्हजें आयकना तेंय एक एकदां बऱ्याकय पडटा
सद्दाम हुसेनान म्हजें आयकलेंना
तेंय गोंयांक बरें पडल्यार पुरो!

२० जानेवारी १९९१



**गों**यकार ऽ ऽ ऽ.....

कोणेंतरी म्हाका पळोवन उलो मारलो
म्हजी एक्साची तिडक एक्साक मारली
आतां म्हाका कोणेंय 'गोंयकार' म्हूण उलो मारल्यार
म्हाका तिडक कित्याक मारपाची?
हांव तर गोंयकारूच!
पूण हो उलो बकच्छायेचो
बऱ्या मतीन उलो मारिल्लो जाल्यार 'बोरकार' म्हणपाचे
पूण हो आवाज कुच्छित्री
तुमी म्हणटले ताणें तुकाच कित्यावयल्यान उलो मारला!
हांगा तूंच कितें गोंयकार ना
पूण हांव जाणां तो म्हाकाच पाचारता म्हूण
'खरे गोंयकार' संघटने वेळावेलोच तो आवाज
'आमी गोंयकार' संघटनेंत हांव आसा
हें ताका कळ्ळां आसतलें!
फाटीं वळून पळय जाल्यार मराप्रस!
हे आनी एक आसात
आमी जें कितें करतात तसलेंच क्रितेंय करूंक सोदतात
आमी कोंकणी म्हळ्यार ते मराठी म्हणटात
आमी मराठी म्हळ्यार ते कोंकणी म्हणटात

आमी को. प्र. आ. केलो
तांणीं मराप्रस केलें
आमी म्हामेळो केलो
तांणीं दिंडी काडली
आतां 'आमी गोंयकार' म्हूण आमी भायर सल्ले
आतां म्हाका दिसता हे 'आमी महाराष्ट्रकार' म्हणटलेच!
करप कितें?
'तुमची ही कोंकणी संघटना मूं?'
शशिकांत नार्वेकारान विचाल्लें
'ना'. हांवें टाळाटाळ केली
कोंकणीचीच चळवळ म्हणत तर हे टाळ बडयतले
'च्या, तूं फट मारता. ही को. प्र. आ. ची बॉडी'
बॉडी खंयची? कोप्रआचीं हाडां जालीं
हांवें मनांत म्हळें. कूस मारचें केलें
पूण म्हाका सोडल्यार तो मराप्रस कसलो?
'तूं आमचो मरे बोरकार, मराठी बरोवपी!'
नाय म्हळ्यार म्हाका बरेंऽ दिसलें
'जांव कोणतरी म्हाका आपलो म्हणपी गोंयांत आसा
'सांग मरे, आमकांय चळवळ करूंक मेळटली.'
नार्वेकार फाट सोडिना
तेंय बरोबर. 'काळा दिवस' सोडून कार्यक्रमूच ना बाबड्यांकडेन
ताका फटयन अशें म्हाका दिसलें ना
'ना. ही संघटना गोंय सांबाळपाक
तुका चळवळ जायच जाल्यार तूंय यो गोंयकारांत'
ताका गोंयकार करचो म्हूण हांवें म्हळें
'तूं म्हाका शिंगा लायता' ताणें म्हळें
म्हजेर विस्वास दवरूंक तो तयारूच ना
'गोंयकारांत पुंडलीक आसा काय ना?' ताचो प्रस्न
'हय आसा.' हांवें म्हळें
'शिवदास आसा काय ना?'
'आसा. तो नासतना जाता?'

'मावजोय आसा?'
'मागीर कितें आसचो न्हय?' म्हजी तकली सणकली
'म्हणजे ही कोंकणीच चळवळ'
नार्वेकाराचो विस्वास पळोवन म्हाका अजाप!
चळवळ तर कोंकणी मनीसूच करीत आयला
पूण हाचो निश्कर्श हो असो कसो काय ?
'तूं नायलॉन विरोधी काय न्हय?' ताचो प्रस्न
'हय. हांवें केलो?'
'तूं कोकण रेल्वे विरोधी काय न्हय?'
'हय. हांव करतांच' म्हजी जाप
'फोंडें म्हालांतले आसुनय ते कित्याक ना तर!'
हाचें तर्कशास्त्र हें तर!
आतां म्हजी लायट पेटली
हाका कितें म्हणपाचें आसा तें कळ्ळें
हे म्हालगडे कोंकणी शिवाय हेर चळवळ करिनांत?
'तुजो समज चुकीचो आसा.'
हांवें ताका समजावंक म्हळें
पूण तें आयकूंक तो रावला कित्याक?
'आमी महाराष्ट्रकार' म्हणत नाच जालो
हे नाका जाल्लो बोवाळ करतले आतां
कितेंय तरी करूंक जाय
कोंकणीवाद्यांक हें कळोवचेंच पडलें
पूण कळोवप कशें?
इतल्यांत शकुंतल आरसेकार येतना दिसलें
पळय म्हजें नशीब कितलें बरें तें!
नातर हें पणजे म्हूण दिश्टी पडपाचें?
हांवें ताका आख्खो फाक्त सांगलो
'खरें? मागीर कितेंय तरी करचेंच पडलें'
शकुंतलान आस्वासन दिलें
म्हाका बरेंऽ दिसलें
कोप्राच्या वेळार हाणें खूब काम केल्लें

'ही बातमी मडगांवच्या म्हालगड्यांक कळयता मगो?'
हांवें आशेन विचाल्लें
'हांव मरे, कळोवपाचें पूण म्हाका वेळ ना रे बाबा.'
म्हाका अजापाचो शॉक
शकुंतलाक कोंकणी खातीर आनी वेळ ना?
कशें जातलें आनी कितें जातलें कोण जाणा कोंकणीचें!
'हांव मरे, आतां कोंकणी अकादेमीन वतां.'
म्हणजे हेंय अकादेमीच्या चक्रांत सांपडलें? देवा सायबा!
'कितें जालां जाणा मरे! अकादेमीचें गितांचें शिबीर आसा.'
म्हणजे गितांचें शिबीर आनी उरिल्लें?
कथांचें जालें, कवितेचें जालें, कवनाचें जालें
नाटकांचें जालें, तियात्राचें, एकांकीकेचें जालें
गितांचें आसतलें म्हूण खबरूच ना पळय
नातर म्हाकाय चान्स पडटलो आशिल्लो
मनोहर गितां सारकीं बोरकार गितां बरोवं येतालीं
पूण हांव बरयतां बोरकारी
म्हजी बुद्द पळय सदां एक्सांतूच!
होय एक चान्स गेलो शिबिराचो
म्हाका दिसता म्हज्या कट्टुलांत चळवळीच!
करतलों कितें? नशिबांतलें भोगचें पडलें ना!
स्कूटर स्टार्ट केली
गोंयकारांक सोडल्या शिवाय पर्याय नाशिल्लो!



**२६ जानेवारी १९९१**



## संजय बांदेकार मेळ्ळो

मेळ्ळो म्हणचे परस तो म्हाका आपटलो
अशे व्हडले मनीस मेळप म्हळ्यार एक व्हडली बोरकारी
खरें सांगचें जाल्यार तो आपटलो
अकस्मात!
तुमी कदाचीत म्हणतय बी की
ताका मुकुंदान म्हाका आपटायलो
तशेंय एक वेळ जांव येता
पूण आपटप कितें आनी मेळप कितें!
शाबी बाबी पोक दिफीरेन्स्
संजयाचें नांव हांवें आयकल्लें
पूण मेळपाची संद केन्ना मेळूंक नाशिल्ली
मेळचेंय अशें केन्ना दिसूंक ना
तशें हांवें ताका कित्याक मेळचें?
तो कितें म्हजी बोरकारी वाचतलो? ना
हांव ताचेकडेन कितें मागूंक वतलों? ना
उदय भेंब्रो आमदार आसतना कांय मागलें ना
मागीर ह्या आमदाराकडेन कितें मागप?
भाऊ काकोडकार अकादेमीचो अध्यक्ष जालो
तरी कांय मागलें ना

ओलवीन्य गोमिश साहित्य अकादेमीर गेलो
एक भाशांतर तरी म्हाका करूंक दी म्हण हांवें मागलां?
मागीर हांवें संजयाकडेन कित्याक मागचें?
पूण ताणेंच म्हजेकडेन मागलें
आनी मागपूय म्हळ्यार कितें?
एक सादेशें गीत
म्हाका दिसता ताणें जिवितांत
फकत दोन गजाली मागल्यात
एक म्हळ्यार मतां, आनी दुसरें गितां
मतां कोणायकडेन मागूं येतात
लेखकाकडेन मागूं येतात
चित्रकाराकडेन मागूं येतात
एक्सांच्यांकडेन मागूं येतात
स्मगलरांकडेन मागूं येतात
चोर, फटींग, नालायक हांचेकडेन मागूं येतात
पूण गितां म्हण कोणायकडेन मागप?
मनोहर सरदेसायांकडेन मागलीं, समजूं येता
रमेश वेळुस्काराकडेन तीं मेळूं येता
उल्हास रायकार, श्रीधर कामत,
आद्रू, गोदू, फिरंगी, च्यारी हांचेयकडे मेळूं येतात
पूण दिलीप बोरकाराकडेन म्हण मागप?
एक्साचे तकलेन सुटल्यात काय कितें?
पूण संजयान गीत मागलें
पयलीं म्हाका दिसलें ताका क्रांती गीत जाय म्हूण!
हे सगळे नवे रक्ताचे सद्या क्रांती करतात
ताका क्रांती संगीत जाय जाल्यार काय बरें जावपाचें!
प्रकाश थळयागेर तरी धाडूं येतालें
पूण ताका फकत गीत जाय आशिल्लें
गोंय दूरदर्शनाचेर गावंक
मुकुंदान ताका म्हजेकडेन धाडिल्लो
हांगा मुकूंद म्हळ्यार मुकूंद नायक आं!

ताणें धाडलो म्हूण म्हाका संजय आपटलो
'म्हाका गीत जाय'. संजयाचें मागणें
म्हाका उस्तुरें गेलें
संजय मागता म्हूण न्हय
ताणें गीत गायलें म्हूण म्हजें कितें वता?
दूरदर्शनार गीत गावपी तो कितें पयलोच?
वेल्यान तर म्हजो फायदोच
दूरदर्शनाकडल्यान मानधन मेळटलें तें जालेंच
संजयाकडल्यानूय धन आनी मान!
पूण ताणें मागलें म्हूण हांवें ताका गीत दिवप?
हांव कोण भिकाजी घाणेकार तर?
काय रामकृष्ण जुवारकार?
ते तरी गीतकार
तांच्यांनी गितां बरोवं येतात
पूण म्हजेकडेन गितां खंयचीं?
कोणेय मागणी केल्या बराबर गितां पाडपाची अक्कल जाय
ती शांती तेंडुलकाराकडेन आसा
सोयरू वर्देकडेन आसा
आतां हांवें कितें करप?
गीत ना म्हळें, आमदार रागार जातलो
येदो व्हडलो संगीत विशारद संजय!
ताका गीत गावंक जाय. आनी तें आमचेकडेन ना?
हा! हंत! हंत!
कहां सो गयी अकादेमी इस नाजूक पल में!
देवा सायबा! आसूं हिन्दी ती
हांवें भाऊ काकोडकाराक फोन केलो
भाऊचें एक बरें, सदांच सेवेक तत्पर
'गितांच जाय मूं? तीं ना म्हळीं म्हूण जाता?'
पयलें वाक्य
'गितां ना म्हळीं म्हूण गावपी गायनासतना रावता?'
दुसरें वाक्य

'कोंकणी गितां ना म्हूण कोंकणी अकादेमी ना जाता?'
तिसरें वाक्य
'आयज ना म्हूण सदांच ना म्हूण आसा?'
चोवथें वाक्य
'योग्य वेळार ज्युस्ताक ज्यूस्त जाय तशें जातलें'
पांचवें वाक्य
भाऊचीं संगीतमय वाक्यां आयकून म्हाका कंठ फुटलो
म्हज्यांत गीतकार संचारलो
जर संजयान भाऊक फोन केल्लो जाल्यार?
गरजे भायर गीतकार जावन वचपाचो
पूण ताका भाग्य जाय
म्हजें मन गीत जुळयत आशिल्लें
'अकादमीन आपयले बगर,
गीत कोणे रचचें न्हय!
भूस बरो माल्ले बगर
गीत पानार वाडचें न्ह'
पयलेच फावट म्हाका तृप्त धेंकर आयलो.....

**३ फेब्रुवारी १९९१**





**स**गळो प्रकारूच विचित्र
तशें पळोवंक गेल्यार हांवूय विचित्र
पुराय गोंय म्हळ्यार विचित्र
बोरकारी बरोवपाचीं विचित्रपणा केलीं
विचित्रपणाच तीं !
पूण सगळ्यांचें चित्र मात प्रकट जालें
थोडे म्हणटाले आपलें चित्र कोणाच्यान काडूं नज
आनी हांवूंय तें काडूंक वचना
गोंयांत येदे व्हडले चित्रीक आसतना
हांवें कित्याक कोणाचें चित्र काडप?
तरीपूण बोरकारींत चित्र-विचित्रपणा जाताच
बोरकारी म्हळ्यार एक जात्रा
चित्र-विचित्राची जात्रा
श्री-विचित्राची जात्रा न्हय आं!
ना तर बेश्टोच दुबाव घेशात
जालां कितें? तर गोंय सामकें ल्हान
गोंयकारांक खंयचीय जात्रा ही आपली दिसता
तेंच खातीर कितेंय बरयतलों जाल्यार तेंच तेंच येता
बोरकारींतूय तेंच तेंच आयलें जाल्यार कितें करप?
म्हालगड्यांक मात राग येतलो

पूण ताका उपाय ना
कांय गजालींक उपाय नासता तो असो!
बोरकारीक लागून खूब जाणांक लागता
हांगा लागप म्हळ्यार चडप न्हय
तर खवखवप
खाता ताका खवखवता अशें कोण तरी म्हणी!
कोण काय तो?
दिगंबर सिंगबाळ बी न्हय मूं?
आसतय बी. पूण नांव कित्याक घेवप
जे म्हालगडे खातात तांकां खवखवतलें
हांवें कित्याक ताचेर चिंता करप?
पळय, खावपा वेल्यान याद जाली
तर विमोचक भिडेन म्हाका सांगलें जेवण दी
हांगा आंग काडपाची गरज ना
पयलीं प्रभाकर भिडे प्रकाशक आशिल्लो
पूण रमेशान प्रकाशन सुवाळ्याक
विमोचन सुवाळो म्हळें
प्रकाशकाचो विमोचक जालो
पयलीं प्र. प्र. भिडे म्हणचे पडटालें
आतां वि. प्र. भिडे हें म्हणूंक बरें दिसता
सद्या भिडेचे आनी म्हजे संबंद बरे आसात
तोय विमोचक आनी हांवूय विमोचक
हांवें नोकरी सोडून विमोचन वेवसाय सुरू केला
म्हजी 'अगरती प्रकाशन' ही विमोचन संस्था आसा
भिडेचीय आसा
राजहंस प्रकाशन
तो राजहंस विमोचन जेसर करिना
तेसर हांवूय अगरती विमोचन करचोंना
ते सर दोनूय प्रकाशन संस्था
आमी मात विमोचक. प्रकाशक न्हय
तर वि. भिडेन आनी वि. हांवें एक जात्रा थारायल्या

तातूंत हांव जेवण दितलों
तो मात विमोचन करतलो
विमोचन करूंक कोण तरी संकट मोचन येतलो
ताकाय आमी विमोचक म्हणटले
नातर प्रकाशन सुवाळ्याक भेदभाव नाका
प्रकाशक वेगळो आनी प्रकाशन करपी वेगळो कित्याक?
आमकां आतां असले भेदभाव उपकारतात?
आमीच समाजवाद हाडपाचो
ना जाल्यार ताची कोंकणी अकादेमी जातली
साहित्य अकादेमी जातली
अपुरबाय अकादेमी जातली
कुळागर अकादेमी जातली
च्या, हांव घुसपलों पळय!
बरोवपाच्या नादांत खंयची अकादेमी
आनी प्रकाशन संस्था तेंच कळना
खंयचो विमोचक आनी खंयचो प्रकाशक तेंय कळना
आसूं त्यो गजाली
नाका जाल्ली अपुरबाय कित्याक?
म्हाका अगस्तीची अपुर्बाय केल्ली नाका
राजहंसाची भिडेक जाय जाल्यार करूं
ताचेकडेन म्हजो संबंद जेवण दिवपाचो
सकाळीं तो विमोचन करतलो
हांव ताळयो मारतलों
मागीर जमिल्ले चर्चा करतले
तेन्ना हांव च्या आनी बिस्किट वाट्टलों
रातचें कवीसंमेलन जातलें
त्या पयलीं जेवण आसतलें
पूण हें सगळें भिडेक कित्याक येवजलें काय?
ताणें साहित्य पसवण केली
सगळे साहित्य पसवण करूंक लागले
तो प्रकाशक जालो

सगळे प्रकाशक जावंक लागले
ताचो ताका राग बी येवंक ना मूं?
सांगू नज
पूण म्हजो मात फायदो
पानवेलीच्या नांवान मसंगाक उदक
ताच्या नांवान म्हजेंय नांव जालें
हाताांत हात घालून काम करपाचो हो फायदो आसता
तूं गाय हाड हांव तण घालतां
तूं गायक बांद हांव दूद काडटां
तूं दूद तापय हांव साय काडटा
साय कोणांक?
बाँट लेंगे हम आधा-आधा!

@• @• @•

**१० फेब्रुवारी १९९१**





**डॉ.** राजेंद्र हेगडो देसायाचें पत्र आयलें
वाचूंक उगडचे पयलीं तकली नाका थंय धांवताच
आतांय तशी ती धांवलीच
कित्याक पत्र धाडलां काय बाबड्यान?
बोरकारी बंद कर म्हूण?
भाशा मंडळांत पुस्तकांचे पयशे आसात ते व्हर म्हूण!
सिगार चड ओडटा तें ओडूं नाका म्हूण!
च्ये! तशें कांय दिसना
हांवें सिगार ओडल्यार तांकां कितें पडलां?
भाशा मंडळांतले पयशे व्हर म्हणप ही कल्पना बरी
पूण ती खरी जांव नाका?
ते खातीर भाशा मंडळ सुदारपाक जाय
पूण इतलीं वर्सां सुदारलें ना
तें आतां सुदारतलें?
तें सुदारलें जाल्यार आदले अध्यक्ष हांसचेनांत?
यशवंत पालेकाराक कांय कळना म्हणचेनांत?
सगळें घटनेभायर वचचेंना?
लेखकांकडल्यान पुस्तकां घेवप
तीं विकप
उपरांत ओग्गी बसप

हाका घटना म्हणटात
ही घटनां बदलपाचो अधिकार अध्यक्ष पालेकाराक ना
मागीर सचिव हेगडो देसायाक कसो आसतलो?
च्या, हें पत्र ते खातीर न्हयच!
मागीर कितें बरयलां आसतलें काय ताणें?
बोरकारी बंद कर म्हूण!
म्हाका दिसना. तो कितें अशोक कामत तर?
काय वसंत भगवंत सावंत!
पूण ह्यो नाका जाल्ल्यो कल्पना कित्याक?
ते परस उगडून वाचिल्लें बरें!
उगडलें!
धक्को! भयंकर शॉक!
हांव बरें ऽऽबरयतां अशें दोतोर म्हणटा
म्हणजे म्हजें बरोवप वाचक मानूंक लागले?
हांव जाणाच आशिल्लों 'सत्यमेव जयते' म्हूण!
आतां म्हजी मज्जाच मजा
लेखक संघाचो अध्यक्ष जावंक चान्स
ना तर शिवदास कितलो तेंप म्हूण अध्यक्ष रावतलो?
लेखक संघ म्हूण कितें कोंकणी अकादेमी?
काय कला अकादेमी!
लेखक संघाचे अध्यक्ष जावपाचे लायकीचे खूब आसात
कला अकादेमीचो जावप काय शक्य ना
हांव जालों जाल्यार प्रभाकर आंगल्यान कितें करप?
सावळो केणयान खंय वचप?
कोंकणी अकादेमी, कला अकादेमी हीं आगळीं वेगळीं!
तांकां अध्यक्षपदां म्हणनांत
तीं अळळपदां!
अळळपद मेळयतलों जाल्यार सूत जाय
म्हजेकडेन काय सूत जमोवंक जायना
सुतां घालुंकूय जायना
मागीर सुता वयल्यान सर्गार कसो वतलों?

अढळपद कशें मेळयतलों?
ध्रूव बाळाकडेन खंयचें सूत आशिल्लें काय?
पळय, नाका थंय व्हांवलों
सूत हें अशेंच त्रास दिता
तर हांव कितें सांगतालों?
हय. पत्र वाचतालों. वाचून बरेंऽऽ दिसलें
त्या परस भाशा मंडळाची याद जाली हें चड बरें!
उठलों आनी मडगांवां गेलों
पालेकाराकडेन थोडें सूत जमोवंक हरकत कितें आसा?
ताचो जरी सुताचेर विस्वास नासलो
तरी जमोवंक कितें आसा?
जांव पालेकार मंडळांत मेळ्ळो
हो अध्यक्ष म्हाका आवडटा
केन्नाय वच, आपल्या कदेलाचेर आसताच
ना तर आदले सगळे!
आसूं! गेल्ल्यांविशीं वायट उलोवंचें न्हय खंय!
भाशा मंडळांत गेल्या बरोबर कोणेंतरी स्वागत केलें
'येयात, बसात,'.
'देव बरो दीस दिवं!'
'सेवेक हाजीर.'
पालेकाराच्या उजव्या हाताक बशिल्लें
बाय एका दमांत उलयलें
मोरायसबाब हांगा आत्रेपयऱ्यान येता काय कितें?
म्हजे तकलेंत व्हडलो प्रस्न
आसूं. नाका जाल्ले प्रस्न कित्याक?
हांवें मूळ प्रस्नाक हात घालो
म्हणजे हांवें मूळस्वर उलोवप केलें
अध्यक्ष पालेकार भिलो
पुस्तकांचे पयशे मागपी हांव पयलोच लेखक आसूंये!
'तुका दुडू जाय म्हळ्ळें म्हाका कळ्ळें.'
जांव कोणाक तरी म्हजी अडचण कळ्ळी

म्हाका समादान भोगलें.
दोन-चार वर्सां फाटलीं बिलां
वसूल जावप म्हळ्यार फकाणां न्हय
म्हजी धनरेशा बरी आसूंक जाय
'पूण ताचें कितें आसा जाणा?'
म्हज्यो तोंडावयल्यो रेशा पळोवन अध्यक्ष मुखार उलयलो
तरी हाचो पूण आसाच?
म्हजी आस्त मनांतल्यान ना जावंक लागली
मडगांवचो दौरो फुकट वता काय कितें?
'तुवें पुस्तकां दिल्लीं तीं आदलो अध्यक्ष आसतना.'
'म्हणजे तो परत अध्यक्ष जातलो तेन्ना हांवें येवपाचें?'
हांव काचाबूल
'हांव आसतना कितें दिल्लें तें सांग.'
म्हाका याद जाली
'शकर'चे धा अंक दिल्ले' हांवें नेटान म्हळें
पयशे घेतले बगर वचप ना . हांवें निर्णय घेतलो
बसीची तिकेट तरी सुटूंक नाका?
अध्यक्षान पी. ए. कडेन चवकशी केली
पी. ए. न आठ अंक हाडून हातार दवल्ले
'एक अंक वेरेंकारान व्हेला.' पी. ए. उलयलें
'ताचे पयशे तूं वसूल कर.' अध्यक्षाची सुचोवणी
'एका अंकाचें बील धाडून दी. ताची पन्नास टक्के सूट जाय.'
म्हजेर कलकल. आतां कितें करप?
अध्यक्षाची लक्ष्यवेधी सुचोवणी मानप?
पूण वेरेंकाराच्या घरा वचूंक दुडू खंय आसात?
अंक घेवन भायर सर्लों.
मडगांवच्या फूट पाथार येवन बसलों...

@• @• @•

१७ फेब्रुवारी १९९१



## संवसार बुट्टी जाली

हांव ह्या संवसार बुट्टीच्या उदकांत घुसमटलों
हांव कोण मनु न्हय
मनुस्मृतीय म्हाका याद जायना जाली
सगळी स्मृती भ्रश्ट जाली
पेवपाक शिकिल्लों
पूण पेवप कशें हाचीय याद जायना जाली
आनी पेवपाक आयलेंय जाल्यार उपेग कितें?
कितलो म्हूण पेंवतलो आशिल्लों?
सगळ्याक तर उदकूच उदक
धर्तरेचेर केन्ना पेवंकूच जालें ना
राजकारणांच्या कोंडांत उडी माल्ली
बुचकळ्ळों
सगळे खांपे पेवपी त्याय कोंडात पेंवताले
बऱ्या पयकी तड मारून गेले
म्हाका उफेवंक लेगीत आयलेंना
भाशावादाच्या दर्यांत उडी माल्ली
जाका कोंडात पेवंक येना तो दर्यांत कितें पेंवतलो?
थंय नाकातोंडात उदक
असल्या दर्यांत आरते-परते पेवंक जाय

हड्ड्यार मराठीवादी-कोंकणीवादीचो बिल्लो लावंक जाय
हांवें तोय लायलोना
मागीर पलतड कशी मारतलों?
आतां ही तर संवसार बुट्टी!
हाका आलतड ना आनी पलतडूय ना
फकत उदक
उदक नाका-तोंडात गेलें
थोडें पोटांतूय गेलें
पोटाचो भांडकोचो उप्पाट भल्लो
आता भांडकोचो कितें तें म्हाका खबर ना
भुरगेपणार हांवें आयकल्लें
आता तोंडांत उदक गेल्या बराबर याद जाली
म्हाका दिसता हेरावरीं पोटांत कांय गेलेंना देखून अशें जालें
आनी हांव मेलों
मरून खंय वतलों?
धर्तरेर इतल्या कामां खातीर मेल्लों
अशें हांव म्हणना
नातर एकसाचें म्हणटले कर्माचें फळ आवंडेता
म्हाका कर्मधर्म कितें कळटा?
सगळो कर्मभोग!
मेल्या उपरांत सरळ वयर गेलों
वयर म्हळ्यार खंय तेंय खबर ना
मळबाचें दार उक्तें दिसलें
दार उक्तें दिसल्या बराबर घुसपाची संवय म्हाका
असोच एकदां उपकुलगुरूच्या कॅबिनांत घुशिल्लों
म्हाका खंय खबर थंय ओलव्हीन गोम्स आसतलो म्हूण!
म्हाका पळयतल्या बराबर नाच जालो
मेजार मात खूब झेरोक्स कागदां
आनी डजनभर भाशांतरां
'हाव नाका थंय परवानगी शिवाय घुसतां.'
अशें ताणें म्हाका म्हळें ना

यशवंत पालेकाराक सांगतालो खंय!
ह्या पालेकाराच्याय तोंडांत कांयच धरना
हांगा हे नासल्यार पुरो
पूण आसतले कशे?
विद्यापीठ आनी साहित्य अकादेमी सोडून
तो हांगा कसो पावतलो?
भाशा मंडळ सोडून पालेकार हांगा येता?
मागीर कोंकणीखातीर त्याग कोण करतलो?
नाका त्यो गजाली
म्हाका आतां हें सगळें कित्याक पडलां?
हांव तर सर्गार पावलां
हाका सर्ग बेश्टोच म्हणप!
कदाचीत नरक आसूं येता
पूण मळबांत म्हळ्यार सर्गार हो म्हजो हिशेब
भितर पळय जाल्यार सगळे देवदूत
विचित्र भेसाचे
हांगा थंय धांवतात
हांव भितर गेल्या बरोबर म्हजेर चाळवले
'विचारनासतना कितें भितर सरता?'
पाडपडूं हांचें!
खंयच सुसेग दिनांत
एकलो म्हाका गोलाक धरून ओडूंक लागलो
हांवें म्हळें हांव लेखक
बोरकारी बरयतां म्हूण मुद्दाम सांगलेंना
सांगूं नज! म्हजेपयलीं हांगा म्हालगडेय पावूं येतात
गरजेभायर गैरसमज करून दिल्लो आसूं येता
देवदूत म्हाका ओडीत एका सिंवासनाकडेन घेवन गेलो
हो म्हाका सिंवासनार बसयतलो काय कितें?
कितें घडत हाचो इस्पार ना
हांकां कळूंक बी ना मूं?
म्हाका ओलव्हीन गोम्सान विद्यापिठांत घेवंक ना

पुरूषोत्तम काकोडकारान अकादेमींत घेवंक ना
शशिकलेन कला अकादेमींत घेवंक ना
तेचखातीर ही खाशेली वेवस्ता न्हय मूं?
आसूं येता
हांव वचून सिंवासनार बसूंक लागलों
देवदूत म्हजेर चाळवलो
'कोंकणी म्हालगड्यांवरीं वागू नाका.'
'पूण हांव तांचेर कोंत्र.'
हांवें म्हळें
'वयली सुवात दिसली काय बसूंक सोदतात.'
देवदूत परत उलयलो
'ही सुवात नोये प्रजापतीची.'
'देवा सायबा, हो कोंकणी म्हालगडो नासल्यार पुरो!'
हांवें मनांत म्हळें
इतल्यांत प्रजापती आयलो
सिंवासनार बसलो
एके सायडीन पुंडलीक करो दिसलो
दुसरे सायडीन शणै गोंयबाब
हो शणै गोंयबाब आसल्यार पुरो!
'तूं कित्याक आयला हांगा?'
प्रजापती तापलो. उद्दा सुद्दा तो म्हजेर तापता!
'अजून तुजें कार्य सोपूंक ना. वच आनी बोरकारी बरय'
इतलें उलोवन प्रजापती नाच जालो
देवदुतान म्हाका सकयल धुकल्लो
म्हाका जाग आयली!
म्हणजे हें सपन? रातीं बेश्टीच संवसार बुट्टी वाचली!

२४ फेब्रुवारी १९९१



म्हाका दिसता हांव पिसो जातलों!
आयकून खूब जाणांक वायट दिसतलें
थोड्या जाणांक बरेंय दिसतलें
जांचेर बोरकारी बरयल्या ते थोडे जाण
जे बोरकारी वाचतात ते खूब जाण
आतां थोड्या जाणांक बरें कित्याक दिसूंक जाय?
तांचीं हांव सरळ नांवा घेतां म्हूण?
घेतल्यार कितें जालें?
ते तर आपलेच मनीस
आपल्यांचीं नांवां घेना जाल्यार पेल्यांचीं घेवंचीं?
तर हांव कितें सांगतालों?
हय. हांव पिसो जातलों!
जावपाचोंच
तेचखातीर तर ह्यो गजाली घडटात
आतांच पळयात
पोस्टमन सदांच पत्रांचो गठ्ठो हाडी
आयज मात एकूच पुस्तिका
असली पुस्तिका म्हाका अर्बन बँक केन्नाय धाडी
ती पळोवन हांव कुशीक दवरतालों

पूण ही पुराय वेगळी
रंग-रूप-आकारान
पळोवंक अंकाची सया मारताली
पूण अंक म्हाका कित्याक आनी कोण धाडटलो?
चित्रंगी येना
जाग येना
कुळागर येना
ते येवचें म्हूण हांवें अपेक्षा कित्याक बाळगप?
ते तर सगळे प्रा. लि.
प्रा. लि. म्हळ्यार प्राप्ती लिखाण न्हय आं!
प्रायवेट लिमिटेड
प्राप्ती लिखाण कोंकण भारती
कोंकण टायम्स
म्हणूनच पालेकार तो हातार दवरता
तुकाराम शेट राजहंसात दवरता
मागीर आतां आयलां तें कितें?
उगडूंक हातांत घेतलो
फाटलें पानार जाहिरनामो इंग्लेजींत
आय, डॉ. राजेंद्र हेगडो
आय म्हळ्यार कॉंग्रेसींतलें 'आय' न्हय. 'हांव'
म्हाका खबर नाशिल्लें अशें जायत म्हूण
हांवें एकदां सहज बरयल्लें
म्हाका डॉ. राजेंद्र हेगडो देसायाची चीट आयली म्हूण
खरें म्हळ्यार ती राजेंद्र हेगड्याचीच
पूण म्हाका दिसलें ताका देसाय म्हणचो
आतां म्हजेंच दिसप तें! ताका हांव कितें करूं?
पूण मुरलीधर पोरोबान आकांत केलो
तो हेगडो. हेगडो देसाय न्हय म्हूण
नाक खंय आनी आदोळी खंय?
जर मनू पोरोबाचो एम्. एम्. प्रभू जाता जाल्यार
आसूं त्यो गजाली

म्हजे फाटल्यान मुरलीधर प्रभु आसा
म्हळ्यार प्रभु श्रीकृष्ण आसा
हांवें कित्याक कोणाक भिवप?
म्हाका कसल्याच डिक्लेरेशनाची गरज ना
हांवें पुस्तिका उगडली
आरेच्या हो तर 'कोंकणी' अंक
कोंकणी भाशा मंडळाचें मंथली ऑर्गन
मंथली ऑर्गन म्हळ्यार कोंकणीत कितें काय?
मासीक..., आसूं सद्या मासीक एक्स म्हणुंयां
मागीर केन्नाय श्रीपाद देसायाक विचारूं येता
अंक उगडलो
वर्स अठरावें, अंक पांचवो, म्हयनो फेब्रुवारी
म्हणजे अठराव्या वर्सा पांचवो म्हयनो फेब्रुवारी येता?
शे! कांयच कळना
पिशें लागपाचीच गजाल ही!
तकलेक बेश्टेच त्रास नाकात
हांवें फुडलें पान उगडलें
पळयल्यार रमेशाची बातमी
सकयल रवीन्द्रबाबाची बातमी
दोगांयकय साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा
मेळ्ळा बरें जालें
पूण बातम्यो कितल्यो तेंप येत रावतल्यो?
कितलो तेंप अतृप्त म्हालगड्यांक दुखयत रावतले?
आनी फोटोय छापल्यात ते म्हूण केन्नाचे!
फाल्यां समज साहित्य पुरस्कार म्हाका मेळ्ळो!
रामकृष्ण जुवारकाराक मेळ्ळो
धर शंकर रामाण्याक मेळ्ळो
जाल्यार भुरगेपणावेले फोटो खंयचे हाडप!
लोक कितें म्हणटले!
रमेशबाबाक, रवीन्द्रबाबाक ल्हानपणार मेळ्ळो
हांकां मात सामके म्हातारपणार

पूण आतां ताका कांयच उपाय ना
फुडलें वाचिल्लें बरें
'गोंयचे अस्मितेखातीर त्याग केल्ले कडेक रावले
तेखातीर राजकी जिणेंत अनैतिकता पातळ्ळ्या
ती पयस करूंक जाय
म्हालगड्यांनी तो वावर हातांत घेवंक जाय.'
अशें उदय भेंब्रेन सत्कारा वेळार सांगलें
उदयबाब खरेंच सांगता
हांवें अंक बंद केलो
सगळें वाचल्यार हांव पिसो जातलों
ते पयलीं काँग्रेसींत गेल्लो बरो
थोडी अनैतिकता तरी पयस जातली
कोणाचे आयकल्ल्याचें समाधान तरी जातलें?
काँग्रेसींत केन्ना वचप आतां?
पिशें लागचे पयलीं वचूंकच जाय

३ मार्च १९९१





**स**द्या हांव गंभीर जालां
तसो हांव जिवितावविशीं केन्ना गंभीर नाशिल्लों
म्हज्या वावराविशीं गंभीर आशिल्लों
पूण तें आतां उपकारता?
आतां वावराविशीं गंभीर रावून फायदो ना
वावराचीं फकाणां उपकारतात
बरोवप फकाणाचें उपकारता
पूण तुवें मात गंभीर आसूंक जाय
निदान तशें दाखोवंक जाय
नातर अनाक पळयात
बरयता फकाणाचें
पूण सामको गंभीर!
गंभीर रावलोंना जाल्यार लोक फकाण म्हणटात
फकाण थल्लो जाल्यार कांयच मेळना
साहित्य पुरस्कार मेळना
कसलें पद मेळना
म्हालगडेपण मेळना
देखून पुंडलीक लेगीत सदांच गंभीर रावता
बाकीबाबान केन्नातरी म्हणिल्लें खंय!
गोंयांत रवींद्रनाथ टागोर येवपाचो आसा

तेन्नाच्यान माधव बोरकार गंभीर जालो
ताच्याय परस गंभीर नरेंद्र बोडके जालो
दर एकलो कवी गंभीर जालो
मराठीय कवी गंभीर, कोंकणीय कवी गंभीर
रवींद्रनाथ टागोर एकदां जावन वचूंक जाय आशिल्लो
गोंयच्या कवींच्या तोंडार नदर तरी घालूं येताली
पूण जे सर बाकीबाबाचीं उतरां खरीं जायनांत
ते सर हें अशेंच चलतलें
सुनील पालकार लेगीत गंभीर जाला
शैलेंद्र मेहताचीय तीच गत
कविता खंयीय पावूं, कवी मात गंभीर
सगळ्यांक गंभीर करून
बाकीबाब हांसत हांसत गेलो
पूण हांव ते खातीर गंभीर जावंक ना
तसो हांव रवींद्रनाथ कसो दिसतां
कवितेक लागून न्हय आं!
खाडाक आनी भेसाक लागून
पूण दिसता तशें खंय आसता?
बरो दिसलों आनी कवी नासलों जाल्यार कितें उपेग?
लेखक संघाचो अध्यक्ष जावंक?
काय कवी संघाचो?
तें एन्. शिवदासाक सोबता
पुरूषोत्तम काकोडकाराक उपकारता
पूण तें म्हाका सोबूं नाका?
हार उडटा म्हूण गांयडोळान उडल्यार जाता?
आतां हांगा हार कोण
आनी गांयडोळ कोण हाका म्हत्व ना
ना तर आमचे एक्साचे तेंच सोदीत बसतले
तशे ते एक्साचो वायट अर्थ सोदिनांत?
एक्साक कितले बरे अर्थ आसात
पूण म्हालगडे तातूंत गाळीच सोदतात

आतां हेंच पळयात
म्हाका एक्स कोंकणी म्हालगडो महाले मेळ्ळो
हांगा आतां एक्स म्हळ्यार कितें गाळ?
ना. एक्स म्हळ्यार आदलो
पूण काशिनाथबाबाक एक्स कसोच म्हळो?
हाचेर म्हालगडे दुखां गळयल्या बगर रावतात? ना
तेच खातीर हांव गंभीर जालां
शिवाय काशिनाथबाबानूय म्हाका गंभीर केला
हांव गंभीर जावचे पयलीं तो म्हाका मेळ्ळो
म्हणूंक लागलो 'आपल्याक सल्लो जाय.'
येद्या व्हड मनशान म्हजेकडेन
सल्लो मागप म्हळ्यार फकाणां?
खरीच गंभीर गजाल ती
बोरकारी बरोवंक लागिल्ल्याक सगळेच सल्लो मागतात
ताचे फाटल्यान कांय गांभिर्य नासताच म्हणा!
उद्देश्य एकूच
बोरकारींत नांव येवंचे वा न येवंचें!
पूण काशिनाथबाब तातुंतले न्हय
ते सादे
ते सादे देखून तांकां पुरस्कार दिवंचो थारायला
पुरूषोत्तम काकोडकार ट्रस्टाचो पुरस्कार
कोंकणीची चड सेवा केल्ल्यांक धा हजारांचो पुरस्कार
पूण काशिनाथबाब म्हणटा हांवें कांयच करूंक ना
म्हणून तांकां हांव सादे म्हणटां
तांचेंय बरोबर
चर्चील इतलो कोंकणी सेवी मनीस
ओलव्हीन इतलो त्याग केल्लो मनीस
सुमेधा कामत मराठी सोडून कोंकणी शिकोवंक लागलें
सु. म. तडकोड कोंकणी पुस्तक बरोवंक लागलो
हें सगळें सोडून पुरस्कार भलत्याकूच!
हो कोंकणी सेवकांचेर अन्याय

असल्यांनी कोंकणी सेवा करूंक कोण मुखार सरतलो?
आतां हें म्हजें मत न्हय
काशिनाथबाबाचें मत
तो आपणें घेवंचो काय म्हूण तांणीं विचाल्लें
खरें म्हळ्यार तो तांणींच घेवंक जाय
व्हडल्या मनशांचो पुरस्कार व्हडल्यांकूच वचूंक जाय
शिवाय लोककवीनूच तांचें नांव सुचयलां
इतलेंय आसतना हांवें ना म्हणूं येता?
हांवें तांचे कोंकणी सेवेची याद केली
तेय गंभीर जावन याद करूंक लागले
ते गंभीर देखून हांवूय गंभीर जालों
देखून सद्या हांव गंभीर आसां

१० मार्च १९९१





खूब दीस विद्यापिठांत पावलो ना
म्हळें या
तशें थंय वचपांत कांय अर्थ ना
थंय कितें आसा
नांवाचें विद्यापीठ
विद्या खंयच ना. सगळें पीठ
थंय फक्त सगळे पीठ मळटात
विद्यार्थी ताच्यो भाकऱ्यो भाजतात
प्राध्यापक मात त्यो खायत बसतात
म्हाका त्या पिठाची आवड ना
म्हाका विद्येची आवड
पूण तीच जर ना जाल्यार वचून फायदो कितें?
तरी पूण म्हाका वचन दिसलें
तातूंत कोंकणी विभाग आसा
एक विभाग प्रमूख आसा
तो भाशांतर करीत बसता
विद्यार्थी मात भलतेंच कितें करतात
विभाग प्रमूख एक त्यागी मनीस
हांवूय एक त्यागी मनीस
तशे सगळे म्हालगडे त्यागी

तांणीं खूब त्याग केला
घरादाराचो तांणीं त्याग केला
नोकरेचो त्याग केला
तांच्या त्यागाक लागून कोंकणी वयर सल्ल्या
फुल्ल्या आनी फळ्ळ्या
गोंयची राजभास जाल्या
सुटके झुंजात पडून जशे सुटके झुंजारी जाले
तशे कोंकणी झुंजात कोंकणी झुंजारी जाले
सुटके झुंजाऱ्यांक पेन्शन मेळटा
पूण कोंकणी झुंजाऱ्यांक खंय मेळटा?
तो कितें त्याग न्हय?
पूण हो त्याग कसो मेजप?
रवी नायक म्हणूंक लागलो तांकांय पेन्शन दिवया
पूण कितल्या लोकांक दिवप?
कोणूय सुटके झुंजारी जाता
तसो कोंकणी झुंजारी जाल्यार उपकारता?
फाल्यां पेन्शन मेळटा म्हूण शशिकांत नार्वेकार
आपूण मुखार सरतलो
मनोहर हिरबा धांवत येतलो
बादसा येतलो
तांचो त्याग आमच्यांनी ना म्हणूं येता?
बरें ना म्हळें पूण मनोहर सरदेसाय आयकूं नाका?
सुमेधा कामतीक ताणें खंय ना म्हळां?
त्या परस ओलव्हीनबाब बरो
तो कायद्यान वचपी मनीस
तोय विद्यापिठांत कायद्यान आयला
रवीन्द्रबाब मागीर कितेंय म्हणूं
कायद्यान कशें वचूं येता तें गोम्साक विचारचें
कोंकणी विभाग प्रमूख तो कायद्यानूच जाला
साहित्य अकादेमींत कायद्यानूच पावला
एक किरिस्तांव जाय

एक भौजन समाज जाय
हो कायदो म्हालगड्यांचो न्हय तर!
तोच ताचो कायदो
राण्यान आनी गोपाळ सिंगान ताका फावोर केला खंय?
कित्याय कितें आरोप करतात
गोम्साचो त्याग पळयनासतना आरोप करतात
हांचें केन्ना बरें जातलें?
हे केन्ना कोंकणी शिकूंक पावतले?
ओलव्हीनबाब आसासर कोणूच शिकूंक पावचोंना
म्हाकाय ताचे सारकोच त्यागी जावंक जाय
तसल्याच त्यागी मनशांक पेन्शन दिवंक जाय
विद्यापिठांतलो तोच व्हड मनीस
रूपान तसो बुद्धीन
ताका मेळ्ळ्यार म्हजीय बुद्ध वाडटा
देखून म्हाका विद्यापिठांत वचन दिसता
तांचेकडेन गेलों
गोम्सबाब हातांत एक भींग घेवन बशिल्लो
म्हाका दिसलें तो भविश्य पळयता
ताणें आपलें भविश्य सुगूर केलां
कोंकणीचें भविश्य ताचेकडेन सुगूर आसा
मागीर तो कितें करता?
बारिकसाणेन पळयलें
तर कसल्या तरी पुस्तकांत तो अक्षरां नियाळटा
खुबूच पोरणो बूक आसूंक जाय
भाशांतर करूंक बरो बूक मेळ्ळा आसुंये!
तीं ल्हान ल्हान वाक्यां ताका त्रास दितालीं
तीं चडांत चड लांब करूंक तो भींग वापरतालो
तांचीं वाक्यां इतलीं लांब कशीं तें आतां कळ्ळें
खरें म्हळ्यार भिंगान मोठें दिसता
पूण ओलव्हीन बाबाक तीं लांब दिसतात
भिंगांतल्यान पळोवन तो थकिल्लो

ताचो त्याग पळोवन हांव धन्य जालों
इतल्या त्यागी मनशा फाटल्यान म्हालगडे कित्याक काय?
ताणें त्याग सोडलो जाल्यार कोंकणीचें कितें जातलें?
त्यागी मनीस अशेच आसतात
रवी नायकाक सांगचें पडलें
ओलव्हीना सारक्यांकूच पेन्शन दी
ताणें नोकरी सोडून त्याग केला
भाशांतरां करून त्याग केला
व्हडली व्हडलीं वाक्यां बरोवन त्याग केला
कोंकणी म्हालगडे भोगी, त्यागी न्हय
हावें त्या त्यागी मनशाच्या पांयांक हात लायलो
तेन्नाच्यान हांवूंय त्यागी जालों

@• @• @•

१७ मार्च १९९१





म्हजी जात खंयची?
म्हाका खबर ना
पूण मनशाक एक जात आसूंक जाय
रवीन्द्रबाब म्हणटा हांव सारस्वत
चंद्रकांतबाब म्हणटा हांव ब्राह्मण
तांचीय चूक ना. जो सरस्वतीचो उपासक
तो सारस्वत
जाका ब्रह्माचें गिन्यान जालां तो ब्राह्मण
पूण हें श्यामसुंदर नायकाक कोण सांगतलो?
ताका तें कळूंक नाका?
तो तर सुटके झुंजारी!
मनशान सामकोच स्वतंत्र रावल्यार जाता?
कसल्या ना कसल्या बंधनांत रावंकूच जाय
समाजाच्या बंधनांत रावप चड बरें
तितलीच समाजसेवा
म्हाका म्हणूंक लागलो संघटना उबारूया
इतल्या वर्सांची संवय म्हजी! ना कसो म्हणटलों?
म्हळें उबारूया
तातूंत व्हडलेंशें कितें आसा?
विद्यार्थी संघटणा उबाल्ली ना?

तरणाट्यांची संघटणा तयार केली ना?
कोंकणी प्रजेचो आवाज
खरे गोंयकार संघटणा
आमी गोंयकार संघटणा
संघटणा उबारप म्हळ्यार दाव्या हातचो मळ!
दाव्या हातचो मळ म्हळ्यार कितें हें मात म्हाका खबर ना
मराठी तें
तें पां. पु. शिरोडकारांक विचारचें पडटलें
ताकाच कित्याक? श्यामसुंदराकय विचाल्ल्यार जाता
ताकाय बरी मराठी येता
पूण पयली संघटणा आनी मागीर मळ
पूण संघटणा कसली?
तर तो म्हणूंक लागलो सारस्वत समाज
सगळ्या सारस्वतांनी आतां संघटीत जावंक जाय
म्हाका कच्च जालें
हो कितें म्हाका सारस्वत समजलो काय कितें?
कोंकणी म्हालगड्यांचें एक बरें आसा
तांचे नदरेन सारस्वतांचो अर्थ वेगळो
सरस्वतीची सेवा करपी
तिची सेवा करतना ते विद्याधिराज पुरस्कार घेवं मागीर!
आनी कित्याक घेवंचे न्हय तांणीं?
ते घेनात जाल्यार हेर घेतले
दान हें सतपात्रीच जावंक जाय
फाल्यां म्हाका दिल्यार हांव ना म्हणटां?
पूण तो म्हाका मेळ्ळ्यार मूं?
म्हाका ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळत?
पूण ह्या पिठाचो मेळचो ना
सगळेच पुरस्कार कितें आमकांच मेळचे अशें आसा?
बोरकारी बरोवन येदी व्हडली
अपेक्षा धरप म्हळ्यार मूर्खपणा
सारस्वत समाज संघटणा उबारपाचें थाल्लें

एक व्हडली परिशद घेवपाचीय थाल्ली
पूण संघटणेचो अध्यक्ष कोणाक करप?
ताका व्हड सारस्वत जाय
गोंयांत सगळ्यांत चड सरस्वतीची सेवा कोणे केल्या?
दुबाव नासतना रवीन्द्रबाबानूच!
पूण तो संघटणेक पचतलो?
म्हाका दिसना. ताचें तत्वगिन्यान वेगळें
तें म्हाका पचत
म्हाका पचता म्हूण हेरांक पचूं नाका?
मागीर कोण चंद्रकांतबाब?
चलता. ती ताका बरी नाट आसा
पूण ओलव्हीनबाब रागार जावंचो नां?
तो तर व्हडलो त्यागी
ताणें कालीदासाचें मेघदूत कोंकणीत हाडलां
येदें व्हडलें काम फकत सारस्वतूच करूंक शकता
संस्कृत भास कळप म्हळ्यार फकाणाची गजाल?
व्हडल्या पंडितांकडेन जावंक ना तें ताणें केलें
ताकाच अध्यक्ष केल्यार बरो
हांवें ताचें नांव सुचयलें
श्यामसुंदर ओग्गी
सारस्वत युवक संघटणाय करपाचें हांवें सुचयलें
ताचो अध्यक्ष कोणे हांवें जावपाचें?
हांव तसो युवकूच. पूण खाडा केंसान घात माल्लो
म्हालगड्यांत सगळ्यांत जाणटो हांव दिसतां
भुरगो आसुनय तरणाटे मानूंक तयार जावचे नांत
मागीर कोण?
पुंडलीक काय शिवदास?
शिवदास लेखक संघाचो आसाच
हांवें पुंडलीकाचें नांव सुचयलें
श्यामसुंदर बेजार
हे तसले आमकां उपकारना

कितें? म्हाका परतून धक्को
रोदे व्हडले सरस्वतीचे उपासक जावनूय उपकारना?
म्हणजे ही संघटणा कसली तर!
म्हणजे बोरकार ह्या नांवान घात माल्लो काय कितें!
म्हजी ट्यूब लायट पेटली
आतां आडनांव बदलचें पडलें
आडनांव बदलल्यार बोरकारीचें कितें?
बोरकारी सोडूंक हांव कोण एक्स तर!



**२४ मार्च १९९१**





प्रिय बोरकार,

बोरकारी खूब आवडटा. अभिनंदन!
अशेंच बरयत राव आनी व्हडलो जा
असोच आशिर्वाद हांवें सुखठणकारांक दिल्लो
त्याच वर्सा तांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो
तें आसूं!
गरजेभायर म्हाका मोठेपण घेवपाचें ना
तर जालें कितें? म्हाका घाणेकार मेळ्ळे
तेन्ना हांव केरळाक आशिल्लों
आमचे कमलादासांनी तांकां म्हजेसरीं हाडलो
हे घाणेकार कोण तें म्हाका खबर ना
कित्याक गोंयांत अशे खूबशे आसात
ते खातीर लेखक कोण आनी हेर कोण हें कळना
भिकाजी घाणेकारांचें नांव कानार गेल्लें
ते मोठे हास्यकवी म्हणपाचें जाणां
काळजांत लबदब सुरू करपी
पूण हे दामोदर घाणेकार कोण?
तांचे विशीं म्हाका दुबाव घेवपाचें ना
गोंयांत केन्ना कोण कितें बरयत तें सांगू नज
म्हज्या अज्ञानाखातीर विज्ञानाचो अपमान नाका

गोंयच्या नांवानीच म्हजो गोंदोळ केला
गोंयांत बोरकार खूब
बाकीबाब बोरकार
माधव बोरकार आनी तूं बोरकार
तशेच केळेकारूय
रवींद्र केळेकार, सुमंत केळेकार
आनी गुरूनाथ केळेकार
तेचखातीर कोण कितें तें कळना
घाणेकारूय कोण म्हणपाचें कळ्ळेंना
केरळांत तांची भेट जाली तेन्ना खोस भोगली
अकादमीचे भोंवडे अनुदानार ते आयिल्ले
अंदू आमी तें विज्ञानकथाकारांक दिल्लें
कोंकणीत विज्ञानकथा आसा हें हांव नकळो आशिल्लों
तें कळिल्लें जाल्यार बरें जावपाचें
केन्नाय पुरस्कार दिवं येतालो
कोंकणीची उदरगत जाल्ली पळोवन बरें दिसलें
इतलो तेंप नाका तांकां अनुदान मेळ्ळें
हेच फावटी योग्य मनशाक तें फाव जालें
साहित्य अकादमीक एक रेस्पेद आसा
ती कितें कला अकादमी न्हय!
थंय भानगडी घडूं येतात
ह्या पयलीं ती घडल्याच न्हय!
ओलव्हीन कला अकादमीचे सदस्य आशिल्ले
सदस्यांक ती संद मेळूंक शकना
देखून तांणीं राजिनामो दिलो
स्वताच भोंवडे अनुदान घेतलें
भारत भर भोवून आयले
पूण साहित्य अकादमींत हें चलना
म्हणून तांणीं तें घेवंक ना
केळेकारान एकदां ती घेतली
पूण त्या वेळार स्पर्धा नाशिल्ली

शिवाय केळेकार हे खरेले साहित्यीक
तांचीं पुस्तकां हांवें पळयल्यांत
पूण घाणेकारांविशीं अजाप दिसलें
देखून हें पत्र बरयतां
हो दुबाव म्हळ्यार खेडेकाराचो दुबाव न्हय
पुस्तक छापून येता तोच लेखक
ही कला अकादमीची संस्कृती
साहित्य अकादमीचो दर्जो उच्च
आमी मनशामदले सूप्त गूण पळयतात
एक लेगीत आसल्यार पुरस्कार दितात
आमी घाणेकाराकूय तो दिवपाचे
पूण आमचेकडेन एकूय पुस्तक ना
तरी आमी हस्तलिखितां सोदलीं
वर्तमानपत्रांची कात्रणां हातासलीं
सुनापरान्तात सप्तरंगी मेळ्ळें
सौंगडींत थोडो मसालो मेळ्ळो
पूण विज्ञान कथा सांपडली ना
तरी आमची हरकत नाशिल्ली
कित्याक घाणेकार आमचो मनीस
खंयच्याय लाद्रू-पेद्रूक काय आमी दिनांत!
अनुदान दिलें तें घाणेकाराक
ते पणजे मडगांव कितलो तेंप भोंवतले?
ह्या निमतान केरळ तरी पळयतले
पूण केरळी लोक खपन खाय रे!
तांकां घाणेकारांची विज्ञानकथा जाय
साहित्य अकादमीकडेन ती ना
कला अकादमीकडेन ना
सुनापरान्ताचेरूय ती येवंक ना
घाणेकारांकडेन तर नाच ना
कोंकणी अकादेमीकडेन आसा काय खबर ना
तुजेकडेन आसल्यार बेगोबेग धाडची

पत्र खूब लांबलें
पूण करप कितें?
अकादमी कोणाकूय अनुदान दिता अशें जावंक नाका
जापेची वाट पळयतां
मोग आसूं, मोग वाडूं!
तुमचो माये मोगाचो
अध्यक्ष
साहित्य अकादमी!
पाड पडूं ह्या एक्साच्यांचें
नाका तें म्हजेकडेन मागतात
आतां विज्ञानकथा खंय सोदप?

३१ मार्च १९९१





सगळ्यांचेर बोवाळ पडला
कितें जालां कांय समजना
हांगा सगळ्यांचेर म्हळ्यार म्हालगड्यांचेर
हेरांचें म्हाका लागना
गरजे भायर सगळेंच हांवें कित्याक घेवन बसप!
म्हाका कितें काम धंदो ना तर!
म्हाका बोरकारी बरोवंक जाय
गुप्तहेर कथा सोदूंक जाय
विज्ञानकथा बरोवंक जाय
त्या निमतान कितेंय सुटलें, सुटलें
ना तर सगळे म्हाका पिशे म्हणटले
आपलें आसन घट करून सगळें करप
तरी पूण म्हालगड्यांचेर लक्ष दिवचेंच पडटा
कितलेय जाले तरी आपले मनीस
बरे आसूं, वायट आसूं
म्हाका सांबाळून घेवंकूच जाय
नातर मराठीवाले कितें म्हणटले?
पळयात यादवी चल्ल्या म्हणचे नांत?
देखून जोड सोडून ही ओड पळोवची पडटा

नाका म्हळें तरी ही ओड वचना
म्हणून म्हाका हो बोवाळ दिसलो
उठ्ठा सुठ्ठा तो आल्तिन धांवता
भाऊ मुखेलमंत्री आसतना एक समजूं येतालें
तेन्ना फकत बहुजन समाज धांवतालो
आतां सारस्वत समाजूय धावंक लागलो?
समाज घडयलो म्हूण कितें धावंकूच जाय?
पूण आल्तिनार तांणीं कित्याक धांवप?
मंडल आयोगाखातीर बी न्हय मूं?
पूण रवी तांचें आयकता?
म्हाका दिसना
तरी बोवाळ आकांताचो
बोवाळांवेल्यान 'म्हाल' गडगंज म्हणपाचो कळटालो
पूण हांणीं म्हाल पळयला खंय?
ह्या म्हालगड्यांचें एक बरें
हरशीं जिवाक जीव दितले
पूण म्हाल मेळपाचो आसता तेन्ना गडे जावन वतले
एकदां तरी फाड्यांन गेल्यार कितें जाता?
पूण धांवतात खंय हे?
जाणा जावन घेवच्चेंच पडलें
कांय ना जाल्यार बोरकारी तरी सुट्टली
इतल्यांत एक रिक्षा पासार जाली
रिक्षांतूय म्हालगडो
कोण तें कित्याक जाय?
नांव घेतल्यार फुक्या सवाय प्रसिद्धी
रिक्षा गेली तसो भरस करून वास आयलो
आतां तो वास काय घाण?
वासूच तो फुलांचो. घाण न्हय
रिक्षा फाटल्यान धांवलों
फायदो जातलो जाल्यार कश्ट काडुंकूच जाय
कुरवांनीच विचाल्लें

'खंय! खंय!'
'बंडल, बंडल' म्हालगड्यान म्हळें
हो कितें म्हणटा काय?
बंडल काय मंडल?
शेर्त मंडलूच आसूंक जाय
जीब आडवी पडून बंडल जालां आसूं येता
इतल्यांत दुसरो म्हालगडो
स्कुटरीवेल्यान
तिसरो मोटरींतल्यान
वेगवेगळीं रूपां जाल्ल्यान अशेंच जाता
तेच कवी, तेच कथाकार
तेच विद्वान, तेच पसरकार
कोण खंय वता तेंच कळना
पयलीं कितें मेळटा थंय वतलो
मुख्यमंत्र्यागेर भितर सरतलो
निवेदन दितलो
रेडिओचेर वचून कविता वाचतलो
दूरदर्शनार वचून मुलाखत दितलो
सेजा गोवान वचून जायरात घेतलो
कोंकणी अकादेमींत मिटींग करतलो
एका फारांत पांच स बकीं
शेर्त खंय वता तेंच कळना
सगळ्यांक कुरवांनी तेंच विचाल्लें
दर एकल्याची तीच जाप
'बंडल! बंडल!'
ह्या बंडलाचो सोद लावचोच पडलो
इतल्यांत अशोक भोंसलो मेळ्ळो
म्हाका दिसलें तो घरा वता
पूण ना. तोय आल्तिनार वचूंक लागलो
हातांत कितें तरी आसा
'कितें रे हें?' हांवें विचाल्लें

'पुस्तकांचें बंडल'
खंय व्हरता रे?'
'कोंकणी अकादेमींत. तुजें खंय?'
म्हाका धसको!
म्हणजे म्हाका आमंत्रण ना?
'चल वच. तिनशीं प्रती घेवन यो.'
हांव धांवत सुटलों
गरजे भायर म्हाल कित्याक सोडप?
बंडल घेवन अकादेमींत पावलों
अकादेमी भायर बंडलांचे ढाळ
अकादेमी खंयच दिसना
खांचितल्यान भितर पळयलें
फकत एक पाटी
'अनुदान सोंपलें येवजण बंद!'
हांव बंडल घेवन सकयल
म्हजें एकसूच फुटकें थंय अकादेमी कितें करतली?
म्हज्या नशिबांत आतां मंडलूच!

७ एप्रिल १९९१





एम्. एस्. म्हाका खूब आवडटा
हें नांवूच कशें एकदम भारदस्त!
राष्ट्रीय फुडाऱ्यांचीं नांवांच अशीं आसूंक जाय
एस्. एम्.
एम्. एस्.
हांच्या मुखार प्रभू, जोशी हांची गरजूच पडना
एस्. एम्. म्हळ्यार जोशी
तसो एम्. एस्. म्हळ्यार प्रभू
दोन अक्षरां भितर काम भागता
तरीपूण आमचे गोंयकार तिरसुवाद
तांकां आपल्या मनशांक वयर काडपाचेंच ना
एस्. एम्. जोशीक ते एस्. एम्. म्हणटाले
एम्. एस्. प्रभूंक मात मोनू पोरोब म्हणटात
गोंयकार हे अशेच खपन खायरे
नातर गोपाळ मयेंकारांक पळयात
सगळे तांकां गोपाळराव मयेंकार म्हणटात
मराठी मनशांक मान दिवंक कळटा
तो गूण कोंकणी मनशांक ना
तांकां दर एक मनीस आपलो दिसता
येदो व्हडलो बा. भ. बोरकार

पूण गोंयकार तांकां बाकीबाब म्हणनांत?
मनीस आपलो जांव, मान हो दिवंकच जाय
हें गोंयकारांक सांगतलो कोण?
देखून हांव मोनू पोरोबाक रेस्पेद दितां
आदरान एम्. एस्. म्हणटां
तो निवडून येवंचो आनी दिल्लीक पावचो
कोंकणीक आठवे वळेरींत व्हरची
आनी कित्याक व्हरचोना तर तो?
ताची आवयभास कितें कोंकणी न्हय?
ना म्हणूंक कापारस्ताद आसा कोणाक?
लोकांनी बरें ऽ म्हळें
खरी गजाल केन्ना फट जाता?
ना. केन्नाच ना
जेन्ना एम्. एस्. स्वता सांगता
तेन्ना ती फट जातली कशी?
एम्. एस्.ची भास कोंकणी
देखून तो गोंयकार
देखून तो गोंयकारांचो मोनू पोरोब
देखून तो गोंयचो प्रतिनिधी
देखून तो म्हाका आवडटा
देखून हांवें एम्. जी. क मत दिवंचें थारायलां
पूण तें कशें शक्य आसा?
तो तर दक्षिण गोंयचो उमेदवार
हांव रावतां उत्तर गोंयांत
एम्. जी. क मत दिवन कशें जातलें?
उत्तर गोंयांत तर गोपाळराव!
तो तर म्हणटा आपूण मराठी
आपली भास मराठी
आपूण मराठी खातीर झगडटलों
मागीर लोकसभेंत एम्. एस्. कितें करतलो?
कोंकणी खातीर झुंजतलो?

काय गोपाळरावांकडेन झगडटलो?
कॉमिकूचशी गजाल
म. गो. न सगळो प्रकार कॉमिकूच केला
उत्तर गोंयांत मराठी केल्या
दक्षिण गोंयांत कोंकणी
तरी बरें गोंयांत पूर्व आनी पश्चिम गोंय ना
नातर कन्नडूय येवपाची
आनी गुजरातीय येवपाची
मागीर घे झुंजां
गोंयचे चार खासदार
तांच्यो चार भासो
म. गो.चीं चार भाशा तत्वां
पंतप्रधान बाबडो पिसो जावन वचपाचो
भाशा सोडून म. गो. कूच आठवे वळेरींत घालपाचो
पूण हांवें आतां करप कितें?
शिंवाचेर शिक्को मारप?
रवी तो कॉँग्रेशींत घेवन गेल्यार बरें जावपाचें
हुस्को तरी मेकळो जावपाचो
सगळ्यांनी म्हाका त्रासांत उडयला
चड एम्. एस्. प्रभून
ताच्या मोगाक लागून म्हाका
गोपाळरावाक लागीं करचो पडटा
लागीं केलोना तर एम्. एस्. दुखावतलो
आपली भास कोंकणी न्हय म्हणटलो
मागीर ती आठवे वळेरींत कशी वतली?
म्हालगड्यांचें कशें जातलें?
तांच्या पिंडाक खंयचो कावळो शिंवतलो?
आता हांवें गोपाळरावाकडेन कशें उलोवप?
तो तर प्राध्यापक
कोंकणीक तो बोली म्हणटा
ते खातीर ताणें महाराष्ट्राकडेन बोली केल्या

म्हाका कोंकणी बोली येना
हांव उलयतां कोंकणी भास
ती भास म्हूण म. गो. नूच म्हाका सांगलां
म्हजी भास गोपाळरावाक कशी कळटली?
कळना जाल्यार मत कशें दिवप हांवें?
तागेल्या शिंवाक तरी मराठी कळटा काय?
पाड पडूं। सगळोच घुस्पागोंदोळ
एम्. एसाक सांगचें पडलें
म्हजो विमो उतराय
वागडा कोंकणीचोय विमो उतराय!

१४ एप्रिल १९९१





**पा**ड पडूं म्हजें व्हरून!

नाका जाल्लीं झंजाटां तितलीं म्हाका लागतात
गरज नासतना गोपाळाचें नांव घेतलें
आतां गोपाळ कोण हें सांगूंक जाय?
गोपाळ म्हळ्यार गोपाळ मयेंकार
ताका मागीर लोक गोपाळराव म्हणूं
पूण हांव ताका गोपाळूच म्हणटां
म्हाका सैमानूच तो अधिकार दिला
तेचखातीर गोपाळ सिंगाकूय हांव गोपाळ म्हणी
तांच्या मुखार रावल्यार तो भुरगो दिसतालो!
आनी हांव जाण्टो
कित्याक हांव वयर सकयल पिकलां
वयर सकयल म्हळ्यार खाड आनी केंस
तेचखातीर हांव करतां तें पचता
हांव राजीव गांधीक राजू म्हणटां
व्ही. पी. सिंगाक विसू म्हणटां
विसू लवंदेक सुटके झुंजारी म्हणटां
तरी लोक म्हाका कांय म्हणनांत
म्हज्या भेसाचेर सगळें पचून वता

तसो हांव सामको भुरगो
खासदार जॉन फेर्नांदीशापरसूय भुरगो
टी. शर्ट आनी जीन पॅन्ट घालपा इतलो
पूण खाड केंसानी म्हजो घात माल्ला
सामको जाणटो करून सोडला म्हाका
तरी कांय चुकलेंना
वयल्यान फायदोच जाला
कोणाचेरूय बोरकारी बरोवं येतां
देखून म्हालगडे म्हजेर बेजारतात
तींच तींच नांवां घेवं नाका म्हणटात
पूण बोरकारी बंद कर म्हणनांत
बंद केल्यार तांचीं नांवां कशीं येतलीं?
तरी तांचें हांवें आयकलें
म्हालगड्यांक सोडून भायर आयलों
एम. एसाक आनी गोपाळरावाक घेतलो
गोपाळ म्हजेर पिकार
तांच्या एकसाची आग मस्तकाला पोहोचली
म्हाका पळोवन म्हजेर तापलो
'तूं म्हजेर बोरकारी बरयता?'
हांवें म्हळें 'हय'
हांव कोण तो जाणां?
'हय. आमचो खासदार.'
'खासदाराचो अर्थ तरी कळटा?'
हांवें म्हळें हय
गोंयांत चरपाखातीर 'कांय खास दारां आसतात
त्या दारांतल्यान येतात खासदार
'तूं म्हजीं फकाणां करता?'
ज्ञानेश्वरीचेर हात दवरून म्हाका प्रश्न
आतां म्हाकाच प्रश्न पडलो
हांव तर फकाणां करीच नाशिल्लों
येद या व्हडल्या मनशाचीं म्हूण फकाणां करूं येतात?

हांसचे नांत म्हाका लोक?
कितलोय जालो जाल्यार तो आमचो खासदार
गोंयांत णव म्हयने कोण कांयच करूंक शकलोना
खासदारान पंदरा म्हयन्यांत खूब कितें केलें
कितें केलें तें तांकांय सारकें खबर ना
तरीय ताणें तें पेपराचेर छापलेंच
म्हजी मराठी मातशी फ्राक
अर्थ सारको लागलोना
ताणें गोंयचीं पत्रां दिल्ली पावयलीं
इतलोच अर्थ म्हाका कळ्ळो
हांवें ताका तो सांगलो
तरीय गोपाळराव म्हजेर पिकार
'म्हज्या वावराक खोल अर्थ आसा. ज्ञानेश्वरी सारको.'
ताचो अट्टाहास खरेंच अप्रूप
हांवें म्हळें तो अर्थ आमकां तरी कळूं दी
'तो अर्थ गहन आसा
पामरांक तो कळनां
ते खातीर मराठी मातृभाशा आसची पडटा
हांवें पोर्तुगालाक सावन भांगर हाडलें
विधवांक पेन्शन दिलें
जांकां तें मेळना तांकां विधवा केल्यो
आनी मागीर पेन्शन दिलें
नर्सींचीं पत्रां दिल्ली व्हेलीं
उद्योगपतींचीं कामां केलीं
ज्ञानेश्वरी वाचली
महाराष्ट्राच्या खासदारांक जळारां चाबतालीं
तीं हांवें माल्लीं
खूबश्या पत्रांच्यो झेरॉक्स काडल्यो
त्यो हांगा थंय वांटल्यो
हें फक्त हांवें पंदरा म्हयन्यांत केलें
सगळें केलां तें हांवें केलां

एदुआर्दान कांयच करूंक ना
आतां कळ्ळें हांव कोण तो?
हांवें नमळायेन हय म्हळें
'सांग पळोवया हांव कोण तो?'
विद्यार्थ्याक प्रस्न करचो तसो ताणें केलो
आतां हो कोण तें कशें सांगप?
सांगले बगर हो सोडचोना
कितें तरी सांगूंक जायच आशिल्लें
'तूं मराठींतलो ओलिविन्यु गोमीश'
हांवें खरें तें सांगलें
गोपाळराव खूश जावन गेलो

२१ एप्रिल १९९१





## अण्णा झांटये मेळ्ळो

अण्णा म्हळ्यार हरीश झांटयो
सगळे ताका अण्णा म्हणटात म्हूण हांवूय म्हणटां
तेच खातीर तो म्हाका आमचो दिसता
आमचो दिसता ताका हांव कितेंय म्हणटां
तातूंत वायट धरपाचें कांयच नासता
अण्णाय तें वायट धरिना
ताकाय बरेंऽऽ दिसता
म्हणूंक लागलो हांव इलेसांवांक बसतां
तो इलेसांव म्हणटकच म्हाका खातखुतल्यो जातात
म्हाका तें माल्दीसांव कशें दिसता
म्हणटकच अण्णा माल्दीसांवाक...
सॉरी इलेसांवाक बसता
हांवें म्हळें बस
बसूं नाका म्हणून जाता?
तो बसना जाल्यार चर्चील बसतलो
ना तर नार्वेकार बसतलो
कांयच ना तर चोपडेकार बसतलो
सामकेंच जाल्यार शांताराम बसतलो
कोणूय तरी बसतलो

शाबी बाबी पोक दिफरेन्स
कोणूय बसल्यार सारकें
उदय भेंब्रो भाशणां करतलो
पुंडलीक नायक पत्रकां वाट्टलो
शिवदास पोस्टर लायतलो
घडपाचें आसा तें घडटलें
पुतू पोतेकारूय बसल्यार हेंच
आनी फुलू फुलकान्न बसल्यारूय हेंच
हांवें म्हळें बस तूं
अण्णा पोटभर हांसलो
विधानसभा जाल्यार तोंडभर हांसपाचो
हांसलो हें म्हत्वाचें
रवी कॉंग्रेसींत गेल्ल्याक हांसो सोदचो पडटा
खरे कॉंग्रेसवाले हांस्याक म्हारग जाल्यात
रासुकाच्या भयान आसतले!
'हांवें दिल्ली करप कितें?'
अण्णाचो गहन प्रस्न
तेंय सारकें
अण्णा विधानसभेंत उठून दिसतालो
खंयीय बस
लिंपून लिपनाशिल्लो
तशेंच लोकसभेंत जातलें हें निश्चित
बियांमदीं भटो
तशें खासदारांमदीं झांटयो
पूण अण्णान लोकसभेंत करप कितें?
थंय बांक आसात काय तापोवपाक?
हांव काय नकळो!
मागीर विधानसभेंतल्या बाकांचें कितें?
ते कोण तापयतलो?
भोंगूं बाबड्या बाकांचें
'थंय उलोवंचें पडटा'

हांवें अण्णाक म्हळें
'कितें उलोवचें पडटा?'
'उदय भेंब्रो उलयता तशें गोंयच्या प्रस्नांचेर'
आयकून अण्णा लजलो
'गोंयचो प्रस्न खंय! प्रस्न म्हाजो.'
हांव कितें सांगतां तें अण्णाक कळूंकच ना
'उलोवपाचां हांव बघतां
फूल ना थंय फुलाची पाकळी आसाच
म्हाजे एकशे एक आसाच'
देवा सायबा!
कशें जातलें काय काँग्रेशीचें
'पूण अण्णा...'
'तें आसूं, पुढचां सांग'
हांव आनी कितें सांगतलों? म्हजें एक्स!
पूण सांगना जाल्यार हांव मूर्ख थारतलों
'अण्णा तूं थंय एक समाज काड.'
'सगळे समाज जाले. आनी खंयचो?'
अण्णाचो गंभीर प्रस्न
काँग्रेस हाका कांय गिन्यान दिना काय कितें!
हो म्हाका प्रस्न
अण्णा तूं दळभद्री समाज स्थापन कर
'हो कसलो समाज!'
अण्णाचो परतून प्रस्न
तूं खासदार जातलोच
म्हज्या उतरांनी अण्णा खूश!
पंतप्रधानाचें आयकता तशें म्हजें आयकूंक लागलो
तूं खासदार जातकच गोंयकार दळभद्री जातले
तांकां खंयचोच समाज नासतलो
क्षत्रिय मराठा नासतलो
गौड मराठा नासतलो
सारस्वत मराठा नासतलो

मराठा मराठा नासतलो
देखून हांचो तूं समाज काड
ताका दळभद्री समाज नांव दी
तांकां एकशेएक रुपया दी
आनी तांचें कल्याण कर
तांकां काँग्रेसींत व्हर
आतां मात अण्णाक कळ्ळें
अण्णा कल्याणकारी हांसलो



२८ एप्रिल १९९१





हांव सदांच बांयत पळयतां
म्हाका तें आवडटा
थोड्यांक दिसतलें हांव जीव दिवंक पळयतां
थोडे म्हालगडे म्हणटले हांव तांकां उदकांत पळयतां
पूण चूक तें
म्हालगड्यांक जाय तें म्हणूं
म्हाका तांचें कित्याक पडलां?
तेच खातीर हांव तांचें नांव लेगीत घेना
आनी घेवप म्हूण कित्याक?
तांचो म्हाका एक्साचो लाव ना
हांव बांयत पळयतां तो वेगळ्या कारणांक
बांय म्हजी
हांव बांयत पळोवं वा उडी मारूं
कोणाचें कांयच वचना
भाशा मंडळाचेंय कांय वचना
कोंकणी अकादेमीचेंय वचना
तांचें वचपाखातीर म्हालगडे आसात
कांयच ना जाल्यार अभयकुमार आसाच
पळय, परत चुकलों
वेंचणुको जायसर कोणाचें नांव घेवप ना

हो वेंचणूक आयोगाचो निर्णय न्हय
हो म्हजो निर्णय
गरजे भायर एकसांत फातर मारप,
आनी मतां होगडावप सांगलां कोणे?
त्याच खातर हांव म्हालगड्यांक टाळटालों
पूण म्हालगडे ना थंय आसा कितें?
ज्या सर म्हाल आसा तेसर गडे आसात
जे सर बोरकारी आसा तेसर म्हालगडे आसात
हांव बांयत कितें पळयतालों?
च्या... म्हालगडे न्हय
म्हालगडे म्हजे बांयत कितें करतले?
थंय म्हाल थोडोच आसा!
तो थंय आशिल्लो जाल्यार घात जावपाचो
कोंकणी अकादेमीची गाडी थंय आसपाची
कोंकणी भुवन थंय आसपाचें
भाशा मंडळाचो थंय बोर्ड लागपाचो
आनी कितें कितें जावपाचें कोणाक खबर!
मागीर मराठीवाद्यांचें फावपाचें
ते मडगांव लेगीत पातळपाचे
म्हजी बांय म्हळ्यार कोंकणी संवसार जावपाचो
म्हाका थंयच्च निवडणूक लडोवची पडपाची
जालें तें बरेंच जालें
म्हज्या बांयत म्हाल ना तें बरें जालें
पूण बांयत कितें आसा तें सांगलेंना
पळय अशेंच जाता
ह्या दिसांनी मन थतर वितर जालां
वेंचणुकेक रावतकच अशेंच जाता दिसता
हांव वेंचणुकेक रावलां खरो
पूण कोणाच्या नाड्यार?
म्हालगड्यांच्या?
शे! म्हाका कितें पिशें लागलां?

म्हजे फक्त गडे आनी बालगडे
ते म्हाका फाड्यांनी मतां दितले
म्हालगडे सगळे काँग्रेसीक
म्हजेकडेन म्हाल आसल्यार ते येवपाचे
म्हाल सगळो काँग्रेसीकडेन
तरी ते म्हजेकडेन येतले
म्हाका खात्री आसा
म्हौंव सोंपतकच मूस उडटात
गोड सोंपतकच दोमळे सुट्टात
तशे म्हाल सोंपतकच गडे पडटात
ते सर वाट पळोवपाची
हांव बांयत पळयत तांची वाट पळयना
हांव बांयत पळयतां तें वेगळेच कारणांक
म्हाका तो एक छंद लागला
कोणांक कसलो छंद लागत तें सांगू नज
थोड्यांक टी. बी. कुन्हाचो छंद
थोड्यांक भाशा मंडळाचो छंद
थोड्यांक कोंकणी अकादेमीचो
अकादेमीच्या गाडयेचो
कोणांक काँग्रेसीचो
तसो म्हाका बांयचो
पाड पडूं ह्या छंदांचें
तुमकां पडलां आसतलें म्हजे बांयचें
म्हजे बांयत दोन बेबे आसात
एक हेवाळें आसा
कोणें तरी म्हाका एक म्हण सांगिल्ली
हेवाळ्याच्या मरणान बेब्याक एक्सां फुटतात
पूण म्हजे बांयत विचित्रूच
थंय हेवाळेंय आसा आनी बेबेय आसात
दोन बेबे आनी एक हेवाळें
तांणीं ही म्हण फट थारायल्या

हेंवाळें बेब्यांक खायनां
बेबे हेवाळ्याक भियेनां
तिगांय खुशालकायेन रावतात
आनी रावचें न्हय कित्याक ?
म्हालगडे झाटयाक मतां मारतात
जाल्यार तांणीं कितें पातक केलां?
देखून हांव बांयत पळयतां



@•@•@•

५ मे १९९१



हांव म्हणून सामकोच हो!
म्हाका कांय गजाली कळनांत
मनशान कशी कात वाचोवन रावंक जाय
हार उडटा म्हणून गांयडोळान उडपाक उपकारता?
हाराक खबर आसा केन्ना बारीक-मोठो जावप तें
तो कितें बोरकार तर!
चुकलेंच म्हजें तें
नाका ताका एक्सार मारीत रावलों
त्या परस एक्साक धरून राविल्लों जाल्यार....!
सॉरी, म्हालगड्यांच्या सुवातेर एक्स आयलें
म्हालगड्यांक धरून रावल्यार कल्याण जावपाचें
कोंकणी अकादेमीचीं कदेलां तरी पुसूंक मेळपाचीं
पूण हांवें तांचे परस शाणो जावपाचें थारायलें
खंयचेंय काम कोणाकूय सांगलां?
खारव्याक गोरू आनी भटाक तारू कोणें सांगलां?
ताका बुद्ध आनी नशीब लागता
पूण म्हजें नशीब एक्सांत आनी बुद्ध धोंपरांत
धोंपरांत म्हणटकच साळकाराक राग येतलो
म्हाका तो जातियवादी म्हणटलो
नमशिकार म्हजी बोरकारी वाचचोना
हांगा जातीय दंगे जातले
ताका हांव दोशी थारतलों
पयलीं एक बरें आशिल्लें

आतां हांव राजकारणी
मतांखातीर मेजून उतरां घालचीं पडटात
नातर हेंवूय ना आनी तेंवूय ना
हातांत मात एक्स
ह्या दिसांनी म्हूण म्हजें एक्स चडूच जालां
म्हजी उतरावळूचशी ना जाल्या
उतर मेळना तेन्ना एक्स घालचें पडटा
तें घालिना जाल्यार बोरकारी मुखार वचना
म्हणून म्हणटालों हांव म्हजी बुद्ध धोंपरांत
ती हेरां सारखी तकलेंत आसूंक जाय आशिल्ली
ती थंय ना म्हूण हांव फसलां
तेच खातीर हांवें म्हालगड्यांक दुखयल्यात
धोंपरांतल्यान ती तकलेंत कशी हाडप?
कोणेंतरी सांगिल्लें मेळाव्याक वच म्हूण
कोणे काय?
याद जायना
नाका आसतना भलतेंच नांव नाका
ते परस नांव न घालप बरें!
गरजे भायर लोक वायट जातात
म्हाकां म्हजीं मतां होगडावप परवडपाचें ना
हें म्हाका पयलीं सुचूंक जाय आशिल्लें
तरी कांय नज
मतदानांक अजून वेळ आसा
आतां सगळ्यो चुको सुदारूंक जाय
तेच खातीर हांवें आतां निर्णय घेतला
मतदान जायसर सगळ्यांक बरें म्हणप
सगळें चल्लां तें बरें चल्लां
उदय भेंब्रेन सगळो तेंप कॉंग्रेशींत रावंक जाय
शामसुंदर नायकान सारस्वत समाज चलोवंक जाय
ओलव्हीन गोम्सान कोंकणी खातीर त्याग करूंक जाय
प्रा. तडकोडबाई कोंकणी खूब बरी शिकयता

भाऊ काकोडकाराान अकादेमी सोडूंक फावना
रामकृष्ण जुवारकाराचीं शंबर पुस्तकां जावंक जाय
एन्. शिवदासान रवीक घट धरूंक जाय
पालेकार भाशा मंडळाचो अध्यक्ष आसूंक जाय
हें सगळें जावपाचेंच आसलें
देखून हांवूय म्हणटां तें जावंक जाय
कित्याक तांचीं म्हाका मतां जाय
तांच्या मतांनी हांव वेंचून येतलों
लोकसभेंत वतलों
पूण कोंकणी आठवे वळेरींत व्हरचोना
ती आठवे वळेरींत व्हेली जाल्यार कशें जातलें?
मागीर म्हालगडे कितें करतले?
तांकां चळवळ नाका?
कोंकणी सोडून तांकां दुसरी माची खंयची?
ते खातीर हांव लोकसभेंत बील मांडटलों
कोंकणीचो प्रस्न सोडोवप ना
वेगवेगळे समाज निर्माण करप
सारस्वत समाज
गौड सारस्वत समाज
तांचे मेळावे भरोवप
मेळाव्यांत म्हाकांच मतां दी म्हण मागप
समाजाचें कल्याण करप
गोंय माल्लें झक
हे खातीर धोपरांतली बुद्ध तकलेंत वचूंक जाय
ती हाडूंक मेळाव्याक वचूंक जाय
आनी कित्याक वचचें न्हय हांवें?
हांव कितें सारस्वत न्हय तर!
मतांखातीर तरी म्हाका सारस्वत जावंक जाय

१२ मे १९९१



**सा**रस्वत विद्यापिठांत गेलों

गरजे भायर आंग काडपाची गरज ना
हय गोंयांत सारस्वत विद्यापीठ आसा
पयलीं तें 'गू' आशिल्लें
म्हळ्यार तसलो प्रकार न्हय
हो इंग्लेज गू
जी. यू. म्हळ्यार गोवा युनिव्हर्सिटी
पूण फाटल्या आयतारा सावन नांव बदल्लें
'गू' चें सारस्वत विद्यापीठ जावन गेलें
आनी कित्याक बदलचें न्हय?
दुभाषीची एकूच भास
दुभाषी कितें हेरां सारख्रो दोन भाशी तर!
ना. नांवांत कितें आसा?
हें हांवें म्हणूंक ना
शेक्सपियरान म्हणिल्लें
गरजेभायर म्हजेर हावळ नाका
दुभाषी म्हजो बरो आमीग
तशे सगळे कुलगुरू म्हजे बरे मागपी
आदले शेख अली तर सांगूंच नाका
ताका हांवें तेन्नाच सांगिल्लें

'गू' हें नांव बरें दिसना
ताचें 'शिया आनी सुन्नी विद्यापीठ' नांव कर
पूण तो भित्रो
शिवाय ताका मुस्लीम म्हालगडे मेळ्ळेनांत
नामांतर करिनासतना गेलो
पूण दुभाषीचें नशीब बरें
ताका तेंको कोंकणी म्हालगड्यांचो
असलो तेंको मेळटकच मागीर भंय आसा?
कोणाच्यान एक्स वाकडें करूं नज
त्याच नाड्यार 'गू'चे सारस्वत विद्यापीठ जालें
चंद्रकांतबाबाचें नशीब
ताचें पयलेच फावट कोणेंतरी आयकलें
पूण ताणें तर सारस्वतांनी नांव बदलचें म्हणिल्लें
पूण दुभाषीन विद्यापिठाचें नांव बदल्लें
आतां दुभाषीचें नांव कशें बदलप?
चंद्रकांतबाबाचें बदलिल्लें नांव कितें जातलें?
रवींद्रबाबाचें नवें नांव कितें आसतलें काय?
च्या नाका आशिल्लें टेन्शन
टेन्शन घेवपाची म्हाका संवयूच....
गरज नासतना मंगेशी गेलों
हरशीं सारस्वत म्हूण फटोंव येतालें
हाज यात्रेक वचून मुस्लीम म्हूण सांगप सोपें आसलें
पूण हांगां कडक तपासणी
दारारूच म्हाका आडायलो
नांव कितें?
बोरकार....
देव खंयचो -शांतादुर्गा
गोत्र खंयचें-वत्स...
मागीर म्हजें रक्त काडलें
तें तपासलें
पूण फरक कांय सांपडलो ना

सगळ्यांचें रगत एक
तरी म्हालगडो बदलोना
निमणो प्रस्न केलोच
मुद्रा कोणें माल्ल्यात?
हें आनी म्हाका विचित्रूच
खबर आशिल्लें जाल्यार मारून घेवपाचों
पूण चुकलेंच म्हजें
आतां म्हजें कशें जातलें?
म्हाका सारस्वत म्हणोवन घेवपाचें नाशिल्लें
बोरकार हें नांव ते खातीर न्हय
लोक आरोप करूं मागीर
म्हाका फक्त मेळाव्यांत वचूंक जाय आशिल्लें
रवीन्द्रबाबाचें भाशण आयकूंक
चंद्रकांतबाबाचे विचार कळूंक
यशवंत पालेकाराची टिळक स्टायल पळोवंक
इतलीं वर्सां हें सगळें केलें
तांकां गुरू मानून कोंकणीची दिक्षा घेतली
एकलव्यावरी तपश्चर्या केली
आनी आतांच हांवें तांचो सांगात सोडप?
ना. हें म्हाका शक्य नाशिल्लें
तांचेच खातीर तर हांव नांवा रूपाक पावलां
कोंकणीचो गडो जावंक पावलों
व्हडलो लेखक जालों
आतां तांकां पयस केल्यार कशें जातलें?
म्हाका बिर्मत फुटचिना?
भायर रावन भाशण आयकूंक लागलों
ह्या वेळार गांधीजी जाय आसले
वो लोग दूर क्यों खडे है?
अशें म्हणटलो आसलो
आमचे मर्दी येवन भाशण करतलो आसलो
पूण आतां गांधी खंयचो?

रवीन्द्रबाब भाशण करतालो
मायक आशिल्लो म्हूण बरो
उपरांत चंद्रकांतबाबाचें भाशण
सारस्वतांनी नांव बदलूंक जाय
हांवें आतां नांव बदलप?
मागीर बोरकारीचें कितें?
हांवें नांव बदलल्यार बोरकारी कशी उरतली?
ती तर वेगळीच जांतली
ताका दोनूच पर्याय
चंद्रकांतबाबाचें आयकप ना
वो बोरकारी बंद करप

१९ मे १९९१





देण देणुल्यो
पावस शेणुल्यो
देणल्या आवय म्हातारी
च्ये. देणल्या आवय म्हातारी कित्याक?
आतां देणलो खंयचो?
मेळटा तेन्ना देणलो नाचयल्यार जाता?
देणलो म्हळ्यार कितें कोंकणी चळवळ?
काय काँग्रेसचें राजकारण?
देणलो तो देणलो
देणल्याक शबय घालपाची
तेन्ना उपकारता देणल्या आवय म्हातारी म्हणूंक!
आतां कोंकणी आवय म्हातारी
पूण म्हाका देणल्याची याद कित्याक जाली?
देणलो कितें शेणला तर!
ना
देणल्याक फक्त पावस शेणटा
मागीर शेणला कोण तर?
हांव काय शेणूंक ना
आसा तस्सो आसां हांव
एकटो मनीस केन्नाच शेणना

शेणूंक जायना म्हूण हांव एकटो रावलां
ते खातीर हांवें म्हजें साम्राज्य उबारलां
त्या साम्राज्याचो हांव सम्राट
म्हजें साम्राज्य हांवें सोडिल्लें जाल्यार म्हजे हाल जावपाचे
हांव सामको शेणपाचों
म्हालगड्यांवरीं
रवीन्द्रबाबावरीं
पूण म्हालगडे कोणाक शेणल्यात?
रवीन्द्रबाबाक, काय रवीन्द्रबाब म्हालगड्यांक?
कांयच कळना
हें सोडून काडचें पडलें
पूण सोडतलों खंय?
उठून शिवदासाकडेन गेलों
तो फोंड्यां काँग्रेसीचो माटोव घालतालो
बॅनर लायतां लायतां पुटपुटतालो
हांव साहित्याक शेणलों
हांव म. गो.क शेणलों
हांव भाबांगोक शेणलों
हांव काँग्रेसीक शेणलों
ताका हटकुपांत अर्थ नाशिल्लो
तसोच वळवय गेलों
पुंडलीक नायकाक सोडून काडलो
तो एका हातांत 'ऋतू' आनी
दुसऱ्या हातांत 'जाग' घेवन बशिल्लो
आपल्याच विचारांत शेणून गेल्लो
मूड नाट्यमय दिसतालो
ताचे तकलेंत भयंकर विचार!
खतखतें कशें
ऋतू, जाग, कुळागर, काँग्रेस, अकादेमी
हांच्यो व्हडल्यो फोडी
चित्रंगी, साहित्य मेळ, रेडिओ

हांचो मसालो
म्हाका पळोवन हांसलो
डायलॉगांनी उलयलो
म्हाका कांयच कळ्ळेंना
जैतांतले डायलॉग आसतले
आतां कितें करप?
माजोड्ड्या वचून भाई मावज्याक मेळ्ळों
कों. प्र. आ.च्या उप्रांत आयज ताका पळयल्लो
भाईन खुबूच मनाक लावन घेतिल्लें
म्हाका घट्ट धरून हुंडके दिवंक लागलो
'रवीन्द्रबाब शेणलो रे आमकां, रवीन्द्रबाब शेणलो.'
भाईचें दुख्ख म्हाका भावतालें
दुख्ख जावपा सारकीच गजाल ती
इतलीं वर्सां बोट धरून भोंवलो रवीन्द्रबाब आमचें
आतां अकस्मात ताणें शेणप म्हळ्यार कितें?
ताका सोदचोच पडलो
काणकोणां गेलों
कमलाकर म्हाळशीचें घर सोदून काडलें
तो कोंकणीचे गायड बरयत बशिल्लो
म्हाका पळोवन म्हजेर तापलो
'तुमी फटयले आमकां, तुमी फटयले'
हांवें आनी हाका फटयला?
अजापूच एक एक
'आरे बोरकार रे?, म्हाका दिसलो रवीन्द्रबाब म्हण!'
म्हणजे म्हज्या खादी कपड्यांनी हाका फटयल्लो
रवीन्द्रबाबाक सोबतात म्हूण हांवेंय शिविल्ले म्हाका
वेंचणुकेखातीर
म्हणजे रवीन्द्रबाब शेणूंक नाशिल्लो. हांकां फटयल्ले
आयकून बरें दिसलें
परतून येतना मडगांव पासय माल्ली
उदयबाब चिंतातूर बशिल्लो

ही चिंता काँग्रेसीची म्हूण कळटाली
काँग्रेसींत जे जे वतात ते रोखडेच आंगान भरतात
पूण उदयबाबाचेर कसलोच परिणाम जायना
रवीन्द्रबाब शेणिल्ल्याचेंय ताका दुख्ख ना
थंय वेळ काडपांत अर्थ नाशिल्लो
गुरूनाथ केळेकारागेर भितर सल्लों
दारांतच व्हडलो बोर्ड
'रवीन्द्रबाब शेणूंक ना. ताका सोडूंक तुमकां जमलेंना.'
म्हणजे रवीन्द्रबाब शेणूंक ना?
जांव बाबा. नातर हांव गोंयभर भोंवपाचों.
मेळूंक ना जाल्यार म्हाकाच रवीन्द्रबाब जावंचें पडपाचें!
कोंकणीच्या कल्याणाक!



**२६ मे १९९१**





# प्रिय संपादक

सुनापरान्त दिर्शी दिर्शी सुंदर जाता
आयताराचो अंक तर विचारूंच नाका
'विचारूंच नाका' म्हणजे बरो येता
ना तर कोणाक विचारनासतना रावशात
सगळ्यांक विचारूनच तो अती सुंदर जांव येता
फक्त सुनापरान्ताच्या आदल्या म्हालगड्यांक सोडून
तांकां विचाल्ल्यार ते भलतेंच सांगतले
आयताराची आयतारी आवडटा
बोरकारावयल्यान बोरकारी जाल्या
तशी आयतारा वेल्यान आयतारी जाल्या आसूं येता
रांदची कूड हांव नेमान वाचतां
जिन्नस करपाचो यत्नूय करतां
खूबशे जमतात
पूण हर्षलबाय कृती वांगडा रूचय सांगता
देखून ते कोडू जाल्यारूय गोड लागतात
बा. रा. नायकाचें शब्दाळें आवडटा
म्हजो भाव ताका कोपयाळें म्हणटा
तो दिसभर तें शिंवत बसता
सप्तकी राशी भविष्य घरचीं सगळीं वाचतात

खूबश्यो गजाली खऱ्यो घडटात
पूण म्हज्या आज्याक ग्रहांचीं नांवा कठीण लागतात
तीं बदलचीं आनी सोपीं करचीं अशें ताचें मत
ताणें कांय नांवांय सुचयल्यांत
रवि ताका ह्या दिसांनी येता
हेर ग्रहांचीं नांवां अशीं आसचीं
विली, शिवदास, नागेश, पुरूषोत्तम
यशवंत, रामकृष्ण, बाबू, एमेस
आतां ही फकत म्हज्या आज्याची सुचोवणी
म्हजी न्हय. म्हजें मत
हरिश्चंद्र आनी चंद्रकांत हींय नांवां आसचीं
पूण तुमच्या स्वातंत्र्या आड हांव कसो वतलों?
माधवी सरदेसायाची भासाभास बरी आसता
ती सुरू जाल्ल्याक खूब जाणांचेर हावळ आयल्या
दोतोर ओलव्हिन्याचें प्रेसांव वाडलां
ह्याय परस बरें बरोवपाचो निर्णय ताणें घेतला
त्या खातीर रोखडोच तो पुर्तुगालाक वतलो
'माधवीक भाशेचें कितें कळटा?'
'ताका रवीन्द्रबाबान बरोवन दिलां तें!'
अशें हांव म्हणना आं!
कोंकणी प्रोसोरीण सांवरबाई म्हणटा
म्हणू बाबडेक
बायलांनी बायलांचो दुस्वास करचोच आसता
हें सगळें ती म्हाका सांगना
कित्याक ती म्हजेकडेन उलयच ना
फट जाल्यार शिवदासाक विचारात
तिची गांठभेट ताचेकडेन जाता
आतां गांठभेटीचो विशयूच आयला न्हय!
गांठभेट हें सदर तशें बरें
एक बरे पयकी ललीत
वाचतनां सगळें खरेंच दिसता

तें आसूं
मुद्दाम पत्र बरोवपाचें कारण वेगळेंच आसलें
सुनापरान्तान जातीयवाद खूब वाडला
तुमी पयलीं व्यक्तिवाद सुरू केलो
कोणूय कोणाचेंय नांव घेवन बरोवंक लागलो
म्हालगड्यांचो म्हाल तपासूंक लागले
मागीर सारस्वतांक खुबळावन घाले
सारस्वत मेळावो सोंपता थंय आसा
तुमी भटांचे वाटेक वतात
कोंकणीवाद्यांक भटांची नसाय कित्याक तें कळना
गुरूनाथ केळेकाराच्या चित्रबोधांत 'भट' आसा
फा. स्टिफनाच्याय पुस्तकांत भट
कोंकणी अकादेमीच्या चित्रबोधांत भट
आतां काणयांतूय भट!
कित्याक हेर जाती तुमकां मेळच ना?
फाटल्याच आयताराची गजाल घेयात
अभयकुमारान काणी बरयल्या
चल रे भोपळ्या टुणूक टुणूक!
भुरगेपणात हांवें ती मराठींत वाचिल्ली
तेन्ना भोपळा म्हळ्यार कितें तें खबर नाशिल्लें
आतांय तें खबर ना
पूण भटीण म्हणटात तें खबर आशिल्लें
कित्याक आमच्या शेजराक एक भटीण रावताली
अजुनय ती रावता
तिणेंच ती काणी वाचली आनी झगडीं सुरू केलीं
झगड्या फाटले तिचे मुद्दे अशे
'तुमकां फकत भट आनी भटणीच मेळटात?
हेर जातीचीं नांवां घेवंक तुमी मरतात?
तूप रोटी तुमी आमकां केन्ना खावयल्या?
'मग तूं मस खा' अशी भास आमी उलयतात?
धुवेक आनी भटणीक वांगडाच दीस करसे गेले?

भटणीक सू कित्याक जालें?
हेरांक कितें सू जायना?
वाग, शिंव, लांडग्यांच्यो धोशी कितें भटणीन लायल्यो?
भटीण कितें कोंकणीवादी तर?'
तिचे मूद्दे चूक हें हांव जाणां
पूण तिका कोण समजायतलो?
देखून हांव हें तुमकांच पत्र बरयतां
तें छापून उपकारांत दवरचें
देव बरें करूं

ꩠ•ꩠ•ꩠ•

२ जून १९९१





हांव वेंचणुकेक उबो रावलों
उबो रावलों हांव
पूण बाकीचे सगळे आडवे पडले
पयलो धसको घेतलो तो मराप्रसान
भोंगू बाबड्यांचें
खंयीय किर्तेय घडूं
धसको बसता तो मराप्रसाक
तांचें एकसूच अशें विचित्र
वाकडें तिकडें
देखून ते म्हजेकडेन वांकडेच पळयतात
नार्वेकाराचेंय तशेंच
आतां नार्वेकार म्हळ्यार दया न्हय
आमचो शशिकांत नार्वेकार
म्हणूंक लागलो उमेदवारी फार्टी घे
त्या बराबर पयलीं हांव फार्टी सरलों
पयलींच हांव रंगेल मनीस
तातूंत आनीक रंग नाकात
हांवें विचारलें कित्याक?
हांव वेंचणुकेक रावल्यार हाचें कितें वता ?
मराप्रस म्हाका कितें मतां दितले?

काय हांव कोंकणीवाद्यांच्या नाड्यार जिखतलों?
हांव तर पडपाकूच रावलां
'पूण हो म्हाका फाटीं सर कित्याक म्हणटा?'
खरेंच गहन प्रस्न
म्हणूंक लागलो परत वाद निर्माण जातलो
कोंकणी-मराठीचें पेट्टलें
हांवें म्हळें -ना
आतां वाद उरूंक ना
खलपान तो बाद केलो
तुकाय आतां नाबाद साठ जालीं
आतां आनी वाद कसलो?
तरी तो मानूंक तयार ना
'तूं कोंकणीवादी.'
'हय'
'तुज्या प्रचाराक कोंकणीवादी येतले.'
हांव हांसलों
हाका कोंकणीवाद्यांची भितल्ली गजाल खबर ना
खबर ना तेंच बरें
धांपलेली मूठ सवाय लाखाची
ओलव्हीन गोम्साच्या गिन्यांनासारकी
हाचीय म्हाका कॉमीक दिसता
मेळटा ताची झेरोक्स कॉपी काडटा
ताणें आपलीय एक झेरोक्स कॉपी काडल्या खंय
ती ताणें विद्यापिठांत दवल्ल्या
आनी आपूण गेला इंग्लंडाचे भोंवडेर
कोंकणीवाद्यांचीय झेरोक्स काडूंक जाय आशिल्ली
म्हणचे म्हाका ती कॉपी वापरूंक मेळपाची
उदयबाब डिसिल्वाचो प्रचार करता मडगांवां
म्हजेकडेन मात ताची झेरोक्स कॉपी
एन्. शिवदास अस्थी भोंवडायता
ताची झेरोक्स म्हजो प्रचार करता

पुंडलीक नायक भाजपाक वावुरता
झेरोक्स मात म्हजे मिटींगेक
काय बरी कल्पना
मजाच येवपाची
सगळे फसपाचे
पूण एक भंय आशिल्लोच
म्हजीय झेराक्स दिल्ली पावपाची
कल्पनेन म्हाकाच हासूंक आयलें
नार्वेकाराक दिसलें हांव ताका हांसतां
तो गंभीर जालो
तो गंभीर जातकच म्हाका रडूंक येता
मराठीचो हुस्को जाता
'ते उत्तरेक कशेच येवचेनांत.'
नार्वेकाराक खूश करूंक हांवें म्हळें
'ना ते येतलेच
तुमी जेन्ना भायर सरल्यात
तेन्ना आमीय भायर सरल्यात
तुमी कॉंग्रेसींत गेले
देखून आमी म. गो.त गेले
म. गो. कॉंग्रेसींत गेलो
देखून आमी भाजपांत गेले
आतां म्हालगडे तुजो प्रचार करतले
आमी कोणाचो करपाचो?'
हांवें म्हळें 'म्हजो करात'
'च्या, तूं कोंकणीवादी'
'मागीर कितें जालें?'
'तूं कोंकणी आठवे वळेरेंत घालतलो'
'मागीर मराठीय घालतां'
'पूण ती पयलींच आसा'
'च्या. ती आसा ती महाराष्ट्राची
गोंयची मराठी खंय आसा तर!'

'हांव गोंयची मराठी आठवे वळेरेंत घालतलों'
'हें हांवें चिंतुकूच नाशिल्लें'
नार्वेकारान उमेदीन म्हळें
ताणें थंयच म्हज्या प्रचाराचो नाल्ल फोडलो
वाडदिसाक कोणेतरी दिल्लो आसूंक जाय
खबर वाऱ्या सारकी पातळ्ळी
कोंकणी म्हालगडे खुबळ्ळे -------
'गेलो बोरकार गेलो
बोरकार मराठी कळपांत गेलो'
बोबो आनी हुयेली
'तो आमचो मनीस
ताचो प्रचार आमी करतले'
सगळे म्हालगडे एकवटले
को. प्र. आ. परस चड गर्दी
कोण भाशणां करता
कोण बॅनर लायता
कोण पोस्टर मारता
थोड्यांनी म्हाका वयर उबाल्लो
जण एकलो म्हाका स्पर्श करूंक सोदता
इतल्यान सगळ्यांनी म्हाका सोडलो
घो करून हांव सकयल पडलों
पाडपडूं!
वेंचणुकेक रावल्यार अशींच सपनां पडटात काय?

@• @• @•

**९ जून १९९१**





**'गू'**त गेल्लों

'गू' म्हळ्यार 'जि. यू.'
गोवा युनिवर्सिटी
'गू' हेंच बरें शॉर्ट फॉर्म
थंयच्यो सगळ्यो गजालीच शॉर्ट
मोटव्यो
देखून हांवूय तिका 'गू' म्हणटां
आतां हांव थंय गेल्लों तो बेश्टोच न्हय
म्हाका मुलाखतीक आपयल्लो
मुलाखत दिवंक आं। घेवंक न्हय
मुलाखती घेवपी खूब आसात
मनोहरबाब आसा
भिकाजीबाब आसा
रवीन्द्रबाब आसा
फेलीसबाबा आसा
ओलव्हीनबाब तर आसाच आसा
दिवपी मात कोण ना
आसल्यारूय भायले आसतले
केरळाचे, आंध्राचे, महाराष्ट्राचे बी

गोंयकार कोणूच ना
आनी आसतले कशे?
मुलाखती घेवपी गोंयकार
जाल्यार दिवपी भायले आसूंक नाका?
पूण म्हाका आपयल्लो
चीट पळोवन हांव अजापलों
हे कितें म्हाका भायलो समजले काय कितें?
बारकायेन पळयल्यार कोंकणी शिकोवपाचो जागो
हे तकलेन सुटल्यात आसतले
हांकां आनी कोण मेळूंना दिसता!
सगळ्या मराठीवाद्यांक नोकऱ्यो मेळ्ळ्यो काय?
जायत. देखूनच म्हजी याद जाली आसतली!
पूण म्हजी याद करतलो कोण?
मनोहरबाब?
म्हाका दिसना
तांचें मत नोकरी चलयांनी करपाची
कोंकणी मराठीवाल्यांनी शिकोवपाची
सुमेधा कामत कोंकणी शिकयना?
तडकोड कितें मराठी शिकयता?
मागीर म्हाका मुलाखतीक कोणे आपयलो?
शेर्त ओलव्हीनबाबानूच
तो तसो राग बी धरपी न्हय
बोरकारी बरयल्यार कितें पोटार मारप?
मोटवे लोकूच तशें करतात
हो तर सामको आल्त
आंगान तसो काळजान
ताणेंच म्हाका यादीन आपयला
गठो घेवन मुलाखतीक गेलों
दुडवांचो न्हय. सर्टीफिकेटींचो
किलभर सर्टीफिकीटी त्यो
वचून भायर उबो रावलों

सगळी गर्दी उठून उबी रावली
हांवच मुलाखत घेवंक आयलां अशें दिसलां आसतलें
पंजाबी लेगीत कोंकणी शिकोवंक आयिल्ले
पळोवन बरें दिसलें
जांव कोंकणी राष्ट्रीय पांवड्यार पावली
हांव पांवडो सोदूंक लागलों
बसपाखातीर
कदेलां सगळीं भरिल्लीं
प्यून आयलो
म्हाका घेवन भितर गेलो
उपकुलगुरू म्हाका पळोवन हांसलो
ताच्या उजव्या हाताक ओलव्हीनबाब बशिल्लो
हेर सुवातांचेर कोंकणी तज्ञ
हांवेंय आनीक चार पुस्तकां बरोवपाचीं
तज्ञ म्हणून तरी वचूंक येतालें
'तूं सारस्वत मेळाव्याक कित्याक येवंक ना?'
उपकुलगुरूचो पयलो प्रस्न
'हांव पावलो ना.'
भीतभीत हांवें म्हळें
'असल्यांनी तुका नोकरी मेळटली?'
तज्ञ भितल्ले भितर पुटपुटले
'तुवें कितलीं भाशांतरां केल्यांत?'
ओलव्हीनबाबाचो प्रस्न
'एकूय ना.' हांव आनीक भिलों
'नाका जाल्लें बरोवचे परस भाशांतरां कर'
तज्ञ परत एकदां भितल्ले भितर उलयले
'मनोहरबाबाची लोकशाय तुवें वाचल्या?'
एका तज्ञाचो प्रस्न
हांवें ती तोंडपाठ म्हणून दाखयली
सगळे लोक खूश
तांकां खंय खबर ती आयकून पाठ जाल्या हें!

‘तातुंतलीं बिंबा आनी प्रतिकां सांग पळोवया.’
एका तज्ञान नाका जाल्लो प्रस्न केलोच
हीं आनी कसलीं एक्सां कांय बाबडीं?
हांवें म्हळें म्हाका खबर ना
सगळे तज्ञ हांसले
म्हाका लज जाली
‘तीं बिंबां आनी प्रतिकां सोद’
मागीरूच मुलाखतीक यो
आनीक खूब नोकऱ्यो जावपाच्यो आसात
तज्ञांचो सल्लो घेवन हांव भायर सल्लों
बिंबां आनी प्रतिकां सोदूंक
अजून तीं सोदतां



**१६ जून १९९१**





रातीं सपन पडलें
सपनांत शणै गोंयबाब!
विचारूंक लागलो – 'वळखता?'
ना कसो म्हणटलों?
'हय.' हांवें म्हळें
'वर्सभर तुमची हांवें सेवा केल्या'
'केन्ना?'
'तुमचे जल्मशताब्दी वर्सा'
'सेवेचें फळ कितें मेळ्ळां?'
'हय. भोगूंक मेळ्ळां'
'म्हणजे कितें?'
'हांव फळां भोगतां. चाखतात म्हालगडे'
'आनीक कितें खबर?'
'कसली?'
'कोंकणीची. कोंकणी खातीर म्हजो जीव हुमकळटा'
'कोंकणीची काळजी करपाची गरज ना'
'कित्याक?'
'कोंकणी राजभास जाल्या'
'तें सांगलें म्हाका राजीव गांधीन'

‘कोंकणीतल्यान मुळावें शिकप सुरू जालां’
‘कोणालीं भुरगीं शिकतात?’
‘मराठीवाद्यांचीं’
‘कोंकणीवाद्यांचीं कितें करतात?’
‘इंग्लेज शिकतात’
‘आनी तुमी ओगी बसल्यात?’
‘आमी कितें करतले?’
‘नेटान वावराक लागात
घराघरांनी कोंकणी पावयात’
‘पूण तें आतां शक्य ना’
‘कित्याक?’
‘आठवले गोंय सोडून गेलो
प्रा. मयेकार वेंचणुकेंत पडलो
म. गो. पक्षान मराठी सोडली
करमली गोमंतकांत बरोवंक लागलो
आतां कोंकणीची कुतां काडपी कोण ना
देखून म्हालगड्यांक तिडक येना
तुमी गरजेभायर चिंता करूं नाकात
चिंता करपी विली सौज आसा
रवी नायक आसा
ओलव्हीन गोम्स आसा
ते सगळे कोंकणीचें ज्युस्ताक ज्युस्त करतले’
‘हांवें सांगिल्लें तांतलें आनीक कितें जालां?’
‘सगळे गावडे पंडित जाले
आनी सगळे पंडित गावडे जावंक लागल्यात’
‘म्हणजे कितें?’
‘तें तुमकां समता आंदोलक सांगतलें
तांच्या सपनांत वचात’
‘आनी कितें नविदाद?’
‘कोंकणी अकादेमी म्हूण संस्था जाल्या’
‘सांगलां म्हाका तें र. वि. पंडितान

आतां अध्यक्ष कोण तिचो?'
'तिचो अध्यक्ष तसो बदलना
मरसर एकूच अध्यक्ष आसचो अशी तिची घटना'
'अकादेमीचें काम कशें चल्लां?'
'तातूंत आसात तितलेय कामातुर
जाणट्यांपासून भुरग्यांमेरेन'
'तांचें एक नदरेक भर सारकें काम सांग!'
'ते लेखकांचीं पुस्तकां घेवन वाट्टात'
'तुजीं घेतल्यांत काय ना?'
'ना'
'कित्याक? तुजेकडेन नांत?'
'आसात, पूण हांव तांचेर बोरकारी बरयतां
ती तांकां माल पडटा
देखून ते म्हाका म्हाल सोडिनांत'
'अकादेमीचो सेक्रेतार कोण?'
'कोणतरी धुमो म्हूण आसा'
'ताका सांगूं हांव तुजीं पुस्तकां घेवंक?'
'तो पुंडलीक आनी उदय हांचेंच आयकता'
'खंय मेळटलो म्हाका तो?'
'तो पुस्तकांच्या गठ्ठ्यांपोंदा चिड्डला'
'फाल्यां दिवचल वतलो काय ना?'
'दिवचले कितें आसा?'
'२३ जून विसल्लो?'
'फाल्यां अण्णान कितें पार्टी दवल्ल्या?'
म्हज्या प्रस्नान शणै गोंयबाबाक राग आयलो
म्हजी पुण्याय सोंपली दिसता!
अशें म्हणत नाच्च जालो
म्हाका अकस्मात जाग आयली
म्हज्या कट्टुलांत कितें आसा कोणाक खबर!
सपनांय कसलीं भलतींच पडटात
खंयचो शणै गोंयबाब!

खंयचो महात्मा गांधी!!
खंयचो रवींद्रनाथ टागोर!!!
ह्या वयार चलयांचीं सपनां पडपाचीं
सपनांत मटक्याचो नंबर दिसपाचो
पूण हांतलें कांयच ना
कशें जातलें काय म्हजें
कर्माभोग

●●●

**२३ जून १९९१**





# सेवेक

गोंय सरकार
भारत सरकार आनी रोम सरकार
भौमानेस्त सरकारानो
तुमीं म्हणटलीं हांव नाका थंय नाक घालतां
म्हजेकडेन घालपाक आनी कांय ना
देखून हांव नाक घालतां
खरें म्हळ्यार हो म्हजो प्रस्न न्हयच
तरी सुद्धां म्हज्यान रावूंक जायना
हो गोंयच्या जीवन मरणाचो प्रस्न आसा
एक जागरूक गोंयकार म्हण हांव हें करतां
तुमकां तिनूय सरकारांक हें म्हजें लिखित निवेदन
मोगाळ रोम सरकारा
गोंयांक उदेतेचें रोम म्हणटात
पूण तुमी तें होगडायलें
तेखातीर तुमचो निशेध करूंक जाय
हालींच आमचो एक म्हालगडो तुमचे भेटेक गेल्लो
पूण तुमी ताचे कितें हाल केले?
तुमच्या मनशांनी ताचे पयशे काडून घेतले

हो गोंयकार केदो व्हड तें तुमकां खबर नां
तो गोंय विद्यापिठाच्या कोंकणी विभागाचो मुखेली
ताणें व्हडलो हुद्दो सोडून कोंकणीची सेवा केल्या
ताका लागून गोंयचे खूब विद्यार्थी बुदवंत जाल्यात
ताचीं भाशांतरां तुमच्या लोकांनी वाचूंक नांत
तीं वाचिल्लीं जाल्यार ते अशें करचे नाशिल्ले
मुद्दाम तांकां तीं वाचूंक लायात
त्याभायर कोंकणी सरस्पतीचो इतिहास आसा
तो गोंयचो खरो
पूण गोंय उदेंतेचें रोम
देखून रोमाची भास कोंकणी
देखून तो तुमच्या सरस्पतीचो इतिहास
आमच्या खडेगांठ प्रोसोरा लागीं तो आशिल्लो
तो तुमच्या मनशांनी कित्याक काडलोंना?
ताच्या परस तुमकां ताचे दुडू व्हड दिसले?
ते दुडू कितें फुकट आयल्यात?
त्या खातीर प्रोसोराक घाम गळोवचो पडला
तुमी ते दुडू बेगोबेग परत करचे
आमच्या प्रोसोराक लुकसाण भरपाय दिवंची
नातर ताका आमी परत रोमांक धाडचे नांत
लुकसाण तुमचेंच जातलें
मेरे महान भारत
तुजो प्रतिनिधी जावन प्रोसोर रोमाक गेलो
त्याखातीर ताणें कितलो त्याग केलो
कोंकणी विभाग वाऱ्यार सोडलो
आठ पेपर पासून करूंक पावलो ना
सगळे विद्यार्थी ताच्या हुस्क्यान रड रड रडले
आनी तुमकां ताचो मात्तूय हुस्को ना?
ताचे पयशे रोम शारांत माल्ले हें खबर आसा?
आमच्या एदुवार्दाक ताबडतोब रोमाक धाडात
प्रोसोराचे दुडू मारप म्हळ्यार आमचे दुडू मारप

आमीच शिकपाखातीर तांकां फी दितात
एदुवार्दाक सांगात पुर्तुगालाचें भांगर इझक माल्लें
पयलीं हे दुडू घेवन येयात
ना तर लुकसाण भरपाय तुमी करात
आमी आमच्या प्रोसोराचें लुकसाण जावंक दिवचे नांत
भौमानेस्त गोंय सरकारा
रोम सरकाराक आनी भारत सरकाराक निवेदन जालें
तुजी लागणूक कितें ती आतां सांग
राखणदारांक तुज्यान जाग्यार घालूं येता
पूण आमच्या प्रोसोराची राखण करूंक येना?
ताणें तुमचें कितें खालां?
कोंकणी म्हालगड्यांचें एक समजूं येता
ते ताचेर जळटात
साहित्यांत ताका काबार करूंक तांकां येना
ताचे इतलो खांपो बरोवपी आनी कोण आसा?
ना
देखून ते साहित्य अकादेमीक पत्रां बरयतात
ताचेर केस घालतात
तुमीय म्हालगड्यांवरीं वागूं नाकात
पंढरीनाथ धाकणकाराक तुमी राखण दितात
धाकणकार कितें प्रोसोरापरस व्हड?
तुमकां मनशाचें व्हडपण वळखूंक येना
आतां पयशेच म्हूण सांग
ताचें आनी कितेंय बरें वायट जाल्लें जाल्यार?
आमचें कशें जावपाचें?
कोंकणी विभागाचें कितें जावपाचें?
कोंकणीचें कशें जावपाचें?
आमचें नशीब बरें म्हूण वायट कांय घडलें ना
पूण सदांच नशिबाचेर रावूं येता?
ह्या मुखार तरी काळजी घेवंची
धाकणकारावरीं ताकाय पुलीस दिवंचे

प्रोसोराच्या नांवांन तांचीय भोंवडी जातली
रोम, इंग्लंड, पुर्तुगाल पळयतले
थोडे तरी सुदारतले
तुमी म्हजी ही गजाल आयकतले हें हांव जाणां
तुमचें मंत्रीमंडळ दिसान दीस वाडत रावूं
तुमचो आदर्श नागरीक



**३० जून १९९१**



लजेक गेल्यार खंय पेजेक पावना
हें संतवचन कोणाचें काय?
अभयकुमार वेलिंगकाराचें?
पूण तो संत खंय तर?
आसतलें खंयच्या तरी पुर्वजाचें
देखून हांवें आतां लज सोडपाची थारायली
पेजेक पावपाखातीर
तत्वांच्या नांवान एकसां सांसपुपांत अर्थ ना
इतलीं वर्सां तीं सांबाळ्ळीं
एकसां न्हय आं! तत्वां
पूण कितें? खंयचेकडेन कांय ना
ते परस तत्वां सोडलेलीं बरीं
पयलीं उठलों आनी कोंकणी अकादेमींत गेलों
आतां म्हणटले हांव परतून परतून थंयच घुंवता
सदांच अकादेमीचेरूच बोरकारी कित्याक?
पूण उपाय ना
सगळो म्हाल थंय आनी गडेय थंयच
तत्वां सोडून हांवें कितें मराठी अकादेमीकडेन वचपाचें?
म्हालगडे कितें म्हणटले?

आमचें नांव होगडायलें म्हणचे नांत?
हात पसरता ते आपल्याच मनशांकडेन पसरपाचे
'म्हजीं पुस्तकां मातशी बेगीन घेयात.'
इतलेंच म्हाका अकादेमीक सांगपाचें आशिल्लें
पूण अकादेमी भायर घेऽ म्हूण गर्दी
कोण हार घेवन, कोण फुलां घेवन
खासा मुकुंद नायक टी. व्ही. कॅमेरा घेवन
कितें घडलें काय?
म्हाका म्हालगड्यांचो हुस्को लागलो
इतल्यांत पुंडलीक नायक भायर सरलो
जड पावलांनी इस्काद देंवलो
बालगड्यांनी माराण माल्ले
थोड्यांनी फुलां उधळ्ळीं
आनीक कसलो आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळा काय हाका?
सांगूं नज!
विचारचें म्हूण हांव फुडें सल्लों
पूण स्कुटरीचेर बसून तो सूर्रर करून गेलो
इतल्यांत चंद्रकांतबाब केणी भायर सल्लो
खीणभर सोंपणाचेर उबो रावलो
गंभीर नुरेन जमिल्ल्यांचेर नदर माल्ली
बोल्सांतली पुडीची डबी काडली
चिमटीभर पूड नाकाकडेन व्हेली
दोनूय हात फाफुडले आनी गाडयेंत बसून गेलो
फाटोफाट मनोहरराय सरदेसाय
हातांत सदचेंच पाश्त
एक हात बोल्सांत
म्हजे कडेन पळोवन तांणीं दोळे मोडले
तोंडार मुमुरखोच हांसो हाडलो
सकयल देवन चलत रावले
तांकां चलत वता तें म्हज्यान पळोवं नज जालें
दिसलें स्कुटरीन व्हरून पावोवचें

पूण गर्देतल्यान हालूंक मेळ्ळेंना
तांचे उपरांत नवेच कोण तरी दोग जाण!
गर्देन तांकां वळखलेंना
कसले कर्मकट्टे हे लोक!
तरी तांणीं फुलां उडयलींच
गोंयकारांचें एक बरें!
ते वळखना तांकां फुलां घालतात
वळखता तांकां फुलां माळटात
पूण हांव तांकां वळखलों
एकलो जितेंद्र अभिषेकी
दुसरो काशिनाथ महाले
गोंयांत मुद्दासावांक आयिल्ले आसतले
जांव सदस्य म्हणून केन्नाय खबर घेतात अकादेमीची!
म्हज्या जिवाक बरें ऽऽ दिसलें
अशी आपुलकी आसची
सगळ्यांत निमणे भायर सल्ले उदयबाब
उदयबाब खुबूच थकिल्ले दिसताले
थकपाचेच
येदी व्हडली कॉंग्रेस सांबाळप म्हळ्यार कितें?
फकाणांचीं कामां न्हय तीं!
हांवें उदयबाबाक हटकिलो
पूण तांचें म्हजेर लक्ष नाशिल्लें
तोंडार एक हात धरून कोणांक कितें तरी सांगतालो
उदयबाबाचें म्हाका एक बरें लागता
जैन लोक जीवजंतू मरत म्हूण व्हाणो घालीनांत
हवेंतल्या जिवांक वाटोवंक उदयबाब काळजी घेता
उलयतना तोंडार हात धरता
तांचें उलोवप सोंपलें
उदयबाब बरेभशेन म्हणत गाडयेंत बसलो
आतां म्हज्यान रावूंक जालेंना
गर्दी धुकलीत अकादेमींत घुसलों

भयंकर कितें घडलां हाची म्हाका खात्री पटली
अकादेमींत पुरूषोत्तमबाब काकोडकार बशिल्ले
आतांच दिल्लीच्यान आयल्या म्हूण कळटालें
फोनावेल्यान कॅलीफोर्नियाक उलयताले
जुजे पेरेरांलागीं
'जुजेबाब तुमी राजिनामो दिवं नाकात
गरजेभायर राजिनामो दिल्यार जाता?'
'हय. सगळ्यांनी राजिनामो दिला
तत्वांखातीर'
'खंयचींय तत्वां वापरल्यार जाता?
सरकारान कमिटी बदलूना ही म्हजी चूक न्हय
हांवें सरकारांत मेतेर जांव येता?
सरकाराक जाय तेन्ना सगळें जातलें
आठूच वर्सां कित्याक? अंयशीं वर्सां उरनां ती
हांव कित्याक राजिनामो दिवं?
तत्वां खातीर सरकारा आड वचूं येता?'
हांव आनी थंय रावलोंना
धुमेबाबान हाडिल्ली च्या लेगीत नाका जाली
बेकायदेशीर कमिटीचो त्याग केलो म्हालगड्यांनी?
आनी तेंय बी नितीमत्तेक लागून?
म्हाका म्हजीच लज दिसली
तत्वांखातीर हे लोक सत्ता सोडटात
आनी हांव फायद्याखातीर ती सोडूंक वतालों
धिक्कार असो आमचो!
जांव योग्य वेळार हांव सांबाळ्ळों
नातर शिलभ्रश्ट जावपाचों
हांव धांवत कॉँग्रेस हावसामुखार आयलों
म्हाका म्हालगड्यांचे पांय धरपाचे आशिल्ले
ते आतां कॉँग्रेसूय सोडटले हें म्हाका कळ्ळें
हांव तांची वाट पळयत रावलों
रवी इंग्लेजीक ग्रांट दिना

एन्. शिवदास रकाद घेवन आयलो
हांवें घरची वाट धरली
शिवदासान काँग्रेसभवनाची!

©•©•©•

**७ जुलाय १९९१**





## सुपरिंटेंडेंट जाय

आतां पयलींच म्हजी इंग्लेज फ्राक
तरी हांव धडपडटां
थोडी तरी इंग्लेज कळची म्हूण
पूण सुपरिंटेंडेंट जाय म्हळ्यार कितें?
आनी तोय बी कोंकणी विश्वकोशाक?
सुपरिंटेंडेंट आनी विश्वकोशाक?
अजापूच एकेक
कोंकणीत कसलीं अजापां घडत हें सांगूं येना
डिक्शनरी काडली
सुपरिंटेंडेंट म्हळ्यार अधिक्षक
देखरेख करपी
मुखेल वेवस्थापक
पूण ताची सुवात विश्वकोशांत शी?
तकलेचो सामको कुंडो जालो
तेच भिरकेंत उठलों आनी विद्यापिठांत गेलों
कोंकणी विश्वकोश थंयच आसा
ताचो संपादक तानाजीबाब
तोच सुपरिंटेंडेंटचो अर्थ सांगतलो
जमल्यार म्हज्यान ती नोकरी करूं येता

ताका खबर आसा म्हाका नोकरी जाय हें
अडी अडचणीक पावप हें ताचें काम
मागीर तो त्रासांत पडूं
मनोहर सरदेसायांक ताणें मदत करूंना?
नोकरेंतल्यान निवृत जाले बराबर
ताका विश्वकोशांत घेतलो
कामाचें झक मारूं
आपले मनशाक पावूंकच जाय
म्हाकाय तो पावतलोच
वचून तानाजीबाबाक सोदलो
तो आपलें विश्व सोडून कोशांत दंग जाल्लो
'तुमकां सुपरिंटेंडेंट जाय?'
हांवें नमळायेन विचाल्लें
'तें मनोहरबाबाक विचार'
इतलें म्हणून तो परत विश्वकोशांत गेलो
हांव मनोहरबाबाक सोदूंक लागलों
सोदून सोदून सापडच ना
वाटेर यशवंत पालेकार आपटलो
हो आनी हांगा कितें करता काय?
भाशा मंडळूय हांगा हाडलें काय कितें?
'तुमीय सुपरिंटेंडेंट जावंक आयल्यात?'
हांवें पालेकाराक विचाल्लें
'ना रे बाबा. हांव दुभाषीक मेळूंक आयिल्लों'
पालेकारान सुटकेस सांबाळीत म्हळें
'तो आमचो सोयरो लागता.'
हांव भिलों. पालेकाराचो सोयरो उपकुलगुरू?
ओ माय गॉड!
'तो म्हज्या भयणीच्या चलयेच्या घोवाचो सोयरो.'
'म्हणजे कितें?' हांव अजापीत
इतल्या पयसुल्लें नातें आसता हें म्हाका आतांच कळ्ळें
लोक इतलें पयसचें नातें याद धरतात

म्हाका लागशिल्ल्या नात्याची याद जायना
'मनोहरबाबाक पळयल्लो?'
हांवें पालेकाराक विचाल्लें
'तो थंय पद्मश्रीकडेन बसला'
ताणें बोट दाखयत म्हळें
हांव थंय गेलों
मनोहरबाब पद्मश्रीक कोंकणीचे नेम सांगतालो
त्याच नेमाक लागून पद्मश्री कोंकणींत आयलां
दूरदर्शनाचेर गितां गावंक लागलां
कविताय करूंक लागलां
मनोहरबाबाकूय एक पद्मश्री दिवंक जाय आशिल्ली
सरकार नाका ताका पद्मश्री दिता
गोंयच्या लोककवीक मात ती ना
म्हाका पळोवन मनोहरबाब उठलो
म्हाका घेवन कॅबिनांत गेलो
'मनोहरबाब, तुमकां सुपरिंटेंडेंट जाय?'
हांवें उत्सुकतायेन विचाल्लें
'हय, पूण तो आमी घेतलो.'
म्हाका बोटां तोंपीत ताणें म्हळें
मनोहरबाबाची ही संवय म्हाका आवडटा
उलयतना फुडल्या मनशाक बोटां तोपीत आसता
परतून परतून
'पूण सुपरिंटेंडेंट म्हळ्यार कितें?'
हांवें नेणारपणान विचाल्लें
'ताचें कितें आसता?
विश्वकोशाक एक मुखेल संपादक लागता
तो हांव. ताचे सकयल एक सुपरिंटेंडेंट जाय आसता
ताणें हेरांचेर देखरेख करची आसता
हो नेम सगळ्या जगार चलता.'
मनोहरबाबान संवसारीक सिद्धांत मांडलो
'पूण विश्वकोशांत ताचें काम कितें?' हांव अदिकूच नेणार

'ताणें विश्वकोश तपासप'
'मागीर तें काम म्हज्यान करूं येता' म्हजी आस वाडली
'ना. ताका कोंकणीचें गिन्यान जाय.'
म्हजे परस व्हडलो तज्ञ हाका कोण मेळ्ळो काय?
म्हजे तकलेंत व्हडलो प्रस्न
इतल्यांत शकुंतला थंय आयलें
हें आरसेकार न्हय आं!
विद्यापिठांतलें एक क्लार्क
'हें आमचें सुपरिटेंडेंट ' मनोहरबाबान वळख केली
म्हाका उस्तरें गेलें
'पूण ताका कोंकणीचें कितें कळटा?'
नज जावन हांवें विचाल्लें
'ताचो आजो कामत संस्कृत पंडित.'
आतां मात म्हाका घुंवळ येवंक लागली
हांवें भिरकेन निर्णय घेतलो
कोंकणी सोडपाचो न्हय
संस्कृत शिकपाचो
म्हज्या नातरांक तरी नोकरी मेळूंक

@• @• @•

१४ जुलाय १९९१





हांवें अपेक्षा भंग कित्याक करप?
तें काम म्हालगड्यांचें
हांव फक्त कोंकणीतलो गडो
तसो बाल न्हय आनी म्हालय न्हय
आसल्यार माल गडो आसन
खूबशा जाणांक हांव माल पडलां
म्हजी बोरकारी माल पडल्या
म्हजो एक्सार मारपाचो सभाव माल पडला
तरीय हांव कोणाचो अपेक्षाभंग करिना
समता आंदोलकांचो तर नाच ना
तांची अपेक्षा कितें ती हांव जाणां
ना. दुभाषीन राजिनामो दिवंचो ही न्हय
हांव तांचेर बोरकारी बरयतलों ही
खरें म्हळ्यार म्हज्या मनांत तें नाशिल्लें
पूण तांची खात्री जाल्ली
म्हाका तें श्रीधरान सांगलें
हो श्रीधर कामत बांबोळकार न्हय
हो श्रीधर कामत आंदोलनकार
तो नाटकां बरयता. नाटकां करता
थंयीय आंदोलना करता

आतां तो समता आंदोलन करतलो
म्हाका पळोवन आंदोलीत जालो
'ती बोरकारी बंद कर पळोवया.'
थरथरत ताणें म्हळें
तो डायलॉग घेतना असोच आंग मोडटा
ताची आंगमोडणी पळोवन प्रशांती हांसलें
पयलीं माधवी सरदेसाय नाका तेन्ना हांसतालें
आतां प्रशांती तळपणकारूय तशेंच करता
पूण हो बोरकारी बंद कर म्हूण कित्याक सांगता?
हाचें नांव हांवें घेवंक ना म्हूण?
काय हाचें आनी राजू नायकाचें पेटलां?
म्हजे तकलेंत प्रस्न. आसतूय बी
राजूकडेन केन्ना कोणाचें पेटत तें सांगूं येना
हांवें समता आंदोलकांचेर नदर माल्ली
सगळे सांबाळून बसले
पूण कोणाच्याच बरसपांत समता ना
केन्ना एकदां धरणें सोंपता शें जालां
कोणाच्याच विचारांत समता ना
हांव शिवदासाक सोदूंक लागलों
सगळ्यांपरस ताकाच चड समता जाय
पूण अजून ताका समता सापडना
ताका देवळांय जाय, महाजनूय जाय
रवीय जाय आनी विष्णूय जाय
म. गो य जाय आनी काँग्रेसूय जाय
कर्मभोग!
इतल्यांत फाटल्यान बोवाळ
फाटीं वळून पळय जाल्यार पां. पु. शिरोडकार
गोंयचो सगळ्यांत व्हडलो समतावादी
ताचेर मोहनदास कामत तुटून पडला
तो पां. पु. ची लंका सोदूंक लागिल्लो
आंदोलकातले सुटके झुंजारी ताका तेंको दिनाशिल्ले

सुटके झुंजाऱ्यांमदींय समता ना
इतल्यांत श्यामसुंदर नायक आयलो
आपली मारूती घेवन
तोय सुटके झुंजाऱ्यांचेर तापून गेलो
हें कितें चल्लां? हांचे भितर समता कित्याक ना?
समता आंदोलकां भितर समता हाडूंकच जाय
पूण हाडप कशी? सुटके झुंजाऱ्यांक एकठांय केले
तांकां घेवन कुशीक गेलों
थोडे ज्येष्ठ, थोडे श्रेष्ठ
पूण कनिष्ठ जावंक कोणूच तयार ना
तांकां म्हळें तुमचे भितर समता हाडात पयलीं!
उप्रांत कोंकणीवाद्यांक एकठांय हाडले
प्रत्येकाक दुसऱ्यांपरस कोंकणी प्रेम चड
सगळ्यांचे एकसारकें आसल्यार समता येवपाची
म्हजो यत्न पोक जालो
तांकां सोडून सारस्वतांकडेन आयलों
एकलो म्हणटा आपूण उबो
दुसरो म्हणटा आपूण आडवो
हांव तिरपो जावन थोडो वेळ थंय रावलों
पूण समता हाडूंक जमलीना. हांव उबगलों
म्हळें रमेशाच्यो कविता आयकुया
तो धरणें धरून बशिल्लो
ताचे भोंवतणी कवींचें कोंडाळें
काव्यांत समता पूण कवींत ना
हाका साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळा
म्हाका मेळूंक ना. तो म्हाकाच मेळपाचो
ताका गरजे भायर दिला
हांगा समता हाडून अर्थ नाशिल्लो
ते खातीर सगळ्यांक पुरस्कार दिवंचो पडपाचो
साहित्य अकादेमीची कला अकादेमी जावपाची!
ते परस समता नाका

उठलों आनी दत्ता नायकाकडेन गेलों
हो मडगांवचो दत्ता
नातर गरजे भायर कोफुसांव नाका
राष्ट्रमताचें कॉलम कित्याक भरप गरजे भायर?
दत्ता म्हणूंक लागलो सचिवालयांत या
शिश्टमंडळ घेवन सुभाष शिरोडकाराकडेन गेले
वांगडा पुंडलीक नायक आनी शिवदास
इतलो वेळ नाशिल्लो शिवदास शिश्टमंडळांत कसो पावलो?
तो म्हजेखातीर सदांच गहन प्रस्न
सुभाष शिरोडकाराक निवेदन सादर केलें
पूण तो घेवंक तयार ना
'सारस्वतां विरूद्ध हांव वचूंक सोदिना
कोणूय बहुजन समाजाचो आसल्यार सांगात
हांव रोखडोच ॲक्शन घेतां
म्हाका हांगा जातीयवादी जावपाचें ना'
सुभाषाचें मत म्हाका पटलें
निवेदन घेवन आमी सकयल देंवले
समता आंदोलनांत समता हाडूंक धरणे धरून बसले

२१ जुलाय १९९१





सेवेक,
सेक्रेतार,
माध्यम कृती समिती
कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय
नमस्कार,
तुमची चीट पावली. धन्यवाद!
तुमी माध्यमाचेर आंदोलन करतात तें बरें दिसलें
कृती येवजणेंत भासाभास ही जायच
तातूंत म्हजो वांटो आसप ही काळाची गरज
काळाप्रमाण हांवें तो घेतला
पूण खंयच्याच काळार ताचो वांटो मेळूंक ना
वांट्याचें झक मारूं
मंत्र्यांनी गोंयची अस्मिताय पावणेर काडल्या
हें वाचून दुख्ख भोगता
तांचे विरूद्ध पावलां उबारूंक जाय
पूण सद्या म्हजीं पावलां आडखळटात
खंयचे वाटेन रावप तेंच कळना
तरी सुद्धां हांव आयज बसकेक येवपाचों
पूण आयचो म्हजो कार्यक्रम गच्च आसा
सकाळीं धा वरांचेर राजहंसात वचूंक जाय

थंय खूबशे कोले येवपाचे आसात
कोले आनी राजहंस हांचो संबंद तुमकां खबर आसाच
कोले चळवळीकडेन जितले नासतात तितले थंय आसतात
कोले किर्ते हें खबर ना?
कोले हें शॉर्ट फॉर्म. को. ले.
म्हळ्यार कोंकणी लेखक!
तांकां हांव ह्या आंदोलनांत हाडटां
तांची कृती मागीर पळयातूच
इकरा वरांचेर कॉंग्रेसची बसका आसा
थंय म्हाका म्हालगडे कोले मेळटले
कॉंग्रेस बसके उपरांत तांचेकडेन भासाभास करतां
तांची येवजण तुमकां मानवतलीच
ती कृतीच तशी अजापाची आसतली
बारांक समता आंदोलनाची बसका आसा
तातूंत म्हाका वांटो घेवंक जायच
नातर सगळे म्हाका जातियवादी म्हणटले
ह्या काळार तो लेबल उपकारता?
थंय थोडेभोव विचार पुंजायतांच
एक वरांचेर भाई केणयान आपयला
श्यामसुंदर नायक गाडी घेवन व्हरपाक येतलो
तांकां म्हजे सारकें तरणें रक्त जाय
दामोदर घाणेकाराकडेन काम जायना खंय
तो सद्या गुप्तहेरपणां करता
आतां भाईचो आनी म्हजो संबंद आदलो
ताणें खूबशा अंकाक जायराती दिल्यात
सगळ्या कोंकणी अंकाक तांच्योच जायराती
त्यो मेळना जाल्यार कोंकणी फुडार आसा?
हांव थंय गेलो ना जाल्यार तांकां राग येतलो
तो पालेकाराक जायरात दिवंचो ना
पालेकार भाशा मंडळाचो अध्यक्ष
ताणें स म्हयन्यांत एक लाख फिक्सांत दवल्ल्यात

ताचे दोन लाख जांव नाकात?
भाशा मंडळाची तो बँक करतलो खंय!
ते खातीर म्हाका भाईचें आयकुंकच जाय
देखून हांव सारस्वत संघटनेक मजत करतां
हें सगळें कोंकणीच्या मोगानूच
सारस्वत मोगान न्हय
दोन वरांचेर म्हाका डॉ. दुभाषीगेर वचपाचें आसा
ताणें म्हाका जेवणाक आपयला
अन्न हें परब्रह्म
तें तुमकां वेगळें सांगपाची गरज ना
गेलोंना जाल्यार अन्नाक वळवळटलों
उप्रांत विश्वकोष सुपरिंटेंडेंट मेळूंक येतले
म्हजेर सद्या बदनामी खटलो घालपाचीं आसात खंय!
तांकां बोरकारीचो सारको अर्थ समजून घेवचो आसा
तांकां चुकयल्यार कशें जातलें?
कोंकणीची बदनामी जाल्यार उपकारता
विश्वकोष विश्वार पडल्यार जाता
पूण कोणाची बदनामी जावप समा न्हय
सांजे लुईझीन्य, राधाराव बी येवपाचे आसात
तांणींय एक समाज उबारपाचो थारायला
क्रिस्तांव सारस्वत समाज न्हय
तो वावर मुंबय चल्ला
ते गोंयांत इंग्लो इंडियन समाज करूंक सोदतात
सभासद खूबशे आसात
पूण संघटक कोण ना
तांचें मत हांवें तो वावर करचो
को. प्र. आ. चे खंय ना खंय संघटक जाल्यात
फक्त हांव तितलों उल्लां
देखून हांव तांकां संघटीत करूंक सोदतां
रातचें तांचेंच जेवण आसा
जेवणा वेळार माध्यमाचेर दोन गजाली सांगतां

तुमचे बसकेक येना म्हूण वायट धरूं नाकात
नागेशबाब आसाच सगळें सांबाळूंक
हांव ही भायली खींड सांबाळटां
तुमी कितेंय थारायल्यार म्हाका मान्य आसा
झुंजपाक हांव फाटीं नाच
फकत तुमी हुकूम करपाचो
बरें तर! मोर्चाक मेळुया
जय कोंकणी! जय कृती समिती!



२८ जुलाय १९९१





**म्हा**का कविता करूंक जाय
त्योय बी पावसाचेर
पावस पडटकच सगळ्याक अळमीं येतात
सगळे कवी कविता करतात
पूण हांव मात सामको हो!
पावसांत लेगीत बोरकारी बरयतां
म्हाकाय पावसाचेर कवनां करूंक जाय
पूण तीं करप कशीं?
बऱ्यो ऽऽ कविता करूंक बरो ऽऽ पावस जाय
पूण आतां पयलीं भशेन तो पडय बी ना
कितें तो पुर्तुगेज टायमावेलो पावस!
घे म्हूण घोग्यांनी ओतप
पुर्तुगेज तेन्ना झाडां मारिनासले
तशे ते कविताय करिनासले
आतां इंदयान जालां
सगळेंच मुदार जालां
दर एक आमदार उठ्ठा झाडां मारता
दर एकलो उठ्ठा कवनां करता
तींय बी पावसार

ह्या वेळार तांकां वाद लागना
मराठीवाद्यांनी समजा पावसार कविता केल्यो
तर कोंकणीवाद्यांनी वताचेर करपाच्यो
इंग्लेजवाद्यांनी शिंयाचेर करपाच्यो
सगळें वेवस्तीत वाटून घेवपाचें
पूण ना. हांगा ती वांटणी ना
हांगा तांकां वाद लागना
उठ्ठा सुठ्ठा तो पावसार घसरता
हांव मात हे सर्तींत फाटीं
म्हाकाय आतां मुखार सरूंक जाय
पावसार कविता पाडूंकच जाय
पूण कशेंच जमना
एक दीस कागदां घेतलीं
पावसांत भीज भीज भिजलों
सगळीं कागदां भिजून गेलीं
म्हाका न्युमोनिया जालो
पूण कविता काय जमल्यो ना
संजीव वेरेंकाराक हांवें आयडिया विचाल्ली
'तूं आनी सामकोच हो मरे!'
मानेक झटको दीत ताणें म्हळें
'तें सामकें सोपें मरे!'
चार पांच कविता वाचपाच्यो
आनी पावसाच्या वावझडींत बरसपाचें
मागीर नाकांतल्यान थंडेचें शेंबूड व्हांवता
तशीं मनांतल्यान कवनां गळटा.'
ताणें सांगिल्ले उपाय हांवें केले
पूण कविता कांय गळ्ळ्यो नांत
फकत नाक व्हांवंक लागलें
पाळ्यांत रमेश वेळुस्कार आपटलो
प्रस्न आयकून हांसलो
कांय वेळ उलयलो ना उप्रांत उलोवंक लागलो

'रेन इज अ पेक्युलीअर अंडरस्टँडींग....'
म्हाका कळ्ळें, ताचें म्हाका कांयच समजुचें ना
थंयच्यान व्हडले गोंया गेलों
रामभाऊ जुवारकार पावसांत भिजत येतालो
पावस सरळ पडटालो
रामभाऊ मात वाकडो तिकडो चलतालो
'रामभाऊ पावसाचेर कविता कश्यो करप?'
हांवें भाऊक विचाल्लें
'तें कळिल्लें जाल्यार येन्ना हांव करचों नाशिल्लों?
साहित्य अकादेमी पुरस्कार घेवंचो नाशिल्लो?
सद्या हांव अडुळशाच्या फुलार कवनां करतां
तें म्हजें पन्नासावें पुस्तक
पावसाचेर फुडल्या पावसाळ्याक पळोवंया'
रामभाऊ अडुळसो सोदीत चलत रावलो
हांव बशीखातीर येवन उबो रावलों
इतल्यांत म्हाका येवन स्कुटर आपटली
रागान पळयल्यार मराठींतलो पुष्पाग्रज
'दोळे फुटल्यात रे?'
म्हजो मराठीचो राग भायर सल्लो
'ना. वोक्लाचेर पावसाच्यो कविता दाटल्यात.'
पुष्पाग्रजान वक्ल काडीत म्हळें
मराठीवाल्यांचें बरें. तांच्या वक्लार तरी कविता दाटतात
म्हाका वक्लूय लागूंक ना
बशींत जयंती नायक मेळ्ळें
कोंकणी अकादेमींत वतालें
'जाणा मरे, बशींत वयल्यान गळटा
त्या थेंबा वांगडा म्हाका कविता सुचतात
पूण ताच्यो सगळ्यो कथाच जातात'
वाटेर देंवन मळ्यांत गेलों
'पावस जालो म्हजो जिणेचो पावस जालो....'
एका घरांतल्यान आर्त सूर येताले

नागेशबाबालें घर म्हूण म्हाका कळ्ळें
'जाणा मरे दिलीप! पावसार कविता हांवें केल्यांत
पूण तुका कश्यो करच्यो तें सांगूं?
तर अशें कर. दोतोर भिकाजीबाबाक मेळ'
तसोच दोतोरागेर भितर सल्लों
'तें सामकें सोंपें मरे' दोतोर घाणेकारान म्हळें
'ह्यो गुळयो घे
ही तांबडी घेतकच पावसाचेर काव्य सुचता
ही हळडुवी वताचेर
ही पांचवी शिंयाचेर
जेन्ना तुका विनोदी करूंक जाय तेन्ना ही धवी घे'
हांव गुळ्यो घेवन भायर सल्लों
म्हजो प्रस्न आतां सुटिल्लो
घरा आयलों आनी गुळयो घेत रावलो
पूण कविता काय भायर सल्ली ना
पोटांत मात दुखूंक लागलें
उठून परत दोतोरागेर गेलों
दोतोरान परत गुळयो दिल्यो
डायेरियाच्यो!



४ ऑगस्ट १९९१





गोंयकारांची भलायकी सारकी ना
हें हांव म्हणनां
हांवें थारायलां आतां कांयच म्हणप ना
कोले आनी म्हालगडे हांचें वायटपण घेतलें
आतां हेर गोंयकारांचें कित्याक घेवप?
गरजे भायर एक्सांत फातर मारप नाका
देखून हांव कांयच म्हणना
भलायकी बरी ना अशें कोणतरी हर्षन म्हणटा
ते खातीर ताणें हास्य क्लब सुरू केला
आतां पयलीं सारके क्लब उरूंक ना
वेगळेच क्लब सुरू जाल्यात
मडगांवां दत्ता नायकानूय कॉफी क्लब उगडला
आतां तो कित्याक उगडला तें ताकाय खबर ना
सगळे मडगांवकार थंय येवन कॉफी मारतात खंय!
तेच खातीर बाबू नायक पिकार जाला
ताचें म्हणणें दत्तान च्या क्लब उगडपाचो!
ऊल्हास बुयांव म्हणटा व्हिस्की क्लब काडपाचो
तांचें आयकल्यार तो दत्ता कसलो तर!
तो कोणाचेंच आयकना
उदयबाबान ताका सांगलें कॉँग्रेस सोडूं नाका

पूण ताणें आयकलां? ना
तर हांव कितें सांगतालों?
हय. भलायकेचें!
गोंयकारांची भलायकी राजकारण्यांनी इबाडल्या
ताचेर एकूच उपाय म्हळ्यार हांसो
हांसल्यार खंय भलायकी बरी उरता
ते खातीर कोण विनोद सर्त घेता
तर कोण हास्य क्लब उगडटा
उगडूं थंय. म्हाका कितें पडलां?
म्हजी भलायकी बेस बरी आसा
राजन नारायणावरी
म्हाका हांसपाखातीर क्लबांची गरज ना
हांव म्हजोच जीव खेळयतां
दीस भर हांस हांस हांसतां
हांसपाक वाळवांच पिंचूक जाय अशें खंय आसा?
अण्णा झांटयाक सोबता तें
हांव खाडांतल्या खाडांत हांसतां
खाडभर!
बाकीचे पोटभर हांसतात
आनी बरे ना जातात
म्हजीं हांसपाचीं कारणांय वेगळीं
प्रतापसिंग राणेक काळजाचो आताक येता
लोक म्हणटा तांकां काळीज आसा
हांव हांसतां
रवी नायक कण्याच्या दुर्येरांत आसा
ताका फार्टीचो कणो आसा खंय!
तरी तो झुकत आसता
केन्ना म. गो. वाटेन
तर केन्ना कॉँग्रेसीवाटेन
केन्ना विलीवाटेन तर केन्ना लुईझिन्यावाटेन
वेल्यान पदां म्हणटा

कणा झुकता है झुकानेवाला चाहिए
म्हजो हांसो खाडांतल्यान मिशांत येता
ह्या भायर हासपाचीं हेरूय कारणां आसात
एन्. शिवदास रवी फाटल्यान भोंवत आसा
बार्का फाटल्यान पोनेळ कसो
तरीय समता आंदोलन करता
रवीच्या विरूद्ध बरयता
म्हज्यान हांसनासतना म्हण रावूं येता?
रमेश वेळुस्कार कोंकणी अकादेमीचे गाडयेन भोंवता
ज्यूस्त मनोहरबाबाची स्टायल काडटा
ते गाडयेंत बसल्यार तशी पोज येता
अशें तो म्हणना, पुंडलीक नायक म्हणटा
तांची पोज पळोवन म्हाका हासूंक येता
रवीन्द्रबाब फाटलीं धा वर्सां
त्याच त्याच विशयार बरयता
म्हाका आतां तें सगळें पाठ जालां
हांव पोपटावरी तें फाडफाड म्हणटां
मागीर खाड धरून हांसतां
कित्याक पोट धरून हांसूक मेळना
तें हाताक सापडना. खरीक पावलां
आमच्या गोमंतकांत मम्मट जल्मलो
रोखडीच ताणें आत्महत्या केली
सगळें मराठण रड रड रडलें
पूण म्हाका कशेंच रडूंक येना
रडपाचो यत्न केलो तरी हांसूंक येता
आनी हांव हांसतां
पूण चड हांसप बरें न्हय
ताचें हांशे जाता
म्हाका म्हजें हांशे करून घेवपाचें नां
देखून केन्ना केन्नाय हांव गंभीर जावंक सोदतां
ते खातीर राजहंसांत वचून भिडे म्हऱ्यांत बसतां

मुखामळ गंभीर करतां. भायरी घेतिल्ल्यावरीं
भिडे रामाणीचें शाकुंतल छापता तें पळयतां
हें गंभीर पुस्तक हांव गंभीर रावन वाचतां
येतले वतले ताचेकडेन विनोदी पुस्तक मागतात
भिडे काडून तांकां शाकुंतल दिता
वाचकूय तें विनोदी म्हणून वाचतात
मागीर पोटभर हांसतात
म्हजो हांसो म्हजेकडेन सांबाळनां
हांसचेंच पडटा
हांव हांसतां. खूब हांसतां
देखून म्हजी भलायकी सामकी बरी ऽऽ आसा
ठण्ठणीत!!



**११ ऑगस्ट १९९१**





'चावला रे चावला
एन्. बी चावला'
सचिवालयांत सगळोच बोवाळ
असो बोवाळ पयलीं केन्ना हांवें आयकूंकना
तशे सचिवालयांतल्यान खूबशे आवाज भायर सरल्यात
खलपाचो 'हर हर महादेव'
ताईचो 'मांय मराठी'
विलीचो 'कोंकानी माये कोंकानी'
जांव लुईझिन्याचो 'क्वीन एलिझाबेथ'
पूण हे सूर वेगळेच
चर्चील मंत्री आसतनाची गजाल वेगळी
कूय आयली काय तो मराठी पदां म्हणटालो
'ये रे ये रे पावसा' गायतालो
'तुला देतो पैसा' एवजीं 'तुला देतो ठोसा' म्हणटालो
ताच्याच भंयान हे फावट पावस झडलो
ते खातीर तो बदल्ला काय?
सांगू नज, बदलूं येता
तरी लेगीत विंचू चावला एवजी एनबी चावला म्हणप?
चडांत चड कस्टम चावला म्हणूं येता
तो न्हय आसतलो तो

मागीर कोण संजय बांदेकार?
आसत! ताका आसा ती एक नड!
पळोवंया म्हूण वयर सल्लों
तशें म्हजें सचिवालयांत वचप कमी
सचिवालय हें बहुजन सुखाय बहुजन हिताय
म्हाका थंय कोण खाता?
वयर सुरेशबाब भोंसले दिसलो
कोंकणी अकादेमी सोडून बाबडो हांगा कितें करता काय?
काय तो थंय गेलोच ना?
काय ताका आपूण अकादेमीचो सचीव हें खबर ना?
ह्या लोकांचें एक मात बरें
अकादेमीचें अढळपद घेवपाचें ना
दिल्यार लेगीत
काय भोंसलेबाब अकादेमींत वचून आयले काय?
थंयच्यानूच सकयल देंवले आसूं येता
चावला रे चावला म्हणत
पूण तांकां थंय कोण चाबतलो?
सेक्रेटरीचें कदेल काय चाबना
चाबल्यार धुमेबाब थंय थोडोच रावपाचो!
लार्गी वचून आयकलें
पूण आवाज तांचो न्हय
तो मंत्र्यांच्या कॅबिनांतल्यान येतालो
तरी कोणाच्या तें कळनासलें
कॅबिनाच्या दारांकडेन पळयलें
आनी म्हाका धक्को बसलो
तांच्या दारार शिपाय नाशिल्ले
आसले ते म्हालगडे को. ले.
शिरोडकाराच्या दारार आनंद नायक
रवीच्या दारार यशवंत पालेकार
उजगांवकाराच्या सुमंत केळेकार
लुईझिन्याच्या दारार एन्. शिवदास

परूळेकाराच्या हुंबऱ्यार चित्रंगीकार
विलीच्या दारार तुकाराम शेट
म्हज्यान ही अवतीकाय पळोवं नज जाली
विचारवंतांचे अशे हाल जावप?
'हें सगळें कितें चल्लां?'
हांव मंत्र्याच्या पी. ए. चेर तापलों
'पात्रांव दिवाळी लागीं पावली न्हू!'
ताणें ल्हवूच म्हाका म्हळें
आतां म्हजी ट्युबलायट पेटली
म्हणजे हे जायरातीं खातीर आयल्यात तर!
म्हाका सूऽ जालें
पूण हांचेमदीं पदां कोण म्हणटा?
तुकाराम शेटूच आसतलो
नवे कॅसेटीची तयारी आसूं येता
ताचे ओंठ हालतालेय बी
हांवें कान ताचेकडेन व्हेले
'लाद्रू-पेद्रू, लाद्रू-पेद्रू न्हिदलाय रे?'
तो योग्य तेंच पद म्हणटालो
विलीक फाव सारकें
मागीर चावला रे चावला कोण म्हणटा?
सूर तर येताले
इतल्यांत सुरेश परूळेकार भायर सल्लो
ताच्या फाटल्यान अशोक साळगांवकार
फाटोफाट लुईझिन्य फालैर
तिगूय एका सुरांत गायताले
चावला रे चावला, एन्. बी. चावला
हाय सायबा! हांकां जालां कितें काय?
सगळें सोडून भारूड शें म्हणटात!
परूळेकाराचें एक समजूं येता
राजू नायकान शिटकावणी दिल्याच!
पूण लुईझिन्य आनी अशोकूय?

'आरे एन्. बी चावला न्हय विंचू चावला.'
रावूं नज जावन हांवें लुईझिन्याक म्हळें
'तूं म्हाका सांगता? तो एन्. बी. च.'
लुईझिन्यान म्हाका पळयत म्हळें
'ना रे बाबा मराठी भारूड तें'
हांवें समजावपाचो यत्न केलो. म्हणुनूय दाखयलें
'चावला रे चावला, विंचू चावला.'
'मराठी भारूड? तें हिन्दी भारूड'
परूळेकारान मर्दीच म्हळें
'गोवा सदनांतलें'
अशोक साळगांवकाराचो किंवाटो
परतून म्हजी लायट पेटली
म्हणजे हे सारकें म्हणटात तर!
हांकां गोवा सदनांतल्यान धांवडायले काय कितें?
जांव येता!
एन्. बी. चावला तो!
गोंयकारांक एक्सार मारपी
हांकां थोडोच सोडटा!

**१८ ऑगस्ट १९९१**





## आयज रक्षाबंधन

पूण म्हाका राखी कोण बांदतलो?
राखी बांदून घेतल्यार हेरांची राखण करूंक जाय
बोरकारी बरोवन लोकांची राखण जाता?
म्हजीच कोणेंय केल्यार जायत....!
म्हाका वता थंय भंय
बोरकारीन कितले तरी दुस्मान जोडल्यात
त्या खातीर कसलीच राखण उरली ना
म्हजीच रक्षा जावपाकडेन पावल्या
रक्षा म्हळ्यार राख-गोबोर
म्हजेर गोबोर खावपाची पाळी येतली दिसता!
ते पयलीं को. ले. म्हालगडे हांकां राखी बांदुया
मंत्री मंडळाक तर बांदुकच जाय
आयज सकाळ फुडें भायर सरलों
बोटव्यांत राखी भरल्यो
सगळ्यांत पयलीं आग्वाद गेलों
रूदोल्फाक राखी बांदली
पयलो मान ताचोच
ताका एकदां बांदली काय हांव सुटलों
तसोच पणजे आयलों

आल्तिन्यार मुख्यमंत्र्यागेर भितर सरलों
रवीक राखी बांदूक
पूण थंय पयलींच गर्दी
चर्चील, जे.बी., जुवारकार
ते फाटले स म्हयने राखी घेवन थंयच आसात
तातूंत आनी धुमे
कोंकणी अकादेमीचो सचीव
ताच्या हातांत व्हडली राखी
हांवें तोच चान्स घेतलो
धुम्याच्या हाताक राखी बांदली
तोच म्हजो खरो राखणदार
म्हजी आर्थीक राखण करपी
'म्हर्जी पुस्तकां घे आनी राखण कर'
राखी बांदतां-बांदतां हांवें म्हळें
'म्हजीच कोणेय केल्यार जायत.'
चिंतेस्त जावन ताणें म्हळें
इतल्यांत रवी नायक भायर आयलो
धुमेन ताका राखी बांदली
'तुका भिवपाची गरज ना.' रवीन म्हळें
'हांव अकादेमीच्या सचिवपदार उरलों?'
धुमेचो दुबावी प्रस्न
'हय तुका तें अढळपद. एक राखी त्या कदेलाक बांद.'
उलयतां उलयतां रवी गेलो
कोणांक रावलोना
ताका विलीक राखी बांदूक जाय आशिल्ली
आल्तिन्यावेल्यान राजहंसांत आयलों
थंय कोणूय मेळूं येतालो
प्रभाकर भिडेक एक बांदली
साहित्याच्या चेंपणांतल्यान मुक्त जालों
थंय हेर को. ले. कोण नाशिल्ले
तेय राखी बांदूंक गेल्यात खंय

हांव थंयच्यान मिरामार गेलों
ताई काकोडकाराक राखी बांदूंक
सांगूं येता? फुडें फाटीं मुखेलमंत्री जायत
थंय भाई खलप तिका राखी बांदतालो
ती हात मुखार काडूंक तयार नाशिल्ली
गूरूदत्त तिका विनयतालो
ही कार्यावळ बेगीन सोपपाची नाशिल्ली
राखी थंय दवरून बांबोळे गेलों
गोंय विद्यापिठांत
डॉ. दुभाषीक सोदलो
तो भाई केणयाक राखी बांदूंक गेल्लो
हांवें फोन करून पळयलो
तर भाई केणी आनी तो प्रियोळा गेल्ले
रवीन्द्र केळेकाराक राखी बांदूंक
दुभाष्याच्या मेजार राखी दवरून भायर सरलों
कोंकणी विश्वकोशांत नदर मारली
मनोहरबाबाच्या कॅबिनांत चलयांची गर्दी
पयलीं दिसलें तांकां घेराव बी घाला म्हूण
पूण ना. त्यो सगळ्यो राखी बांदताल्यो
तसोच हांव ओलिविन्यबाबांकडेन गेलों
तो तर म्हजो व्हडलो राखणदार!
म्हजें पोट ताचेर अवलंबून आसा
म्हजी प्रोसोराची नोकरी ना जाली जाल्यार!
पूण तो थंय नाशिल्लो
दिल्ली गेला खंय
तो थंय जरूर साहित्य अकादेमीक राखी बांदतलो
प्रा. तडकोडबाईकडेन राखी दवरली
थंयच्यान मडगांवां गेलों
सुनापरान्तांत
राजू नायकाक एक व्हडली राखी बांदली
राखी पळोवन तो खूश

बोरकारीचें मानधन आतां वाडूं येतालें!
ताणेंच तशें म्हळें
'स्तंभलेखकाक भरपूर मानधन मेळूंक जाय!'
पुराय प्रोफेशनल मानधन
म्हजी आर्थीक राखण जाल्ली
रक्षाबंधनाचो हेतू सफळ जाल्लो
उरिल्ल्यो राखी थंयच दवरल्यो
बोरकारीच्या वाचप्यांक धाडूंक



**२५ ऑगस्ट १९९१**





**ना**वाडग्याचें खंय खाड हालता
म्हाका खाड आसा
आसा देखून तें हालता
म्हणून हांव कितें नावाडगो जालों?
हेरांचें कितें कितें हालता
पूण तांचें एक्स् पासून वचना
वता तें सगळें म्हजें
हांवच नावाडगो
पाडपडूं व्हरून
कितलेदां तरी हांवें थारायलें
कोणाचे भानगडींत पडप ना
कोंकणी म्हालगड्यांच्या तर नाच ना
गोंय विद्यापिठांत वचप
येता तशी कोंकणी शिकोवप
प्रोसोर गोम्साक बाबा पुता करप
आनी घरा येवन पांय सोडून न्हिदप
बाकीचें सगळें मारलें झक
लोक म्हणून म्हणून कितें म्हणटले?
बोरकार थंड पडलो इतलेंच मूं!

म्हणना थंय. म्हजें कितें वता? एक्स्!
हांगा पुराय पि. एस्. यु. चौगुल्यागेर पडला
काडल्या कोणे जाप? ना
मागीर हांवेंच कित्याक मनार घेवप?
लावन घेता ताका लागता
तरी आसतना नाका तेंय म्हाका लागता
गरजे भायर येवन आंगार पडटा
आतां हीच गजाल पळयात
तो कोण आनी खंयचो मसणो कोण जाणां!
अमेरीकेक सावन आयला
अमेरीकेचें आनी म्हजें कसलेंच वायटपण ना
बोफोर्स फारांची म्हाका गरज ना
बोरकारीचे फार हांव कितलेय सोडीन
पूण हो अमेरिकन म्हजेकडेन पुतीफार सोदता
पयलींच म्हजी इंग्लेज फ्राक
ताची इंग्लेज तर म्हाका मातूय कळना
उच्चार कळटासर म्हजें एक्स कपलाक
म्हणूंक लागलो म्हाका पुतीफार जाय
हो सगळें सांडून म्हजेच कडेन सो पुतीफार सोदता?
म्हणटकच ताका कोणेतरी म्हजेकडेन धाडला
ताका कोंकानी पुतीफार जाय आशिल्लो
म्हाका तो कितें सांगता तेंच कळना
काडून काडून पन्नास डॉलर दाखयता
गोंयांत भोंवडेकार फार सोदतात हें हांव जाणां
तेखातीर तांकां फार पडटाय बी
पूण हो फार कसलो?
हांव मिठाफार जाणां
फारार फार जाताय रानातु
हेंय हांव आयकून जाणां
पुतीफार हो म्हजे जिणेंत पयलोच फार
ताका हांवें कॉफी क्लबांत बसयलो

श्रीपाद देसायाचो कोश घेतलो
उतरांचो अर्थ सोदसोद सोदलो
तातूंत असलो कसलोच फार ना
ना पुतीफार
ना पुदीफार
अमेरीकनाचो उच्चार चुकला काय?
कांयच कळना
ताका घेवन हांव विश्वकोशांत गेलों
थंयय कांयच ना
अजून थंय मेरेन हे पावंक नासतले
परतून हांवें अमेरीकनाक विचारलें
'बाबा तुका जाय कितें?
'कोंकानी बूक पुतीफार.'
आवयचो घोव ना घरा हाच्या
पुतीफार म्हूण कोंकणी बूक हांवें पळोवंकच ना
ताका घेवन प्रताप नायकाकडेन गेलों
तेच असलीं फित्रिकां बरयतात
ताणें जे. बी. मोरयसाक फोन लायलो
ताणें म्हळें, पुतीफाराक प्रस्तावना बरयल्या
'पूण पुस्तक आसा खंय?'
हांवें प्रताप नायकाक विचारलें
तें ओलव्हीन गोम्साकडेन आसा
ताणें तें विद्यापिठाखातीर बरयलां
हांव अमेरिकनाक घेवन ताचेकडेन गेलों
ओलव्हीनबाब पुतीफार वाचीत बशिल्लो
हांवें पुस्तकाचें नांव वाचलें
'पुतीफाराची बायल'
पुस्तकाच्या वयर बुरशें चित्र
कोंकणीतलें तें कामसुत्र आसूं येता
हांवें पुस्तकाची दर पळयली
पन्नास अमेरिकन डॉलर्स

आतां म्हाका अमेरिकनाची भास कळ्ळी
होच पुतीफार ताका जाय आशिल्लो
पुतीफाराची बायल घेवन अमेरीकन गेलो
म्हाकाय ती जाय आशिल्ली
पूण म्हजे कडेन डॉलर खंयचे
ते पयलीं जोडचे पडले
मागीर पुतीफाराची बायल!



**१ सप्टेंबर १९९१**



**अ**जीत पांजा मेळ्ळो

हरशीं ताचेकडेन म्हजें कसलेंच काम नाशिल्लें
तो प्रसारण मंत्री
म्हजें प्रसारण करपाचें कितें आसा?
तरी म्हाका पळोवन तो रावलो
आतां सग्ळ्यांकच दिसतलें हांव बंडलां मारतां
येदो व्हडलो केंद्रीय मंत्री तो!
आनी हांव येदो ऽऽ सो बोरकार
हाका गाडयेंतल्यान वतना मॉविन गुदिन्य रावना
तो अजीत पांजा रावतलो? अशें तुमी म्हणटले
पूण खरें म्हळ्यार तो म्हाका वळखता
दूरदर्शन मनोऱ्याचें उक्तावण करूंक तो आयिल्लो
त्या वेळार को. प्र. आ. न निदर्शनां केल्लीं
म्हाका, पुंडलीकाक बी मार पडिल्लो
तेन्ना ताणें खंय आमकां पळयिल्ले
त्या जाणटेल्याक कित्याक मारतात अशेंय म्हणिल्लें
तेन्नाची ताची ती याद घट्ट उरल्या
तेचखातीर म्हाका पळोवन तो रावलो
तो दाभोळे विमानतळार वतालो
ताचे वांगडा आमचो मुकूंद नायक आशिल्लो

हांव रस्त्यार उबो आशिल्लों
मुकुंदाचें म्हजेर लक्ष नाशिल्लें
तो टी. व्ही.र कितें दाखोवपाचें हें येवजितालो
पूण पांजाचें म्हजेर लक्ष गेलेंच
तातूंत अजापाचें अशें कांयच ना
पयलीं सदांच भायल्या लोकांचें लक्ष वता
मागीर थळाव्या लोकांचें
पयलीं रमेश वेळुस्काराक कोण लेखतालो?
आसत तो व्हडलो कवी
पूण गेल्लें ताचेर कोणाचें लक्ष? ना
साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार ताका मेळ्ळा मात्!
घे ताची ओडाताण
जण एकलो धरून ताका ओडटा
दिवचलकार ओडून व्हरून सत्कार करतात
कॉफी क्लबवाले व्हरून उलोवंक लायतात
चंद्रकांत केणी ताका कुळागराचो संपादक करता
प्रभाकर भिडेन तर संपादकाची माळ ताका घाल्याच
भुरग्यांचो राजहंस ताचेर रगोंपयला
अशेच दीस म्हजेर एक दीस येतले
हांवूय राजहंस कसो भोंवतलों
तेखातीर भायल्यांचें लक्ष म्हजेर वचूंक जाय
अजीत पांजाचें आतां म्हजेर गेल्लेंच
म्हणूंक लागलो, 'म्हाका थोडी म्हायती जाय'
आतां हो म्हायती मंत्री पूण म्हायती म्हजे कडेन सोदता
'हय, हय तोच सारकी म्हायती दितलो'
मुकुंद नायकान मर्दीच म्हळें
ताका ती संवय आसाच, मर्दीच उलोवपाची
'गोंयचे टी.व्ही. कलाकार कोण?'
पांजाचो प्रश्न आयकून हांव घुस्पलों
मुकूंद बसला शेजराक आनी हो म्हाका सो विचारता?
मुकूंदबाबाक खऱ्यांनीच तें खबर नासुंये

म्हज्या तोंडार पयलें नांव आयलें लोटलीकाराचें
हो सुदेश लोटलीकार. पंढरीनाथ न्हय
पंढरीनाथ टी. व्ही. कलाकार न्हय
टी. व्ही.च्या एक्साकडेन तेंकता
तेन्ना ते कोणाकूय धरून हाडटात
धाडावन बोडावन कलाकार करतात
तसोच आमचो पंढरीनाथबाब
टिव्हीक जाय तेन्ना कविता रचता
सुदेश लोटलीकार मात तसो न्हय
तो मन लावन धारावाही तयार करता
पयलीं ताणें 'आवय' तयार केली
पळोवप्यांक 'आवय, आवय' म्हणूंक बऱ्याक पडटा
ताचे विरोधक नाका थंय अनुस्वार घालतात
'आवंय! आवंय!' म्हणटात
आतां तो बापूय म्हूण सिरियल काडटा खंय!
दुसरें नांव म्हाका आयलें सुश्रुताचें
सुश्रुत मार्टीन्स आनी ताची घरकान्न
दोगांय बॉर्न आर्टीस्ट
दांपत्यान टी. व्ही. चेर येतात
तिसरो आमचो उमेश म्हांबरो
गोंयांत टी. व्ही. नासून ताचे हाल जाल्ले
आंगातली कला सुकून वताली
आतां तो आंगान भरला
राजन शिरोडकार तर टी. व्ही.ची धूव
तिच्यांत कला नासून उपकारता?
ती दर दिसा कलेकलेन दिसता
पळोवप्यांक मात बेश्टेंच कलकलता
इतल्यांत मुकुंदान म्हाका चिमटो काडलो
म्हाका डी. सतीशाची याद जाली
डी. सतीश हो व्हड कलाकार
ताणें टी. व्ही.चेर जादू केल्या

कॅमेऱ्यामुखार तो कसोच वचना
तरी पूण आत्र्या पयऱ्यान पड्ड्यार दिसता
सगळ्यांक ती जादूच दिसता
ताका लागून खूबशे गोंयकार जादू जाणांत
हात लायनासतना आपशींच टी. व्ही. बंद करतात
म्हाका आनी कलाकार येवजना जाले
'तुजें नांव सांग मरे!'
मुकुंदान परतून मर्दीच म्हळें
म्हाका कितें हो भिकाजी समजला काय कितें?
हांव ओगीच रावलों
'मैंने नहीं बताया था वो सभी आर्टीस्ट है!'
मुकुंदान पांजाक म्हळें
तो कितें म्हणटा तें कळ्ळें ना म्हाका
'ताका आयज कलाकारांचें शिश्टमंडळ मेळ्ळें रे!'
म्हजें प्रश्नचिन्ह ताणें काडून उडयलें
म्हणजे हांवें नांवां ज्युस्त सांगिल्लीं तर!
जांव बाबा! पयलें फावट हांवें बरें काम केल्लें
गोंयचे कलाकार ज्युस्त वळखल्ले
कलेची जाण केन्ना एकसांत फुकट वता?

ॐ ॐ ॐ

**८ सप्टेंबर १९९१**





म्हजें जिवीत म्हळ्यार एक अप्रूप
केन्ना कितें करचें पडत तें सांगू नज
चवथीची सुटी पडली
थारायलें सुटयेंत कितेंय बरोवन काडप
पूण म्हाका शांतताय मेळूं नाका?
मुख्यमंत्री रवी म्हजेकडेन आयलो
म्हाका घेवन सचिवालयांत गेलो
ताणें पांच दीस गणपती दवरिल्लो
आपलें सरकार थीर उरचें देखून
आनी गोंयकारांक सवस्तकाय मेळची म्हूण
ताचें सरकार लोक उडोवंक सोदतात खंय!
तें कोण उडयतले हें हांव जाणां अशें ताका दिसता
तेच खातीर हांवें गाराणें घालचें अशें ताचें मत
आतां मुख्यमंत्र्याक कोण ना म्हणटलो?
कितलोय जाल्यार तो आमचो मनीस
आमचो म्हळ्यार बहुजन समाजाचो
हांव गाराणे घालूंक गेलों
सरकारी गणपती म्हणटकच सगळे आयिल्ले
मराठीवादी, कोंकणीवादी, इंग्लेजवादी, पुर्तुगेजवादी
मराठी लेखक, कोंकणी लेखक

विरोधक, तेंको दिवपी, तेंको काडपी
गांधीवादी, मटकेकार, स्मगलर, सुटके झुंजारी
सगळे म्हळ्यार सगळे
तळा-मळांतले तशेच माळ्यावेले
हांव गाराणें घालूंक उबो रावलों
हे देवा म्हाराजा
पयलेच फावट आमी तुजी सेवा केल्ली आसा
ती तुवें मानून घेवंची
आमचे कडेन कितेंय चुकलें माखलें आसत
उणें जास्त जाल्लें आसत, तर तें सगळें पोटांत घालून
भुरगेबाळांक हाता पायांकडेन
धंदे वेव्हाराकडेन, शिकपा सवरपाकडेन
लक्ष दिवन सगळ्यांचें कल्याण करचें
आनी अशीच दर वर्सा आमचे कडल्यान
बरी वायट सेवा करून घेवंची
आनी सगळ्यांचें कल्याण करचें, बरें करचें!
हें पळय गणपती म्हाराजा
हो आमचो रमाकांत खलप आसा
ताणें गोंयाक पयलो किरिस्तांव मुख्यमंत्री दिलो
त्या मुख्यमंत्र्यान देशभर नांव जोडलां
आतां दोतोर विली उपमुख्यमंत्र्यामेरेन पावला
तरी ताचे इत्सेक फळ आयिल्लें ना
खलपाकडल्यान ती इत्सा पुराय करून घेवंची
विलीचें नांव संवसारभर पातळावचें
आनी तुवें पंचवीस नाल्लांची पंचखादय घेवंची
आनी तांच्या हातच्यान सेवा करून घेवंची
हो आमचो वासु पायक गांवकार आसा
तो काणकोणच्यांक व्हरून म्हापशां लायता
म्हापशेच्यांक व्हरून पणजे लायता
हेरांय आमदार-मंत्र्यांक तशीच बुद्ध दी
गोंयच्या सगळ्यांक पोटाक लावंदी

हे देवा म्हाराजा
हो आमचो बादसा आसा
ताणें मराठीची सेवा केल्ली आसा
साहित्यांत खोटलोभर भर घाल्ली आसा
तरी पूण साहित्य अकादेमी पुरस्कार पदरांत पडूंक ना
तेन्ना हें बाळक तुज्या चरणाकडेन आयिल्लें आसा
तेन्ना फुडलें वर्स मेरेन ताची इत्सा पुराय करची
ताचें कल्याण करचें. आनी पन्नास नाल्लांची सेवा घेवची
हे पळय गणपती म्हाराजा
हो आमचो तात सरदेसाय आसा
हापशी ताका गणी देसाय म्हणटा
मुद्दाम ताका गोंयकार करूंक पळयता
पूण ह्या बाळकाक तशी इत्सा ना
ताका जयवंतरावच रावपाचें आसा
ताचे इत्सेक फळ दी
आनी हावेसांक बळ दी आनी कल्याण कर
हो आमचो पुरूषोत्तम काकोडकार आसा
बाळक आठ वर्सां कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष आसा
ते खातीर म्हालगडे खुबळ्ळ्यात
तुज्या चरणांकडेन शरण आयल्यात
अध्यक्षपदांची संख्या वाडय
तेच वांगडा फंडाची रक्कम वाडय
सगळ्यांचें कल्याण कर, बरें कर
आनी तुजी सेवा रूजू करून घे
हे आसात गोंयचे मराठीवादी
ते सदांच उठून बरे नांत. वखद-विसर्द केलें
पूण कांयच पारागताक पडना
तेन्ना हीं बाळकां तुज्या पांयांकडेन आयिल्लीं आसात
तेन्ना फुडलें वर्स मेरेन तांचें आरोग्य सुदारचें
आनी तांचे कडल्यान सेवा करून घेवंची
हे देवा म्हाराजा- हय सायबा

गोंयाचे दोन वांटे करचे - हय सायबा
एकाचो मुख्यमंत्री रवीक करचो - हय सायबा
दुसऱ्याचो विलीक करचो - हय सायबा
बाकीच्यांक सगळ्यांक मंत्री करचे - हय सायबा
साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार वाडोवचे - हय सायबा
मटक्याक राजमान्यता दिवंची - हय सायबा
सगळ्यांक इंग्लेज दिवंची - हय सायबा
बाळकांक स्मगलींग शिकोवंचें - हय सायबा
गोंयकारांक भिकेक लावन सगळ्यांचें कल्याण करचें
बरे करचें आनी सगळें करचें
हय सायबा!
मोरया ऽऽऽ



**१५ सप्टेंबर १९९१**





## शॉक!

म्हाका शॉक बसलो
बिजलेचो न्हय! लुईझिनाचो
नाका तें उलोवन तो म्हाका शॉक दिता
पयरूच मडगांवां जेसीचे कार्यावळींत तो उलयतालो
गोंयांत पयलीं खूब बुदवंत जाले खंय!
आबे फारिय, फ्रांसिस्क लुईस गोमिश बी
पूण आतां गोंयांत कोणूच बुदवंत ना
मागीर हांव आसा तो कोण?
हांव इतलो तेंप म्हाका बुदवंत समजतालों तें बेश्टेंच?
आवयचो घोव ना व्हरून हाच्या
बरें! म्हजें एक सोड व्हरून
थोड्यांक दुसऱ्यांक व्हड मानपाचें नासता
आसता तसली संवय थोड्यांक
पुंडलीकबाब नायकाक आसा तशी
आतां खरें काय फट हांव नकळो
आपुणूच एकलो व्हड नाटककार अशें तो म्हणटा
अशें लोक सांगतात
थोडे लोक आसताय तशे कुन्नाटे
ते झक मारूं. म्हाका लोकांचें कित्याक पडलां?

म्हाका पडलां लुईझिन फालेराचें
म्हाका मानिना न्हय तो बुदवंत! मानिनाका
पूण तो स्वताय बुदवंत न्हय?
ताचीं बुदवंतपणां तर सामकीं आकांत
बुदवंत देखून तो राजकारणांत भितर सरलो
थंयच्यान कॉंग्रेसींत गेलो. मागीर गोवा कॉंग्रेस केली
परत वेंचणुकेक रावलो बिनविरोध आयलो
त्या खातीर ताणें एका उमेदवाराचें कल्याण केलें
बाबडो बेकार म्हूण वेंचणुकेक रावलो
लुईझिनान ताका सरकारी नोकरी दिली
ही बुदवंतकाय हेरांक आसपाची
तेय नोकरेक लागपाचे. गोंयची बेकारी पयस जावपाची
तांच्याच खातीर बी म्हणना मूं तो?
गोंयांत बुदवंत ना म्हणून?
काय आपणावेल्यान तो जग पारखिता?
तशें जाल्यार ताचेर खटलो भरूंक जाय
पूण ताका खटलो कितें तें कळ्ळ्यार मूं?
धोरणाक तो धरण म्हणटा
तशें खटल्याक ताणें खोटलो म्हळें जाल्यार?
तरी पूण तो बुदवंतांतलो बुदवंतूच
स्वताक बुदवंत मानप ना हें ताचें मोठेपण
दिव्याक आपले पोंदचो काळोख दिसना
तशी लुईझिनाक आपली बुदवंतकाय दिसना
तरीपूण ताचें वक्तव्य हरकत घेवपा सारकेंच
कदाचीत तो अती बुदवंत आसतलो
जेरीवाल्यांमुखार तो अशें म्हणटा ती वेगळी गजाल
तांकां पळोवन ताका तशें दिसप शक्य आसा
पूण हेर गोंयकारांचें कितें?
गोंयांत तर पावला कणकणी बुदवंत लोक
अशी पासय मार आनी खोटलोभर पुंजाय
सगळ्यांत व्हडलो बुदवंत आमगेलो रईभाई

दोतोर विलीक आनी लुईझिनाक ताणें कोको दाखयलो
मुख्यमंत्री जावंक सोदतालो खंय! मुख्यमंत्री!
विली मुख्यमंत्री तर पालवी मुख्यमंत्री कोण?
लुईझिन?
त्या कामाक बुदवंत मनीस लागता
लुईझिन म्हणटा गोंयांत बुदवंत कोण ना?
आसतले कशे? इंग्लेज माध्यम नासतना
मागीर बुदवंत खंयचे हाडपाचे?
पोर्तुगालाच्यान काय इंग्लंडाच्यान?
राधाराव आनी आनाक्लेत आसात ते बेश्टेच?
कोणूच ना तर यशवंत पालेकार आसा
तोय म्हणून एक मुख्यमंत्रीच. कोंकणी भाशा मंडळाचो
तो एकटोच कोंकण भारती चलयता
तसो एकटोच भाशामंडळ चलयता
ताच्या उपरांत आमचो ओलव्हीनबाब आसा
गोंय विद्यापिठाचो कोंकणी विभाग तोच सांबाळटा
तोच विभाग प्रमुख
तोच संशोधक, तोच विद्यार्थी. तोच प्रोसोर, तोच दोतोर
एम्. ए.क पुस्तकांय ताचींच
हीं कितें बुदवंतपणाचीं लक्षणां न्हय?
धरून चलुया तो लुईझिनाचो दुस्मान
मनोहरराय सरदेसायाचें कितें?
तो कोंकणी विश्वकोश पळयता
कोंकणी अकादेमी पळयता
साहित्य अकादेमीचीं भाशांतरां करता
सेठ प्रकाशनाक पुस्तकां बरयता
रामायण बरयता. फोटो काडटा
ह्या वयार तो कितें कितें करता
हें आमच्या लुईझिनाक दिसना?
काय ताका हांचीं बुदवंतपणा मानपाचीं ना?
मागीर बुदवंत खंयच्यान येवपाचे तर! सर्गावयल्यान?

ह्या लुईझिनाचें म्हणून एक नाका जाल्लेंच
आपणाकूय किंकोत करता आनी दुयऱ्यांकूय
ताका कोणेंय सांगूंक जाय
तूं निवडून आयला आनी मंत्री जाला
हाचो अर्थ गोंयांत बुदवंत ना असो न्हय
गोंयांत खूब बुदवंत आसात
चर्चिल आलेमांव आसा
संजय बांदेकार, रत्नाकर चोपडेकार आसा
बाबू नायक, प्रतापसिंग राणे, शंकर परूळेकार,
रमाकांत खलप हे सगळे बुदवंत्‌च
तेय उणे पडटात जाल्यार कॉंग्रेसींत सोद
थंय कोंकणी म्हालगडे आसात. एकान एक बुदवंत
जांव मागीर ते अती बुदवंत!
तांकां बुदवंत मानूंकच जाय
नातर तांकां शॉक बसतलो
म्हजे सारको

**२२ सप्टेंबर १९९१**





हो ऽ हो ऽऽ हो ऽऽ
हें म्हजें हांसप न्हय
हांव येद्या मोठयान केन्नाच हांसना
म्हजें हांसप खाडांतल्या खाडांत
हें रडप. तेंय म्हजें न्हय
मराठीवाद्यांचें आनी कोंकणीवाद्यांचें
गळ्यांत गळो घालून गळो काडप सुरू
पूण हे सगळे रडटात कित्याक?
कोण खंवसल्यार काय हे रडनांत
फकत शोकसभा घेवन मेकळे जातात
कोंकणीवादी टी. बी. कुन्यांत घेतात
मराठीवादी वर्तमानपत्रांचेर
अशें आसतना हें रूदन कित्याक?
खबर काडची पडली
वचून एन्. शिवदासाक मेळ्ळों
तो कोणाची ना कोणाची गांठभेट घेताच
गोविंद पानवेलकार ती फट म्हणूं मागीर!
शिवदास मात म्हाका खरें सांगता
ताका हांवें रडारडीचें कारण विचारलें
'रवी कोंकणी आठवे वळेरेंत घालता न्हय रे!'

आपली बॅग सांबाळीत ताणें म्हळें
तो ती केन्नाच सोडिना
तातूंत दिवाळी अंकाचें अपील आसता
मंत्र्यांची गांठभेट घेतना तो जायरातीय घेता
दिवाळी लागीं पावली हें ताचेवेल्यान लोकांक कळटा
'ही तर सामकी खोशयेची गजाल मरे!'
हांवें उमेदीन म्हळें
कोंकणीचें बरें जाता तें पळोवन मराठे रडटलेच
तांकां तसो तो स्त्रापूच आसा
पूण रडप भलायकेक वायट
हांवें तें थांबोवपाचें थारायलें
पयर सत्तावीस तारकेर साहित्य सेवकांत गेलों
आमचो आमदार विनायक नायक भळभळीत रडटालो
मराप्रसवाले ताचीं दुकां पुसताले
मर्दी मर्दी आपुणूय रडटाले
तोंडार आडवो हात मारीत
सेवक मंडळांतलें साहित्य दुकांनी भिजतालें
'बाबानो तुमचें कितें जालां?' म्हजो प्रस्न
'कोंकणी आठव्या शेड्युलांत घालतात'
विनायकरावांची जाप
'मागीर गोंयची मराठीय घालुंया
कोंकणीवांगडा मराठीकूय सुवात दिवंया'
म्हजे सुचोवणेन तांची रडारड बंद
पूण कोंकणीवाद यांक कितें जालां रडूंक?
हांव उठलों आनी भाशा मंडळांत गेलों
यशवंत पालेकाराचें रडप तर सोंसपाचें न्हय
पयलींच तो दुखेस्त
एकूच लाख फिक्सांत आसा म्हूण
'पालेकारबाब, ही तर बरी गजाल'
'बरी कसली मड्ड्याची?
तुमकां वायट म्हळ्ळें बिळ्ळें कळना

आतां हांवें कसल्ली चळवळ करची?'
ताणें रडत विचाल्लें
'पूण कोंकणी खातीर वर्साक एक कोटी मेळटले'
आयकून पालेकार म्होंवाळ हांसलो
भाशा मंडळाची बँक करूंक येवजूंक लागलो
थंयच्यान राष्ट्रमतांत भितर सरलों
चंद्रकांतबाब अग्रलेख बरयतालो
म्हाका पळयत तपकीर नाकांत घाली
'जालें तें बरें जालें प्रस्न सुट्टलो एकदांचो'
शींक काडीत ताणें म्हळें आनी ताळटां थापटिलीं
तो खरें म्हणटा काय कितें हें म्हाका कळ्ळें ना
'आतां म्हजें वय जालें. म्हज्यान आतां चळवळ जाता?'
तांचेंय सारकें. म्हालगड्यांनी सेवा करप
आनी ताचें फळ बाळगड्यांनी घेवप?
इतल्यांत जयवंतराव सरदेसाय आयलो
'गेली मरे कोंकणी आठवे वळेरेंत?'
म्हाका सिगरेट दीत ताणें म्हळें
'म्हाका थोडो वावरूंक मेळटालो तें मात गेलें.'
बरें दिसलां अशें भासोवनूय तो पिरंगलो
म्हाका घेवन रवीन्द्रबाबागेर गेलो
'आतां ज्ञानपीठ पुरस्कार कोणाक रे?'
रवीन्द्रबाबाचो पयलो प्रस्न
'तुमी सोडून आनी दुसरो कोण आसा?'
'साहित्य अकादेमीचो थारायता तशें हांगा जायना.'
'म्हणजे?' म्हाका व्हडलो प्रस्न
'हांगा साहित्याचो दर्जो पळयतात. तोंडां न्हय.'
आयकून म्हाका बरें ऽऽ दिसलें
म्हजो नंबर लागूं येतालो
'तरी पूण इतल्या ल्हान वयार कोणाक मेळूंक फावना.'
'मागीर कितें करचें पडलें?' हांवें विचारलें
'तो थारावनूच दिवंक जाय'

'हरकत ना. आमचे नवे बामण आसाच थारावंक.'
चुकून म्हज्या तोंडार जातियवाचक उतर आयलें
हांवें पोले फोडून घेतले
रवीन्द्रबाबाक व्हडलेशें वायट दिसलें ना
इतल्यांत गुरुनाथ केळेकार दारांत उबो
फाटोफाट नागेशबाब करमली
तांच्या हातांत भरिल्लीं बॅगां
'हें अपसरण हांगा कशें?'
गुरुनाथबाबान म्हाका पळोवन म्हळें
म्हजेवांगडा सदांच अप्सरा आसतात
देखून तो मोगान म्हाका अपसरण म्हणटा
'तुमी खंय तीर्थयात्रेक चल्ले?'
तांचीं बॅगा पळोवन हांवें म्हळें
'तीर्थयात्रेक वचपाचें वय रे आमचें?' गुरुनाथबाब
'आमी दिल्ली वचूंक भायर सरिल्ले.' नागेशबाब
हो रवी आनी नाका जाल्लोच
काय बरो रमेशबाब रिटायर्ड जाल्लो
आठवे वळेरेची चळवळ मातशी फुलपाची
ताणें हांची दिल्लीवारीय होगडायली
सगली चाल पॉक करून उडयली
सरकाराक गाळी घालीत हांव वचूंक उठलों
ते थंयच बसून रावले. चर्चा करपाखातीर
आठवे वळेरेंतल्यान कोंकणी भायर काडपाची

**२९ सप्टेंबर १९९१**



**प**यर गांधी जयंती जाली
खरें म्हळ्यार म्हाका तिची यादूच उरना
म्हाका म्हजेच जयंतीचो उगडास जायना
थंय हेरांचो कसो उरतलो?
पूण वर्तमानपत्रांचेर तें येताच
जयंती जावंचे पयलीं आनी जाल्या उपरांत
त्या भायर त्या दिसा सुटीय आसता
सुटी कसली हाची याद करतना याद जाता
नातर म्हाका दर एक सुटी आयताख्च दिसता
गांधी जयंतीची याद ही अशीच
पेपरांच्या बातमेवेल्यान
हेच जयंती निमतान हांवें एक संकल्प केलो
सोरो आनी सिगार सोडप
आतां तुमकां प्रस्न पडटलो ह्याच दिसाक कित्याक?
तूं कितें गांधीवादी तर?
ना. म्हाका कसलोच वाद म्हणटा तो लागना
पूण दिसलें म्हाका तें
बऱ्या कामांक बऱ्याच दिसा सुरवात करची
उठलों आनी पोरण्या गोंयां गेलों
नव्या गोंयांत गांधीजीक सुवात ना

तेखातीर ताका पोरण्या गोंया दवरला
ताचें थंयच्यान पणजे थानांतर करूंक जाय
थानांतर म्हळ्यार स्थलांतर
स्थलाचें कोंकणीत स्थान जाता
कोंकणी विद्धान ओलव्हीन गोम्स ताका थान म्हणटा
खंयचीय वस्त दुसरेकडेन व्हरप म्हळ्यार थानांतर
केपें कॉलेजींत ताणें हें उतर वापरलें
केपेंच्या विद्यार्थ्यांचेर हावळ हाडली
हांव दोतोर प्रोसोर गोम्साचो विद्यार्थी
देखून स्थलांतराक थानांतर म्हणटां
गांधीजीच्या पुतळ्याचें थानांतर करूंक जाय
कित्याक तो पोरण्या गोंयांत पडटा
आयचें नवें गोंय वेगळेंच
नव्या गोंयांक गांधीवाद नाका?
गोंयांत कोंकणीवाद आसा मराठीवाद आसा
कॉंग्रेसवाद आसा महाराष्ट्रवाद आसा
मागीर गांधीवाद हो जायच
तो म्हाका दिसता हांवेंच हाडचो पडलो
तेखातीर पयलीं सिगार सोरो सोडूंक जाय
पूण मुख्यमंत्री पुतळोच सोडूंक तयार ना
निसणीवयल्यान वयर चडटा सर ताका नाका शेवट
खरें म्हळ्यार निसणीवेल्यान वयर चडप सोंपें
रवी नायकाक तर कांयच न्हय!
कितल्यो निसणी वापरून तो वयर चडला
हांगा मात चडटना हो कडकडटा
गांधीजीचे उंचायेर वचूंक त्रास जाताले आसुंये!
रवी पुतळ्याक हार घालूंक वयर चडटा
सकयल सरकारी हार वळवळटात
आर जाल्लेवरी मान वयर करून आसात
तांचें सोपल्या उपरांत म्हाका चान्स पडपाचो
ते सर हांवें एक सिगार ओडलेंच आनी हार घालो

ताळयो मारून सगळें सरकार नाच्च जालें
हांव पुतळ्या म्हऱ्यांत गेलों
'कोण बोरकार रे?' गांधीजीन विचारलें
'हय बापू.' हांवें म्हळें
'कित्याक आयिल्लो? तूंय मंत्री जालो काय कितें?'
'ना . बापू अजून ना.'
'मागीर जांव नाका. तुका न्हय तें.'
बापून म्हाका सल्लो दिलो
सगळे गांधीवादी अशें कित्याक म्हणटात तें म्हाका कळ्ळें
'बापू, हांव सिगार सोरो सोडूंक सोदतां'
'हें तूं खरें सांगता काय फट रे?'
'हांव सदांच खरें उलयतां बापू'
'तुजी बोरकारीय खरीच तर!'
गांधीजीन म्हाका उतराक धरलो
'ती खरी न्हय बापू'. हांव गडबडलों
खरी म्हूण सांगल्यार जाता?
ती फट म्हूण आमचे कोले मानतात
म्हालगडे विस्वास दवरतात
तेचखातीर हांव भंयाविरयत भोंवतां
नातर निसाक वळवळपाचों
म्हजे विचार गांधीजीक कळ्ळे आसुंये
'तूं सुवार्थी मरे सामको' ताणें म्हळें
हांव मुखार उलयलोंना
'हें साग रे म्हाका, गोंयांत म्हजे वादी कोण आसात?'
'रवीन्द्रबाब केळेकार आसा.'
'तें हांव जाणां, मुखार सांग.'
'पुरुषोत्तम काकोडकार आसा.'
'तो कॉंग्रेसवादी. खादी घाल्यार गांधीवादी जायना!'
'गुरुनाथ केळेकार?' हांवें दुबावान म्हळें
'तो नेहरूवादी' बापूजीन म्हळें
'पूण आजूच तो यात्रा काडपाचो आसा.'

'ती म्हज्या मोगान न्हय. तो ताचो वेव्हार.'
'तातूंत वेव्हारवाद कसलो तर?'
'आयज यात्रा सुरू करप आनी १४ नोव्हेंब्राक बंद करप.'
'तशें जाल्यार आनी गांधीवादी कोण ना'
'मागीर तुंवय सिगार सोरो सोडूं नाका.
गांधीवादी तर जावंकच नाका.
तूं म्हाळवादी म्हाळगडो जा'
'म्हणजे कितें?' म्हजो प्रस्न
'जंय जंय म्हाळ वाडटात थंय वच
बोरकारींत फकत फट बरय. फाट थापटून घे
सत्कार करून घे आनी व्हड जा
तथास्तु'
हांव थंयची निसण घेवन घरा आयलों

@•@•@•

६ ऑक्टोबर १९९१





व्हड मनशांक मेळप म्हाका आवडटा
पूण व्हड मनीस कोणाक मानप?
जाणें कला साहित्य संस्कृतीचेर वावर केला तो
गोंयांत असले मनीस खूब उणे
आशिल्ले तितल्यांकूय मेळून जालें
आतां आसात ते तितले व्हड न्हय
तांतले कोण कलेंत व्हड
कोण साहित्यांत व्हड तर कोण संस्कृतींत
तिनांयचो संगम जाल्लो मेळप मुश्कील
तेच खातीर हांव थतर वितर जाल्लों
हांवेंच व्हड जावपाचें थारायल्लें
दुसरो जातलो म्हूण वाट पळोवं येता आतां?
आपूण मेल्या शिवाय सर्ग दिसना खंय!
पूण व्हड बेश्टोच जायना
ते खातीर एक सूत आसचें पडटा
तेन्नाच सुतावेल्यान सर्गार वचूंक मेळटा
म्हजेकडेन तें सूत खंयचें?
तें जन्मताच वांगडा घेवन येवंक जाय
कर्ण आयलोना कवच कुंडलां घेवन?
हांव आयलों तो म्हजें फुटकें एक्स घेवन

तें आसूं हांवें व्हड जावपाची म्हजी चिंता गेली
म्हाका खूब तेंपान व्हड मनीस मेळ्ळो
खूब तेंप म्हळ्यार तीन वर्सां
तेंय नेहरू ट्रस्टाचे चुकीक लागून
चूक नेहरू ट्रस्टाची आनी त्रास म्हाका
हांवें ट्रस्टाक जाप विचारपाचें थारायलें
सरळ दिल्ली फोन लायलो
थंय नेहरू ट्रस्ट हो प्रकारूच ना
आसा तो वेगळो
हो नेहरू ट्रस्ट गोंयचो
म्हाका फोनावयल्यान कळ्ळें
आतां गोंयांत तो खंय सोदप?
वचून डॉ. काशिनाथ महालेंक मेळ्ळों
तांकांच ट्रस्टान पुरस्कार दिल्लो
'दोतोर तुमकां पुरस्कार मेळ्ळा न्हय?'
हांवें नमळायेन विचारलें
व्हड मनशांकडेन हांव सदांच नमळायेन वागतां
'हय. धा हजार आनी भौमान-पत्र मेळ्ळां.'
काशिनाथबाबान तृप्त स्वरान म्हळें
'पूण हो ट्रस्ट आसा खंय?' म्हजो प्रस्न
'तो पणजे मगनलाल सदनांत आसा'
मगनलाल सदन म्हणटकच म्हजी लायट पेटली
हो तर भाऊसायब काकोडकार ट्रस्ट पुरस्कार
काशिनाथबाबांचें अभिनंदन केलें आनी भाऊकडेन गेलों
भाऊ आपल्या रेडियोचेर बातमी सोदतालो
'भाऊ कितें करतात?' हांवें विचारलें
'आमच्या ट्रस्टाची बातमी येता जाल्यार पळयतालों.'
भाऊन म्हाका बसूंक सांगत म्हळें
'पूण भाऊ, हो नेहरू ट्रस्ट कसो जालो?'
'कसो जालो म्हण कितें? जावपाचें आसा तें जाताच.'
तरी म्हाका चड जाणां जावन घेवपाचें आशिल्लें

भाऊन च्या करतां करतां सांगूंक सुरवात केली
'आयकतात मूं तुमीं? नेहरू एक व्हड मनीस
मनशांत बरे वायट गूण आसताच
पूण बरे गूण घेवन नेहरू व्हड जाले
उरिल्ले गूण आमचेकडेन उरले
वायट जरी आसले तरी ते गूण न्हय जातात?
तर नेहरूचें नांव उरचें म्हूण हो ट्रस्ट. कळ्ळें मूं?'
च्याचें कप म्हाका दीत भाऊन म्हळें
हांवें मान हालयली
'हो पुरस्कार अंदूंच्यान सुरू जाला न्हय?' म्हजो प्रस्न
'ना. तीन वर्सां जालीं
तिनय वर्सांचो डॉ. महालेंकच मेळ्ळो?'
'तसो म्हूण दिवं येता? हो पयल्या वर्साचो.'
'मागीर दुसऱ्या आनी तिसऱ्या वर्साचो केन्ना?'
'तें तुमी डॉ. तानाजी हळर्णकारांक विचारात.'
भाऊन म्हाका फाफडून उडयलो
हांव राजहंस वितरणांत आयलों
ज्यूस्त तानाजीबाब मेळ्ळो
हांवें भीत भीत तांकां प्रस्न केलो
हय सांगू येता? म्हजेंय नांव तांच्या मतींत आसूं येता
'जाणा मरे बोरकार ताचें अशें आसा.'
म्हजेकडेन दुबावान पळयत तानाजीबाबान म्हळें
'हांव फक्त समितीचो निमंत्रक
व्हडपण मेजपाचें फीत आसा तें दुसऱ्यांकडेन'
'म्हणजे तुमी फितान मेजतात व्हडपण?'
म्हजो नेणारपणाचो प्रस्न
'हय. फुटपट्टी सांबाळूंक त्रास
फीत बोल्सांत नातर पास्तांत वता.'
'मागीर व्हड मनीस सोदूंक इतलीं वर्सां लागप?'
हांवें ताका सोडलोंना
हांणींच अशें केलें जाल्यार

आमकां व्हड मनीस कशे मेळपाचे?
'ताचें अशें आसा. आमचे तीग फितकार
तांकां अमर अकबर ॲन्थोनी म्हणूं येता
तातुंतलो एकलो आसा अमेरिकेक
दुसरो आसा मडगांवां
आनी तिसरो उरता कोंकणी अकादेमीत
तिगांयच्चयोय तीन फिती. आपले सायजीच्यो
तेच खातीर तांकां व्हडपण मेजूंक कळाव जाता.'
तानाजीबाबान आपली बाजू मांडली
तुमकां लागून दोन व्हड मनीस ल्हान उरलेनांत?
'तुजेंय सारकें रे. तूंच उपाय सांग एक.'
निमाणें ताणेंच म्हजेर नबाबदारी घाली
'फुडले आयतारा दितां' हांवें म्हळें
म्हजें म्हाकाच हांव व्हड जाल्लेवरीं दिसलों

**१३ ऑक्टोबर १९९१**





**फा**टल्या सप्तकांत इतिआसीक बसका जाली
ही तेंगशेवयली बसका न्हय
ही बसका म्हालगड्यांक तेंगशेर पावोवपाची
दोतोर तानाजीबाबाक हांवें उतर दिल्लें
उतराक नेगार वचूंक हांव दोतोर विली न्हय
तेचखातीर म्हाका बसका घेवंची पडली
बसकेक सगळे आयिल्ले
को ले, म्हालगडे, बालगडे तशेच म्हाळगडे
साहित्य अकादेमीचो सचीव. भाशामंडळाचो अध्यक्ष
नेहरू ट्रस्टाचो निमंत्रक आनी हेर वांगडी
टी. एम्. पै फाउंडेशनचो अध्यक्ष
फा. स्टिफन्स केंद्राचो प्रताप नायक
कुडचडकार ट्रस्टाचो म्हणयारो
कोंकणी अकादेमीचो कोण नाशिल्लो
कित्याक तर तांचो पुरस्कार ना
अकादेमीचे सगळे वांगडी हजर आशिल्ले
तेय को ले, म्हालगडे आनी म्हाळगडे ह्या नात्यान
कला अकादेमीचो पांडुरंग फळदेसाय
पुरस्काराचें तोच थारायता देखून
पुरस्कार कशे दिवंचे हाची भासाभास जाली

पयलो प्रश्न आयलो भाशा मंडळाचो
मंडळान पुरस्काराची रक्कम वाडोवंक जाय
सगळ्यांचें एकमत जालें, सोडून अध्यक्ष
'तुमी पयशे जमयात आनी रक्कम वाडयात'
पालेकार बाणीर बोट धरून रावलो
मंडळाचे तिजोरेवयलो ताचो जीव भावतालो
दुसरो थाराव प्रभाकर भिडेन मांडलो
'कला अकादेमीचीं बक्षिसां. पुरस्कार न्हय.'
ताचें मत को ले आनी म्हालगड्यांक मानलें ना
'कितेंय जांव पयशे मेळटात न्हय?'
फळदेसायाच्या वक्तव्याक सगळ्यांनी ताळयो मारल्यो
'स्टिफन्स केंद्र योग्य मनशाक पुरस्कार दिना.'
एका म्हाळगड्यान कुरकूर केली
श्रीपाद देसायान ताका म्हाळ वाडूंना आसतलो
'कुरकूर काना म्हशी गेल्यो रानां'
तुकाराम शेट ताका कानांत तेंको दितालो
'तुमी गरजेभायर वेळ होगडायतात'
पुंडलीक नायक तापून उलयलो
सगळे थंड पडले. ताणें सुत्रां हातांत घेतलीं
पंदरा मिणटां पुरस्काराचेर ताचें भाशण जालें
सगळ्यांनी ताळयो मारून निर्णय घेतले
पुरस्कार दिवंक तीन कातेगोरी आसच्यो
बाळगडे, म्हालगडे आनी नवे गडे
प्रस्थापीत को ले आसात तांकां म्हालगडे मानचे
अकादमीन जांकां अनुदान दिलां ते बाळगडे कोले
आनी मराठीकडल्यान कोंकणींत आयल्यात ते नवे गडे
'मागीर म्हाळगड्यांचें कितें? ते को ले न्हय'
यशवंत पालेकार पिरंगलो
'तांचेखातीर विद्याधीराज पुरस्कार आसा'
एन्. शिवदास उलोवंक रावतालोच
सगळे एकदम हांसले

स्टिफन्स केंद्राचो प्रताप नायक लेगीत
'तांकां मर्दीं मर्दीं नेहरू पुरस्कार दिवंचो'
फ्रेंच मनशांचें उदाहरण दीत मनोहरबाबान म्हळें
तांचें उतर सगळ्यांनी उखलून धरलें
'सगळें जालें पूण पुरस्काराचें नॉर्म थारायलें ना'
डॉ. तानाजीन याद केली
'तें तर थरलांच. बरें पुस्तक ताका पुरस्कार'
नागेश करमलीन मर्दींच म्हळें
'तशें जाल्यार तें बाळगड्याकय मेळूं येता'
अशोक भोंसल्यान खुटावणी सांसपिली
'नवे गड्यांकूय तो पयस उरचो ना'
'पैस'कार सुदेश लोटलीकारान पयसुल्ल्यान म्हळें
'पयसुल्ल्यान वाजली घांट....'
तुकाराम शेटीन नवें गीत सुरू केलें
ताका तें बालगीत म्हूण खबर नासुंये
खंयच्या कसार पुरस्कार दिवचो हाचेर बसका अडली
परतून एकदां गोंदळ सुरू
धा-पंदरा मिणटां तातूंत गेलीं
म्हज्यान आतां रावूं नज जालें
'ही भाशा मंडळाची बसका न्हय'
हांव तापलों. सगळे ओग्गी
म्हाका भियेवन न्हय. बोरकारींत नांव येत देखून
'पालेकार आसतकच दर बसका अशीच जाता'
कोणतरी उलयलो
'बोरकार तूंच थाराय पुरस्कार आतां'
सदच्या सभावान पांडुरंग फळदेसायान म्हळें
हांवें सुत्रां हातांत घेतलीं
सगळे काळीज पुरस्काराकडेन हाडून बसले
भाशा मंडळाचो पुरस्कार नव्या गड्यांक
कला अकादेमीचे बाळगड्यांक
नेहरू पुरस्कार म्हाळगड्यांक

पांच हजारांपरस व्हडले म्हालगड्यांक
आसा सगळ्यांक मान्य?
सगळ्यांनी मान हालयली
सगळे पुरस्कार सोर्ती घालून थारावपाचे
म्हणजे कोणाचेर फावोर केला अशें नाका
हे फावट आमी साहित्य अकादेमी पुरस्कार घेवंया
अशें म्हळ्याबराबर अकादेमी सचीव मुखार सरलो
ताणें सोर्तींचें बॉक्स म्हजे मुखार दवरलें
हांवें एक सोर्त काडली. नांव वाचलें. मीना काकोडकार
मडगांवकारांनी ताळयो मारल्यो. पणजेकार ओग्गी
'मीनाबायक अजून वेळ आसा.' एकलो
'पयली सोर्त बॉक्सांत उडोवन दुसरी काडली
'नागेशबाब करमली.' पणजेकारांनी ताळयो मारल्यो
ते बराबर पालेकारान सभात्याग केलो
'त्यापरस जाणटे आसात. आमचो हेढो आसा.'
मडगांवकार उबे रावले
हांवें तीय सोर्त भितर उडयली
तिसरी काडली. 'ही मात निमाणी आं!'
सगळ्यांनी मान हालयली
'नागेश करमली.' हांवें नांव वाचलें
परतुनय नागेशबाबाचीच सोर्त आयिल्ली
'हांवें सांगूक ना. बऱ्या पुस्तकाकच मेळटलो म्हूण!'
नागेशबाबान खोसयेन म्हळें
'हो बोरकाराचो फावर आं!'
कोणतरी उलयलोच
पाडपडूं एक्सांचें!



**२० ऑक्टोबर १९९१**



**को**जागिरीक गेल्लों पयर

कोजागिरी म्हाड्डोळा न्हय. कांपालार
खरें म्हळ्यार म्हाड्डोळची कोजगिरी फामाद
तरी दर वर्सा हांव ती टाळटां
थंय नाका जाल्ली बोरकारी सुचत म्हूण
तरी हे पुनवेक म्हाका रात जागोवपाची आशिल्ली
कोजागिरी म्हळ्यार कोऽऽ जागृती
कोण जागो आसा तें पळोवंक
लक्ष्मी भायर सरता हे राती
अशें हांव न्हय आमचे रवीन्द्रबाब म्हणटात
तांची गजाल खूब जाणांक पटली
ते रातभर जागे रावले आनी लक्ष्मीपती जाले
चर्चील आलेमांव, संजय बांदेकार बी
हांवें मात बंद कुडीनी रात घालयली
लक्ष्मीची भेट चुकयली
नातर येन्ना हांव म्हालगडो जावपाचों
मंत्र्यांचे मांडयेक मांडी लावन बसपाचों
एन्. शिवदास, मनोहरराय हांचेवरी
पूण तें नशिबांत आसूं नाका?
पुनवेक हांव जागो रावना म्हूण लक्ष्मी बेजार

मागीर हांवें लक्ष्मीखातीर कित्याक तिश्टप?
तेखातीर पुनवेची रात जागोवंक जाय
गोमंत बिरादरीचें आमंत्रण आशिल्लेंच
पुराय आमंत्रण इंग्लेजींतल्यान
म्हजी इंग्लेज तर सामकी फ्राक
तरी सुद्धा म्हाका 'बिरादरी' सोडून सगळें कळ्ळें
बिरादरीचो अर्थ हांवें मुकुंद नायकाक विचारलो
तो संजय बांदेकाराची वाट पळयतालो
ताणें म्हळें उमेश म्हांबऱ्याक विचार
हांव उमेश म्हांबऱ्याकडेन गेलों
तो बिरादरीच्या नांवान बोवाळटालो
दूरदर्शन केंद्राचेर बोवाळचो तसो
'म्हांबऱ्या बिरादरी म्हळ्यार कितें रे?'
हांवें उमेश म्हांबऱ्याक विचारलें
'आरे बिरादरी हें कोंकणी उतर मरे!'
नागेश करमलीकडेन गजाली मारत ताणें म्हळें
तो सांगता म्हूण हांवें खरें मानलें
तरी म्हाका बिरादरीचो अर्थ कळ्ळो ना
तो सोदीत हांव एका कोनशाक बसलों
इतल्यांत शिवदासाची चली 'उर्बा' आयली
'दिलीपकाका कसलो विचार करता?'
म्हज्या म्हऱ्यांत बसत ताणें विचारलें
बिरादरीचो अर्थ सोदतां गो बाय' हांवें म्हळें
'तो सामको सोंपो मरे.' ताणें म्हळें
'मागीर सांग पळोवया' हांवें मारथें घेतलें
गिन्यान हें भुरग्यांकडल्यानूच घेवचें आसता
'बिरादारी म्हळ्यार बिरआदारी'
तरी म्हाका कळ्ळें ना
तें म्हज्या नेणारपणांक हांसलें
'बिर म्हळ्यार बियर. ताचे आदारी ते बिरादारी.'
म्हाका ज्युरस्त अर्थ कळ्ळो

आमीं दोगांय थंयच बसून रावलीं
ताका कार्यक्रम पळोवपाचो आसलो
तर म्हाका लक्ष्मीक पळोवपाचें आसलें
रात सरत आशिल्ली
राज्यपाल आयलो, मंत्री आयले
व्हड व्हड धंदेकार आयले. पूण लक्ष्मी नाच
दूरदर्शनाच्यो धुवो मात हांगा थंय बोवाळटाल्यो
कार्यावळीक सुरवात जाली
मंत्र्यांचीं भाशणां जालीं
'ही वेंचणुकेची सभा?'
ऊर्बान म्हाका प्रस्न केलो.
ताका खरें सांगप हें म्हजें कर्तव्य आशिल्लें
'ना. ही बियर आदारींची सभा'
भाशणां उपरांत संजय पेटी घेवन बसलो
'हो मंत्री काय पेटयेकार?' उर्बाचो फुडलो प्रस्न
'तो मंत्रीच. पूण तो राज्यपालाक पेटी वाजोवन दाखयता.'
हांवें ताका टाळपाखातीर जाप दिली
'कित्याक? कोकण रेल्वे येता देखून?'
पेटयेचो आनी रेल्वेचो संबंद म्हाका कळ्ळो ना
'रेल्वे स्टेशनार अशेच पेटी वाजयतात न्हय!'
उर्बान फुडलें वाक्य म्हळें
हांवें ताचें तोंड बंद केलें
'मंत्र्यांविशीं अशें उलयनात गो.' हांवें म्हळें
उपरांत कवी संमेलन जालें
हांव तल्लीन जावन कविता आयकूंक लागलों
'हे कविता करून लक्ष्मीक आपयतात?'
उर्बाचे प्रस्न चालूच आशिल्ले
मर्दींच मंत्री हांगा थंय पासयो मारताले
ताचे फाटल्यान सगळे बिरादरी
'हे मंत्र्याफाटल्यान भोंवतात ते कोण?'
'आगो ते लक्ष्मीपती.'

ताका ओगी करूंक म्हजी जाप
'लक्ष्मी सदांच सत्तेफाटल्यान धांवता?'
उर्बा नाका जाल्ले प्रस्न विचारतालें
हांव जागो रावून लक्ष्मीची वाट पळयतालों
मध्यान रात जाली तरी लक्ष्मी ना
कोजागिरीच्या नांवान सगळे जागताले
कवी-गायक सत्तेक रिजयताले
दूरदर्शनाचेर दिसचे म्हूण प्रेक्षक जागताले
कविता वाचून घरा वचपी भिकाजीबाब लेगीत
इतल्यांत लक्ष्मी धर्तरेर आयली
कोण कोण जागता तें पळोवंक लागली
गोंयांत पयले फावट सगळेच जागताले
टी. व्ही.चे कृपेन झांकताले
सत्ता धोलता तशे धोलताले
लक्ष्मी बेजारून म्हजेकडेन आयली
'कोऽऽ जागृती' म्हणूंक लागली
हांवें उर्बाकडेन बोट दाखयलें
ती खूश जाली. म्हाकाय समादान जालें
जागो राविल्ल्याचें. कोजागिरीचें!

**२७ ऑक्टोबर १९९१**





पयर मडगांवां एका बार्रा भायर एक को ले मेळ्ळो
अवस्था भयंकर बिकट
तीच सफारी, आनी तीच पोज
पूण ताची ही इतली वायट अवस्था कित्याक जाल्या?
म्हाका ताणें पेल्यान व्हेलो
हांवें ताका विचारलें, 'आरे जालां कितें?'
'कडकी मरे' ताणें म्हळें
हांवें म्हळें, 'दिवाळी अंक काड मरे
कोंकणी अकादेमी जायराती दितली
नाच जाल्यार छापखानो घाल
कोंकणी अकादेमीचीं कामां मेळटलीं'
'हे! कोंकणी अकादेमींत खेट पडल्या
आनी सद्या कोंकणी वाठारांत दुकळ पडला
तुका दिसना?'
'मागीर उपाय कितें !' इति हांव
'कोंकणी आठवे वळेरेंत वचूंक जाय!'
'हय रे बाबा! अशी मागणी पोट भरिल्लेय करतात
उपाशी पोटीय करतात!'
मुखार एक म्हस खबरांपत्र खाताली
खंयचें पत्र काय म्हणून हांवें बारीक पळयलें

आयताराचें खंयचेंतरी कोंकणी पत्र तें
मास्टर हेड तिणें सगळ्यांत आदीं खावन उडयिल्ली
'म्हस तरी खबरापत्रां खावन जियेवंक शकता
आमी मनशांनी कितें करपाचें रे?'
बोल्सांत हात घालून बोल्सां हालयत कोल्यान म्हळें
'हालीं तेंपार खबरांपत्रां फकत
मेल्ल्यांच्यो खबरो छापतात
पंजाबांत आयज इतले मेले
आसामांत इतले आनी आंध्रांत इतले'
'हय, कोंकणी आठवे वळेरेंत गेलीना जाल्यार
गोंयांत कोलेय आतां भूकबळी पडपाचे आसात!'
'ना, ना आतां बेगीन कोंकणी आठवे वळेरेंत वतली'
हांवें म्हळें तशें ताचें मुखामळ फुल्लें
सारस्वत समर्थक आनी समता आन्दोलकवाले
दोगूय जाण खंय आतां कोंकणी
आठवे वळेरेंत घालपाक यत्न करपाचे आसात
जो कोण पयलीं घालता
ताचे फाटल्यान बार्कांचे उबे रावतले खंय!
नागेश करमली खंय दोनूय पंगडांत
बेटला बेटूल रावंक सोदता
मागीर कोल्यान सगळ्या कोंकणी समाजाचो
उध्दार करूंक सुरवात केली
'अमूक अमूक लेखकाचे
अमके अमके शिक्षिकेकडेन अनैतिक संबंद आसात'
हांवें म्हळें 'हय आयकलां खूब वायट गजाल ती!'
ताचें मुखामळ आनीक फुल्लें
म्हणूंक लागलो, 'हय मूं?'
हांवें म्हळें, 'ते बायलेचे म्हजेकडेनूय
तसलेच संबंद आशिल्ले जाल्यार कितलें बरें जावपाचें!'
तो निर्शेलो. कितें पिसो हो बोरकार!
बोरकारीक काय बरो विशय दिला आनी वेल्यान म्हणटा

आपणाकडेनय संबंद आसचे
असल्या उंचेल्या दर्जाच्या 'स्कँडलांत इन्ट्रेस्टूच' घेना
हांव कितल्या तरणाट्या बायलांवांगडा भोंवतां
हातूंत हांकां प्रत्येकाक इन्ट्रेस्ट
इन्ट्रेस्ट न्हय दुस्वास
हाचे जाग्यार आमी आशिल्ले जाल्यार
कितलें बरें जावपाचें!
हांवें विचारलें, 'आठवी वळेरी आनी ते बायलेचो संबंद कितें?'
म्हणूंक लागलो, 'सरकार सगळें पळयता
लेखकांची चलणुकूय पळयता...'
हांवें म्हळें, 'पूण धरकू लेखक चड आसात
ताकाच पयलीं वळेरेंत प्रवेश दिवपाचो
सरकारान नेम घाला
आनी तो तुमकां पयलीं कळयलां बी?'
ताचें तोंड पडलें
म्हणूंक लागलो, 'कोंकणीची दशा पळोवन
म्हाका टेन्शन आयलां म्हणून जियेतां'
तो थंयच लकलो. हांवें ल्हवूच कूस मारली
मातसो मुखार गेल्यार एक दिंडी येता
मुखार गुरुनाथबाब
हांवें विचारलें, 'नवें गोंय सुरू करूंक सोदतात काय कितें?'
'हें हें पुस्तक यात्रा...पुस्तकां खपूंक जाय
ते बगर कोंकणी आठवे वळेरेंत वता?'
नागेश करमलीन म्हळें, 'आमकां दिल्लीक परतून धाडात
आमी तें सगळें ज्युस्त करतात'
म्हाका पुस्तकां विकतीं घेवचीं पडत
म्हणून हांव भियेल्लों आसतनाच
चंद्रकांतबाब केणी गाडी घेवन
भुर्रकरून वतना दिसलें
हांवें मोटारींत उडी घेतलीच
म्हणूंक लागले, 'आमी आतां कांय

मिनेरांकूय कोंकणी चळवळींत घेवपाचे थारायल्यात
आठवे वळेरेंत कोंकणीक घालपाचें काम
तांचेकडेनूच सोंपोवप
ते जपान सरकाराकडल्यान
भारत सरकाराचेर चेंपण हाडटले
आमचो वासू पायणीकार आसाच दिल्लींत'
हांव वाटेर देंवलों
विचारांत पडलों
फाल्यां आठवे वळेरेन आपुणूच उत्की जावन
कोंकणीक यो यो म्हणून उलो मारूंक
सुरवात करीत जाल्यार
'पहले हम पहले हम' करीत हे सगळे
कोले झगडूंक लागपाचे आसात....
म्हाका देखाव दिसलो
आठवी वळेरी आइडता, 'कोंकणी गे यो मुगेSSS'
पूण तिका घट्ट धरून कोले म्हणटात -
'कोंकणीक आठवे वळेरेंत कोण घालतलो
तें आदीं आमकां थारावंदी.
पयलीं हें थारूंदी, तिका हाताक धरून
कोण आठवे वळेरेंत व्हरतलो!'
लेखकांनी कोंकणीक घेर घाला
तातूंत कोंकणी अकादेमीवाले आसात
नेहरू संघवाले आसात
गांधीवादी आसात, सारस्वतवादी आसात
विरोधीय आसात
कोंकणी घुस्मटल्या ..
त्या अर्दान कोंकणी मोगीय घुस्मटल्यात
एक पंगड कोंकणीक एका अर्दान ओडटा
दुसरो दुसरे वटेन...
आनी एक दीस प्रधानमंत्री अचकीत फर्मान काडटले
कोंकणीक आठवे वळेरेंत घाली

तिका तुमच्या राज्यांत घेवन वचात
सरकार धावपळ करतलें
पोलिसांक दक्ष दवरतलें
पोलीस ठाण्यार अधिकारी म्हणटलो
'आरे बाबा, कोंकणीचो कितेंतरी कागद आयिल्लो न्हय
काड पळोवया तो भायर!'
हवालदार कागद काडटलो
अधिकारी म्हणटले, 'आरे घात जालो,
कोंकणी खंय पयरूच आयली'
तिका व्हरूंक कोणूच गेले नात
हवालदार, तुवें कागद दामून दवरलो,
तुका ही वायट संवय!'
तो सांगतलो, 'वयल्यान तसो आदेश आसलो!'
इतल्यान मुखेल सचिवांचो फोन येतलो
'मुख्यमंत्री सर, कोंकणीची राखण करप
आमकां शक्य जावचेंना. तिचें येवप आनी कांय तेंप
फुडें धुकलप शक्य ना?
कोले दंगली सुरू करतले
आनी पुराय फोर्स थंय लावचो पडटलो!'
मुख्यमंत्री मागीर दिल्लीक रकाद धाडटले,
'कोंकणीची राखण करूंक आमी असमर्थ आसात,
तिका आनीक कांय वर्सां दिल्ली दरबारांतूच
एक्सांत काडून दवरात...'



**३ नोव्हेंबर १९९१**

**(सदचे प्रमाण पणजेच्या पिटीआयच्या डाकांतल्यान बोरकारी मडगांव धाडून दिल्ली. ती कोणेंतरी फारायली. मडगांवां राजू नायक आनी सुशांत कुंकळकार हाणीं वाट पळोवन पळोवन शेवटाक ही बोरकारी बरोवन म्हजे नांवार खपयली. हें अपत्य म्हजें न्हय)**



अतिरेक्यांनी म्हाका उबारलो

हे पंजाबी अतिरेकी न्हय
ते कोण दोग जाण बाबडे गोंयांत आयले
गोंयच्या अतिरेक्यांक आनी आतंकवाद्यांक मेळ्ळे
हांणीं आमचें नांव होगडायलें म्हूण पपा काडली
तांणीं केलें तें बरें केलें
गोंयकारांक ते अतिरेकीय मानिनांत आनी आतंकवादीय
गोंयचे अतिरेकी, आतंकवादी विचित्रूच
रवीन्द्रबाबालें म्हाभारत अप्रूप म्हणप अतिरेक
ताका अनुदान दिलां म्हूण बोब मारप आकांतवाद
समजा कोंकणी अकादेमीन दिलें एक अनुदान
त्याखातीर म्हालगड्यांनी आकांत कित्याक करप?
रवीन कोंकणी आठवे वळेरेंत घालचें थारायलें
मराठीवाद्यांनी तेन्ना आकांत केलो हें समजूं येता
पूण कोंकणी म्हालगड्यांचो अतिरेक केदो?
'आमी आसतना रवी आठवे वळेरेंत घालपी कोण?'
बोरकारींत हांव खंय अतिरेक करतां
हो कोंकणीवाद्यांचो आकांत
तेखातीर म्हजेकडेन उलोवप ना हो अतिरेक
तेच खातीर अतिरेक आनी आकांतवाद म्हाका पटना
म्हणून पंजाबी अतिरेक्यांक हांव भियेना
सगळ्यांक एकसार मारून बिनदास्त भोंवतां

थंयच घाळ उरलों आनी तांच्या हातांत पडलों
पंजाबच्या न्हय. गोंयच्या बाळगड्या अतिरेक्यांच्या
हे तोंडार बुरखे घालून म्हजे मुखार आयले
बुरख्यांचो म्हाका व्हडलोसो भंय दिसना
आयजवेर हांवें खूब बुरखे पळयल्यात
थोडे कम्युनिस्टांचे बुरखे घालतात
घर बांदतनां भटाक व्हरून भूमीपूजन करतात
कोण स्वताक निर्भिड पत्रकार समजतात
टोपणनांव वापरून हेरांची टिका करतात
कोंकणी-मराठीच्या सेवेचो बुरखो ओडटात
जाय तशें दोनूय हातांनी भुरकायतात
माजरां व्हियेतात तशे कांय कविता व्हियेतात
कवीचो बुरखो घालून मिरयतात
हातुंतले खरे कोण कितें तेंच कळना
तेपरस हे काळे बुरखे घाल्ले परवडले
कोण ते तरी वळखूंक कळटात
ह्या अतिरेक्यांक हांव ज्युस्त वळखलों
एक आशिल्लो मयेचो पुर्णानंद च्यारी
दुसरो मडगांवचो श्रीधर कामत
तिसरो कुडचड्यावेलो वसंत भगवंत सावंत
चवथो नवनिर्वाचीत पंच प्रशांत नायक
बाकीचे सगळे वळखीचे अनवळखी
'बाळगड्यांनो तुमी हें कितें आडायलां?'
हांव भिलां अशें तांकां दिसचें न्हय म्हूण हांवें विचारलें
तसो मनांतल्यान हांव थोडो भिल्लोंच
'आमी तुका हायजॅक करतात'. प्रशांतान म्हळें
गोमंतक टायम्साचे इंग्लेजीवेल्यान हांव ताका वळखलों
'हायजॅक न्हय रे किडनॅप
इंग्लेज कळना तर कित्याक उलयता?'
सदच्या सभावाप्रमाण श्रीधर उलयलो
'ताका कोंकणी उतर ना रे तुमचेकडेन? पुर्णानंद

कोंकणीकडेन आयिल्ल्याचें ताका पिकासांव जालें
चौगुय किडनॅपाक कोंकणी उतर सोदूंक लागले
किडनॅप म्हळ्यार फारावप. किडनॅप म्हळ्यार सुतलावप
किडनॅप म्हळ्यार हात मारप
किडनॅप म्हळ्यार उबारून व्हरप
चौगांनीय चार उतरां सोदून काडलीं
'हीं उतरां अभयकुमारान सांगल्यांत काय पालेकारान?'
इतलो वेळ ओगी आशिल्ले हेर बुरखेवाले आड्डले
म्हाका घट्ट धरून तांकां कंटाळो आयिल्लो
'ना. तीं श्रीपाद देसायाल्या शब्द कोशांतलीं'
गरजेभायर झगडीं नाकात म्हूण हांवें बंडल ठोकलें
सगळ्यांक तें पटलें. कितेंय जांव म्हूण म्हाका उबारलो
म्हज्या दोळ्यांक बांदून घेवन वचूंक लागले
'आरे बाबा तुमी कोण?' हांवें बेश्टेंच विचारलें
'आमी कोंकणी अतिरेकी' वसंत सावंतान म्हळें
'पूण म्हाका किडनॅप करून तुमचो फायदो कितें?'
तांकां पश्चताप जावंचो न्हय म्हूण हांवें विचारलें
समजा तांणीं म्हज्या घराकडेन कितेंय मागलें
घरचीं म्हणटलीं बरें जालें. घरा आयतें खातालो
तांचो एक हुस्को ना जातलो
खरें म्हळ्यार हांणीं रवी नायकाक व्हरपाचो
कांय ना तर कोंकणी अकादेमीच्या अध्यक्षाक तरी
अतिरेक्यांच्या शिबिराक अनुदान मेळपाचें
पूण हे दळद्रिरे दुसऱ्या दळद्र्याक व्हरतात
म्हाका व्हरून तांणीं एके बंद कुडींत दवरलों
म्हज्यांतलो फोन काडून फोनार फोन घुंवडायले
'हॅलो कोंकणी अकादेमी, आमी बोरकाराक व्हेला'
तो बरे भशेन जाय जाल्यार बेगोबेग कमिटी बदलात
चित्रंगीचेर तुमी अन्याय केला
तांकां जायरात दियात
शिबिरां सोडून गरजेचो वावर हातांत घेयात

हॅलो भाशा मंडळ? पयशे जमोवपाचें बंद करात
आसा त्या दुडवांनी कोंकणीची उदरगत करात'
अतिरेकी तिडकीन फर्मायताले
दुसरेवटेच्यान कितें जाप येता ती कळनाशिल्ली
तोंडावेल्या बुरख्यांतल्यान हावभाव कळनाशिल्लो
म्हाका दवरून हे नाका जाल्ल्यो मागण्यो करताले
बाकीचे अतिरेकी म्हाका दसून आशिल्ले
कोण बोरकारी सांग म्हणटाले
कोण आपल्यो नव्यो कविता म्हणून दाखयताले
ह्या कोंकणीवाद्यांनी नवे पिळगेची वाट लायिल्ली
तरी म्हजें नशीब बरें आशिल्लें
म्हालगड्यां कवीं परस हांचें काव्य सोसूं येतालें
अतिरेक्यांनी फोन दवरलो
ऑलव्हीन गोम्सावरीं चलत म्हजेकडेन आयले
तांणीं म्हज्यो दोरयो सोडयल्यो
'सगळे म्हणटात आमी मागण्यो मान्य करतात'
म्हाका बरें दिसलें. कितलो जीव म्हजेर हांचो
'पूण तांची अट आसा तुवें बोरकारी बंद करपाची'
'बरे भाशेन.' हांवें म्हळें
तांकां भिवून न्हय. कोंकणीचे उदरगतीखातीर
'पूण तुगे बोरकारी आमकां जाय रे' प्रशांताचो आग्रो
'तो बरयना जाल्यार हांव बरयतां.' श्रीधरान म्हळें
आनी खरेंच तो बरोवंक बसलो
तांचो हो अतिरेक मात अती जाल्लो
हार उडटा म्हूण गांयडोळान उडल्यार जाता?
बोरकारी चालूच दवरपाचें हांवें तांकां वचन दिलें
तांणीं म्हाका घरा हाडून सोडलो
दोळ्यांवयली पट्टी काडून

**१० नोव्हेंबर १९९१**



**मा**नेस्त संपादक सुनापरान्त
तुमचो दिवाळी अंक हातांत पडलो
नुस्तें हाडपाक धा रुपया घेवन बाजारांत गेल्लों
नुस्त्याचो वांटो वीस रुपयांनी सांगलो
देखून धा रुपयांचो अंक घेवन घरा आयलों
अंक पळोवन घरच्यांनी ताचेर उडयो मारल्यो
तांच्यो उडयो थारपाक खुबूच कळाव लागलो
तेचखातीर अंकाविशीं मत कळोवंक कळाव जाला
सुनापरान्ताचो दिवाळी अंक सुंदर जाला
वेळार दिवाळे आदले दिसा येवपी
होच एक कोंकणी अंक
ना तर जाग लेगीत फुडले दिवाळेक येता
हांवें तेविशीं सुमन्त केळेकारांक विचारलें
'ताचेर आमी धाकली दिवाळी अंक म्हूण बरयलां?'
तांणींच म्हाका परत प्रस्न विचारून थंड उडयलो
एन्. शिवदास तर दिवाळे दिसा जायराती घेतालो
यशवंत पालेकार व्हडली दिवाळी जावन
भायर सरतलो खंय!
कित्याक मंत्र्यानी तेन्नाच ॲपायन्टमेंट दिल्या
'चित्रंगी' दिवाळे दिसा येवपाचो

पूण सुनापरान्त पळोवन संपादकान धसको घेतलो
छापिल्लो अंक परतून छापूंक घेतला
सुनापरान्तामुखार तो सामकोच
विचित्रंगी दिसतलो देखून
पूण खरी गजाल वेगळीच अशें विरोधक म्हणटात
तांकां अजून जायराती येत आसांत
देखून कळाव जाला खंय !
कितेंय जरी आसलें तरी बायलांचें सगळें उसरांच
तें आसूं. हांव सुनापरान्ताविशीं बरयतालों
इतिहासिक विशयाचेर तुमी इतिहास घडयला
गुरुनाथ केळेकार हांचें कितें तरी वाचलें
पयलीं ती कथा दिसली. मागीर कोप्रआचो इतिहास
वाचून सोंपयतकूच तें आत्मचरित्र दिसलें
तांचे चलयेचें लग्न मुखार
कित्याक धुकल्लें तें मात कळ्ळें
डॉ. विनायक मयेकार हांचो
काँग्रेसीचो इतिहास आवडलो
आतांचोय इतिहास कोणेतरी बरोवंक जाय
ह्याच इतिहासाक लागून काँग्रेसवाले
काँग्रेसींत आसूंक जाय
गोंयचे काँग्रेसीनूय गोंयांत इतिहास घडयला
कोंकणी लेखक सद्या तो बरयतात
रवी नायक तो घडयता
लक्ष्मीदास बोरकारांची कादंबरी आवडली
नागेशबाबांक ती अर्दकुटी दिसली
ते खातीर म्हजी उमळशीक चाळवल्या
फुडल्या दिवाळी अंकात ती पुराय करून घेवंची
मारियो काब्रालांचो भोगाचो इतिहास बरो आसा
वाचून तांणीं तो खासा पळयला अशें दिसलें
रवीन्द्रबाबाल्या लेखांतले फोटे खंयचे?
ते खरेंच पुर्तुगालचे काय गोंय सुटके झुंजाऱ्यांचे?

तातुंतलो आजेंत मोंतेरूच सुटके झुंजारी दिसता
सुबोधालीं व्यंगचित्रां अप्रूप!
जोडयो लायात हातुंतल्यो जोडयो लायल्यो
दिलीप बोरकार स्मगलर ही जाप बरोबर
पूण लेखक कोण तो कळना
कदाचीत बाकीचे सगळेच लेखक आसतले
'फुलाच्या सहवासाने मातीलाही सुगंध येतो' खंय
आमचे म्हालगडे लेखक काँग्रेसींत घुसल्यात
तांच्या सहवासान तांकांय वास येता आसूं येतां
भांगर पिकलां खाणयांनी ही तांची कादंबरी येता
तिचेर डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा समिक्षा बरोवपाचें आसा
डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा हांकां तुमी वळखनांत
तशे खूबशे संपादक तांकां वळखनांत
तांणीं खूबशा नेमाळ्यांनी समिक्षा बरयल्या
हालींच गोंय विद्यापिठान तांकां डॉक्टरेट दिल्या
कवी प्रकाश पाडगांवकारांचे कवितेचेर
तेन्नाच्यान प्रकाशान कविता करप सोडलां
ताणेंच कित्याक? माधव बोरकारान लेगीत
तेच खातीर 'स्ट्रेंज बर्ड'चो तांणीं अणकार केला
गोंय विद्यापिठाचें हेंच एक बरें काम जालां
आतां कोणेय दोतोर घाणेकारांचेर प्रबंध बरोवंचो
तांच्या काव्याचेर कोणाकूय डॉक्टरेट मेळूं येता
चड काव्यसंग्रह जाय जाल्यार रामभाऊ आसा
पूण एक्साचे तांचेर लक्षूच दिनांत
कोंकणीवाद्यांची ही गटबाजी समा न्हय
असल्यांनी ते जातीवंत कवींक सोंपयतले
तुमच्या दिवाळी अंकात सगळो इतिहास आयला
पूण कोंकणी सरस्वतीचो इतिहास मात ना
ते खातीर अंक मातसो नोताद दिसता
दोतोर प्रोसोर ओलव्हिन गोम्साक तुमी विसरले?
तांच्या इतिहासाचो एक वांटो तरी घेवपाचो

सद्या तांचो हो इतिहास बीएक लागला
फुडल्या वर्सा तो मुळाव्या शाळांक लागतलो
कोंकणीचीं मुळां घट करूंक हें गरजेचें काम
पूण तुमकां इतिहासकारांची कदर ना
तांचो इतिहास घेतल्यार काय बरें जावपाचें
सुनापरान्ताचो अंक तरी एम्‌एक लागपाचो
आसूं! जाल्ले चुकीची खंत करपांत अर्थ ना
सुनापरान्तच्या हेर लेखांविशीं कितें बरोवं?
सगळे अप्रतिम आसात. मांडणीय सुंदर
खास उल्लेख फेलिस कार्दोजांचो करूं येतां
तांचीं व्यंगचित्रां सहज कळपासारकीं आसात
राजकारण्यांचे रांगेत सगळ्यांक दाखयल्यात
उल्हास बुयांवा पासून प्रकाश थळयामेरेन
पूण होच एक मडगांवकार तातूंत ना
तो आशिल्लो जाल्यार वळेरी पुराय जावपाची
दिवाळी अंकाची कितली म्हूण तोखणाय करूं?
बरयतलों जाल्यार खूब आसा
एक सुंदर अंक दिल्याबद्दल तुमकां परबीं
मोग आसूं



**१७ नोव्हेंबर १९९१**





पावला कणकणीचें रिकॉर्डींग करतालों
ब्रेस्ताराची कार्यावळ बुधवाराक करची पडटा
साडे पाचांक स्टुडियोंतल्यान भायर आयलों
इतल्यांत रेडिओचो फोन घणघणलो
फोन घेवपी कडकडलो. मेळटा तसो धांवत सुटलो
कोण तरी मंत्री आकाशवाणीचेर येता आसूंक जाय
हांवें थंयच्यान कडसरपाचें थारायलें
मंत्र्यावांगडा रावप म्हाका जमना तें!
गरजेभायर लेंगेलेंगे करचें पडटा
आतां तीय कला आशिल्ले लोक आसाच
कला अकादेमींत पळयना हांव?
पभुअण्णा पासून सावळो केणी मेरेन दारांत तिश्टतात
मंत्री यो मेरेन दोनूय पांयांर उबे रावतात
तें मोठ्या मनशांक सोबता. म्हाका न्हय
हांवें स्कुटर स्टार्ट केली
इतल्यांत मिलन हेगडे धावून भायर आयलें
म्हाका बोट दाखोवन कितें तरी म्हणूंक लागलें
ताच्या फाटल्यान आकाशवाणी अधिकारी
म्हजें रिकॉर्डींग चुकलां काय! म्हाकाच प्रस्न पडलो
स्कुटर दवरून परत रेडिओर गेलों

आख्खो रेडिओ उचंबळीत जाल्लो
'हांवें सांगूक ना, बॉम्ब हो पळे भायर आसा म्हूण?'
म्हाका पळयत मिलनान म्हळें
'हो बॉम्ब न्हय. खरो बॉम्ब' एकलो अधिकारी
'खरो आनी फट. आमी ताकाच बॉम्ब म्हणटात
सुरेखा चोडणेकारान पर्स सांबाळीत म्हळें
मिलनाक आनी ताका घरा वचूंक कळाव जातालो
पयलींच तांकां म्हाका लागून वेळ जाल्लो
शिवाय मडगांवां दिंडीय आशिल्ली
कितें घडलां तें म्हाका कळना जालें
तांकां तशीं सोडून वचप म्हाका जमलेंना
चौकशी केली तेन्ना कळ्ळें, कोणाचो फोन आयिल्लो
रेडिओचेर बॉम्ब दवरला. स वरांचेर फुट्टलो
आतां रेडिओचेर बॉम्ब म्हणटकच सांगूंकच नाका
दर एक उतर मेजून पळोवपी रेडिओ
बॉम्ब म्हणटकच सगळ्यांच्यो कपलाक पावल्यो
डायरेक्टर आपल्या मार्मिटाक हात लावंक भिवंक लागलो
तरी कोणे पुलिसेक फोन केलोच
धडाधड पुलिस आयले. वांगडा सुणेंय हाडलें
सुण्यांक पळोवन रेडियोवाले आनीक भिले
सुणें धांवत लायब्ररींत गेलें
थंयचे ध्वनीफितींक हुंगपाक लागलें
एके टेपीचेर सुण्यान दांग वयर काडलेंच
रेडियोवाल्यांचेर आनीक कलकल
तांणीं सकाळींच घाणेकाराचीं
गीतां ताचेर रिकॉर्ड केल्लीं
राष्ट्रीय एकता सप्तकाक वाजोवपाखातीर
सुणीं थंयच्यान युसूफ शेखाकडेन आयलीं
मेजार चडून ताच्या बोल्सांक वास घेवंक लागली
एकल्यान घास मारून तातुंतलो कागद काडलो
पुलिसेन तो उसोवन पळयल्यार कविता

दूरदर्शनार वाचपाखातीर ताणें ती रचिल्ली
कविता म्हूण कळना बराबर पुलिस भियेलो
जल्लो फाफुडचो तसो ताणें कागद फाफुडलो
सुणो जयश्री शानभागाच्या टेबलाकडें गेलो
तिच्या जेवणाचो दबो उस्तुंक लागलो
'बॉम्ब आनी मगेल्या दब्यांतु? अजापूच एकु!'
आपूण भिवंक ना अशें दाखोवंक तिणें म्हळें
तिच्या दब्यांत खरेंच बॉम्ब नाशिल्लो
दनपारची उरिल्ली मुळ्याची भाजी मात भश्टली
बॉम्ब फुटपाक आतां फक्त पांच मिणटां उरिल्लीं
रमेश बर्वे विविध भारतीचेर निवेदन करतालो
ताका इतले मेरेन बॉम्बाची खबर कळिल्ली
ताणें सगळ्या देवांची प्रार्थना केली
स्टुडियो सोडून भायर धांवचें अशें ताका दिसलें
पूण इतल्या वर्सांची सेवा उदकांत वचपाची
ताणें पंजाबी संगीत बंद केलें
आपलें खास निवेदन सुरू केलें
आमी आकाशवाणी पणजी केंद्रावयल्यान उलयतांव
आकाशवाणीर बॉम्ब फुटपाक फक्त पांच मिणटां आसात
तेसर आयकात सर्व धर्मीय प्रार्थना
पूण रमेशभाईक प्रार्थना सांपडालिना
ते बदलाक ताणें कोंकणी गीत घालून सोडलें
काळीज हें बूम बॅंगा बॅंग . बूम बॅंगा बॅंग जाता
सुणें आनी पुलिस अजूनय धांवताले
स्टेजी पोंदा ताकां एक बॉक्स सापडलें
पुलिसेन सांबाळून तें भायर हाडलें
तातूंत बॉम्ब आसूं येतालो.
स्टेजीफाटल्यान अ केंद्राचो स्टुडियो
अ केंद्राचेर निवेदनाक शकुंतला आशिल्लें
हांवें शकुंतला आरसेकाराक भायर काडपाचें थारायलें
'गॅस सांबाळून वापरात

गॅस कशाय कसो वापरल्यार एकदीस तो
भांगरा परसूय म्हारग जातलो'
आपल्या बोटाची तांब्या मुदी सांसपीत ताणें फिलर सोडलो
स्टुडियोंत वचून हांवें ताका बॉम्बाची खबर सांगली
पूण तें भिलेंना. रेडियोचेर नवेंच आशिल्ल्यान जावंये!
ताणें परत नवो फिलर सांगलो
बॉम्ब सांबाळून वापरात
बॉम्ब कशाय कसो वापरल्यार एकदीस
तो भांगरा परसूय म्हारग जातलो
आनी भांगरा बदला बॉम्बाची तस्करी गोंयांत चलतली
स जावंक आयलीं. हांवें भायर धांव मारली
कितेंय घडल्यार म्हज्या नांवान बोब  मारपाचे
नावाडग्याचें खंय खाड हालता
हांव नावाडगोय आनी खाडयोय
भायर येवन पळयल्यार पुलिस बॉक्स उगडटात
बॉम्बाक भिवपाचें आसता हें तांचेवेल्यान कळटालें
पुलिसेन बॉक्स उगडलें
तातुंतल्यान एक वस्त भायर काडली
बारकायेन पळयत जाल्यार दुदाचो बोम
माधव बोरकारान आपल्या बाबूक हाडिल्लो
कवितेच्या नादांत रेडियोर विसरिल्लो

२४ नोव्हेंबर १९९१





कोंकणी अकादेमीचें पत्र आयलें
भायल्या स्टॅम्पावयल्यान कळटालें
उक्तें करचे पयलीं हांव चितूंक लागलों
कसलें पत्र आसतलें काय हें?
अकादेमी स्थापन जाल्ल्याक हीच संवय लागल्या
गरज नासतना अदमास काडपाची
संशोधना खातीर स्कॉलरशीप बी न्हय मूं?
शब्दकोश करपाचीय ऑफर आसूं येता
कांयच ना तर रामायण तरी आसतलें
पयलीं तें सुमंत केळकाराक दिल्लें
ताचेकडल्यान तें मनोहरबाबाकडेन गेलें
उपरांत कसलें रामायण घडलें तें खबर ना
तेंच आतां म्हजेकडेन आयलां आसूं येतालें।
पूण तशें घडूंक अकादेमी कितें तकलेन सुटल्या?
नाका जाल्ले हावेस बाळगितां हांव
कोंकणी अकादेमी मराठी अकादेमी जाल्ले भशेन
हें आसतलें हेर करालेंय आमंत्रण
बायलां मेळाव्याचें वो भुरग्यां मेळाव्याचें
अथवा बोंडला सारख्या सुवातांनी जेवणाचें
चडूय अदमास नाका म्हूण पत्र फोडलें

ते बराबर म्हज्या काळजांत धस्स जालें
तरी बरें म्हाका प्रेसांवाचें ना
भायलें पाकीट अकादेमीचें तर आमंत्रण फ्रांसेज
धुमेबाबाची चूक जाल्या आसूं येताली
आनी जावचिना कित्याक?
सरकारान बाबाड्याचेर
दोन जापसालदारक्यो घाल्यात
ताका एक्सायजाचो वावर
काय अकादेमीचो वावर तेंच कळना
चुकून खंयचीय चीट खंयच्याय पाकिटांत वता
पूण आलियांस फ्रांसेजचें कार्ड हांगा कशें घुसपलें?
फ्रांसेज सरकार तर कव्हरांक फामाद
इंग्लेज सरकारान लेगीत फ्रांसेज नांव घेतलां
अशें आसतना फ्रांसेजान अकादेमीचें कव्हर घेवप?
ही तांची फ्राकेज काय भाशीक एकचार?
तें कितेंय आसूं. म्हाका बरें दिसलें
आलियांस फ्रांसेजीन अकादेमीचें
कव्हर घेतलां म्हूण न्हय!
म्हाका यादीन कवी संमेलनाक आफयलें म्हूण
कवी संमेलनां उपरांत कॉकटेल पार्टीय आशिल्ली
कविता मारल्यो झक, कॉकटेल गरजेचें
आलियांसांत पावले बराबर आपशींच झेत आयलो
कोंब्या सारखो. तांचें चिन्ह कोंबो म्हूण जावंये
थंय सगळेच कोंबे कशे बोवाळटाले
जाणटे तशे नेणटे. कॉकटेल घेवचे पयलींच
सगळो फ्रेंच भाशेचो प्रभाव आसूं येतालो
म्हाकाय फ्रांसेज आयल्यार काय बरें जावपाचें!
जाणटेपणार लेगीत हांव कोंबोच उरपाचों
माचयेर मनोहरबाब आनी माधव बोरकार
मुखार मेजून णव कदेलां
आठ कदेलांचेर कवी बशिल्ले

णवव्या कदालेचेर हांवें कुले तेंकयले
मित्रांनो म्हणत मनोहरबाबान सुरवात केली
उच्चार फ्रांसेज जाल्ल्यान तें मितराँ दिसलें
तांणीं माधव बोरकाराची तुळा रॅम्बोकडेन केली
तो चौदा वर्सांचो आसतना रॅम्बोच्यो कविता वाचतालो
रामभाऊक दिसलें तो आपल्यो कविता वाचतालो
ताच्या तोंडार सगळीं फुलां फुल्लीं
तें पळोवन अशोक भोंसल्यान तोंड काळें केलें
सद्या रामभाऊ आनी भोंसलो एका पातळीचेर आसात
दोगांयचींय नांवा साहित्य अकादेमी पुरस्काराक आसात
म्हणून दोगूय एकमेकाचेर जळटात
माधव बोरकार कविता वाचून थकिल्लो
कविता लांब म्हूण न्हय. फ्रांसेज उच्चार करून
कोंकणी फ्रांसेजीन उलोवं येता हें म्हाका कळ्ळें
मनोहरबाबान मात ते त्रास घेतलेनांत
तो सरळ फ्रेंचीनूच फ्रेंच उलयलो
ताच्या शेजराक बशिल्ल्या फ्रांसेज मनशाक लागून
रमेश वेळुस्काराम तसले कश्ट घेतलेना
ताणें सदचे भशेन आपली कविता म्हळी
फ्रांसेज मनशांनी ताळयो मारल्यो
त्याखातीर आमीय मारल्यो. रामभाऊन लेगीत
साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळटकच
कोणूय ताळयो मारतात
कविता कळूंक जाय अशें कांय ना
दामोदर घाणेकारान पुर्तुगेज कविता वाचली
ह्या घाणेकाराची म्हाका मजाच दिसता
तो केन्ना गुप्तहेर कथा बरयता
तर केन्ना पुर्तुगेज कविता
सुनापरान्त पुर्तुगेज जायना म्हण ताणें सोडलो खंय।
आतां राष्ट्रमताचे आशेन तो पुर्तुगेज काव्य रचता
कॉकटेलच्या आशेखातीर कितेंय घडटालें

हांव आनी कितें कविता वाचूंक आयिल्लों तर?
पयलेच फावट कविता वाचून कितें तरी मेळटालें
मानधन नासलें तरी मानपान आशिल्लें
हांव कॉकटेलाची वाट पळयत बसलों
जबरदस्तीन कविता पचोवंक लागलों
फ्रांसेज मनीस तर येन्ना न्हिदिल्लो
कोंकणी कवींचो अत्त्याचार ताका सोंसलोंना जावंये!
शेवटाक मनोहरबाबान मितराँचे उपकार मानले
कॉकटेल बरी जाल्ले बद्दल धन्यवाद दिले
सगळ्यां भासांच्यो कविता म्हणप म्हळ्यार कॉकटेल खंय!
फटाफट सगळे कवी भायर सरले
पांखां गळिल्ल्या कोंब्यावरी चलत रावले
हांवूंय वचपाखातीर उठलों
पूण मनोहरबाबान म्हाका हाताक धरून बसयलो
'बोरकारी बरोवंचोना जाल्यार आयक सांगतां'
म्हज्या कानाकडेन ताणें म्हळें
हांवें तांकां अभिवचन दिलें
'आतां भितर कॉकटेल पार्टी आसा.' ताणें म्हळें
त्या बराबर न्हिदिल्लो फ्रांसेज मनीस फटक करून उठलो
एक्साच्याक बेस बरी कोंकणी येताली

**१ डिसेंबर १९९१**





कोणाच्यो म्हशी आनी कोण काडटा उठाबशी!

म्हज्या घरांत सद्या हीच गत जाल्या
म्हाका कोंकणीचो दिश्टावो जालो
मराठी सोडून हांव कोंकणीचे सेवेक लागलों
घरच्यांनी बोटां मोडून दांत-वोंठ किल्लिले
सगळें सोसून हांव मुखार वचत रावलों
म्हजे हे तपश्चर्येक फळ आयलें
कोंकणीची तांक आमच्या घरच्यांक कळ्ळी
सगळें जाग्यार पडटा थंयच आसा
गुरुनाथ केळेकाराचो चित्रबोध घरांत पावलो
ताका लागून घरचें आनी भोंवतणचें वातावरण इबाडलें
भावाल्या चल्यान सांवार करून उडयिल्लो
तें प्रकरण निस्तारतासर नाका शेवट जाल्लो
इतले म्हणसर आनीक एक प्रकरण उप्रासलें
म्हज्या भावालें चली सोनियां मुळावें शिक्षण घेता
पयलीं ताका अपुर्बायेन इंग्लेजीक घाल्लें
इंग्लेज शाळा कोंकणी जाल्ल्यान तेंय कोंकणी जालें
तरी ताचेवेलें इंग्लेज भूत वचूंक नाशिल्लें
तें शाळेंतल्यान आयलें आनी ताणें आबाक तिडायलो

आबा हो पेडणेचो गवंडो, शेजाराक रावता
आबा हो आदल्या विचारांचो जाणटेलो
अनंत राम भटाचो भेस जसो अजून बदलूंक ना
तसो आबाचोय भेस बदलूंक ना
तो अजुनय वेंतभर लांब शेंडी दवरता
ते शेंडयेची सोनियाक ल्हानपणासावन अपुर्बाय
फाटलीं पांच-स वर्सां तें तिचेकडेन खेळटा
तिका शेंडीच म्हूण तोखेता
पूण हे फावट मात सोनीन तिका पीग टेल म्हळी
आबाक इंग्लेज मात लेगीत कळना
तरी पीग म्हळ्यार धुकर हें तो जाणां
पीग टेल म्हळ्यार धुकराची शेपडी म्हूण ताका कळ्ळें
आपले शेंडयेक पीग टेल म्हळ्या बराबर चाळवलो
अखेरेक झगडीं म्हजेकडेन पावलीं
हांवें आबाची चूक मागली आनी सोनीक समजायलें
ताचो म्हजे परस आपले टिचरीचेर चड विस्वास
तिणेंच शेंडी म्हळ्यार पीग टेल म्हूण सांगिल्लें
ती टिचर किरिस्तांव म्हूण आबा अदीक बेजार
'आमी कोंकणी नको म्हणतय त्याचां कारण ह्यां
आमचे शेंडयेक धुकराची शेपडी म्हणतत
सगळां कोंकणी जालां तर आमी धुकर बनतले
आवशी खायरे कोंकणी करतत!'
आबाचें तोंड बंद करप शक्य नाशिल्लें
उठलों आनी सोनीचे शाळेंत गेलों
ते टिचरीक तापोवन काडून जाप विचारली
तिणें आपली जापसालदारकी टीएसकेकेचेर सोडली
ह्या असल्या लोकांचें एक बरें आसता
सगळें करून आपले खांके ओरशे करतात
कोण धेंगां ओरशीं करता. त्रास आमकां!
आतां एस.के.के. क सोदचें पडलें
तांणीं कोंकणी मुळावो कोर्स तयार केला खंय!

कोंकणी राजभास जाल्ल्याक ही भानगड सुरू जाल्या
वता तो कोर्स सुरू करता
कोंकणी भाशा मंडळाचो कोर्स
कोंकणी अकादेमीचो कोर्स
सरकारी कर्मचाऱ्यांचो कोर्स
कोर्स दिवपी खूब जाण
मात घेवपी कमी
हांव टी.एस्.के.के.चो मुळावो कोर्स सोदूंक लागलों
पूण ही टि.एस.के.के. म्हळ्यार कितें भानगड?
वाटेर म्हाका राजभास मंत्री उसगांवकार मेळ्ळो
ताणें म्हाका रमाकांत खलपाकडे धाडलो
'ते संवकल्यात कोंकणीक खावंक'
खलपान तकली खरपीत फूलफॉर्म सांगलो
पूण तो कोंकणी विरोधी वायटूच उलयतलो
आमचो चंद्रकांत केणी सारकें सांगतलो
मुद्दाम मडगांव वचून तांकां मेळ्ळों
'ते सुटल्यात कोंकणीक किरावंक'
आपले उतरावळीचें पांचवे संस्करण पळोवन तांणीं सांगलें
वाटेर महाबळेश्वर बोरकाराल्या दुकानार गेलों
थंय कोंकणी मुळावो कोर्स दिश्टी पडलो
हळडुव्याच कव्हराचो तांबडे देगेचो
पन्नास रुपया वट्ट दिवन विकतो घेतलो
मॅथ्यू आल्मेद ह्या भाशा शास्त्रीन बरयिल्लो
तॉमास स्टीवन कोंकणी केंद्राखातीर
टी. एस. के. के. म्हळ्यार कितें हें पन्नास रुपयांक कळ्ळें
तेभायर कोंकणी भाशातज्ञांचीं नांवां कळ्ळीं
भास सल्लागार माया खरंगटे
सल्लागार मंडळाचेर तर आकांत मनशां
प्रताप नायक, दुर्गा चोडणेकार,
निर्मला साल्ढाणा, उषा हळदणकार
चर्चिलाचें नांव नजरचुकीन उरलें आसूं येता

हांवें ह्या शास्त्र्यांक नमन करून पुस्तक उगडलें
एका दमांत पुस्तक वाचून काडलें
आतां मंगळूर पावल्यार म्हाका भंय नाशिल्लो
म्हज्यान थंय वचून उद्यम करूं येतालो
लुवीसाची सोयरीक कमलाकडेन जांव येताली
आलीसाचो मोग सुनील करूंक शकतालो
गोंय मंगळुरांत घालूं येतालें
वा एका दोंगुरलेर मंगळूर वसोवं येतालें
बोंडलाच्या जनावरांचोय फायदो जावपाचो
कोंकणी अकादेमीचे शुद्धलेखन नेम तांकां शिकोवपाचे
सुरेश बोरकारालें व्याकरण म्युजीयमांत दवरपाचें
इकराव्या शेंकड्यांतलें म्हूण वापरूंक मेळटलें
मुळाव्या कोर्साक ताचो उपेगूच ना म्हणा
चडांत चड दोसा बांदू येतालो
हांव मुळावो कोर्स घेवन सोनीकडें गेलों
'तूं आयलोय मुरे तीव?'
म्हाका पळोवन सोनियान विचारलें
'व्हय, हांव आयलोंय. तूं शिकताय मुगो?'
ताका पुस्तक दीत हांवें विचारलें
त्याच वेळार म्हजी नदर आबाचेर गेली
तो आपली पीग टेल बांदतालो
ताच्या मुखार एक धुकरा पेटो भोंवतालो
आपली शेंडी गिरगिरें कशें घुंवडायत
हांव तिचेकडेन पळयत उरलों!

**८ डिसेंबर १९९१**



म्हालगडे सद्या म्हजेर बेजार आसात
च्ये! तांचेर बोरकारी बरयता म्हूण न्हय!
असल्या बोरकारीक ते एक्सार मारतात
असल्यो ल्हान सान गजाली मनांक लांव येता?
सादे-सुदे कोणूय गडे आसल्यार वेगळी गजाल
म्हालगड्यांची कात सामकी दाट जाल्या
आनी जावंचीना कित्या खातीर?
कोंकणीचे उदरगतीक लागून तांणीं थोडें सोसूंक ना
तांच्याच त्यागाक लागून आयज कोंकणी फुल्ल्या
गोंयची राजभास कोंकणी जाल्या
शाळांशाळांनी कोंकणी पावल्या
दर एकलो आतां कोंकणीच उलयता
ज्ञानेश्वर तज्ञ आदले खासदार गोपाळराव लेगीत
हालींच तांणीं ज्ञानेश्वरी कोंकणीत सांगली खंय!
पूण आमचे म्हालगडे बेजार वेगळ्या कारणाक
तांचें म्हणणें हांव आतां व्हडलो जालां
पुंडलीक नायका भशेन हांव खंयच्चेच कार्यावळीक वचना
कविसंमेलनां जातात. हांव थंय वचना
कोणाचो सत्कार जाता. म्हाका लागना
भाशा मंडळाची बसका जाता. हांव पावना
हांवें सगळ्या राटावळींत वांटो घेवंक जाय
हें म्हजें मत न्हय. म्हालगड्यांचें मत
केन्ना केन्नाय म्हाकाय तशेंच दिसता

भाशा मंडळाच्या वावरांत वांटो घेवंचो म्हूण
म्हजो पालव दिवन मागीर टिका करप
एकदां हांवें भाशा मंडळाचे बसकेक वचपाचें थारायलें
मडगांवां पावलोंय बी पूण मातसो कळाव जालो
लॉयला हायस्कुलाच्या दारांत पावलां मात
आमचे म्हालगडे पंढरीनाथ शेणवी लोटलेकार भायर सरले
भितर तांणीं हेरांक बरेच सोलले आसूं येताले
तांकां तसो अधिकार आसा
इतली जमीन तांणीं कोंकणी भवनाक दिली
पूण कोंकणी भवन काय अजून वयर सरलें ना
मराठी अकादेमीन आपलो येदो व्हडलो फ्लॅट घेतलो
मागीर लोटलेकारबाब कित्याक तापचेंना?
'लोटलेकारबाब बसका सोंपली?'
हांवें घड्याळ पळयत तांकां विचारलें
'बसका सुरू जावंकूच ना. फकत झगडीं सुरू आसात'
तांणीं रागा रागान जाप दिली आनी ते गेले
इतल्यांत भितरल्यान जोतीं भायर येवंक लागलीं
तीं कोणाचीं तीं कळनाशिल्लीं
म्हजी नदर ह्या लोकांच्या पांयांकडे केन्ना गेलीच ना
जोतीं येता थंयच आसा, एक सत्रीय भायर आयली
भितर अध्यक्ष पालेकार आसा हें म्हाका कळ्ळें
सगळे मोठ्यामोठ्यान तापताले. वयले पट्टींत
बाकीचे बांक वाजयत धीन धीन धीन म्हणटाले
म्हाका सरकाराचो संताप मारलो
कोंकणीची चळवळ खंय पावल्या? तरी झगडीं जोत्यांनी?
ह्या लोकां.क सरकार शस्त्रां केन्ना दितलो?
म्हालगडे सत्री आनी जोतीं कितलो काळ वापरतले?
मडगांवचीच गजाल न्हय. पणजेंय होच प्रकार खंय!
तेन्नाच्यान हांवें धसको घेतला हांचो
कोंकणीचे खंयचेच कार्यावळीक वचप ना
पंजाबाक वचून हांव गुळयो बरे भशेन खायन

पूण म्हाका हें जोतें-युद्ध मात सोसना
तेच खातीर हांव बसकेक वचना. म्हणून हे बेजार
तरीपूण केन्ना केन्नाय उपाय नासता
देखून आयज हांव टी. बी. कुन्हात गेलोंच
कोंकणी लेखक संघाची बसका आसा देखून
बसकेंत म्हाका विचार मांडपाचे नाशिल्ले
सद्या हांव विचार करीच ना. सगळो अविचार
म्हाका लेखक संघाचो अध्यक्ष जावपाचो आशिल्लो
तेचखातीर हांवें कोंकणी लेखक
अशेंच बरोवंक सुरवात केल्या
को.ले. हें शॉट फॉर्म खूप जाणांक माल पडटा
कोंकणी लेखक दुखावता
अशा वेळार म्हाका लेखक संघाचो अध्यक्ष कोण करतलो?
खंयचे ना खंयचे संस्थेचें अध्यक्षपद जायच
अध्यक्षपद नासले बगर मनशाची उदरगत जायना
अध्यक्षपद ना तर उपाध्यक्षपद तरी जायच
भाशामंडळाचो अध्यक्ष यशवंत पालेकार आसाच
कॉंग्रेस डिस्ट्रीक्ट अध्यक्ष एन.शिवदास आसा
कोंकणी अकादेमीचो उपाध्यक्ष मनोहरबाब आसा
बाकीचे आपापले सुवातेर खुशालभरीत आसात
म्हजेकडेन मात कसलेंच अध्यक्षपद ना
लेखक संघाच्या नांवान म्हाका संद मेळिल्ली
तसो हांव कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष जावपाचों
पूण फाटलीं आठ वर्सां तांची वेंचणूक ना
फुडलीं पंदरा वर्सां जावपाची शक्यताय ना
तरी बरें पुरुषोत्तमबाब काकोडकार
अध्यक्षपद सोडटात म्हूण
ते खातीर नागेशबाबाचे उपकार मानूंक जाय
तांणीं काकोडकाराक बरोच तापयलो देखून ते सोडटात
पूण ते लेखक संघांत प्रयत्न करपाचे ना मूं?
अध्यक्षपदाची संवय ही केन्नाच सुटना

तरी पूण ते लेखक खंय आसात तर?
लेखक संघाचो अध्यक्ष लेखकानूच जावपाचो
म्हजी आस वाडली. म्हाका चान्स पडटलो
पेपरांत दिवंक पांच स बरे बरे फोटो घेतले
पार्टी दिवपाखातीर थोडे पयशे बोल्सांत घाले
टि. बी. कुन्हात भितर सरलों
म्हाका अध्यक्षाची आपशीच पोज आयली
आदींच्या मेंबराकडेन फंडाची चवकशी केली
संघाच्या पास बुकाचेर पांचूच रुपया आशिल्ले
म्हजो मूड मातसो ऑफ जालो. तरी पर्वा नाशिल्ली
पयशे जमोवं येताले
पयशांची म्हाका चिंता ना. पद म्हत्वाचें
त्या नेटार जाय थंय जाय तसो मिरोवं येता
हॉलांत हांवें नदर मारली
भिडेच्या राजहंसांत जमता तितलीच गर्दी
कोणाचेर ना कोणाचेर हांवें बोरकारी बरयिल्ली
म्हाका वेंचणुकेचो राग रंग कळ्ळो
काँग्रेस पक्षावरींच ही वेंचणूक जावपाची
कोण अध्यक्ष जातलो हाचो वास म्हाका लागलो
म्हजो अध्यक्षपदाचो नेट ल्हवू ल्हवू देवंक लागलो
थोड्या वेळान अध्यक्षपदाचें सपनूय भंगलें
बोरकारीन तोंडाकडेन आयिल्ली संद होगडायिल्ली
डिपॉजीट गेल्ल्यावरी म्हजी स्थिती जाली
आतां एकूच आस्त आशिल्ली
ती कोंकणी अकादेमीची
ताच्या अध्यक्षपदाची.
म्हज्या एक्सांत तेंच बी ना मूं?

१५ डिसेंबर १९९१



म्हाका केन्ना खूब काकूट दिसता
म्हजी न्हय. हांव म्हजी काकूट केन्ना करिचना
म्हाका काकूट दिसता ती हेर म्हालगड्यांची
आमचे म्हालगडे खूब विचार करतात. पूण आपलेपरीन
म्हज्रे बोरकारीविशीय ते आपले परीन येवजितात
आपापल्याक जाय तसो अर्थ काडटात
तें मनाक लावन घेतात आनी दुखावतात
बोरकारींचें एक समजूं येता. हेर लेखकांचेंय तशेंच?
फाटले आयताराक 'सुनापरान्तचे' अंक खूब खपले
कारण किते तर हांवें बरयिल्लो मीना वेलो लेख
हरशीं बोरकारी खातीर अंक खपता हातूंत दुबाव ना
शशिकांत नार्वेकारा पासून दयानंद नार्वेकार
आनी मनोहर सरदेसाय पासून
गणी सरदेसाय तो विकतो घेतात
सगळ्यांत पयलीं बोरकारी वाचतात
मागीर थोडे म्हणूं 'आमकां बाये ती आवडऽऽच ना'
अशें म्हणूनय आपलें नांव सोदूंक सगळीं वाचतातूच
फाटले आयतारा म्हजो लेखूय वाचून म्हाका ते मेळ्ळे
म्हज्या लेखान हांवें खंय मीनाक खूब दुखयलां
मीना काकोडकाराक अकादेमी पुरस्कार मेळ्ळो

गोंयचे एके बायलमनशेक मेळ्ळो म्हूण तोखणाय जायच
हांवें म्हजे परीन ती मन सोडून केली
लक्ष्मण सरदेसायांवरी फाट थोपटप म्हाका जमच ना
चडांतचड हरिश्चंद्र नागवेकारावरवीं आस्वाद घेवपाचें
तेंय म्हाका जमलेंना
कित्याक हांव शिकोवपी आनी शिकपी
हेरांवरीं पुस्तक वाचिनासतना उलोवपी प्रा. न्हय
देखून हांवें म्हळें 'सुकण्या पिलाक उडूंक शिकूंक जाय'
तर पयलें उस्तरें गेलें गुरूनाथ केळकाराक
ते फाटोफाट जायत्या म्हालगड्यांक
म्हाका पुरस्कार मेळूंक ना म्हूण म्हाका दुखलां खंय!
तेच खातीर रागान हांवें तशें बरयलां अशें तांचें मत
तांचें मत कितेंय आसूं
तांचें मत म्हळ्यार राष्ट्रमत न्हय
म्हजें मत हें वेगळें मत
म्हाका पुरस्कार मेळ्ळो कितें वा ना मेळ्ळो कितें एकूच
अशोक भोसल्याची 'खुटावणी', जयंती नायकाचें 'गर्जन'
रामभाऊचें 'म्हाळसा स्तोत्र', माया खरंगट्याची 'कयपंजी'
सुनील पालकाराची 'नागीण' आनी कोणाची 'फोगीण'
तातूंत आनी म्हजें खंयचें तरी अवजाळी पोर
ताका पुरस्कार भेटयलो म्हूण कितें फितां चडटात?
आतां पंचवीस हजार म्हणत तर मात वेगळी गजाल
तरी पूण आयच्या काळांत ताका मोल खंय आसा?
शिवदास सहज दोन फ्लॅट घेता थंय ते व्हड म्हणपाचें?
तो म्हळ्यार अकादेमीच्या एका जेवणाचो खर्च!
एक दिवाळी अंक काडल्यार सहज पन्नास हजार मेळटात
अशें आसतना म्हजेर दुबाव म्हळ्यार कुन्नाटेपणां न्हय?
तो जांचेर घेवपाचो तो कोणेच घेतलोंना
कित्याक तांणीं सगळ्यांत पयलीं मीनाचें अभिनंदन केलें
हांव तें करचें सोडून लेख बरोवंक बसलों
म्हालगड्यांच्या वायटपणाक कारण घडलों

खरें म्हळ्यार हांवें लेखिकेचेंच मत लेखांत मांडलां
नातर राष्ट्रमतांतली मीनाची मुलाखत वाचात
मीनाबायच्चे नदरेन ह्या पुरस्काराक अर्थ ना
वाचप्यांचो मोग म्हळ्यारूच ताका पुरस्कार
मोगाक पुरस्कार मानपी केदें व्हडलें तत्वगिन्यांनी हें!
नेमाडेचें 'टिका स्वयंवर' एकल्याय म्हालगड्यान वाचूंना
तरी लेगीत ताका पुरस्कार मेळटा. राग म्हणून
मीनाबायचो 'दोंगर चंवल्ला' कॉलेजीक लागलां
ओलव्हीन बाबाचो 'सरस्पती'चो इतिहासूय लागला
लागला म्हणचेपरस ताणेंच तीं पुस्तकां लायल्यांत
विद्यार्थी बाबडे राग काडीत तांचेर मोग करतात
आता हो जबरदस्तीचो पुरस्कार काय पुरस्कारांचो मोग!
मीनाबायच्यो कथा ह्यो चडश्यो वास्तव आसतात
तें खऱ्यो घडणुको जशाक तशो घेता
तातुंतलीं पात्रां बदलता आनी
आपलीं मनांतलीं पात्रां रंगयता
तरी लेगीत ताची कथा वास्तवकथा
तें प्रामाणिकपणान हें सगळें आपूण जावन सांगता
आनी हांवें खरें बरयल्यार म्हजो राग करप?
आवयचो घोव ना व्हरून?
वेल्यान म्हजेर नाका जाल्ले आरोप करप
कोंकणी अकादेमीचो फायदो मेळना
म्हूण हांव तिचेर बरयतां
निवडून येवन मंत्री जायना म्हूण मंत्र्यांचेर बरयतां
पुरस्कार मेळना देखून मेळटल्यांचेर बरयतां
जणुकाय हांव पुरस्कार मेळटकच बरोवप बंद करतलों!
दत्ताराम सुखठणकारान केलां तशें!
म्हाका पुरस्कार मेळचोंना हें म्हाका पुराय खबर आसा
कित्याक आमगेर जायू गावडी ना
तशें आमगेर वावर करपाक त्या समाजाची बायल येता
पूण हांव तिका जातीयवाचक उतर वापरना

हांव तिका जायूआका म्हूण उलो मारतां
ते खातीर ती मोगान घराचो वावर करता
ती म्हाका काणयो सांगत बसना
ती गजाली सांगता त्यो तांकां हिणसावपी लोकांच्यो
त्योच हांव दिसपट्टी आयकतां
आयकून ओग्गी बसतां. समता आंदोलन करिना
ती कालूच म्हणटाली म्हाका आपल्यो काणयो बरय म्हूण
तिचें आयकत जाल्यार म्हाका पुरस्कार मेळूं येता
मागीर तिचो उल्लेख करचो पडलो ना?
तसो केलो जाल्यार समता आंदोलन जागें जातलें
गोंयांक उजो पेट्टलो
सगळ्याक समता उरतली
समतेचें बरें आसा म्हजे जायुचेर अन्याय जावंचोना?
हें अन्याय निवारण बोरकारी बरोवन कशेंच जायना

**२२ डिसेंबर १९९१**





**म्ह**जे बायलेक केळीं भोवच आवडटात
देखुनच तिका हांवूय आवडटां
केळीं हीं सोलपाक सोपीं आसतात
तशीच तीय म्हाका वयर सकयल सोलता
फाटल्या आयतारा तिका तशी संद आयतीच मेळ्ळी
आयती म्हणचेपरस हांवेंच तिका ती दिली
सकाळीं उटल्या बराबर तिणें बोरकारी वाचली
बोरकारी दर्जेदार साहित्य प्रकार म्हूण ती वाचिना
हांवें खंयच्या वल्यांची नांवां घेतल्यांत तें पळोवंक वाचता
ती म्हूण आनी खंयची जातली?
शेवटीं तीय कोंकणी म्हालगड्यांचीच वंशज।
सकाळफुडें हांव न्हेसून तोरांदि भायर सरलों
हरशीं 'खंय वता, कित्याक वता? हांव येतां' म्हणटा
त्या दिसा मात हासून म्हाका निरोप दिलो
झुंजामळार वचपी सेनापतीक दिवंचो तसो
हांव लेखक संघाचे वेंचणुकेक वतां हें तिका कळिल्लें
दनपरां घरा आयलों जाल्यार ही दारांत उबी
हातांत पंचारत आनी तोंडार हांसो घेवन
'बाकीचे वांगडी कोण कोण जाले?'

म्हाका ओवाळीत तिचो पयलो प्रस्न
'शट अप. शट अप.' म्हज्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं
त्या बराबर ती कांचवेली. थरथरली
पयलेच फावट म्हजेर धेंगसनासतना ओगी रावली
म्हजी चूक म्हाका कळून आयली
बसकेक सगळे को.ले. मेळटात तशे उलयताले
आदलो अस्तंमपी अध्यक्ष तांकां ओगी बसयतालो
तापून 'शट अप शट अप' म्हणटालो
एन.शिवदासाचीं तींच उतरां म्हाका दशिल्लीं
'हांव अध्यक्ष जालोंना' मान बागयत हांवें म्हळें
म्हाका तिचे आरतीचो गैरफायदो घेवपाचो नाशिल्लो
'मागीर दुसरो कोण जालो तर?'
पंचारत कुशीन काडून फटक करून तिणें म्हळें
आतां ती चुट्टी ओवाळटली अशें दिसलें
पयलीं वतांत तांपून आयिल्लों तांतूत आनी हें
झगडीं नाका म्हूण मोन्यानी भितर सरूंक लागलों
'पयलीं सांग कोण जालो? नातर जेवण मेळचेंना'
तिचो अपेक्षा भंग जाल्लो म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें
लेखक संघाची कमिटी सांगल्याबगर पर्याय नाशिल्लो
अध्यक्ष - नागेश करमली
उपाध्यक्ष- प्रकाश पाडगांवकार
सचीव- दामोदर घाणेकार
भांडारी- अरुण साखरदांडो
'म्हणजे सगळे सारस्वतूच मूं?
म्हजी वळेरी पुराय जावचे पयलींच ती धेंगसली
ती सारस्वत जावनूय सारस्वतांचेर कोंत्र
कारण तिच्या बापायक हांवें लग्ना पयलीं फट मारिल्ली
बोरकार हे सारस्वत देखून हांवूय सारस्वत म्हणिल्लें
'ना. प्रकाश पाडगांवकार आसा न्हय!
हांवें तिका थातारपाक मखलाशी केल्यो
'तो सादो-भोळो कवी? तो कित्याक उपकारता?'

ताका घेतला आसतालो फक्तत कुकमाक आदार म्हूण'
आतां मात हिचें अती जाल्लें
ती सरळ सरळ जातीयवाद वाडयताली
ही गजाल सारस्वत संघटनेक कोताक येताली
म्हज्या सारख्या एका सुप्रसिद्ध लेखकाच्या घरांत न्हय
तरी लेगीत हांव तिका कांयच म्हणूंक शकनाशिल्लों
सकाळचो च्या घेनासतना भायर सरिल्लों
वेळ जायत म्हूण!
'आगे ती समिती अस्थायी. चार म्हयन्यां खातीर'
तिका म्हाका कशेंय करून थातारूंक जाय आशिल्लें
'अस्थायी? अस्थायी हाचो अर्थ कितें?'
'अस्थायी म्हळ्यार ॲडहॉक.' म्हजी सादी जाप
'म्हाका इंग्लेज धर्म नाका. तुजे परस बरें जाणां हांव'
उपाशी पोटार म्हाका ही घायाळ करताली
'मे म्हयन्यांत वेंचणूक जावन हांव अध्यक्ष जातलों'
'मेलो तूं अध्यक्ष जातलो, मे म्हयन्यांत वेंचणूक दवरल्या!'
'कोंकणी अकादेमीची समिती अस्थायी नाशिल्ली?
तुमच्या लेखक संघाची कमिटी ॲडहॉक नाशिल्ली?
कितल्या वर्सांनी जाली संघाची वेचणूक?
अकादेमीची आनी कितल्या वर्सांनी जातली?'
ती एका दमात म्हजेर चौफेर मारो करताली
तिचेंय म्हणणें तशें सामकेंच चुकीचें नाशिल्लें
'आगे, ती गजाल वेगळी आनी ही वेगळी
ही अस्थायी समिती फकत चार म्हन्यांखातीर
सरकारी इंग्लेज बोर्ड काळे करपाखातीरूच नेमल्या
एकदां तांचेर काळें केलें की समिती बरखास्त
तिका समजावपाखातीर हांवें परतून यत्न केलो'
ती तितल्यार ओगी बसल्यार बायल कसली?
लेखक संघाचो अध्यक्ष म्हळ्यार
राष्ट्राध्यक्ष अशें ती समजल्ली
फणफणत म्हाका वाडूंक लागली

वाडटां वाडटां रडूंक लागली
'काय बरीं सपनां रंगयिल्लीं हांवें
तूं लेखक संघाचो अध्यक्ष जातलो
तुका कारवारच्या संमेलनांत मानाचो पाट मेळटलो
तुका कोंकणी अकादेमीचेर आपोवन व्हरतले
कला अकादेमीचें तुका सदस्यत्व मेळटलें
हांगा थंय तुका सोयरे म्हूण व्हरतले
सरकारचे राजभास मंडळाचेर तुका घेतले
सदांच तुमी संघाच्या नांवान पत्रकां काडटले
दिसपट्टें तुमचें नांव वर्तमानपत्रांचेर येतलें
तुमचे वांगडाच म्हाकाय नटून वचूंक मेळटलें
हेरा सगळ्यांच्या बायलांचेर पोज मारूंक मेळटली
हांव म्हळ्यार कितें वेगळीच हें दाखोवंक मेळटलें
पूण तुमी म्हळ्यार सामके एक्स थारले
तुमी म्हज्या सपनांचो सामको इबाड केलो'
सुलोचना काटकराकडें जावंचेंना इतल्या दमात ती उलयली
हांव मोन्यांनी जेवीत रावलों
ती बाबडी मोन्यानी सपनां गळयत रावली

**२९ डिसेंबर १९९१**





गोंयकारांची म्हाका मजाच दिसता
अशी मजा एकदां पंडित नेहरूक दिशिल्ली खंय!
तांणीं तेच खातीर 'अजीब है गोवा के लोग' म्हळें
तेन्नाच्यान दर एकलो गोंयकार अजीब वागूंक लागलो
ते उपरांत गोंयकारांची मजा दिसली अना म्हांबऱ्याक
ताणें मुंबय रावंक सुरवात केली आनी
गोंयकारांक तिरसुवाद थारायले
अशे तरेन गोंयकार अजीब आनी तिरसुवाद जाले
तांचें हें अजीबपण आनी तिरसुवादपण अजून आसा
अजीब आसात ते नेहरूचो रथ भोंवडायतात
नेहरूच्या नांवान पुरस्कार भेटयतात
तिरसुवाद आसात ते मात फकत वाट पळयतात
म्हालगडे जावन बाळगड्यांची वाट लायतात
सुरवेक सगळे वाट पळयत रावले रवींद्रनाथ टागोरांची
गोंयांत टागोर जावपाचो आसा अशें भाकीत बाकीन केलें
खूबशे जाण टागोर कशे वागूंक लागले
पूण आगोर सोदून थिगूर लेगीत सांपडलोना
टागोराची वाट पळोवन खूब जाणांची वाट लागली
तरी तिरसुवादांनी वाट पळोवप सोडलीना
धा वर्सां वाट पळयली राजहंसाची

हो राजहंस नळदमयंतीचो न्हय. हो आमचो भिडेचो
फाटलीं धा वर्सां जण एकलो म्हणटालो 'येता येता येता'
ताचेरूच रवीन्द्रबाबान 'यदा, यदा' म्हणून सोंपयलें
कोंकणी अकादेमीचें आयज येतोलो फाल्यां येतोलो जालें
पूण येवपाचो आशिल्ल्या राजहंसाचो पत्तो ना
हेर म्हालगड्या तिरसुवादांभशेन
म्हाका वाट पळोवप जमना
म्हाका खूबच ताकतीक लागल्या
तेच खातीर म्हाका पांडुरंग भांगीचो शब्दकोशाचो हुसको
मनोहरबाब सरदेसायांच्या विश्वकोशाची अथरेकणी
दोतोर प्रोसोर ओलव्हिनाच्या आठ पेपरांची ताकतीक
तीच गत राजहंसाची जायत म्हूण म्हाका भंय
राजहंस चौदा नोव्हेंबराक येता म्हूण कळिल्लें
पूण बालदिन आयलो आनी गेलो
नेहरूचो रथ भुरग्यां भेटेक पावलो
पूण भुरग्यांच्या राजहंसाचो रथ हाल्लो ना
हुसक्यांत पडून वुल्फांग रोडावेल्या राजहंसांत गेलों
पणजेच्या रस्त्यांचीं नांवाय म्हूण अशीं विचित्र
वुल्फांग रस्तो सोदता सर नाका शेवट जालो
वुल्फांग म्हळ्यार वुल्फ आंग खंय
वुल्फाच्या आंगाचे जे रस्त्यार मेळटात तो वुल्फांग रस्तो
अशें हांवें श्रीपाद देसायांच्या शब्दकोशांत वाचिल्लें
रस्तो सोदीत प्रभाकर भिडेकडेन पावलों
म्हाका पळयल्या बराबर ताणें म्हजेकडेन लेख मागलो
हांव भियेलों
हाकाय यशवंत पालेकाराचो वसो लागलो काय कितें?
आपुणच संपादक, मुद्रक, प्रकाशक, वाचक, विमोचक जावंक!
हांवें भिडेक ताची जाप विचारली
'शी बाबा! हांव फकत प्रकाशक!' भिडेन जाप दिली
राजहंसाक उशीर कित्याक जालो हाचीं साबार कारणां दिलीं
'आमचो राजहंस हो भुरग्यांचो राजहंस

ते खातीर पयली गरज ही भुरग्यांची
उपरांत गरज लागता ती संपादकाची
आमचो संपादक आसा रमेश वेळुस्कार
सद्या तो कुळागराचें संपादन करून थकला
ताका जाणट्यां पासून भुरग्यांमेरेन
येवंक कळाव लागतलोच
राजहंसाचें वेवस्थापन प्रशांती तळपणकार पळयता
ताचे तकलेंत प्रकाशनाच्यो दोन तारको घोळटात
खंयचें प्रकाशन फेब्रुवारींत आनी
खंयचें नोव्हेंबरांत हेंच तें विसरलें'
प्रभाकर भिडेच्यो अडचणी म्हाका कळ्ळ्यो
राजहंस ना येवंचे परस केन्ना तरी आयिल्लो बरो
नातर सगळी गत मारूती भशेन जातली
मारूतीन जी उडी मारली ती मारलीच
परतून भुरग्यांच्या हाताक तो लागलोच ना
राजहंस राजहंसाचे चालीन येतलो हें खरें
उदकांतलें दूद तितलें वेगळें करतलो हेंय खरें
पूण केन्ना येतलो हाचीच म्हाका चिंता
इतल्यांत संपादक राजहंसाचे चालीन आयलो
तो भारदस्त आनी वजनदार दिसतालो
कुळागरांतल्यान थकून आयला म्हण जाणवतालो
ताचें हड्डें अभिमानान फुलून गेल्लें
रमेशबाबाची पेक्युलियर चाल सगळें सांगून गेली
भिडेक राजहंस केन्ना येतलो हें सांगचें पडलेंना
वेळुस्काराक पळोवनच तो आयलो म्हणपाचें कळ्ळें
ताणें भुरग्यांचो रंग रंगयाळो अंक काडून दिलो
पयलीं दिशिल्लें राजहंस म्हळ्यार कुळागर जातलें
कांयच ना जाल्यार ऋतू तरी जातलोच
पूण हो तर खऱ्यांनीच राजहंस आशिल्लो
राजहंस पळोवन सगळ्यांनी ताचेर झोपय घाली
'म्हजो शाऽऽनो लाजहंस तो, बाबूक खेलूंक उपकाल्लो'

प्रशांतीन ताका कुरवाळीत म्हळें
राजहंस आयलो म्हणपाची खबर पणजेभर पातळ्ळी
सगळ्या भुरग्यांनी तो पळोवंक गर्दी केली
हांवें अपुरबायेन राजहंस उक्तो केलो
चाळटां चाळटां हांव खूश जालों
म्हाका तातूंत गोंयचो फुडार दिसूंक लागलो
मुखार राजहंस नेटान चलता
ताचे फाटल्यान मारूती उडयो मारता
मारूतीचे शेपडेक धरून आनीक खूबशे अंक
कोणाचो कावळो म्हणून तर कोणाची चिमणी म्हणून
आनी कोणाचो जल्लो तर कोणाचो हुंदीर
तरी राजहंस आपलो चलपाचो नेट सोडिना
तो चलत चलत दुदाचे हांडयेकडेन पावता
हांडयेतल्या दुदांत चोंच घालता
फक्त दूद वेगळावंक लागता
इतल्यांत हांडयेंत फाटले येवन तोंड घालतात
दुदासयत उदकूय फस्त करतात
हांव राजहंस धापतां



**५ जानेवारी १९९२**





**टू** बी ऑर नॉट् टू बी!

समता आंदोलनाचे परिशदेक वचचें काय ना वचचें!
होच म्हजे मुखार एक व्हडलो प्रस्न आसा
कितले तरी दीस होच प्रस्न म्हाका सतायता
तेच खातीर म्हाका जेवण खाण रूचना
कमलेश्वर आयला तेन्ना कोंकणी अकादेमीन जेवण दवरलें
खूब दिसांनी बरो ऽऽ पोटभर जेवतलों म्हूण गेलों
जेवणांपयलीं शिवदासान परिशदेची कार्यावळ हातार दवरली
ती वाचतां वाचतां जेवणावेली वांसाच गेली
ती देवळे खुली करा चळवळ आशिल्ली तर वेगळी गजाल
तीं केन्नाच जावचींना हें म्हाकाय खबर आसा
तेच खातीर हांव निश्चिंत जावन जेवपाचों
पूण समता आंदोलनाची गजाल वेगळी
हें आंदोलन जैतीवंत जातलें म्हणचे जातलेंच
दुभाषी गेलो ना म्हूण कितें समता आयले बगर रावता?
ती आयलींना जाल्यार दत्ता नायक चळवळ सोडटलो
ताणें कॉंग्रेस सोडलीना तर फटाफट
दत्ताबाब कॉंग्रेसींत गेलो तसो पुटूक करून भायर आयलो
बाकीचे मात सगळे हातापोंदा चिडडून उरले

कोणें हात हातांत घेतलो, कोणे हाताचो उमो घेतलो
कोणें यथेच्छ हात ओडलो तर कोणें हात भोंवडायलो
ही सगळी हाताची करामत, ताची न्हय
दत्ता मात ताच्या चपक्यांतल्यान सुटलो
म्हालगड्यांक सोंपोवपाखातीर दत्ताचीच ती मांडणी
अशें हांव न्हय आं! लोक म्हणटात!
पूण दत्ताविशीं म्हाका मात पूण दुबाव ना
ताच्या वावराविशीं म्हाका आदर
देखून परिशदेक वचन दिसता
तरी पूण हांवें थंय कोण म्हूण वचप तर!
काय मनोहरबाबावरीं मदले आमी म्हणोवन घेवप
मनोहरबाबाचीय म्हूण कॉमिकूच आं!
ताचे कवितेंत गावडे आसा, कुणबी आसा, सगळे आसा
बामण मात वखदाक ना. आसात ते मदले
देखून हांवूंय मदलोच म्हूण परिशदेक वचूंक सोदतां
मदलो रावपांत खूब फायदो आसा
आयजवेर एकेवटेन रावलों आनी खूब लुकसाण सोंसलें
ह्या मुखार हीं असलीं पिशेपणां नाकाच
लेखक खंय एके जातीचो न्हय. मदलो तर न्हयच न्हय
तो आसता सगळ्या जातींचो
हें तत्वगिन्यान आतां खूब पोरणें जालें
आतां मनशान मदलो म्हूण रावंक जाय
त्याच हक्कान समता आंदोलनाक वच
थंयच्यान सारस्वत मेळाव्याक भेट दी
मागीर कोंकणी परिशदेचे माचयेर बोवाळ
वेळ मेळ्ळ्यार जाती संस्थेचेर उलय
सगळें सांबाळून मदलो म्हूण राव
हेर आमचे म्हालगडे करतात
हांवें केल्यार कितें वायट?
तातूंत जालो जाल्यार फायदोच जातलो
समजा फुडें फाटीं म्हाका ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळो

म्हजे सगळे सत्कार करचेनात? करतले
कोंकणी भाशा मंडळ करतलें
पूण सारस्वत मेळावो मात करचोंना
कित्याक हांव समता परिशदेक गेल्लों म्हूण
आतां तो उणाव आंदोलन भरून काडटलें
तरी पूण तातूंत तो आब उरचोना
आंदोलकांकडेन धेंपो खंय आसा? भाई केणी खंय आसा?
ते सगळे व्हड मनीस सारस्वत मेळाव्यांत
मागीर मीनाबायक लेगीत म्हाका कूय करूंक मेळटलें
पळय म्हजो सत्कार धेंपेन केलो. तुजो कोणे केलो?
तेन्ना हांवें किते उदयबाबान म्हूण सांगपाचें?
उदयबाबाकडल्यान म्हाका मान मेळत, धन मेळटलें?
ते खातीर सारस्वत मेळावो हजार पटीन बरो
तरी लेगीत एका लेखकाक सोबना हें
म्हजी ओड समता परिशदेकडेनूच आसा
ती हांव मनांतले मनांत दवरतलों
कोणाक सांगचोंना. दत्ता बाबाक लेगीत
मदलो जावन मदलें मदलेंच खातलों
वेंचीक खातलों. सगळ्याक मिरयतलों
दनपारचें जेवण समता परिशदेचें
सांजची च्या कोंकणी अकादेमीची
रातचें जेवण सारस्वत समाजाचें
न्हिदूंक वचप क्षत्रिय मराठा हॉस्टेलांत
हीच खरें म्हळ्यार खरी रीत. योग्य नीत
पूण हांवें तें चुकयलें. ती चूक सुदारूंक जाय
आयच्यान हांव ती सुदारूंक सोदतां
मदलो जावन, कुवाळो जावन
कोंकणी जावन! एकस जावन!



**१२ जानेवारी १९९२**



**बा**पूय म्हजेर पयलेच फावट तापलो
तो तापतलो म्हणपाचें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक नाशिल्लें
ताका कोणाचेर तापप म्हणटात तें जमचना
तापपाचें आशिल्लें जाल्यार ह्या पयलींच तापपाचो
हांवें बोरकारी बरोवंक सुरवात केली
हांसून उलोवपी गांधीवादी लेगीत खुबळ्ळे
म्हजेकडेन उलोवपाचे बंद जाले
पूण बापायन एका उतरान विचारलेंना
दर म्हयन्याक सुनापरान्ताचो चेक ताका दिसतालो
कितें तरी जोडटा म्हूण ओगी रावला आसुंये!
पूण समता आंदोलनाक हांव गेलां हें ताका कळ्ळां मात!
आख्खें घर ताणें माथ्यार घेतलें
हांवें धर्मा भायर लग्न केलें तरी ताणें कांय म्हळेंना
हांव कोंकणीचे वाटेन रावलों तरी तो ओगी
गोंय दूरदर्शनाचेर सगळे म्हालगडे येवन गेले
तांचीं खुमणीं ताणें थंडसाणेन पळोवन सोंसलीं
भिकाजी घाणेकाराच्यो कविता आयकुनूय हांसलो ना
डॉ. विनय सुर्लकाराच्यो उडयो मोन्यांनी पळयल्यो
इतलेंय आसून अजून तूं कसो ना हें विचारलें ना
तशें पळोवंक गेल्यार दर बापायची एक इत्सा आसता

आपल्या पुतान हेरांवरीच टिव्हीचेर दिसचें.
ताका जरी तें व्हडलें दिसना जाल्यार बाकीचे विचारतात.
'आरे तें हेगड्यालें संगिता परत परत दिसता
तुजो पूत कसो ना?'
'घाणेकार कविता म्हणटा,
मलेरियाचेर उलयता. तुज्या पुताक जमना?'
'तुजे पुतान कोंकणीक वावुरपाचें
फायदो हेरांनी घेवपाचो?'
'इतलेंय आयकून बापूय हांसून ओगी रावता
म्हाकाय एका उतरान ते विशीं कांय विचारना
ताचे नदरेन दूरदर्शन म्हळ्यार एक्स
त्या पडद्याचेर कोणूय येवंक शकता
शांती तेंडुलकार दिसता थंय म्हजे खंय कोंत?
संजय बांदेकार दिसना तर परत परत?
कोंकणीचो आनी कार्यक्रमाचो कसलोच संबंद ना
तेचखातीर म्हज्या बापायक तें व्हडलेंशें दिसना
ताचें तापपाचें कारण वेगळेंच आशिल्लें
समता आंदोलन हें फकत एक निमित्त म्हणूंक जाय
म्हज्या बापायचे समता विशयक विचार वेगळे
'जंय चंद्रकांत केणी ना थंय समता आसूंकूच शकना
जंय रवीन्द्र केळेकार ना ते परिशदेक अर्थ ना
तांच्याच भरवंश्यार म्हजो बापूय ओगी आशिल्लो
हांव कोंकणी चळवळींत पडलों तो कोंकणी खातीर
त्यावेळार हांवें जात धर्म बी पळयली ना
कोंकणी मनीस हो कोंकणी मनीस हें म्हजें मत
पूण चंद्रकांत केणी म्हळ्यार सगळ्यांचें मत
अशें बापायचें मत
तो समता परिशदेक आसतलो अशें ताका दिसलें
देखुनूच ताणें म्हाका थंय वचूंक दिलें
पूण जेन्ना ताका कळ्ळें तो थंय ना तेन्ना तो चाळवलो
तातूंत ताचीय म्हूण तशी चूक ना

फकत ताच्या विचारांक धक्को बशिल्लो
इतल्या वर्सांचो अणभव मातयेभरवण जाल्लो
सगळ्यां परिशदांक चंद्रकांतबाब माचयेर आशिल्लो
सगळ्यां संस्थांत चंद्रकांतबाब आसाच
तो ना अशी एकूय चळवळ गोंयांत ना
जांव ती मागीर खरे गोंयकार वा जांव कोप्रआ
तेच खातीर केणीबाब आमच्या घरांत देव कसो
हांवेंय तांचेवरीच फुडारी जावंचो
अशें घरच्यांक दिसतालें
देखुनूच तांणीं म्हज्या कोंकणी वावराक
हरकत घेतली ना
खंयचेय परिशदेक वचूंक म्हाका तेंको दिलो
पूण पयलेच फावट समता परिशदेक हरकत घेतली
हांव परिशद सोंपोवन धर्माधिकारीचें भाशण
आयकून घरा आयलों
परिशदेच्या वातावरणाक लागून सामको भारावन गेलों
सगळी गजाल सांगतलों म्हूण बापाय म्हऱ्यांत गेलों
'परिशदेक केणी आयिल्लो?' बापायचो पयलो प्रस्न
'रवींद्र केळेकार आयकूंक तरी आयिल्लो?' दुसरो प्रस्न
'तुका तांणीं माचयेर व्हरून बसयलो?' तिसरो प्रस्न
म्हाका ना म्हणूंक संदूच दिली ना
'तूं ना म्हणटलो हें म्हाका खबर आसा'
म्हाका उलोवंक दिनासतना ताणें फुडें म्हळें
'आमच्या बामणां भितर पयलींच समता ना
उब्यांली सोयरीक अजून आडव्यांगेर जावंक ना
आडवे केन्ना उब्यांगेर वचून च्या घेनांत
म्हणून हांव सारस्वत मेळाव्याक वचूंक ना
समता परिशदेक हांवें तेचखातीर पटी दिवंक ना
पूण तूं नेटान परिशदेक गेलो आनी फसलो
जे शाणे आशिल्ले ते पळय कशे कुशीन रावले!
ते खातीर थोडी तरी अक्कल जाय आसता

सगळें करचें पूण हाड गळ्यांत बांदचें न्हय
आपलो मठ केन्ना विसरचो न्हय
तुका तें कळचें म्हूण म्हालगड्यांकडेन सोंपयिल्लो
म्हालगडे सगळें सादोवन मेकळे. तूं मात रस्ताद!
आतां पळय ते तुका लागीं धरतात जाल्यार!
कोंकणी अकादेमीचो अध्यक्ष जावंक सोदतालो
लेखक संघाच्या अध्यक्षपदाक वथेरतालो
साहित्य अकादेमीचेर वचपाचीं सपनां रंगयतालो
आनी पन्नास वर्सां तुका पुरस्कार मेळना तो!
जागाचेर काय अजून तुगेलें कांय छापून येवंक ना
राष्ट्रमतावेलेंय बंद जावपाचें आसा रोखडेंच
मागीर बस तूं बोरकारी खरडत'
किंवाट्यान बापूय उलयत आशिल्लो
लागेलें उलोवप सारस्वत मेळाव्याकूय उपकारतालें
तेंच लेखक संमेलनाकूय चलतालें
ताचो किंवाटो आनी भितरली कळवळ म्हाका कळ्ळी
म्हालगडे समता परिशदेक कित्याक ना तेंय कळ्ळें
पूण आतां पश्चताप करपांत अर्थ नाशिल्लो
हांव एका कानान आयकतालों दुसरे वाटेन सोडटालों
मनांत मात बोरकारी घोळटाली
पाड पडूं व्हरून म्हजें!

**१९ जानेवारी १९९२**





**गों**यची कला पाड पडल्या
ती पाड पडची म्हूण कला अकादेमी स्थापन केल्या
तिचो अध्यक्ष प्रतापसिंग रावजी राणेक केला
देखून तो कला अकादेमीक कला आतां कमी म्हणटा
पयलीं पयलीं म्हाका दिसलें तांची जीब घुस्पता म्हूण
आयकतल्याक अकादेमीचें आतां कमी दिसता
हांवें ताची जाणविकाय खाश्यांक करून दिली
पूण म्हजें आयकून घेतल्यार तो राणे कसलो?
हेरां सारकोच ताणें म्हाकाय एक्सार मारलो
म्हाका भाशेंचें कांय कळना आनी कलेचेंय कळना
तांच्या मतान कलेची जाण आशिल्ले
गोंयांत तीग जाण आसात
पयलो प्रभाकर आंगलो म्हळ्यार आमचो पोबूअण्णा
दुसरो सावळो केणी आनी तिसरो मलबाराव
आपूण म्हणटां ताका ते कलात्मक मान हालयतात
जेन्ना ते म्हाका मानतात तेन्ना तूं कोण?
असो हो तांचो 'गय केली जाणार नाही' टायप म्हाका प्रस्न
तांचे पोटतिडकेतलें लॉजीक सामकेंच चूक नाशिल्लें
इतलीं वर्सां कला अकादेमीचे उपाध्यक्ष कोण तर?
पोबूअण्णा नातर दोतोर सावळो केणी

जेन्ना तांकां आमी कलाकार मानले तेन्ना राणेचें सारकें
तेचखातीर तांचें कलाआतांकमी शें पुरशेंत सारकें
ह्याच कला आतांकमीच्या अध्यक्षांक मेळूंक हांव थंय गेलों
दारांतूच म्हाका भारतीय आनी शक्ति सिन्हा मेळ्ळो
ते दरवंट्यार रावून येतल्या वतल्यांक कॅन्टीन दाखयताले
कॅन्टीनांतली च्या खंय बरीच कलात्मक
दाट दुदाची च्या पिवची जाल्यार ह्याच कॅन्टीनांत
शिवाय तें दूद सामकें ताज्जें आसता
तें राणेच्या पॉल्ट्रींतलें काय आनी खंयचें तें कोण नकळो
हांवें म्हळें म्हाका च्या नाका. हांव भायर पिवून आयलां
म्हजी जाप आयकून शक्ति सिन्हा चाळवलो
'भायली च्या पिवून कला अकादेमींत प्रवेश ना'
म्हाका टॉयलेटांत थुकलीत व्हरत ताणें म्हळें
पिल्ली च्या जबरदस्तीन ओकून उडोवंक लायली
इतल्यार भारतीयाचें समाधान जालें ना
आपलोय म्हण कितें तरी वांटो जाय म्हूण तोय आयलो
मुतूंक नाका आसतना म्हाका मुतूंक लायलो
मागीर दोगूय घेवन म्हाका कॅन्टीनांत गेले
थंयच्चे चलयेन कप भरून दुदाळ च्या दिली
भुरगेपणांत भायरी घेतालों ताची याद जाली
पूण परत टॉयलेटींत वचपाक वेळ नाशिल्लो
'तूं म्हाका अध्यक्षपदावेलो काडूंक आयला?'
हांव उलोवपाचे पयलींच तापून राणेन म्हळें
बहुदा ताणें आमचे कृती समितीची मागणी आयकल्ली
मुख्यमंत्रीपद गेल्ल्याक ताची जागृताय भयंकर वाडिल्ली
'ना. हांव आज शिश्टमंडळ घेवन आयलां'
'बाकीचे लोक खंय आसात?'
हांव एकटोच आयलां म्हण तो अजापलो
'म्हाका बाकीचे लोक नाकात. हांव तुमच्या तत्वाचो मनीस'
'म्हज्या तत्वाचो?' चडूच तापून ताचो प्रस्न
'हय. मुख्यमंत्री म्हण तुमी वन मॅन शो केलो ना?'

'हय. बाकीचे फकत कुकमाचे आदार आशिल्ले'
'आतां अध्यक्ष म्हूण तुमी एकटेच खेळ करिनांत?'
'करचोच पडटा. आमकां लोकशाय मानूंक जाय'
'बरें पोल्ट्रीफार्म चलतलें जाल्यार
तें एकाच्याच हातांत जाय
तेंचवरीं मागण्यो मान्य जावंक
शिश्टमंडळांत एकलोच जाय'
हांवें पयलेच फावट तांकां समजता तशें सांगलें
ताणें म्हजे हुशारकायेची तोखणाय करून च्या मागयली
च्याचे कल्पनेनूच म्हाका घाम सुटलो
'सांग तुजी मागणी कितें आसा?'
बाराव्या शेंकड्यांतल्या म्हाराजाचे स्टायलीन ताणें म्हळें
'कला अकादेमीचो अध्यक्ष कलाकारूच आसूंक जाय'
'असो खंयचो मुर्ख म्हणटा?' राणे तिडकलो
'बा.भ.बोरकारासारको आसूंक जाय अशें तुमीच म्हणटाले'
हांवें खाश्यांक याद करून दिली
'तो आसतना हांवें म्हणिल्लें. आतां तो ना'
अध्यक्ष म्हाराज दर एक वाक्य तापुनूच म्हणटालो
बहुदा वामन कळंगुटकाराची येसाय पळयल्या आसतली
तो मी नव्हेच नाटक परतून परतून पळयलां आसतलें
घराकडेन तापप शक्य ना म्हूण हांगा तापता आसतलो
कारण कितेंय आसूं. पूण तो दर उतराक तापतालो
'तुमी कलाकारांक मान दिवंक जाय'
'तो आमी दिताच. धन दिलें की मान आपशींच मेळटा'
उलयतां उलयतां ताणें पं. रविशंकरांचें उदाहरण दिलें
'तो पांच लाख मागतालो ताका देड लाख आमी दिलो'
'तशें तुमी गोंयकारांकूय दिवंक जाय'
हांवें नमळायेन ल्हानशी सुचोवणी केली
'पूण गोंयकारांचीं टेन्डरां चड व्हडलीं आसतात'
'म्हणजे? म्हाका कांयच कळूंक ना'
हांवें म्हजें नेणारपण उक्तें केलें

'तेच खातीर तुमचे सारख्यांक अध्यक्ष करिनांत'
'आमी खंयच्च्याय कलाकारांक बेश्टेच आपयनांत
आपोवपाचें थरलें म्हणटकच टेंडर काडटात
जो कोण कमी धन सांगता ताका आपयतात'
हड्डें मुखार काडून अध्यक्षान म्हळें
म्हाका खाश्यांची तोखणाय दिसली
तरी बरें हें टेंडर खंयच्च्याय गाढवाच्या हातीं पडना
'आनी कितें सांगपाचें आसा?'
घडयाळीर पळयत ताणें विचारलें
'तुमच्या राजिनाम्याचें कितें?'
म्हजो मूळ प्रस्न तसोच आशिल्लो
'हांव पुरुषोत्तम काकोडकारापरस बरो न्हय?'
हळूच ताणें म्हजे कानाकडें विचारलें
हांव दोगांयचीय तुळा करूंक लागलों
'हय हजार वाट्यांनी ' म्हाका मानचेंच पडलें
'तशें जाल्यार म्हाकाय तुज्याच शिश्टमंडळांत घे'
'कित्याखातीर?' म्हाका कांयच कळ्ळें ना
'शिश्टमंडळ घेवन आमी कोंकणी अकादेमींत या
आठ वर्सां अस्थायी समितीवेलो राजिनामो मागुया'
राणेबाबाची कल्पना वायट नाशिल्ली
दोग मनशांचें आमचें शिश्टमंडळ आल्तिन पावलें
कोंकणी अकादेमीत!



**२६ जानेवारी १९९२**



इतलो बुचकळ्यांत हांव केन्नाच पडलोंना
चड शाण्याचें अशेंच जाता आसुंये!
वा दूरदर्शनाचोय प्रभाव त्या फाटलें कारण आसूं येता
हांवें राष्ट्रपतीचें भाशण दूरदर्शनार वाचलें
प्रखर लायटीक लागून दोळे सामके दिपकावल्ले
शिवाय सतत सकयल पळयल्ल्यान
पातकड्योय जड जाल्ल्यो
आयजवेर दूरदर्शनार गेल्ले
मान सकयल घालून हेच खातीर चलतात
लोकांक दिसता तांकां नाटक जमलेंना
म्हणून लजेन तशें करतात
खरी गजाल म्हळ्यार ते स्टुडियोचे बळी आसतात
आतां थंय उणी वेवस्ता ताका कोण कितें करतलो?
आसा तातूंत सगळें नाटक सोबोवंक जाय
हांव म्हजें सवंग सोबोवन आल्तिन्यावेल्यान देंवलों
मुकूंद नायकान म्हाका जयहिंद
म्हणूंक दिवंक ना हेंय पिकासांव आशिल्लें
'जय हिंद' फक्त राष्ट्रपतीनूच म्हणपाचें आसता खंय!
विचारचें पडलें राष्ट्रपतीक एक दीस दिल्ली वचून

तें आसूं! हांव त्या खातीर बुचकळ्यांत पडूंक ना
म्हजो घुस्पागोंदळ जावपाचें कारण वेगळेंच
आल्तिनावेल्यान देवून म्हाका
सरकारी कचेऱ्यांनी वचपाचें आशिल्लें
पूण खंयची कचेरी खंय आसा तेंच कळना जालें
सगळ्या कचेऱ्यांच्या बोर्डाचेर काळो रंग सारयला
कोण काय हो कर्मकट्टो सरकार विरोधी?
मारियो सुवारिसाक लागून पुर्तूगेज बी करिनांत मूं ते?
जांव येता. रवी लेगीत 'उके प्रुके' केल्यार अजाप न्हय
हांव विचार करीत टी.बी. कुन्याकडेन आयलों
एक च्या घेतलों म्हूण कॉफि प्रकाशांत भितर सरलों
'तुमकां काळेंच करूंक कळटा, बरोवंक कळना रे?'
गल्ल्यार बशिल्ल्या प्रकाशान तिडकून विचारलें
हो तर सरळ सरळ म्हजो अपमान आशिल्लो
समकाक चार स्तंभ बरोवप्याक म्हूण हो प्रस्न करप?
हांवच न्हय. उदयबाब लेगींत ह्या प्रस्नाक तापपाचो
पुरुषोत्तम काकोडकार रागान तांबडो जावपाचो!
'हांवें काळे केल्यात बोर्ड?' हांव प्रकाशाचेर तापलों
'म्हणजे तूं कोंकणी लेखक संघांत ना तर?'
च्याचें बील काडटां काडटां प्रकाशान विचारलें
चक्क करून म्हजी ट्यूब लायट पेटली
'२६ जानेवारीक आमी इंग्लेज बोर्ड काळे करतले'
अस्थायी लेखक संघाच्या घोशणेची म्हाका याद जाली
राष्ट्रपतीच्या भाशणामुखार हांव तो दिसूच विसरून गेल्लों
शिवाय ती घोशणाय अस्थायी अशें हांव समजल्लों
सगळ्यो संस्था स्थायी आसतात वावर मात अस्थायी
फाटल्या कितले तरी वर्सांचो म्हजो अणभव हो
फुडाऱ्यांनी काय असलीं कामां करपाचीं नासतात
तांणीं घोशणा करून, वावुरप्यांनी वावुरपाचें आसता
पयलीं हांवेंय केला वावर पूण आतां हांव फुडारी
इतलेंय आसतना बोर्ड काळे जाले ही ल्हान गजाल न्हय

पूण कोणे फासलो आसतलो काय हो काळो रंग?
नागेशबाबान अशें करप म्हळ्यार आमकां लज
कितलो तेंप म्हूण ताका चळवळी करूंक लायतले आमी?
प्रा. अरूण साखरदांडेकडेन असली गजाल जावपाची न्हय
कविता करतासर ताका नाका शेवट जाता
ताची काकूट येवन नूतन आपल्यो कविता ताका दिता खंय!
प्रकाश पाडगांवकाराक हातांत ब्रश धरपाची संवय नाच
शांती तेंडुलकारा मुखार
कॅमेरो आसल्यारूच हें काम तें करपी
त्याभायर ह्या दिसांनी तें सरपंचांचेर तापपाक बिझी आसा
आतां उरलो आमचो बाबडो दामोदर घाणेकार
शेर्त! ताणेंच हें काम केलां आसूं येता
लेखक संघाचो सचीव आसचो जाल्यार असो आसचो
शिवाय तो बरोवप सोडून असलीं कामां जीव तोडून करपी
पूण ह्या दिसांनी घाणेकाराक वेळ कसो मेळ्ळो काय?
तो तर राजहंसांतल्यो चुको सोदपाक गुल्ल आशिल्लो
बहुदा फेब्रेराचो अंक ताच्या हातांत अजून पडूंक नासतलो!
कितेंय जांव सरकारी बोर्ड काळे तर जाले!
लेखक संघाचे घोशणेची लज ताणें राखली
नातर सगळे असल्या घोशणांक घोशना म्हणटात
घाणेकाराची तोखणाय करीत हांव सिगार ओडूंक लागलों
इतल्यान आजाद मैदानाकडें गर्दी जमली
सगळे लोक मान वयर करून नळ्यांकडेन पळयताले
नळ्यांचेर कोण तरी चडून बशिल्लो
घण घण घणघणत फायर ब्रिगेडूय थंय पावली
कितें घडलां काय पळोवंक हांवूय थंय धांवलों
इतल्यांत गर्देतल्यान कोणे तरी म्हाका फाटीं ओडलो
'आरे मुखार वचूं नाका, कोण तरी बिल्डिंगेचेर चडला'
'आमच्या लेखक संघाचे फुडारी ते बोर्ड रंगयतात'
हांवें मुखार घुसत ताका म्हळें
म्हाकाय थंय वचपाचें आशिल्लें

'मेले ते बोर्ड रंगयतले, आपलें तोंड रंगयल्यार जालें'
ताणें म्हाका परतून फाटीं धुकल्लो
तो वयर चडपी वयल्यान नळे शेंवटितालो खंय!
बोर्ड रंगयतना चुकून नळो निसरला आसतलो!
ह्या लोकांचो लेखक संघाचेर म्हूण विस्वाचूच ना
जेन्ना तांका कर्तुत्व दिसतलें तेन्नाच कळटलें
वयर चडला तो कोण तरी पिसो खंय!
गरज नासतना नळ्यांचेर चडूंक
पिशांक कितें पिशें लागलां?
हेच लोक लेखकांक कितें पिशे म्हणनांत?
तांचें आयकनासतना हांव मुखार सरूंक लागलों
म्हाकाय ते 'रंगफासा' चळवळींत
वांटो घेवपाचो आशिल्लो
'पडलो पडलो' गर्देतल्यान बोवाळ जालो
म्हाका कच्च जालें
एक लेखक सोंपलो काय बाबडो?
आतां लेखक संघाचें कितें जातलें?
हांव धांवत त्या पडिल्ल्या मनशा म्हऱ्यांत गेलों
ताका पोलीस उखलून व्हरताले
पोलिसांतलोच्च कोण तरी पिसो खंय तो
गरजे भायर वयर गेल्लो
म्हाका बरें दिसलें, एक लेखक वाचवल्लो
पूण बोर्ड काळे केले कोणे?
ते खरेंच काळे काय म्हाका जाल्लो भास?
असो हांव एकसांत करो पडलों तेंच म्हाका कळनां

**२ फेब्रुवारी १९९२**



**गां**वार म्हाळ आनी सुण्याक बोवाळ

ही ओपार कशी आयली हें म्हाका खबर ना
जेन्ना ती कोंकणी तेन्ना ती
कोंकणी मनशाचेरूच आसूं येता
ती हांगा वापरून म्हाका कोणाकूच दुखोवपाचें ना
ना सुण्यांक वा ना कोंकणीवाद्यांक
कित्याक तर हांव सगळ्यां परस चड समतावादी
तरी लेगीत हे ओपारीची याद जाले बगर रावना
आतां ताचें कारणूय तशें भयंकर खडेगांठ
गांठ जरी विटली तरी साहित्य संमेलन चुकना
हें कोल्हापुराक जाल्लें साहित्य संमेलन न्हय आं!
तें मराठीवाद्यांक पडूंक ना जाल्यार म्हाका कशें पडटलें?
वेवस्तीत पार पडून गेल्ल्याचेर बरोवपाचें नासता
बरोवपाचें आसता तें वेवस्तीत पाड पडिल्ल्याचेर
बोरकारी आनी बोरकाराच्या नशिबांत हेंच् आसतलें
कितले उमेदीन रावलों हांव साहित्य संमेलनाचे!
कोंकणी साहित्य सर्वांगी फुलिल्लें म्हाका जाय आशिल्लें
तें फुलचें म्हणून कितल्यो संस्था वावुरताल्यो
अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद मुखार
ताका तेंको दिवंक आमचें कोंकणी भाशा मंडळ

शेवटी दोगांनीय मेळून ताचें साहित्य संमेलन केलें
दिशिल्लें आतां तरी साहित्याक बरे दीस येतले
तेच अपेक्षेन साहित्य संमेलनाची वाट पळयत रावलों
पूण खंय गेल्लो खंय ना कितें हाडलें कांय ना
हातांत पडलें तें वेगळेंच आनी विचित्र आमंत्रण
आमंत्रण कसलें म्हळ्यार पत्रकार परिशदेचें
आतां हांव पत्रकार म्हळ्यार सगळे हांसतले
दोन लेख बरोवन पत्रकार जावंक हांव कोण तर?
दामोदर घाणेकार काय शर्मिला कामत?
कितेंय आसलें तरी म्हाका वचचेंच पडलें
हांगा प्रस्न आशिल्लो तो कोंकणीचो आनी साहित्याचो
हेर पत्रकारांवांगडा हांवूय टुरिस्टांत गेलों
पत्रकार परिशद आशिल्ली कारवारवाल्यांची
थंय कोंकणी भाशा मंडळ आनी सांस्कृतीक केंद्र आसा
म्हाका दिसलें तांणीं साहित्य मेळावो घेवंचो थारायला
तसो तो कोणेय घेवं येता तांकां कोण आडायतलो?
कोंकणी अकादेमी अनुदान दितालें
मेळाव्याची अपुर्बाय जाताली
आतां भाशा मंडळान अनुदान दिलां आसूं येतालें
तर महाबळेश्वर सैल म्हणूंक लागलो तें तशें ना
तें खरेपणी अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन
ताचें आयकून म्हाका मात धक्को बसलो
ही गजाल घडोवन हाडपाची कोंकणी भाशा मंडळान
नाच जाल्यार अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशदेन
साहित्य परिशदेचें साहित्य संमेलन जाल्लां हें हांव जाणां
तरी पूण ही कसली भानगड तेंच म्हाका कळना
जाणा जावन घेवंक हांवें पालेकाराक विचारलें
'ती गजाल कसल्ली म्हळ्ळी तुका कळचेंना'
आपल्या सदच्या सभावाप्रमाण पालेकार उलयलो
आवयचो घोव ना घरा व्हरून हाच्या
हांवें आयजवेर धा साहित्य संमेलनां केलीं

तीं घडोवन हाडूंक भाशा मंडळाक सगळो पालव दिलो
आनी हो म्हणटा ही गजाल म्हाका कळची ना
आर्रा तूं! म्हजी एक्साची तिडक कपलाक मारली
हांव ताचेर तापतलों हें सैलाक कळ्ळें
ताका कुशीन दवरून तो उलोवंक लागलो
'हें संमेलन कारवारी कोंकणीचें' ताणें म्हळें
त्या बराबर गुरुदास सावळ उठलो. ताणें प्रस्न केलो
'खंयची कोंकणी सारकी? गोंयची काय कारवारची?'
'कारवारची कोंकणी हीच अखिल भारतीय कोंकणी'
महाबळेश्वर सैलान मिलीटरी रूल लायलो
त्या बराबर यशवंत पालेकार धडपडलो
ताचें खरें म्हळें जाल्यार मंडळाचें अध्यक्षपद वता
चूक म्हळें जाल्यार कारवार हातांतलें वता
सगळ्यांची परिस्थिती गंभीर आनी विचित्र जाली
हाचेर उपाय म्हूण आशा पालनकर उलयली
हें ११वें जरी आसलें तरी आमगेलें फस्टूच संमेलन
स्त्रिदाक्षिण दाखोवंक सगळ्या पत्रकारानी मारथें घेतलें
'आमचें सांस्कृतीक केंद्र ह्या फिल्डांत नवेंच!
आमी पयलीं हळदीकुकूम करपाचो विचार केल्लो
'तर भाशा मंडळान म्हळ्ळें साहित्य संमेलन करात'
बाय आशा पालनकर सादेपणीं मनांतलें उलयताली
'आतां तुमी भाशेखातीर झगडटात तें समा न्हय!
त्या खातीर हांव संमेलनाच्या वांट्याक
हळदीकुकूमच करतां'
एका दमांत तिणें मनांतली गजाल सांगून उडयली
सगळ्या पत्रकारांक तिची बाजू खरी दिसली
संमेलनाची परिशद हळदीकुकूम परिशद जावन गेली
अखिल भारतीय कोंकणी हळदीकुकूम हें नांव थरलें
येवकार अध्यक्ष पद्मश्री वामनराय सरदेसाय
कित्याक तर पद्मश्री हें चलयेचें नांव कशें दिसतालें
माचयेर बसूंक सगळ्या म्हालगड्यांक आपोवचें थरलें

पूण प्रस्न आडखळ्ळो तो कितें वाटपाचें हाचेर
थोड्यांचें म्हणणें पुंडलिकांची नाटकां वाटप
मडगांवकारांचो आग्रो मीनाचो कथाझेलो वांटप
अर्थिक नदरेन रामभाऊंचीं स्तोत्रां विचारांत घेतलीं
यशवंत पालेकाराखातीर ताचेर खूब भासाभास जाली
शेवटाक प्रतिनिधींची संख्या लक्षांत घेवन म्हजो उपाय
हळदीकुकूम संमेलनाक स्ट्रॉ वाटपाची म्हजी सुचोवणी
स्ट्रॉ ही सगळ्यांत सवाय वस्त
ती रोखडी पिड्डयार जायना
शिवाय स्ट्रॉचो वापर वेवस्तीत ओडपाक जाता
तो कोल्याकूय उपकारता आनी बक्याकूय उपकारता
ताचेरूच खरी समता तिगपाक शकता
स्ट्रॉन कोला पितना पत्रकार ताचो अणभव घेताले
सगळे म्हजी तोखणाय करताले

९ फेब्रुवारी १९९२





अखेरेक हळदीकुकूम जालोच ना
हांव गजाल करतां ती कारवारच्या संमेलनाची
तशें पळोवंक गेल्यार हळदीकुकूम
आनी संमेलनांत फरक नाच
गोंयच्या हळदीकुकमाक फक्त बायलांच
एकठांय येवन धवळे करतात
संमेलनाच्या नांवान दादल्यांकूय चान्स पडटा
पयलीं थरलें संमेलनाबदला हळदीकुकूम करूया
पूण तातूंत स्ट्रॉ वाटप हाचेर फिसकटलें सगळें
स्ट्रॉन सगळें चोखपाक म्हालगड्यांक जमना खंय!
तांचीय म्हूण तशें पळयल्यार चूक नाशिल्लीच म्हणा
दोनूय हातांनी ओडपाची संवय जाल्ल्यांक
स्ट्रॉ म्हूण उपकारता?
ते भायर संमेलन करपाची आनिकूय कारणां शिजलेलीं
एक कारण म्हळ्यार
गुरूनाथ केळेकारांक माचयेर हाडप ना
खरें म्हळ्यार माचयेर बसप तांचो अधिकार
फाटल्या संमेलनाच्या अध्यक्ष ह्या नात्यान
आपशीच तो येता
ते खातीर तरी संमेलन जावंदी म्हूण हांव ओगी रावलों
पूण देड दीस वाट पळयली तरी गणपती नाच
मखरांत मात खंयच्या खंयच्या बिळांतल्या उंदरांचो नाच

हे साहित्यांतले हुंदीर म्हूण सगळ्यांनी
सोंसलें ही वेगळी गजाल
अशें आसतनाय म्हजो प्रस्न काय सुटावो जालोंना
आदल्या अध्यक्षांक माचयेर न हाडपाचें कारण कितें काय?
यशवंत पालेकारान मदीं काडी बी मारूंक ना मूं?
सांगू नज! कळटलें कारण केन्नाय एक दीस!
म्हाका एक बरें दिसलें तें इतलेंय आसून
गुरूनाथबाब आयलो तो
नातर बाकीचे म्हालगडे रागान येनासतना रावपाचे
मनोहरबाब सरदेसाय त्याच खातीर रावला
अशें कोण म्हणटालो
पूण ती फट गजाल. तो दुयेंत आसा
नातर कोंकणी अकादेमीची गाडी वचुनूय तो रावतलो?
मनोहरबाब म्हळ्यार कितें आमचो ओलव्हीन गोम्स न्हय
दोतोर प्रोसोर गोम्स तकलेन सामको फीन
तो संमेलनाक आयलोंना ताचें कारण वेगळें
ताका जरी संमेलनवाले विसरले तरी तो वचपाचोच
मुद्दाम कारवाराक वचून येवकार अध्यक्षांक मेळपाचो
आपूण कितलो हुशार तें आपलीं
भाशांतरां दाखोवन सांगपाचो
रोमाक आनी पुर्तुगालाक गेल्ल्याच्यो तिकेटी दाखोवपाचो
क्रिस्तांवांचो प्रतिनिधी म्हूण माचयेर बसकण मारपाचो
कारवाराक वचूंक हक्कान गाडी घेवपाचो
साहित्य अकादेमी आनी हेर संस्थांची संवय ना तर ताका?
पूण तो संमेलनाक गेलों ना ताचें कारण वेगळें
फाटली म्हजी बोरकारी वाचून ताका
खरोच हळदीकुकूम दिसलो
हळदीकुकुमाक फक्त बायलोच वतात हेंय तो जाणां
आपूण सोडून हेर सगळ्यो बायलो
म्हूण ताणें प्रोवार केलांच
तशें नाशिल्लें जाल्यार तो

कोंकणी विभाग मुखेली जावपाचो?
कितल्या जाणांनी ताका
विद्यापिठांतल्यान काडपाचो यत्न केलो
पूण कोणाकूच एक्स ना म्हणपाचें ताणें दाखयलें
ताचे नदरेन सगळें म्हळ्यार पुतीफाराच्यो बायलो
तें आसूं! तर हांव कितें सांगतालों?
हय. संमेलन कशें आनी कित्याक जालें तें!
कोण आयलो आनी कोण ना हाचें म्हाका पडूंक ना
म्हाका पडलां तें हळदीकुकमाचें संमेलन कशें जालें?
पयलीं उद्देश आशिल्लो तो आंकवारांचीं लग्ना जुळोवप
आतां सगळ्यांचीं लग्नां जाल्ल्यान तोय हेत फाटीं पडलो
म्हजे सारके लेखक हांगा थंय घुस्पतात ती वेगळी गजाल
ती एक संमेलन आनी परिशदांची संवय म्हणूं येता
हें संमेलन जावंक जाय आशिल्लें तें वेगळ्या कारणाक
कांय जाणांक नवे नवे थाराव मांडपाचे आशिल्ले
थोड्या म्हालगड्यांक माचयेर मिरोवपाचें आशिल्लें
तेच खातीर तांणीं येवकार अध्यक्षाचेर चेंपण हाडलें
हळदीकुकमा बदलाक
संमेलनूच करचें असो हट्ट धरलो
ते खातीर कोंकणी प्रजेचो आवाजाच्या
पुर्नबांधणीचोय भंय घालो
भाशामंडळाच्या अध्यक्षपदार परतून बसतलों
म्हूण पालेकारान भिवयलो
नवी संघटना उबारून निमंत्रक जातलों
अशी धमकी नागेशबाबान दिली
शेवटाक उदयबाबान सांगलें आपूण काँग्रेस सोडटलों
तें आयकून संमेलन समितीचेर आकांत आयलो
हळदीकुकमा बदला संमेलन करपाचो निर्णय घेतलो
म्हालगडे कोणांक समजुचेंना अशें खूब कितें उलयले
कांय जाण दोतोर घाणेकाराकडल्यान गुळयो घेवन गेल्ले
तांणीं त्यो घेवन माचयेर वचून कविता ओंकल्यो

तरीय ह्या कार्यावळींक कोणाक
व्हडलोसो इंटरेस्ट नाशिल्लो
सगळ्यांक संमेलन जाय आशिल्लें तें थाराव मांडपाक
म्हालगड्यांनी थंय जे थाराव मांडले ते अशे
हरिश्चंद्र नागवेकारान समिक्षा बरोवंची न्हय
बरयलीच जाल्यार ती विद्यार्थ्यांकडेन पावोवपाची न्हय
ताणें कविता बरोवंच्यो
आनी हळडुव्या कापेतींत गुठलावंच्यो
कुळागरान पुस्तकां पत्रावळीचेर छापचीं. कागदाचेर न्हय
कोंकणी लेखकांक चडांत चड बायलो करपाची मुबा आसची
कलाकारांचे संघटनेक भिवून
भारतीय आनी सिन्हाक काडलो
हे वाक्य दर कोंकणीवाद यांच्या हुंबऱ्यार कोराथचें
वाड्या वाड्यार कोंकणी अकादेमीचे फांटे उगडचे
तांच्या अध्यक्षांक एक एक गाडी दिवंची
साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार एका परस चड आसचे
कोंकणी साहित्याचें मोल दर्जाचेर न्हय
तर लेखकाच्या जातीर तोलचें
कथाकारांनी कथा सोडून कितेंय उलोवंचें!
नाटककारांचीं नांवां पांचा परस चड घेवंची न्हय
कोंकणी आठवे वळेरेंत घालची न्हय
त्या बदला आठवी वळेरीच भाशा मंडळांत घालची
बोरकारी सत्तेन बंद करूंक लावची
नातर दर आयताराक त्या कॉलमाचेर काळो रंग ओडचो
तें काम लेखक संघाचेर सोंपोवंचें
सगळे थाराव ताळ्यो मारून पास जाले
हांवेंय मारल्यो निमाण्या थारावाक लेगीत!
लेखक संघाक हांव वळखना काय कितें?

**१६ फेब्रुवारी १९९२**



आयच्या सुवाळ्याचे कमलाकरबाब
तशेंच म्हज्या काणकोणच्या भावांनो आनी भयणांनो
आयचो दीस हो खरेंच खोसयेचो दीस
ही खोस कमलाकर म्हाळशी कॉलेज सोडटा म्हूण न्हय
तांच्या विद्यार्थ्यांक त्या खातीर दुख्ख हें जातलेंच
खोस इतल्याच खातीर की ते कोंकणी अकादेमींत वतात
बऱ्या फुडाराक जे वतात तांकां निरोप हो दिवचोच पडटा
त्याचखातीर तुमी हो सेन्डऑफ घडोवन हाडला
म्हाका मनांतलें खूब उलोवंक जाय आशिल्लें
पूण जें हांव खरें उलयता ताका
खूब जाण 'बोरकारी' म्हणटात
सत्य गजाल फकाणांचेर व्हरप हो गोंयकारांचो सभाव!
तेचखातीर म्हाका आयच्या सुवाळ्याक
गांभिर्य हाडपाचें आसा
देखून हांवें आयचे भाशण
हेरांकडल्यान बरोवन हाडलां
आतां तुमकां प्रस्न पडटलो
म्हाका भाशण कोणें बरोवन दिलां?
म्हाका नांव लिपोवन दवरपाचें ना
आयजवेर हांवें कोणाचेंच नांव लिपोवन दवरूंक ना.

बाबू नायकाक चंद्रकांतबाब भाशण बरोवन दिताले खंय!
लुईझीन फालेराक जॉन आगियार बरोवन दिता
रवी नायक एन्. शिवदासाच्या उतरांनी उलयता
तशेंच हांवें चंद्रकांतबाबाकडल्यान तें बरोवन घेतलां
मोठे मनशांखातीर, मोठे मनशांनी मोठे मनशांकडल्यानूच
बरोवन घेवंक जाय
असल्या प्रसंगार कोणेंच आपल्या पदरचें उलोवंक फावना
म्हज्या सारक्या मनशांनी तर निखालूस न्हय
तर सांगपाचें म्हळ्यार म्हाळशी कोंकणी अकादेमींत वतात
एक वेळ भारताचे शिमेर लढायेक वचप सोपें
थंय खरो शत्रू कोण तें कळटा आनी फार मारूंक मेळटा
पाकिस्तानचे सोल्दाद तत्वनिष्ठ जावन आसात
एक वेळ ते आपूण तुजो दुस्मान म्हूण सांगतले
पूण कोंकणी अकादेमींत हें मोठेपण मेळप मुश्कील
थंय सदांच शादूर आनी जागृत रावप गरजेचें!
अकादेमीचें पद घेवप्याची कात गेंड्याची आसूंक जाय
कमलाकर बाबाक तें जमलां अशें म्हाका दिसना
कित्याक ते साहित्याचो अभ्यास करपी अभ्यासक आसात
तांचें आदलें आयुश्य शिकोवपांत गेल्लें आसा
वेव्हारी चाणाक्यनितीकडे तांचो अजून संपर्क येवंक ना
त्याखातीर खबरदारी म्हूण वांगडा एक चिलखत घेवंचें !
चिलखताचो उपेग इंदिरा गांधीकूय जालो ना हें मतींत धरचें
कारण अकादेमींतले एकान एक कॉंग्रेसमॅन आसात
कोंकणी अकादेमीचें हें राचीवपद सामान्य न्हय
ह्या पदार रावून खूबशीं कल्याणकारी कामां करूं येतात
स्व-कल्याण करूं येता हातूंत दुबावूच ना
पूण कमलाकरबाबाचो तो सभाव न्हय हें आमी जाणांत
त्या कामाक त्याच जातीचे लोक आसचे पडटात
असल्या लोकांची सावळी लेगीत तांणीं घेवंची न्हय
तांणीं आपल्या पदाचो वापर
कोंकणीच्या कल्याणाखातीर करचो

ते आपली शक्त त्या खातीर वापरतले
ही खात्री आमकां आसा
तरी लेगीत आदली परिस्थिती आयज उरूंक ना
कमलाकरबाबाक खूब धांवपळ करची पडटली
नातर– धुमेबाबांवरीं 'बें' म्हणचें पडटलें
धुमेबाबांचे कालेतीप्रमाण तांकां तें परवडटा
पूण कोंकणीचो वसो घेतिल्ल्या म्हाळशीबाबांचें कितें?
तांकां प्रवासाची खूब तयारी दवरची पडटली
कॅलिफोर्नियांक वचून जुजे पेरेराक सोदचें पडटलें
दिल्ली वचून पुरुषोत्तम काकोडकाराची खबर घेवची पडटली
मुंबयच्या जितेंद्र अभिशेकीक सोदप कठीण न्हय
तांतले तातूंत समादानाच्योय गजाली आसात
मणिपुरचे काशिनाथ महाले सद्या गोंयांत आसात
सही घेवंक उपाध्यक्षांचें घर पणजेलागींच आसा
काणकोणच्यान येवपी मनशाक वळवय तशें पयस न्हय
दिसपट्टो वचून प्रेसांतलीं प्रुफां तपासूं येता
सद्या पणजे चळवळीचें वातावरण आसा
कलाकार खुबळून तांणीं संघटणा उबारल्या
शक्ति सिन्हाक काडून आपली शक्ती दाखयल्या
भारतीयाक काडून भारतीयांची कापाजदाद दाखयल्या
तातूंत विष्णू वाघान तांकां पीन मारल्या
कला अकादमी सारकें कोंकणी अकादेमीचेंय
शुद्धीकरण मागलां
पूण म्हाळशीन भिवपाची गरज ना
शक्ति सिन्हाची बदली पयलींच जाल्ली
भारतीय निवृत्त जावन खूब दीस जाल्ले
फकत कावळो बसूंक फांदी मोडल्या इतलेंच
भाशण सोंपोवचे बदला पयलीं म्हाका
आनी एक सांगन दिसता
म्हाळशीन चुकून लेगीत समितीचेर उलोवंचें न्हय
समिती बरखास्त करात म्हळ्यार आकांत जातलो

ती कायदेशीर मानून कामां करत रावचें
अध्यक्ष कोण आनी वांगडी कोण हाका म्हत्व ना
तांची वाडी तांकां पावली म्हणटकच जाली
उरता तातुंतल्यान थोडी तरी कामा जांव येतात
सामकेंच जर जमना जाल्यार एक काम करूं येता
दिल्ली सोडून अध्यक्षांच्यो पादुका गोंयांत हाडच्यो
त्यो अध्यक्षांच्या खुर्चेर दवरून ताका फुलां घालचीं
कोंकणी भक्तांकडल्यान प्रसाद पाकळी जमूं येता
त्या खर्चांत गरजेचो असो शब्दकोश सुट्टलो
कोंकणीत राम राज्य येतलें जाल्यार होच एक उपाय
इश्टांनो, हांव गरजेभायर खूब उलयलों
पूण हें सगळें कोंकणीच्या मोगान आनी हुसक्यान
म्हाळशीबाबा सारको बरो मनीस इबाडचो न्हय देखून
ताणीं घेतिल्ली जापसालदारकी बरे तरेन पाळची
फाटल्या आठ वर्सांत घडूंक नांत तसल्यो गजाली तांणीं करच्यो
म्हालगड्यांचो राग घेवंचो पडल्यार उपकारता
म्हालगड्यांचो म्हाळ चुकल्यार उपकारता
पूण बाळगड्यांच्या फुडाराक तांणीं हें जेरूल करचें
तुमचो हांव आनी चड वेळ घेना
तुमी म्हाका मुद्दम आपोवन हाडलो आनी दोन उतरां
उलोवंक लायली म्हणून देव बरें करूं
कमलाकर बाबाक शक्त, धाडस आनी एक्स लाबूं
देव बरें करूं



**२३ फेब्रुवारी १९९२**



उल्हास बुयांवागेर जेवणांक गेल्लों
जेवपाक यो जेवपाक यो म्हूण
खूब दीस ताचो आग्रो चलतालो
हेर म्हालगडे मनीस पळोवन आमंत्रण दितात
कोण साहित्य अकादमीचो पुरस्कार पळयता
तर कोण खोमसांतल्यान नदर पोटार भोंवडायता
पोटार जानवें दिसलें तर जिबेर कितेंय उडयतात
पूण उल्हासाचें तशें ना. ताका तसलें कांय लागना
ताका लागता तो स्वामी आनी दामबाब
हेर कांयच म्हणचे कांयच लागना. सोरो लेगीत
देखून हांव तागेर गेलों. दनपरां रावलों
दोन चार व्हिस्कीचे पेग मारून यथेच्छ जेवलों
सांजेय राव म्हणटालो पूण हांवें आयकलेंना
स्कुटर स्टार्ट मारली आनी मडगांव येवंक लागलों
तशें जायच जाल्यार रातचें जेवण
राजू नायकागेर घेवं येतालें
हरशीं आनी कोणागेर वचपाची माणसुकी नाच
सगळ्यांक बोरकारी बरोवन दुखयल्यात.
मडगांव रावचें काय घरा वचचें
हें येवजीत स्कुटर चलयतालों

इतल्यांत चुळचुळून मुतूंक तेकलें
एका पडींग मळाकडेन स्कुटर थारायली
तशें रस्त्यार उबो रावून मुतूंक म्हाका लज दिसना
कित्याकितेंय बरोवन पुस्तकांचो आंकडो वाडोवप
कोण लेखिनांत म्हूण आपणेंच आपलो सत्कार घडोवप
त्या परस रस्त्यार उबो रावून मुतप चड बरें
पूण हांगा तीय गरज म्हाका पडलीना
लागींच निवांत अशें मळ आसतना कित्याक ती चिंता?
गरजेभायर मडगांवकारांक उलोवंक विशय मेळपाचो!
स्कुटर स्टॅण्डार काडून त्या मळार गेलों
एका फातराचेर सळसळीत धार सोडली
चुळचुळून मुतूंक तेंकतकच कितें म्हूण पळोवंक वेळ मेळटा?
'बोरकार, तुवेंय अशेंच करप मरे?'
शुद्ध कोंकणींतल्यान कोणेतरी तिडकून म्हळें
हांवें कांचवेवन सरभोंवतणी पळयलें
जळामळाक तर कोणूच दिश्टी पडनाशिल्लो
'एवसाच्या, हांगा थंय कितें पळयता? सकयल पळय'
परतून तोच आवाज, तिडक अजून तशीच
हांवें बेगबेगीन सकयल पळयलें. म्हाका परतून शॉक
येदोळचो काळो फातर आतां धवोच जाल्लो
धव्या फातरार काळींच उतरां स्पश्ट दिसतालीं
'कोंकणी भवन बुन्यादी फातर'
म्हाका शेळो घाम सुटलो. हांवें म्हजें कर्म अर्घार थारायलें
तोच बुन्यादी फातर म्हजेकडेन उलयतालो
पयलीं दिसलें म्हाका व्हिस्की चडल्या म्हूण, पूण ना
मातशी कितें चडिल्ली तीय फातर पळोवन देंवली
म्हाका खंय खबर आशिल्लें तो बुन्यादी फातर म्हूण!
दिशिल्लें कोणें तरी मरांडी खातीर ती सुवात सोडल्या
हजारांनी वर्सां तो काळो फातर थंय पडून आसा
म्हजी कांयच चूक नाशिल्ली. हांवें फातराची चूक मागली
तो फातरूय मडगांवचोच आसूंक जाय

रोकडोच तिडकून रोकडोच थंड जावपी
ताणें म्हाका माफ केलो आनी बसूंक सांगलें
हांव शेजारच्याच दुसऱ्या एका फातरार बसलों
बसचे पयलीं बारीकसाणेन तो पळोवन घेतलो
सांगू येता! तो पणजेकारांचो बुन्यादी फातर आसूं येता
'हांवें कितलीं वर्सां अशें वतां-पावसांत रावप रे?'
हांव बसलों तशें फातरान म्हाका म्हळें
म्हजी बोरकारी जर तो वाचतालो तर अशें म्हणचो नाशिल्लो?
त्या भायर तो म्हळ्यार कितें कोंकणी लेखकूय नाशिल्लो
बोरकारी वाचून सुनापरान्ताचेर बरोवपाचें बंद करपी!
तो आशिल्लो कोंकणी फातर. तोय बुन्यादीचो
ताका आनी कितें सांगतलों? हांव आयकत रावलों
'ते मराठी अकादेमीची तरी देख घेयात रे
तुमी मराठीवाद्यांच्यो फकत बकच्छायो करात
तांणीं आपलो पणजे येदो व्हडलो फ्लॅट घेतलो
आनी तुमी आपल्याकच फ्लॅट घेत रावतात?
पंढरीनाथ शणै लोटलीकाराची येदी व्हडली जमीन ही
ताणें ती बाबू नायकाक दिल्ली जाल्यार कितें जावपाचें!
येन्ना हांगा बिल्डिंगो येवन ताचें भांगर जावपाचें
तुमच्या लगाडीक लागून तो फसलो ना?'
फातर उलयतालो तातूंत कांयच लटीक नाशिल्लें!
फातर जालो म्हूण कितें जालें? ताका कितें समजना?
मनशांक जमतात तीं नाटकां करूंक, फातरांक न्हय
भायर व्हडलीं भाशणां करप आनी आपल्यो चुको लिपोवप
कांयच करप ना आनी वेल्यान विस्कटावणी दिवप
धुमेन कोंकणी अकादेमीची गोमन्तकांत केल्या तशी!
'तुमचेकडेन भवन उबारूंक जायना जाल्यार तशें सांगात'
हांव ओगी बसलां तें पळोवन फातरान उलोवंक सुरू केलें
'त्या लोटलीकाराक जमनीची विल्हेवाट तरी लावंदी!'
'बुन्यादीच्या फातरा, भवन उबारूंक दुडू जाय'
हांवें उलोवंक जाय म्हूण मखलाशी केली

कोंकणी विरोधकांक जाप दिवन दिवन
म्हाका संवय जाल्ली
'दर एकलो म्हालगडो दिवाळी अंकाचेर
कितलो दुडू जोडटा?'
'तें सोड. मेळावे घडोवंक दुडू लागनात?
परिशदो आनी संमेलनां तुमी घडोवन हाडिनांत?
जमयिल्ले सगळे दुडू कितें थंयच खर्च जातात?
कोंकणी प्रजेच्या आवाजाच्या फंडाचें कितें जालें?
हो सगळो दुडू वापरल्यार म्हाका सावळी तरी मेळपाची'
फातर फडाफड एक एक वाक्य उलयतालो
सभेंत उलयिल्लो जाल्यार लाखांनी रुपया जमोवपाचो
तो सांगता तें फट म्हणपाची कापास्ताद म्हाका जाली ना
कितेंय तरी सांगून म्हाका थंयच्यान वचूंक जाय आशिल्लें
'फातरा, हांव बोरकारीचें पुस्तक छापतां
तें सगळ्या बालगड्यांकडेन पावयतां
येता तो सगळो पयसो भवनाक दितां'
हांवें ताका उतर दिलें आनी हांव उठलों
'आनी म्हालगड्यांकडेन पयलीं फंड आयला ताचें कितें?'
तरीय फातराचे प्रस्न आशिल्लेच
ताका खंय खबर म्हालगडे फक्त हॉटेलांनी मुततात
म्हजे सारके रस्त्यार न्हय हे!

१ मार्च १९९२

कोणाच्यो म्हशी आनी कोण काडटा उठाबशी
अशी गत सद्या बोरकारांची जाल्या
हांव बोरकारी बरयतां ती म्हजे खाजीक
तातुंतल्यान चार पयशे म्हाका सुट्टात
पूण उठाबशी मात सगळ्या म्हालगड्यांक
सुण्याचेर खंयीय मारल्यार तो दाव्या पांयार कुट्टा
म्हालगडे मात एक्साचे दोनूय पांयार!
बोरकारींतल्यान खंय म्हाका विकृत आनंद मेळटा!
शास्त्राप्रमाण विकृती साहित्यांत नासता
ती आसता त्या त्या वाचकाच्या मनांत
खंयचेंय साहित्य थोड्या-व्हड प्रमाणांत ती जागयता
तीच विकृती चाळवली म्हणटकच ते चाळवतात
आतां आमच्या रामकृष्णाचीच गजाल घेयात
रामकृष्ण म्हळ्यार रामकृष्ण परमहंस न्हय
आमचो सुप्रसिद्ध कोंकणी कवी जुवारकार
ताणें कोंकणीची सेवा केल्या ती सोंसपाची न्हय
कोंकणी सोडून जर ताणें
मराठींत बरयल्लें तर कल्याण जावपाचें!
बादसा, मनोहर हिरबा हांचे पंगतीक बसपाचो

पन्नास पुस्तकां जाले बराबर सत्कार करपाचे ते
जंय नार्वेकाराचो जाता थंय हें कठीण न्हय
पूण त्या खातीर मनशाक दानत जाय
कोंकणीवाद्यांभितर ती मात लेगीत ना
ते सगळे आपले भितरूच गुड्डलसांवां करपी
फाकिवंत बरोवप्याक उबंत उडोवपी
हांव जें बरयतां तें कोणाच्या रागान न्हय
खरी गजाल ही खरी म्हूण सांगचीच पडटा
नातर रामभाऊच्या सत्काराक ते कित्याक गेले नात?
तांकां रामभाऊचें मोठेपण तोखेवपाचें ना
तांकां सोदपाची आसा ती फकत विकृती!
तांचे परस तो रत्नाकर तारी हजार वांट्यानी बरो
कितें करता तें उगड करता
तोंडार एक आनी फाटल्यान एक करिना
ताणें म्हजी बोरकारी वाचल्या काय खबर ना
तरी ताचेर परिणाम जालो हें मात खरें
'हांव बोरकारींतल्यान सगळ्यांक नागडे करता'
असो कोणे तरी रासवळ स्टेटमेंट केलो
हेरांक नागडे करता तोच शुद्ध मनाचो मनीस
अशें एक सुभाषित ताणें कवनांनी वाचिल्लें
त्याचखातीर ताणें आपलो वावर सुरू केलो
आपल्या विद्यार्थ्यांकूच नागडे करूंक सुरू केलें
म्हाका हें कळ्ळें बराबर हांव ताका वचून मेळ्ळों
नागडो करप हाचो साहित्यीक अर्थ ताका सांगलो
ही गजाल तशी कळप भयंकर कठीण
पन्नास पुस्तकां बरोवपी साठीच्या मनशाक ती कळना
साठी हुंपिल्ल्या बाळबोधांक तर नाच ना
नातर महाबळेश्वर सरदेसायांक विचारात
ताची जाप तांच्या आत्मचरित्रांत मेळटली
थंय नासली जाल्यार येवपी दुसऱ्या खंडात आसतलीच
तें आसूं! तर हांव कितें सांगतालों?

हय. 'हांव त्या रत्नाकर तारीक मेळ्ळों
ताका हांवें सांगलें, 'तें नागडें करप हाका म्हणनात'
तर तोच म्हजेर चाळवलो. म्हणूंक लागलो
'हांवें केलां तातूंत कितें वायट आसा?'
हांवें म्हळें,'ही सगळी विकृती अशें लोक म्हणटले'
'विकृती म्हजे भितर ना. तुमचे भितर आसा'
सारस्वत नासून सारस्वतावरी तो उलयतालो
ताका कशें समजावचें तेंच म्हाका कळना जालें
एका शिक्षकाक समजावप कितलें कठीण तें म्हाका कळ्ळें
समजून घेवचे परस तोच म्हाका समजावंक लागलो
आपूण भुरग्यांक नागडो करतां. विचार कित्याक?
तो म्हणटा म्हूण हांवें ताका विचारलें, 'कित्याक?'
'कित्याक तर नागडो करप ही आमची संस्कृती!
रवी नायक आनी हेर मंत्रीमंडळ कितें करता?'
हांवें फकत दोळ्यांनीच खुणावन विचारलें 'कितें करता?'
नार्वेकारावरी तांचेंय प्रकरण बी ना मूं?
म्हाका गरजे भायर प्रस्न पडलो.
'ते सरकारी तिजोरी नागडी करतात.'
रानां मारून गोंयची जमीन नागडी करतात
तुमी कोंकणीवादी कितें करतात तें विचार?
साहित्याच्या नांवांन तुमी साहित्य नागडें करतात
कितेंय बरोवन कोंकणी अकादेमीच्या बोडार मारतात
व्हडलें तोंड घेवन तूं म्हाका विचारता हें!
कोंकणी अकादेमीच्या आंगार तुमी एक कपडो दवरला?
भाशा मंडळाच्या तरी एक फाळी आसा रे आंगार?
बरें कोंकणीवाद्यांचें तुजे खातीर सोडून दिवंया
ते मराठीवादी करतात तें सोंसपाचें?
त्या खलपाचे फाटीक लागून ते पयलींच नागडे जाल्यात
म.गो.पक्षान केले ना तांकां नागडे?
काँग्रेशींत तुमचे म्हालगडे गेल्ले याद आसा तुका?
तांच्या आंगार कपडे दिसल्यात तुका? ना

तें तुमकां कशेंच दिसचेंना. ताका जाय पडटा लज
लजूच भाजून खाली जाल्यार कांयच उरना
त्या परस हीं भुरगीं सामकीं बरीं
तीं आसात आमच्या फुडाराचीं धनी
तांकां शिकोवप हें मास्तर म्हूण म्हजें कर्तव्य
ल्हानपणारूच लज म्हणटात तें शिकोवंक जाय
ती कळटली जाल्यार नागडेपण कळूंक जाय
एक आदर्श शिक्षक म्हूण हांव हें करतां
खरें म्हळ्यार हांव गात्सा पयलीं जल्माक येवपाचो
तशें घडिल्लें जाल्यार खूब बरें जावपाचें
आयचें मंत्रीमंडळ अशें केन्नाच नासपाचें
मराठीवादी कोंकणीवादी गट जावचे नासले
तुका बोरकारी केन्नाच बरोवची पडची नासली
आतां सांग म्हाका कोण विकृत तो?'
काडाफाड उलोवन ताणें म्हाका प्रस्न केलोच
ताच्या एकसाक म्हजेकडेन जाप नासली
हांव जाप सोदीत रावलों



८ मार्च १९९२









तें सकाळफुडें आमगेर आयलें
ताका पळयले बरोबर तें साहित्यीक म्हूण कळटालें
अशीं दिसपट्टीं कितलीं तरी येतात
कथा-कविता बरोवन हाडून दाखयतात
हांवूंय कोंकणीची सेवा म्हूण तांकां मार्गदर्शन करतां
पूण हाणें असलो तापदायक प्रकार हाडूंक नाशिल्लो
तें कोंकणी शिक्षक सनद म्हूण कितें तरी करता
ताचेरूच ताच्या मास्तरान निबंद बरोवंक सांगिल्लो
तो बरोवन सुदारपाखातीर तें म्हजेकडेन आयिल्लें
स्त्री दाक्षिण्य म्हूण हांवें तो निबंद वाचलो
आनीक कोणूय म्हालगडो तो सुदारतलो आशिल्लो
आपलें मोठेपण दाखोवंक सारकें आसा तें चूक करपाचो
पूण असलीं नाडपेन्ना करप म्हाका आवडना
कित्याक तो तांच्या जीवन मरणाचो प्रस्न आसता
म्हाका ताणें बरयिल्लो तो निबंद भोवच आवडलो
हेर विद्यार्थ्यांनीय तो नमुनो म्हूण वापरूं येतालो
देखून हांवें बोरकारी बदला तोच छापचो थारायला
निबंदाचें नांव आसा 'कोंकणी शिक्षक सनद'
कोंकणी शिक्षक सनद हो अत्यंत गरजेचो कोर्स
तो केल्ल्यान नोकरी मेळूं वा ना मेळूं!

पूण दर शिक्षकान आनी बेकारान तो करप म्हत्वाचें
बेकार रावून कंटाळो आयलो म्हूण हांवूय ताका गेलें
तेचखातीर कोंकणी म्हालगडे म्हाका पळोवंक मेळळे
तांचेकडेन म्हजो सामको लागिच्यान संबंद आयलो
कोंकणी शिक्षक सनद शिकोवपी
सगळे सनद घेतिल्ले म्हालगडे
ते जें गिन्यान दितात तें सोंसपाचें न्हय!
हो कोर्स दर आयतारा पणजे आनी मडगांवां चलता
ह्या दिसा पणजेकार, मडगांवकारांचेर आकांत येता
तेचखातीर ते शेनवारा शार सोडून भायर वतात
फुडलें सप्तक बरें वचूंक
तकली थंड दवरून सोमारा परततात
अशें करपी हे कोंकणीचे दुस्मान म्हूण कळटा
तांकां म्हालगडयांकडल्यान गिन्यान घेवपाचें ना
ह्याचखातीर एक दीस तांकां पश्चताप करचो पडटलो
शिक्षक सनदाक वचचे पयलीं हांव अरवळ आशिल्लें
आतां म्हजी तकली गिन्यानाचो कळसो जाल्या
हाचें पुराय श्रेय हांव म्हज्या शिक्षकांक दितां
आमकां समिक्षा शिकयतात प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार
ताका लागून हांव दोडयाऱ्याची लेगीत समिक्षा करतां
एकेच नदरेन तो पोंवशेला काय ना तें म्हाका कळटा
मनोहरराय सरदेसाय कोंकणी साहित्याचो इतिहास शिकयता
खरें म्हळ्यार ती दोतोर प्रोसोर गोम्साची मक्तेदारी
तो विशय मनोहरबाबान घेवन गोम्साच्या पोटार मारलें
तरी मनोहरबाब तो सुंदरपणान शिकयतात
ताकाच लागून म्हाका
पुराय फ्रांसेज साहित्याचो इतिहास कळ्ळा
प्रा. यशवंत सदानंद पालेकार म्हाका खूब्ब आवडटात
ते कोंकण भारती आनी भाशा मंडळ चलयतात
हेंच म्हाका खबर आशिल्लें
कोर्साक लागून ते प्राध्यापक म्हणपाचेंय कळ्ळें

ते आमकां कोंकणी लिपी शिकयतात
तांणीं 'देकरो' म्हूण नवीच लिपी तयार केल्या
ती देवनागरी, कन्नड आनी रोमी हांचें मिश्रण आसा
माधवी सरदेसाय शिकयता तेन्ना म्हाका खूब बरें दिसता
तें भाशाशास्त्र म्हूण कितें तरी शिकयता
शिकोवपापरस तें खूब खूब हांसता
तेच खातीर भाशाशास्त्र हांसपाची गजालशी दिसता
आल्मेदा म्हूण कोणतरी ध्वनी विज्ञान शिकयतात
बाबडे तोंडातल्यान वेगवेगळे ध्वनी काडटात
केन्ना म्हाका ते मंगळुरी तर केन्ना रोमी दिसतात
ध्वनीचोच ध्वनी पयलीं म्हाका धनी सो दिसतालो
सगळ्यांत मजेची गजाल म्हळ्यार सुमंत केळेकारांची!
तांचो विशय जावन आसा कोंकणी शुद्धलेखन
तांणीं म्हाका शिकयिल्ल्यान म्हजें शुद्धलेखन बेस बरें जालां
'जाग' म्हयनाळ्यांतल्यो सगळ्यो चुको
म्हाका अचूक कळटात
प्रा. पुंडलीक नायक हांच्या रूपान एक बरो प्राध्यापक मेळ्ळा
साहित्य सेवेखातीर तांणीं हो वेवसाय पयलीं सोडलो
पूण निरूपाय म्हूण तांकां तो सद्या घेवचो पडला
ते कोंकणी नाटक हो विशय घेतात
गोंयच्या पांच नाटककारांमदले ते एकटेच उल्ल्यात
नवे तयार जायसर तांचेर
व्हडली जापसालदारकी आसा
तेचखातीर म्हजीय जापसालदारकी वाडल्याशी दिसता
कितेंय उलयतना हांव नाटकांतले संवाद कशे उलयतां
शिक्षक सनदचो हो व्हड फायदो अशें म्हाका दिसता
कोंकणी म्हालगड्यांचीं सगळीं नाटकां म्हाका येतात
तीं कशीं करचीं हें प्रा. प्रकाश थळी शिकयतात
कोंकणी रंगमाची इतली बऱ्याक पडटली
हें म्हाका खंय खबर?
हो विशय थळयांक बरोच जमला म्हणूं येता

उदय भेंब्रे हिंदू समाज हो विशय हाताळटात
खंयचोय विशय हाताळचो तो उदयबाबानूच
तांच्याच प्रभावान म्हाका नवो समाज काडचो सो दिसता
एकदां तरी मीस आयकुचें अशी म्हजी इत्सा आशिल्ली
पूण इगर्जेंत वचपाची केन्ना संदच मेळ्ळी ना
प्रोसोर दोतोर ओलव्हीनबाबान ती पुराय केल्या
खिरस्ती धर्म हो विशय शिकयतना आयकन आयकन दिसता
गोंय विद्यापिठांत वचून तांणीं व्हडली चूक केली
तरी विद्यापिठाक 'खिरस्त दोत्रिनां' मेळ्ळीं ही बरी गजाल
कोंकणी शिक्षक सनद ही गजाल व्हड गजाल!
विसाव्या शेंकड्यांतली ती एक इतिहासीक घडणूक म्हणूं येता
ताका लागून आनीकूय खूबश्यो गजाली जावंक पावल्यो
डॉ. तानाजी हळर्णकार संस्कृताय समजूंक पावलो
ललीत साहित्याची वळख चंद्रकांतबाब केणीक जाली
कोशाचें गिन्यान फेलीस कार्दोज हांकां आयलें
दामोदर मावजो हांकां सामाजिक,
आर्थिक, राजकीय गिन्यान आयलें
ह्या विश्याविल्यो कादंबऱ्यो आतां येवं येतात
रमेश वेळुस्कार हांकां बरें आयकुपी मेळ्ळे
सप्तकभर कविता करपाचो नेम ते पाळूंक पावले
आयतारा आमकां नव्यो कविता मेळूंक पावल्यो
असो हो कोंकणी शिक्षक सनद कोर्स
सगळ्यांच्या आवडीचो आनी अपुरबायेचो
पिळग्यान पिळग्यो तो चलत उरचो।

**(टीप : ते चलयेचो निबंद आवडलो म्हूण हांगा दिला**
**वाचप्प्यांनी आपलें एक्स उत्ताव येता**
**ताचो फायदो सनद करपी शिक्षकांक जावं येता)**

**१५ मार्च १९९२**



**मो**र्चा! भयंकर व्हडलो मोर्चा!

हांवें जिवितांत खूब मोर्चा पळयले आनी खूब काडले
पूण असलो मोर्चा हांवें केन्नाच पळोवंक नाशिल्लो
खरेंच न भुतो न भविष्यति असोच तो मोर्चा
ह्या पयलीं जावंक ना आनी मुखाखय जावंचोना
गोंयचे सगळे कलाकार एकवटान भायर सरिल्ले
पयलेच फावट बामण आनी बामणेतर हो भेद ते विसरिल्ले
कलाकार आनी नकलाकार हातूंत फरक नाशिल्लो
कवी आनी कवयित्री हातांत हात घालून चलतालीं
गड्यांगड्यांमदली कुन्नाटकाय दिश्टी पडनाशिल्ली
म्हालगडे बालगड्यांच्या पांयांत पांय घालिनाशिल्ले
तांकां मुखार दवरून तांच्या पावलार पावल उडयताले
घडये लाठिमार जातलो हाची सुलूस लागल्या आसूं येताली
कारण कितेंय आसूं. मोर्चा मात अप्रूप!
तातूंत रांगोळी घालपीय आशिल्ले आनी माटोळी बांदपीय
भूमिपूजनाक शांतीय करपी आशिल्ले
आनी हेरांक अशांतीय दिवपी
कोण कितें कात हें कोणाकूच पडूंक नाशिल्लें
पळोवंक जरी धडयाल्ल्यांव दिसताले

तरी कलाकार आशिल्ले
हांकां अशें एकठांय करप ही अत्यंत म्हाकठीण गजाल
पूण ह्या मोर्चाच्या निमतान ती शक्य जाल्ली
ताचें पुराय श्रेय कलाकार संघटणेक वतालें
आझाद मैदानावेल्यान मोर्चा सचिवालयाचेर वचूंक लागलो
येदो मोर्चा आसतलो हें चर्चीलाक खबर नासुंये!
नातर तो नागेशबाबाक कुशीक सारून
आपूण मुखार रावपाचो
फुडारपणाचो घारा आपूण गिळून उडोवपाचो
त्या भायर मागीर रमाकांत खलपाच्यो बोबो-हुयेली
मोर्चांत सगळे किरिस्तांव म्हणत तो
तोंडार आडवो हात मारपाचो!
पूण हे फावट ताचोय तसो भंय नाशिल्लो
कारण मोर्चा रवी नायक सरकाराचेर आशिल्लो
त्याभायर खलपूय एक आदलो नाट्य कलाकार!
श्रीरंग नार्वेकारान ताका माचयेर चडयिल्लो खंय
तेन्नाच्यान ताचीं सवंगां सुरू जाल्लीं तीं अजून चलतात
खरें म्हळ्यार ताकाच मोर्चाचो फुडारी करपाचो
पूण कलाकारांमदीं राजकीय कलाकार नाका आशिल्लो
तांचेमदलें राजकारण माथ्यावयल्यान पुरो जाल्लें
मोर्चा कस्टमाकडे पावलो. पोलिसांनी तो थंय आडायलो
त्या बराबर म्हालगडे हळू हळू फाटीं सरूंक लागले
शिश्टमंडळ म्हळ्या बराबर पर्शून मुखार आयले
सचिवालयांत कोणें वचपाचें हाचेर वाद जावंक लागलो
बालगडे कलाकार सरकाराआड घोशणा दिताले
एक दो एक दो राणे को फेंक दो
एक दो एक दो, नाट्यसर्तीचो चेक दो
इतल्यांत कोणे तरी खबर हाडली
'मुख्यमंत्री खासा जावन कलाकारांक मेळूंक येता'
खबर हाडपी दामोदर घाणेकार आसतलो
कित्याक ताकाच असल्यो खबरो रोखडयो कळटात

खबर आयकून म्हालगड्यांनी गर्दी केली
कलाकारांची येवकार समिती करून येवकाराक उबे रावले
कलाकारांक हात हालयत, हांसत रवी येतालो
ताचेवांगडा संजय बांदेकारूय आशिल्लो
कलाकारांनी धांवत वचून मुख्यमंत्र्याक कोंडाळें केलें
आपणें हाडला तो मोर्चा हें ते विसरले
रवी नायकाच्या जैतांच्यो घोशणा दिवंक लागले
इतल्यांत अंबाजी कामत कॅमेरो घेवन मुखार सरलो
त्या बराबर कलाकार रवीक तेंकूंक लागले
मोटवे लोक हेरांच्या खाद्याच्या आदरान
तकली वयर काडूंक लागले
मुख्यमंत्र्यांक  सगळ्यांची काकूट आयली
कलाकारांक वेवस्थीत दवरून ताणें फोटो काडूंक लायले
'हांव आसा तोच फोटो छाप आं पेपराचेर!'
संघटणेच्या निमंत्रकान अंबाजीक सांगलें
'हांव आसा मरे तातूंत?'
घाणेकारान हळूच ताका विचारलेंच
'हय रे सगळे आसात. हांव सगळेच फोटो छापतां!'
अंबाजीन तांकां ओगी करपाक सांगलें
फोटो काडपाचे लटाफटींत मुख्यमंत्री खर्शेलो
ताणें हात वयर करून सगळ्यांक वोगी केले
सगळे बोवाळशेट धडल्ल्यांव गप्प जाले
'हेच काय ते कोंकणीवादी?'
असो प्रस्न तांकां पळोवन पडपाचो
रवी तांचे मुखार भाशण करूंक उबो रावलो
सगळ्या कलाकारांनी टाळयो मारल्यो
'बंधू आनी भगिनीनो आनी कलावंतानो'
रवीन सगळ्यांचेर नदर मारीत म्हळें
भगिनीनो म्हणटकच मराठीवाद्यानी
कोंकणीवाद्यांकडेन पळयलें
कलावंत म्हळे बराबर गर्देंत कोण तरी हांसलो

'ओगी राव रे घाणेकार' दुसऱ्यान कोणें तरी म्हळें
सगळे ओगी रावले ते पळोवन
मुख्यमंत्री मुखार उलोवंक लागलो
'तुमचो येदो व्हडलो मोर्चा पळोवन म्हाका अजाप दिसलें
पयलीं म्हाका दिसलें हो मोर्चा कोंकण रेल्वेचो
जेन्ना कळ्ळें तो कलावंताचो तेन्ना म्हाका वायट दिसलें
ह्या गोंयांत कलावंतांक मोर्चा काडचो पडप? शी!'
कलावंतांनी नाटकां करप
ते खातीर कला अकादमी आसा
तांणीं चित्रां काडप. ते खातीर आर्ट कॉलेज आसा
साहित्यिकांक कोंकणी-मराठी अकादेमी आसा
पूण थंय कांयच चलना देखून
ह्यो संस्था बंद करच्यो पडटात
आनी तुमी असल्यो चळवळी करतात?
शी तुमचे अकलेक. हांव लजेन राजिनामो दितां!'
'नाका नाका आमकां तुजो राजिनामो नाका'
आमकां जाय प्रताप सिंग राणेचो राजिनामो
गर्देतले कलाकार बोंबलेच्या देठांतल्यान आइडले
'राणेक थंयच्यान काडून अध्यक्ष कोणाक करपाचो?'
मुख्यमंत्र्यान निमंत्रकाक विचारलें
'थंय आमकां कलाकार जाय कलाकार जाय'
गर्दी परतून एकदां उसळ्ळी
आपूण केदो व्हडलो कलाकार
हें हडडें मुखार काडून दाखोवंक लागली
'तुमकां रिटायर्ड मनीस थंय उपकारता?'
'ना. ना.'
'अध्यक्ष जातल्याक पुरस्कार मेळना हें खबर आसा तुमकां?'
'हय. हय'
शबै शबै म्हणाचें तशें गर्देन परतून म्हळें
'जांकां पुरस्कार नाका ते हात वयर करात पळोवया'
एकूय हात वयर सरलो ना

‘ह्या वर्साच्यान उत्कृश्ट कलाकाराक
एका लाखाचो पुरस्कार दितले’
मुख्यमंत्र्यान कलाकारांमुखार घोशणा केली
‘आतां तुमकां अध्यक्षपद जाय?’ ताणें विचारलें
‘नाका नाका. राणेच बरो आसा’
सगळ्यांनी एका सुरांत म्हळें आनी मोर्चा फाफसलो
‘मुख्यमंत्री झिंदाबाद म्हणत!’

**२२ मार्च १९९२**





हॅलो ऽऽ। चार तीन दोन आठ चार?
हय. कोंकणी अकादेमी. कोण उलयतात तुमी?
हांव दिलीप बोरकार. तुमी कोण उलयतात?
आं। कोण दिलीप रे? हांव सचीव उलयतां. तुका कोण जाय?
अळळपदी, सर्वश्रीमान, परमपूज्य, भौमानेस्त अध्यक्ष जाय
ते नात. तांणीं पुरस्कार दान करून दिल्ली प्रयाण केलें
ते इतले वेगीन दिल्ली वचत अशें दिसूंक नाशिल्लें!
तशें कशें जातलें? नरशिंवराव थंय एकटो उरतलो
तें आसूं. लोककवी, प्रस्तावनाकार उपाध्यक्ष तरी मेळटले?
ना. सद्या ते रेस्ट घेतात
थंयच्यान ते थंय, थंयच्यान थंय वतले
म्हणटकच फोन केल्ल्याचो फायदो ना तर।
ना कित्याक? हांव आसां न्हय तुमचे सेवेक!
पूण तुमी तर तुमचें नाव सांगूंक तयार नांत
हांव नांव सांगपाचों. पूण तूं बोरकारींत घालतलो
तशें घाल्यार कितें जाता?
बोरकारी हो हलको फुलको कॉलम!
पूण सगळ्या म्हालगड्यांक उस्तरें वता
ते नाका जाल्लें उलयतात

कितें उलयतात तें कळ्ळ्यार बरें जातलें
ते म्हणतात तुका फ्रस्ट्रेशन आयलां
तूं व्यक्तीगत राग काडटा
तांचीं नाडपेन्ना पळोवन निराश जायना तर कितें जातलें?
तुवें कित्याक फोन केल्लो तें सांगलें ना अजून
हय. विसल्लोंच पळय. म्हाका तुमचें तें पत्र आयलां
पत्र आयलां? आमकां पत्रां बरोवपाची संवयूच ना
फोंड्यां तुमी तें साहित्य सप्तक मनयतात ताचेविशीं
तें रे? आं! मागीर तूं येतलो मरे ताका?
येवपाचें आशिल्लें. पूण निरिक्षक म्हूण हांवें कितें करपाचें?
कांयच ना. निरिक्षक ही बेश्टी एक पदवी कशी
कोंकणी विश्वकोशाचो सुपरिंटेंडेंट आसता
तसली बी काय कितें?
ना. ती पदवी जोडपाची. हांगा पदरमोड करपाची
म्हणचे दुश्काळांत तेरावो म्हयनो हांवें मनोवपाचो?
तशेंय न्हय. येवपाचें, च्या पिवपाचें
आनी बस खर्चाचें बील दिवपाचें
हाचे फाटलो उद्देश्य म्हाका बरो कळूंक ना
उद्देश्य आदींचेच. बोरकारीन ते थांबपाचे नांत
म्हणचे हांवें थंय सप्तकभर येवन रावपाचें तर!
बरेभशेन. आमची सगळ्यांची तीच इत्सा आसा
एक सांगात. आतां थंय दुसरो कोण आशिल्लो?
ना. हांव एकटोच हांगा आसां. कित्याक विचारलें?
बेश्टेंच. म्हाका बरे भशेन म्हणिल्लेवरीं दिसलें
हांवेंच म्हणिल्लें तें. म्हाकाय आतां संवय जाल्या
सचीवबाब म्हाका तुमकां विनवणी करपाची आशिल्ली
सांग तूं. मानपाची काय ना ती मागीर पळोवया
तुमचें हें साहित्य सप्तक तुमी फुडल्या सप्तकांत व्हरात
ह्या सप्तकांत केल्यार तुजी कितें अडचण आसा?
हय. आमचो कलाकारांचो मोर्चा आनी धरणें आसा
तेचखातीर तर आमी मुद्दम ह्याच सप्तकांत दवरलां

ह्या सप्तकाक लागून सगळे कलाकार फोंड्यां आसतले
आमी जर ही कार्यावळ दवरिना जाल्यार ते मोर्चाक वतले
येदी व्हडली संख्या पळोवन तांकां जल चडटलें
कला अकादमी सोडून ते कोंकणी अकादेमीर चाल करतले
हें जालें एक कारण. आतां दुसरें कारण आयक
हो आसा मार्च म्हयनो. अर्थीक वर्साचो निमाणो म्हयनो
एकतीस मार्च पयलीं सगळो फंड सोपोवंक जाय
गरजेभायर पयशे परत करपांत कितें फायदो आसा?
सारके तुमचें कोणाचोच फायदो ना. खरें न्हय?
ज्युस्त उलयलो तूं. शिवाय सद्या साहित्याचो दर्जो खालावला
खंयच्या साहित्याचो म्हणटात तुमी सचीवबाब?
सगळ्या साहित्याचो
उद्धारपूच जाय जाल्यार तुजी बोरकारी घे
पूण तें तशें अक्षरसाहित्य न्हय हें हांवें मान्य केलां
बोरकारी नाका जाल्यार म्हालगड्यांनी करणी सुदारची
तें म्हणून शक्य आसा? तें आसूं. तूं येतलो मरे?
हय. घराकडेन न्हिदचे परस थंय न्हिदप म्हाका आवडलें
कितेंय कर तूं. पूण नियाळ बरोवन मात दी
तो म्हज्यान थंय येनासतना आतांच दिवं येता
मागीर सांग तर हांव बरोवन घेता
कोंकणी अकादेमीचें साहित्य सप्तक दबाज्यान जालें
फोंडेकारांक ती मडगांवची दिंडी
आनी वास्कोचो सप्ताह कसो दिसलो
प्रा. सुमंत केळेकार हांणीं सुंदर प्रबंध वाचलो
ताचो प्रभावूच इतलो प्रखर की सोसपाचो न्हय
मुख्यमंत्री रवी नायकाक लेगीत साहित्यिकाचो वसो लागलो
कोंकणी शब्दकोश करपाची जबाबदारी तांणीं घेतली
आपल्या हातांतलें साधन गेलें म्हण थोडे पिरंगले
पूण जातीयवादी म्हणत म्हण ते ओगी रावले
प्रा. भूषण भावे हे ह्या शेंकड्यांतले नवे प्राध्यापक
तांणीं पेपर वाचचे पयलीं 'चलो काश्मीर' म्हण घोषणा दिली

त्या बराबर अकादेमीचे जाळवणदार चाळवले
एकसुरान, एकामुखान तांणीं 'चलो तिरूपती' म्हळें
तांची घोशणा सुजाण कोंकणीवाद्यांक कळ्ळी ना
तांणीं दुरूस्ती करून 'चलो पर्तगाळी' म्हळें
समता आंदोलकांनी हाचेर खर हरकत घेतली
त्या बरोबर संदेश प्रभुदेसायान स्पश्टीकरण केलें
काँग्रेसचें महाअधिवेशन तिरूपती जावपाचें आसा
त्याचखातीर काँग्रेसवाल्यांनी 'चलो तिरूपती' म्हणिल्लें
साहित्य सप्तकाच्या शेवटाक प्रकरण बरेंच गाजलें
साहित्यिकांचो साहित्याचेर स्वताचो प्रभाव
असो कितें तरी विशय
बाबड्यांक तो सारकोपणी कळ्ळोच ना
आपलींच लफडीं म्हूण सांगपाचीं आसतात?
सांगप काय ना हो प्रस्न शेवटाक अनुत्तरीत उरलो
सगळ्यांनी मानधन घेवन समारोप केलो
हॅलो, हॅलोऽ आयकूंक येता मूं तुमकां?
हय, हय. येता. सद्या इतलोच नियाळ पुरो
बरें तर तुमची मर्जी. हांव बस खर्चाचें बील धाडटां
बरेभशेन. देव बरें करूं. मेळुया
हय मेळुया. दवरतां. कट्! टींग!

**२९ मार्च १९९२**





म्हजी बसींत बसपाची संवय मोडल्या
कारण हांव व्हडलो गिरेस्त म्हण न्हय
तर म्हज्या पिशेपणाच्या विचारांक लागून
बेश्टीच म्हाका भिरांत लोक कितेंय म्हणत म्हूण
लोकांक तशें म्हजें व्हडलेशें पडिल्लें ना
तरीय म्हाका दिसता लोक म्हाका पळोवन हांसतले म्हूण
'आरे तूं कोंकणीवाद यांमदीं पडून फसलो मरे!
'पदरचे मोडून तुका कोणे सांगिल्ल्यो त्यो बेकारभासो?'
'तांणीं पळय सगळ्यांनी आपलें सादोवन घेतलां'
'तूं मात पिसो तुका तीं गुडडूलसांवां कळना'
'सगळ्यांनी गाडयो स्कुटरी घेतल्यात'
'तूं मात अजून चलून भोंवता सडाफटींग करसो'
म्हाका असलीं खूब वाक्यां आयकूंक आयिल्लेवरी दिसता
त्याच भ्रमाक लागून रीण काडून हांवें स्कुटर घेतली
एकदां असली संवय लागली म्हणटकच ती सुट्टा?
म्हालगडे कॉंग्रेसींत गेले तांकां कॉंग्रेसीची संवय लागली
कोंकणी अकादेमींत गेल्ल्यांक अकादेमीची संवय जाली
सगळ्या कोंकणीवाद यांचो तो एक सभावूच जाला
एकदां मुखेल सोयरो केलो तर ताचीच संवय लागता
थोड्यांक कोणेतरी अशेंच आपोवन सोऱ्याचो पेलो दिलो

आयज ते दीस-रात सोरोच पियेवन लकतात
कवी जाल्ल्यान तांचें हें बेबदेपण लिपता म्हूण बरें!
तांकां सगळ्यांक असल्यो संवयो तर म्हाका असली
स्कुटर नासतना भोंवप म्हळ्यार म्हजें एक्स उसळटा
गोंयांत एकवेळ स्कुटर घेवन भोंवप शक्य आसा
मुंबय वचपाचें जाल्यार ती गा घेवन कोण वतलो?
तरी आसतना म्हाका मुंबय वचप गरजेचें आशिल्लें
मुंबय कोकम म्हूण कसलें तरी संमेलन आसा
गोंयांत येदें व्हडलें चोगम म्हूण जालें
संवसारभर ह्या चोगमाचो सामको बोवाळ जालो
तेच धरतेचेर हें कोकम आसत अशें दिसलें
ह्याच कोकमाक लागून कोंकणी मळार बोवाळ चल्ला
कोकम म्हळ्यार बिण्णांचें सरबत हें हांव जाणां आशिल्लों
मागीर कळ्ळें तें कोंकणी कन्नड मराठी संमेलन
आतां संमेलन म्हणटकच म्हज्यान तें सोडूंक जाता?
हाचे ताचे कडेन मागून विमानाची तिकेट फैदासली
मनोहरराय सरदेसायाक कोंकणी अकादेमी दिता
म्हाकाय ती दितली म्हूण रावलों जाल्यार हांव फसपाचों
विमानाची वेवस्ता जाल्ली आतां गाडयेचें कितें?
मनोहरबाबाक घेवन अकादेमीची गाडी विमानतळार वतली
ती बरी ऽ गेली म्हूण म्हाका थोडीच व्हरतली
देखून उपाय नासून हांवें बसींतल्यान वचपाचें थारायलें
वास्कोच्या बसींत चडलों आनी नशिबान एक सुवात मेळ्ळी
ते सुवातेर पयलींच आनीक एकलो बशिल्लो
ताच्या शेजराक बसल्या बराबर ताणें म्हाका पळयलें
हांव ताका हांसलों आनी
रवीन्द्र केळेकारावरी पुस्तक वाचूंक लागलों
बसींतल्यान वतना हांव सदांच वैचारीक पुस्तकां व्हरतां
शेजारच्यान म्हजें पुस्तक पळयलें आनी परतून म्हाका पळयलो
'तुमी विचारवंत बी?' ताणें म्हाका प्रस्न केलो
'ना हांव एक कोंकणी साहित्यिक.' हांवें जाप दिली

तसो तो म्हाका लागीं आयलो. हांवें पुस्तक धापलें
'तुमी दिलीप बोरकाराक वळखतात?' ताचो प्रस्न
प्रस्न आयकून म्हाका कल्ल जालें. हांव कुळकुळ्ळों
'देवा सायबा, हो बोरकारीचो वाचक नासल्यार पुरो'
मनांतल्या मनांत हांवें देवाक होरायलो
'हय. हांव ताका वळखतां. तोय कितें कितें बरयता'
हांवें म्हजी वळख लिपोवपाचे हेतून म्हळें
हय सांगू येतालें? तो दुस्मान काय मित्र हें?
'तो जातीन कोण? सारस्वत काय आनीक कोण?'
ताच्या ह्या प्रस्नान हांव परतून कांचवेलों
तो खंयचे हेतून विचारता हें कळ्ळ्यार बरें जावपाचें
फायदो पळोवन जाप दिवं येताली
'कित्याक लागून म्हणटात तुमी? कळ्ळ्यार बरें न्हय?'
हांवें मातशें नमळायेन ताका हळूच विचारलें
'हांव कृष्णराय म्हळ्ळो एक सारस्वत'
हड्डे फुलोवन तोंडार तेज हाडीत ताणें म्हळें
'हांव सारस्वत पुनर्वसन प्रतिश्ठान चलयतां'
'त्या दिलीप बोरकार म्हणतल्याक टि.एम्.पै पुरस्कार लाभला'
'पूण ते सारस्वत म्हळ्ळें की आमकां दुबाव आसा'
'ताची खात्री करच्याक हांव मुजरत गोंयां आयलां'
कृष्णरायान चार वाक्यांत कोंकणींतलें कृष्णकृत्य सांगलें
म्हणचे सगळे साहित्यीक सुतावयल्यान सर्गार चडटाले?
म्हाका कच्च जालें. ह्या पातकांत म्हाका पडपाचें नाशिल्लें
'म्हाका दिसना तो सारस्वत आसत सो' हांवें म्हळें
सारस्वत म्हूण सांगल्यार
शंब्बर टक्के पुरस्कार म्हाका मेळपाचो
म्हज्या सारक्या विचारवंताचें उतर ताणें ग्राह्य मानलें
'तुमी इतल्याच कामाक गोंयांत आयल्यात?'
आनीक कितेंय काडचें म्हूण हांवें ताका विचारलें
'तशें सांगचेलें तर व्हय. स म्हयने पुरस्कार पडून उरला'
'आतां तुमी तो कोणाक दितले?' म्हजो प्रस्न

'मगेले घरकान्नीकडल्यान एक फावर आयला. तरी पळोवया'
नांव सांगपाची ताची इत्सा नासुंये. म्हाकाय गरज नाशिल्ली
'म्हाका आनी थोडे सारस्वत सांगशात वे?'
ताका आनीक कित्याक जाय तें म्हाका कळ्ळेंना
'पंचखाद्यचे बाळिगा तांचे सत्कार करूंक चिंतता'
तकलेवेलें प्रस्नचिन्ह पळोवन ताणेंच सांगलें
हांवें ताका मडगांवां यशवंत पालेकाराकडेन धाडलो
आनी हांव विमानतळार वचूंक बसींतल्यान देंवलों
त्या पयलीं म्हाका एक जानवें घेवपाचें आशिल्लें!

**५ एप्रिल १९९२**





आमचो सरकार म्हळ्यार सामको भोजो
ताका गोंयच्या म्हालगड्यांचें कांयच पडूंक ना
फार्टी कलावंतानी फेरीबोटीकडेन धरणें धरलें
सगळ्यांक दिसलें प्रतापसिंग आतां गेलोच
पूण प्रतापसिंग राणे म्हळ्यार सामको हो न्हय
हें सगळें कित्याक चल्लां तें ताका बेसबरें खबर आसा
ताणें सगळ्यांचें एकस वेवस्तीत जोखलां
आपली तकली वापरून ताणें पयलीं एक काम केलें
नाटकाचीं इनामां व्हरूंक येवंची म्हण फर्मान काडलें
आसा आतां कोणाक कापाजदाद धरणें धरपाची?
आनी खंयचोय सरकार आशिल्लो जाल्यार विचार करपाचो
कलावंतांचें धरणें म्हळ्यार कलावंतांचो खेळ न्हय
तें आसूं ते सगळे धडल्ल्यांव म्हण सोडून दिवं येता
पूण आमचे दिल्लीवारीक गेल्यात तांचें कितें?
दिल्ली वचप म्हळ्यार कितें पणजे सचिवालयांत वचप न्हय
भितर सरलो आनी फोटो काडून भायर आयलो अशें करूंक
दिल्ली म्हळ्यार सामकी आकांताची सुवात
थंय थंडीय चड आनी आतंकवादाचोय आकांत
एकवेळ पर्तगाळी मठांत वचूं येता पूण थंय न्हय
तरी एक बरें, गुरुनाथबाबा वांगडा दामोदर घाणेकार आसा

तो गोंयांत ना म्हणटकच मातशें चुकल्या सारकें जालां
गोंयचें वातावरण मातशें दमट जावन गेलां
सप्तरंगी नाशिल्ल्यान वाचप्यांक वेगळो रंग चडला
खूबशा जाणांक टी.बी. कुन्याकडेन हांसो आयकूंक मेळ्ळो ना
कितेंय जालें तरी लोकांनी स्वताय थोडें सोसूंक जाय
ते दिल्ली गेल्यात ते कितें फोल्गां मारूंक वचूंक नांत
पयर हांवें असोच सिक्कीमच्या मुख्यमंत्र्याक फोन केलो
हांव म्हूण कळटकच भंडारीन फोन घेतलो
हांव सिक्कीमाक आशिल्लों तेन्ना आमची बरी दाटी आशिल्ली
तांणीं म्हाका फोनार नेपाळी भाशेचो वावर सांगलो
नेपाळी आठवे वळेरींत वता म्हूण तांकां खोस जाल्ली
'आमचे कोंकणीविशीं उलयला मरे तूं?' हांवें विचारलें
'तशी गरज पडली ना. तुमचे मनीस आशिल्ले'
ताणें सांगलें आनी म्हाका मातशें अजाप जालें
गोंयचे सगळे फुडारी गोंयांत म्हणटकच थंय कोण गेलो?
नरबहादूर भंडारीन वेवस्तीत वर्णन करून सांगलें
ते खडेगांठ मनीस दामोदर घाणेकार आनी
गुरुनाथबाब म्हूण कळ्ळें
खात्री करूंक हांवें अर्जुनसिंगाक फोन लायलो
दोगांयनीय कळकळीन विशय मांडलो म्हूण ताणें सांगलें
तांचेच पोटतिडकेक लागून कोंकणीचो विचार जाल्लो
आठवे वळेरींत कोंकणी आतां गेल्ल्यांतूच जमा आशिल्ली
म्हजें हड्डें सामकें खोसयेन भरून आयलें
गोंयचो सरकार फक्त थाराव मांडून मेकळो जाल्लो
मिनिस्टर फॉर काजूफॉकां न्हिदून राविल्लो
एदुआर्दबाब तर गोंय सोडून संवसार भोंवतालो
दोन खांप्या गोंयकारांनी आयज व्हडलें काम केल्लें
तांचेखातीर म्हाकाय कितें तरी करूंक जाय आशिल्लें
तांच्या येवकाराक गोंय सजोवंया असो म्हजो विचार जालो
पूण हेर फुडारी कशेच पालव दिवंक तयार नांत
'आमी नासतना हें काम हेरांनी केलेंच कशें?'

मडगांवकारांची एक्साची तिडक एक्साक पावली
'इतले बेगीन म्हूण कोंकणी आठवे वळेरेंत घालप?'
पणजेकार बातमी आयकून भळभळीत रडूंक लागले
तांचेंय दुख्ख म्हळ्यार सामकें लटकें नाशिल्लें
कोंकणी राजभास जाली आनी जायते बेकार पडले
फुडारी हें बिरूद हड्ड्याकडेन आयलें आनी नाच जालें
थोडे जाण आतांच खंय फुडारी जावंक लागिल्ले
तांचेखातीर होच एक प्रस्न हातांत आशिल्लो
तांचीय हांणीं दिल्ली वचून धांदळ करून उडयिल्ली
अशे एकदम सगळे प्रस्न म्हूण सोडूं येतात?
कोंकणी फुडारी जावपाचीं सपनांच असल्यांनी भंगतलीं
खूबशे जाण असल्यांनी भिकेक लागतले
हें जरी खरें आसलें तरी
म्हाका कितेंय तरी करूंक जाय आशिल्लें
हांवें म्हजी येवजण रवी नायकाक सांगली
ताणें सरकारी पातळीचेर येवकार सुवाळो थारायलो
'तुका दिल्ली वचपाक कसली धाड मारलेली?
रवी नायकान मातशें तापून मागीर म्हाका विचारलें
हें व्हडपण हांवें घेतिल्लें ताका जाय आशिल्लें
'म्हाका कोंकणी दिसाची कार्यावळ आशिल्ली'
हांवें खरें तें सांगून उडयलें. ह्या दिसाचें म्हत्व कळचें देखून
'तुका मरे खंय वचचें तें कळना. देखून तूं फसला'
म्हाका समजायत ताणें म्हज्या कानांत सांगलें
'आतां कोंकणी दीस उरूंक ना. हे दीस कोंकणीवाद्यांचे
तांकां असल्या कार्यावळींक येवन दीस होगडावपाचे नांत'
रवीबाबान खरें सांगलें तरी म्हाका पटलें ना
'तशें म्हूण जाता? सगळो हॉल तर चेक्कार भरिल्लो
म्हाका भाशा मंडळाची लज सांबाळपाची आशिल्ली
'ते सगळे शिक्षक सनदाचे विद्यार्थी हें हांव जाणां
ते कोंकणी दिसाक न्हय तर प्रशस्ती पत्रां व्हरूंक आयिल्ले'
मुख्यमंत्र्याक इतली खबर आसता तें पळोवन हांव अजापलों

तांचें खरेंच आशिल्लें. कार्यावळीक कोणूच नाशिल्लो
कोंकणी शिक्षक सनदाचे विद्यार्थी समजा थंय नाशिल्ले
जाल्यार माचयेवेले म्हालगडे आनी प्रेक्षकांत हांव एकलो
शणै गोंयबाबाचें हें सपन अशेंच आशिल्लें
कोंकणी मनशान संवसारभर पातळचें
ते जगार फाफसल्ल्यान थंय येवंक पावलेनांत
हांवें मनांतल्या मनांत म्हाका समजायलो
मुख्यमंत्र्याचे विनंतीवेल्यान येवकार सुवाळ्याक लागलों
कोंकणी आठवे वळेरींत व्हरपी फुडाऱ्यांच्या!

**१२ एप्रिल १९९२**





सुभाष शिरोडकार म्हळ्यार कॉमिक सो!
तो मंत्री जावंचे पयलीं ताका हांव खूबदां मेळ्ळां
जेन्ना जेन्ना ताका हांव मेळ्ळां तेन्ना तो खूब सादो दिसला
त्याच खातीर ताणें मंत्री जावंचें अशें म्हाका सदांच दिसलां
तो मंत्री जाल्या उप्रांतूय हांव ताका मेळ्ळां
कॅबिनाभायर गर्दैंत ताटकळत रावप म्हाका आवडटा
गर्दी म्हजेविशीं कितें येवजिता तेंय हांव जाणां आसतां
कोणाक दिसता हांव कोणाचो फावर घेवन आयलां
कोणाक दिसता हांव पुस्तकां खपोवंक आयलां
थोड्यांक दिसता हांव जायरात घेवंक आयलां म्हण!
पूण हांव ताका मेळूंक आयलां हें कोणाक दिसना
तरी हांव ताका मेळटां, कित्याक तो म्हाका आवडटा
आवडटा देखून हांव आत्रेपयऱ्यान गर्दैंत उबो रावतां
तांतुंतूच म्हाका लोकलींत घुसपाचें समादान गावता
पयरूय म्हाका तो कला अकादमींत मेळ्ळो
सांस्कृतीक खातें जाणटेल्यांक कितें तरी वांटपाचें आशिल्लें
खबर काडली तेन्ना कळ्ळें ते वर्सुकी पुरस्कार म्हण
हीं खातींय म्हूण सांस्कृतीक मंत्र्यावरीं कॉमिकूच!
मोडणें मारून आयिल्लेवरीं केन्नाय कितेंय करतात

ते पुरस्कार सुभाषबाबाच्याच हस्तुकीं दिवपाचे आसले
रस्त्यार रावन सिगरेटी फुसकावचे परस थंय वचप बरें
अशें म्हाका दिसलें देखून कला अकादमींत गेलों
ताका लागून कलाकारांकूय बरें दिसपाचें तें जालेंच
त्या भायर शिरोडकाराकूय मेळपाची संद मेळपाची
पुरस्कार दिवपाचो सुवाळो इकरांक आशिल्लो
दिसलें कलाकारांची वाट पळयत मंत्री दरवंट्यार आसतलो
पळोवंक गेल्यार कलाकारूच ताची वाट पळयताले
आनी कोणूय जाल्यार झक मारूं म्हण चलूंक लागपाचो
पूण कला अकादमीकडेन असलें रागार फुगार चलना
कोंकणी नाट्यकलाकारांनी एकदां हो अणभव घेतला
अडेच्या नेटान रागार गे बाये फुगार केलें
परिणाम, तोंडाकडेन आयिल्ले पुरस्कार गेले
तेन्नाच्यान असलीं फुगासांवां कोणूच करूंक वचनांत
मंत्र्याखातीर तळमळपी कलाकारांची म्हाका काकूट दिसली
आसा थंयच्यान ताका सोडून हाडपाचें हांवें थारायलें
ज्या ज्या सचिवालयांत गेलों आनी ताका मेळ्ळों
तो आपल्या मतदारांक घेवन चिंताग्रस्त जावन बशिल्लो
'बोरकार, हें अशें कशें जावचें रे?'
म्हाका पळोवन ताणें म्हळें
ताच्या उलोवण्यावेल्यान
भयंकर कितें घडलां म्हणपाचें कळटालें
ताच्या चिंताग्रस्त तोंडाकडेन पळयत
हांव तर्क करूंक लागलो
पांच हजारांचे पुरस्कार जाहीर केल्यात
हें हांव जाणां आशिल्लों
ते दिवपाक बी सरकारी तिजोरेंत ना काय बाबडे?
एकट्या दुकट्याक जाल्यार म्हज्यान तजवीज करूं येताली
पूण एकदम धा जाणांक पन्नास हजार खंयच्यान हाडप?
'सगळ्यांक रिकामी पाकिटां दिवपाचीं कोणाक कळचेंना'
कितें तरी उपाय काडूंक जाय म्हूण हांवें हळूच म्हळें

तशें पळोवंक गेल्यार त्या पांच हजारांक वालोर खंय आसा?
रवीन्द्र केळेकाराक तर त्या दुडवांनी कागद लेगीत येवचोना
कृष्णा मोयाक विडी सोडल्यार हेर कसलें व्यसन ना
पांच हजारांचें कितें करप हीच चिंता ताका चड जावपाची
हांगा दुडवांपरस पुरस्कार दिवप म्हत्वाचें आशिल्लें
त्याच खातीर हांवें सुभाषबाबाक असली आयडीया दिली
'हे। म्हाका ती चिंता ना रे. ही मातशी वेगळी'
अदीकूच गंभीर जायत ताणें म्हाका सांगलें
जेन्ना मंत्री गंभीर जाता तेन्ना गजालूय गंभीर आसूंक जाय
सरकार बी कोसळपाचो आसा काय देवा? म्हाका प्रस्न
काय कॉंग्रेसवाल्यांनी म.गो.त वचपाचें थारायलां काय?
मंत्री गंभीर जालो देखून म्हाकाय जावचेंच पडलें
'म्हाका एक सांग रे. हे कोंकणी अकादेमीवाले मगोत आशिल्ले?
शिरोडकाराच्या प्रस्नान म्हाका धक्को बसलो
कोंकणीवाद्यांविशीं असो दुबाव घेवप लेगीत म्हळ्यार पाप
म.गो. सोपोवंक तर तांणीं जिवीत सोपयलां
आनी तांचेर असलो हो धडधडीत आरोप करप?
पुरुषोत्तम काकोडकार आयकल्यार हो हंत हंत म्हणपाचो
'कॉंग्रेसवाल्यांचेर असो दुबाव घेवपाचें कारण कितें?
हांवें शिक्षणमंत्र्यांक मातशें रागानूच विचारलें
'पयलीं गोंय हो संघ प्रदेश आशिल्लो काय ना?'
'संघप्रदेशाचेर म.गो. राज्य करतालो काय ना?'
'केंद्रसरकाराकडल्यान गोंयाक दुडू मेळटालो काय ना?'
'ते सोपोवंक जायना म्हण भाऊ ते परत धाडटालो काय ना?'
शिक्षणमंत्र्यांच्या प्रस्नांनी हांव घुसमटलों
कित्याक तर हांव शिरोडे गांवचो विद्यार्थी नाशिल्लों
'पूण तुमी हे सगळे प्रस्न म्हाका कित्याक करतात?'
सोसूंक नज जावन हांवें तांकां विचारलें
'आरे कोंकणी अकादेमीन इकरा लाख परत केल्यात'
ताची जाप आयकून म्हाका परतून धक्को बसलो
शशिकला काकोडकारान

कोंकणी आठवे वळेरींत घालुंया म्हळें
तरी म्हाका मात लेगीत अजाप दिसपाक नाशिल्लें
पूण ही तर सूर्य पश्चिमेक उदेवपासारकी गजाल
कोंकणी अकादेमी हांगा पयसो ना म्हूण आड्डता
शब्दकोश बी त्या खातीर तशेच पडून उरल्यात
शिक्षणमंत्र्यान हालींच आनीक साडे सात लाख दिल्ले
अशें आसतना वापरूंक नज म्हूण अकरा लाख परतिता?
देवा सायबा! खावप्यांचीं तोंडा ल्हान जालीं काय?
कांयच ना जाल्यार अध्यक्षांचें मानधन वाडोवपाचें
पांच भटा-ब्राह्मणाक हाडून जेवण तरी घालपाचें
हें अनुदान परत करतात आनी मंत्र्याक त्रासांत घालतात
'फुडले फावट तांकां पचता तितलेंच अनुदान दियात'
हांवें सुभाष शिरोडकाराक सल्लो दिलो
ते इकरा लाख मराठी अकादेमीक दिवंक सांगलें
ते तरी बाबडे ताचो सदुपयोग करपाचे!
कल्पना शिक्षणमंत्र्याक भोवच आवडली
खोसयेन आनी चिंताविरयत आमी कला अकादमींत गेले
पुरस्कार जैतवंत आमची वाट पळयताले

१९ एप्रिल १९९२







**फा**टले कांय दीस हांव उल्यार उले घालतां
भाशा मंडळाच्या वांगड्यांक उलो घालून
म्हजो ताळो पडला
महाबळेश्वर बोरकार घालता
नागेश करमली घालता जाल्यार हांवें कित्याक न्हय?
देखून म्हजो हो बोरकारींतल्यान उलो
कित्याक आयज मंडळाच्या वांगड्यांची
वर्सुकी साबार बसका
वेंचणुकेक जायत्या वांगड्यांनी अर्जी पत्रां भरल्यांत
तांतल्या २१ वांगड्यांची निवड मंडळाचे वांगडी करतले
भाशा मंडळाचे हजारावयर वांगडी आसात
तांतले साप उणे मंडळाच्या बसकांनी वांटो घेतात
तेच मागीर आपल्याक जाय तशे वांटे घालतात
चडशे वांगडी मंडळाच्या कारभारांत लक्ष घालिनांत
ते सगळे कोंकणी अकादेमीचेर लक्ष दवरतात
पूण आतां हें अशें घडूंक फावना
हे फावट चड वांगड्यांनी साबार बसकेक येवंक जाय
मंडळाची घसरत वचपी पत सांबाळूंक जाय
सगळ्यांनी एकठांय येवन पतपेढी सुरू करूंक जाय

वांगड्यांनी पोट सांबाळपी समिती वेचूंक जाय
तेच खातीर हांव सगळ्या वांगड्यांक विनंती करतां
भाशा मंडळ स्थापन जावन तीस वर्सां जालीं
सुरवेक वांगडी मंडळाचें काम पोटतिडकेन करताले
आतां सगळे वांगडी तिडकेन पोट भरतात
पयलीं मंडळाच्या कामाचेर सगळ्यांच्यो नदरो आसताल्यो
आतां भांडाराचेर सगळे नदर दवरून आसात
१९६७ वर्सा मंडळ एका गुदावांत बंद जालें
गुदांवाची चावी म्हालगड्यांच्या जानव्यांत उरली
तेच खातीर गुदांव कसोच उगडूंक मेळ्ळो ना
परिणाम गुदावांतल्यो वस्तू हुंदरांनी खाल्यो
त्याच वर्सा मंडळाचे कांय वांगडी फुडें सरले
तांणीं गुदांवांतले हुंदीर-घुशी मारून उडयल्यो
मंडळाची विस्कटलेली घडी जाग्यार घालपाची आशिल्ली
तेखातीर एक बरे पयकीं वॉशींग मशीन हाडलें
त्या वर्सांनी कोंकणी दीस मोठ्या दबाज्यान मनयताले
आतांच्या वर्सांनी शिक्षक सनद कोर्स मनयतात
तेन्ना एका बऱ्या विचारवंताचें उलोवप जातालें
त्या उलोवपांचें पुस्तक छापून भायर सरतालें
आतां भाशा मंडळ विचारवंतांक लागींच करिना
स्वताच नाका जाल्ले पांय ओडपाचे विचार करतात
बोगस बिलां करून आपलींच पुस्तकां छापतात
दर दोन म्हयन्यांनी वांगड्यांचीं शिबिरां भरतालीं
शिबिरांत सगळे पिरायेचे वांगडी वांटो घेताले
मतभेद कुशीक दवरून वावराची दिका थारायताले
आतां फकत म्हालगडेच सगळ्याक वांटो घेतात
वेगवेगळे भेद करून मत आपले वटेन व्हरतात
पयलीं दर म्हयन्याक कोंकणी म्हयनाळें येतालें
तांतल्यान कोंकणीच्या वावराची म्हायती मेळटाली
आतां ह्या कानाची म्हायती त्या कानाक मेळना
दर वर्सा कोंकणी पुस्तकांक इनामां दिताले

नाटकांच्या हात बरपाची सर्त जाताली
पूण आतां इनामां दिवपासारको लेखक कोण ना
आशिल्ले तांकां सगळ्यांक तीं मेळून जालीं
पुंडलीक नायक सोडून दुसरो नाटककार जावंक पावलोना
तेच खातीर नाटकांच्या हात बरपांची सर्त जायना
कोंकणी विरोधी प्रचारकांक तेन्ना भिरांत आशिल्ली
जांकां भिताले तेच आतां सरकारांत पावल्यात
कोंकणीच मनीस कोंकणी विरोधी प्रचार करतात
हें बंद जाल्लें सगळें आतां परत सुरू करूंक जाय
तेखातीर आमकां नवी समिती वेंचून काडची पडटली
आयज मंडळाची अर्थीक बाजू वांगड्यांक समजना
समजल्ली जाल्यार वेवस्तीत तजवीज करूं येताली
आयज मंडळाची येणावळ उणी जायत आसा
फुडें फुडें तर ती चडूच उणी जावपाची आसा
ती एकदम कशी उणी करप हें कोणाक कळना
उणी करपाचे नदरेन कोणाचेंच एकमत ना
एके खाशेले बसकेंत तशी येवजण आंखप गरजेचें
मंडळाक पुस्तकां विकून येवपी येणावळ बंद जाल्या
तेखातीर दर वांगड्यांनी दुकान घालूंक जाय
ते नदरेन मंडळान तांकां अर्थीक पालव दिवंक जाय
आयज मंडळाचो खर्च वाडत वता
मंडळाची मडगांवची शाळा चलोवंक दुडू जाय
तेचप्रमाण हेर गांवांनीय शाळा सुरू जावंक जाय
अशें केल्ल्यान येणावळीचें विकेंद्रीकरण जातलें
पयस रावन उलयतल्यांचीं तोंडां बंद जातलीं
असल्या वांगड्यांची समिती आमकां वेंचपाची आसा
वेंचणुकेच्या वेळार जायते वांगडी अर्ज भरतात. वेंचून येतात
पूण येणावळ पळोवन तांचो भ्रम हळुहळू देंवता
दर म्हयन्याक जावपी बसकांकूय ते हजेरी लायतात
कोंकणी अकादेमींत मात आफयनासतना वतात
आयज मंडळाचे जायते वांगडी

एकमेकांकडेन संपर्क दवरिनांत
फक्त भांडारीकडेन इश्टागत दवरून रावतात
सारस्वत म्हूण कळत जाल्यारूच हडकितात
आयज गरज आसा सगळ्यांचो एकवट घडपाची
देखून हांव सगळ्या वांगड्यांक उलो मारतां
सगळे एकठांय जावन आयज बसकेक येयात
मंडळाची कीर्त पर्तगाळी पावोवपी समिती वेंचात
कोंकणी भवनाखातीर येणावळ उबी करूंक जाय
अर्थीक बाजू सांबाळप्यांकूच तें शक्य आसा
अशीच नवी वावुरपी समिती एकमतान वेंचून काडुया
भाशा मंडळाची स्थापना तांच्या मालकीच्या भवनांत करूया
मागीर तीस वर्सांनी परतून एकवट करूया

**२६ एप्रिल १९९२**





आकाशवाणी पणजी केंद्र म्हळ्यार एक शॅम्पल!
हांवें शंबरदां तरी तांकां सांगलां आसतलें
आरे सायबा, केन्ना गोंयकारांकूय मातशे व्हड करात
पूण ना. म्हजें आयकत जाल्यार तो रेडियो कसलो?
ताणें सगळो सभाव अनंत केळकाराकडल्यान घेतला
केळकाराचीय तशी पळोवंक गेल्यार कॉमिकूच!
तो पुराय बातमी सरळ, शुद्ध आनी स्पश्ट वाचता
आकाशवाणीकडे पावतकच मात ओडून
आकाSSS शवाणी म्हणटा
आयकूंक विचित्र दिसता तरी हांवें ताका माफ केला
तातूंत बदल करचो अशें हांवें केन्नाच सांगलेंना
वा पुतू पटेकाराचें पटेंय बंद कर म्हूण मागलेंना
सगळे अत्याचार हांवें तोंड धांपून मोन्यानी सोंसल्यात
पूण गोंयकारांचो प्रस्न येता तेन्ना मात हांव खुबळटां
फाटीक लागून तांचीं कामां करून घेतां म्हणचे धतांच
असल्या बाबरांत हांव नागेश करमलीक लेगीत फाटीं घालपी
हांगाय तशेंच जालें. हांव वचून रेडियोवाल्यांक मेळ्ळों
सांगलें, गोंयांत खूब व्हड व्हड मनीस आसात
'आसले म्हूण कितें जालें? तांकां माश्यार घेवन नाचपाचें?'

रेडियोवाल्यांचे जापेन म्हजी शीर तडाक जाली
एक्साची तिडक सामकी माथ्याक मारली
तरी मातशें सोंसलें आनी तांकां समजायले
'तुमी देशांतल्या व्हड मनशांचेच सुविचार कित्याक घेतात?'
'कित्याक म्हणचे? गोयांत असले विचार मांडपी कोण ना'
'खूब आसात. तांचे विचार तांचे वरींच व्हड आसात'
'तशें जाल्यार ते तुमीच एकठांय करून हाडून दियात'
म्हजो हट्ट पळोवन तांणीं म्हजेरूच जापसालदारकी घाली
त्या खातीर भरगच्च फी दिवन म्हाका बूक केलो
अदींमदीं अशे सुविचारांचे फिलर सोडप बरें आसता
खूबशा गोंयकारांक तांची गरज आसा
आमचे म्हालगडे अजून सगळ्यांकडेन तशे खंय पावल्यात?
त्या खातीर रेडियो हेंच एक योग्य माध्यम
म्हालगड्यांच्या विचारांची लागण लावपाचें बरें साधन
त्या खातीर हांवेंय थोडे कश्ट काडपाचें थारायलें
म्हालगड्यांचे सुविचार घेवंक तांकां सोदूंक लागलों
पयलीं सापडलो गोंयचो आंबेडकार एन्.शिवदास
सद्या तो 'काँग्रेस खुली करा' चळवळ हाताळटालो
तिरूपती वचून आयिल्ल्याक तर तो सामकोच जाल्लो
ताची स्कुटर आडावन हांवें ताचो सुविचार मागलो
'बहुजन सुखाय, बहुजन हिताय'. गडबडीन ताणें म्हळें
'शिवदासबाब, हो विचार तसो पोरणो जाला न्हय!'
'सुख आनी हीत हो विचार केन्नाच पोरणो जायना'
'तरी लेगीत तुमचो मौलीक असो एक विचार जाय!'
'कित्याक त्रासांत घालता म्हाका? तोच वापर तूं'
अशें म्हणत तो गडबडीन सचिवालयांत गेलो
हांव उठून कोंकणी अकादेमींत गेलों. पुंडलीकाक मेळूंक
कोंकणीतले एकमेव नाटककार पुंडलीकबाब बिझी आशिल्ले
आपल्या नव्या नाटकाची झेरोक्स काडटाले
हांवें म्हजो येवपाचो उद्देश सांगून संदेश मागलो
'तमसो मा ज्योतिर्गमय!' चडूच गंभीर जावन तांणीं म्हळें

'तुमी हें कोंकणीतल्यान कित्याक सांगनांत?'
'गरज दिसना. ज्योतिर्गमय चो अर्थ
तमाम गोंयकारांक खबर आसा!'
दिशिल्लें पुंडलीकबाब स्वताचो नवो विचार सांगतले
म्हजो हे तरणे पिळगेकडल्यान अपेक्षाभंग जाल्लो
आतां अपेक्षा आशिल्ली ती जाणटेल्यांकडल्यानूच
आल्तिन्यावेल्यान देंवतना मनोहरबाब वयर चडटना दिसले
ते चलून वतात म्हणचे भाऊ काकोडकार गोंयांत आसात
भाऊ गोंयां आसात म्हूण म्हाका खूब खोस जाली
नातर तांचो सुविचार घेवंक म्हाका दिल्ली धांवचें पडपाचें
कांयच ना जाल्यार फोन तरी करचो पडपाचो
रेडियोची फी पळयल्यार तें परवडपाचें नाशिल्लें
अकादेमींतल्यान करतलों म्हळ्यारूय शक्य नाशिल्लें
थंयचे तत्वाचे मनीस असल्या कामाक उत्तेजन दिनांत
हांवें मनोहर सरदेसायाक थांबोवन तांचो फिलर मागलो
'कोंकणीची सेवा म्हळ्यार कितें कविताच करप न्हय
अकादेमीखातीर फोटो काडप, भाशांतरांकरप हीय एक सेवाच'
गोंयच्या लोककवीन लाख मोलाचो संदेश दिलो
थंयच्यान मगनलाल सदनांत वचून भाऊक मेळ्ळों
भाऊ दिल्लीक वचपाचे ताकतिकेंत आशिल्ले
'कोणेच कसली चिंता करची न्हय. सगळें आपसूक घडटलें'
सदचे भाशेन थंडपणान तांणीं सांगलें
आनी हांव हेरांक मेळूंक गेलों
जे जे कोण मेळ्ळे तांचे संदेश घेत रावलों
ते सगळे आतन्या पयन्यान रेडियोचेर येवपाचे आसात
'फुलां मदलें फूल बाये आबोलेचें, दैवतांतलें दैवत म्हाळशेचें
गितां-कविता कोणूय वाडू, कवनातलें कवन रामभाऊचें'
'कॉंग्रेसी बगर गोंयांक पर्याय ना.'-उदय भेंब्रे
'सारस्वतांचें स्वतंत्र राष्ट्र जावंक जाय.' - रवीन्द्र केळेकार
'आठवी वळेरी आतां पयस ना.'- गुरुनाथ केळेकार
'म्हजे शिवाय भाशा मंडळाक पर्याय ना.' - यशवंत पालेकार

'तुमी म्हाका फंड दियात, हांव तुमकां भवन दितां'
– चंद्रकांत केणी
'गोंयांत क्रांती जातली, ती हांवच हाडटलों.' – नागेश करमली
'लोकवेद हो म्हजो धर्मसिद्ध हक्क' – प्रा. श्याम वेरेकार
'साहित्य समिक्षक अजून जल्मुचे आसात'
– प्रा. हरिश्चंद्र नागवेकार
'ज्ञानपिठ पुरस्कार हो म्हाकाच मेळटलो' – डॉ. भिकाजी घाणेकार
'म्हजे उप्रांत पर्यावरणाचें कशें जातलें?'
– डॉ. जयवंतराव सरदेसाय
'बच्चों पत्रकारिता हमसे सिखो' – राजू नायक
'हो संवसार म्हळ्यार कूऽऽय' – रमेश वेळुस्कार
(खूबशा जाणांनी संदेश-सुविचार दिवंक ना
तांच्या मतान तें तांचें काम न्हय
जाणीं मागुनूय दिवंक ना ते कोंकणीचे दुस्मान
तांचो हांव हांगा जाहीर निशेध करतां
रेडियोन तांकां कॉन्ट्रेक्ट दिवचे न्हय म्हूण मागतां)



**३ मे १९९२**






म्हज्या मोगाळ एक्साच्यानो
सॉरी चूक जाली. म्हज्या बोरकारीच्या मोगाळ वाचप्यांनो
शंबर अपराध भरले म्हणटकच शासन मेळटा खंय!
शंबर बोरकारी तर केन्नाच जावन गेल्यो
फाटलीं दोन वर्सां हांव ते खातीर तुमकां शासन करतालों
दर आयतारा ती वाचपाची ख्यास्त हांवें तुमकां केली
तेखातीर जायत्या जाणांनी तुस्त केली ती केलीच
त्याचवांगडा म्हजेर गाळयांचो शिंवर केलो
हांव जाणां, आयतार येसर सगळ्यांक चिटमिटे पडटाले
म्हजें बरोवप आवडटा म्हूण तशें क्वचीत घडटालें
चडशे पळयताले ते आपल्याचेर कितें आसा काय म्हूण
तांचो तो भयरजळोप आयच्यान बंद जातलो
म्हाका लागून म्हालगडे दुखावल्यात हाचें म्हाका भान आसा
तेचखातीर हे निमाणे बोरकारींत तांची
म्हाका क्षमा मागपाची आसा
तांचें व्हडपण जाणा जावनूय हांव फकत फकाणां करतालों
गोंयांक आनी कोंकणीक तांचे बगर पर्याय ना हें सत्य
म्हणून हांव तांकां उपाट आयुश्य आंवडेतां
गोंयची कोंकणी अकादेमी ही एक आदर्श संस्था

तिचो अध्यक्ष जावंक काकोडकार होच एक लायक मनीस
हो चंद्र सूर्य आसा त्यासर ताणेंच अध्यक्ष रावचो
दर कोंकणी मनशान त्याखातीर सतत यत्न करूंक जाय
डॉ. मनोहर सरदेसाय हो सादो मनीस न्हय
वेगवेगळे गूण आंगात आशिल्लो तो एक गुणेस्त गोंयकार
सगळ्या कामाक एकदम वेंग मारप हो तांचो सभाव
अशा व्हड लोककवीक अकादेमीन फकत उपाध्यक्ष दवरप?
तेंय बी तब्बल आठ-णव वर्सां?
अकादेमीचे आतां दोन अध्यक्ष करूंक जाय
अकादेमी आतां सोळा एम्.एम्.चो कॅमेरो घेता खंय
दोनूय अध्यक्षांक दोन कॅमेरे घेवन
ते तांच्या फाटल्यान दवरूंक जाय
तांच्या वावराचें फिल्म काडून सांबाळून दवरप गरजेचें
असल्या पुण्यपुरूषांची देख येवपी पिळगेन घेवची
बाब चंद्रकांत केणी हे आमचे खडेगांठ फुडारी
तांचे बगर कोंकणी आठवे वळेरेंत सोडाच खंयच पावचिना
तांकांच सगळ्यांनी तेंको दिवन सांबाळून दवरचो
ह्या वर्सा तरी विद्याधिराज पुरस्कार दिवन भौमान करचो
नागेश करमली रेडियोवेल्यान निवृत्त जावन वर्स जालें
वर्सभरयांत फाव सारकी चळवळ तांच्या हातान जाली ना
कंटाळून ताणें खांके ओरशे करचे न्हय
ही आमची जापसालदारकी
सगळ्यांनी कोंकणी राज्यभाशेचो दर्जो
काडून घेवंक चळवळ उबारची
उपरांत राज्यभाशा करूंक नवें आंदोलन सुरू करचें
ताचें पुराय फुडारपण एकमतान नागेशबाबाक दिवंचें
पुंडलीकबाब नायकाक हांवें खूब म्हळ्यार खूब दुखयला
तेखातीर वळवयचो वाठार लेगीत पुराय निर्शेला
तांची चूक हांवें मागली ना तर पडमूरपणा थारतलीं
तांकां बेगोबेग ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळचो म्हूण यत्न जावंचो
ह्या वेळार जातीय संतुलन कोणेंच पळोवचें न्हय

आयज दूरदर्शनाचेर दुसरो चॅनल सगळे मागतात
खरें म्हळ्यार ते सद्या धा बारा तरी आसूंक जाय
रामकृष्ण जुवारकार आनी भिकाजी घाणेकार
हांकां स्वतंत्र आसचे
तांचेर दीस-रात तांचींच तोंडा पळोवंक मेळचीं
तांच्या बगर म्हालगड्यांक चैन पडना खंय!
उदय भेंब्रे हांणीं सद्या बरोवप बंद केलां
कितेंय बरयतलो म्हळ्यार तांकां मात लेगीत वेळ ना
एकान एक कोंकणी मनीस काँग्रेसींत वचचो हो तांचो हावेस
तांचो हावेस पुराय करूंक हांव तांकां पुराय सहकार्य दितलों
म्हजें सगळें सोडून हांवूय काँग्रेसींत वतलों
यशवंत पालेकारांक जितलो हांवें त्रास दिला तो कोणाक दिवना
तांकां सदांच हांवें गोंयाभायलो म्हूण पाचारला
पूण तो भायल्यान येवन लेगीत भाशा मंडळाचो अध्यक्ष जालो
हेरांनी भाशा मंडळाचे दुडू सोपयले. ताणें ते परत जमयले
फुडल्या अध्यक्षान खावचे न्हय म्हूण फिक्सांत उडयले
हांवें बोरकारींतल्यान व्हडा व्हडांक कशेच सोडलेनांत
गरजेभायर तांचें चारित्र्य हनन केलें अशें तांकां दिसता
पूण हो सगळो समज आसा तो चुकीचो जावन आसा
ह्या मुखार तांचें खरें चरित्र हांव बरोवचो आसां
रवीन्द्र केळेकारान म्हाभारत बरयलां तेदेंच तें आसतलें
दुख्ख भोगता तें राजीव गांधी प्रकाशन करूंक ना हाचें
हांव तें दिल्ली वचून नरसिंव मामाच्या हातान करतलों
अकादेमीन सगळो खर्च करपाचें उतर म्हाका दिलां
त्या निमतान हेरांचीय फुकट दिल्ली भोंवडी घडटली
निमण्या वेळार एन शिवदासाक कसो विसरूं येत?
ताचे बगर तर बोरकारीक अर्थूच उरचो नाशिल्लो
तशें पळयल्यार ताचे बगर कित्यांतूच अर्थ ना
बोरकारींतय खूब जाण आसपावले नांत
हाचें म्हाका वायट दिसता
भरत नायक आशिल्लो, भिकू बोमी नायक रावतालो

सुहास दलाल, अना म्हांबरो, रजनी भेंब्रे
खूब जाणांची दखल घेवप नदरचुकीन उरलें तें उरलेंच
आतां रजनी भेंब्रेच्या पुस्तकाचें प्रकाशन जातलें
शांती तेंडुलकार फुडल्या आयताराक जेवण दिवपाचें आसा
बोरकारी ना म्हूण सगळें निवांतपणान जावन वतलें
म्हाकाय मुद्दाम आपोवणें धाडून व्हरतले
मागीर हांवूय अर्थ नाशिल्लीं उलोवपां करतलों
व्हडलो तत्वगिन्यांनी म्हूण हांगा थंय मिरयतलों
फुडें कितें जातलें तें काळूच थारायतलो
घडये म्हज्या रागान म्हाका पयस दवरतले
बांगर बैलाच्या हावेसान म्हाका शिंगा दाखयतले
तरी लेगीत म्हाका भंय दिसतलो अशें म्हाका दिसना
हांव ह्या सगळ्यांक व्हरून एक्सार मारतां
पळयात. निमण्या खिणाक म्हाका एक्साचो अर्थूच गावना
तुमकां तरी गावला? धन्यवाद



**१० मे १९९२**



# परिशिश्ट

## बोरकारी आनी पॉरकारी

पुर्तुगेज गेले आनी फाटोफाट तांची भासय बाबडी गेली. तशीं कांय उतरां फाटल्यान उल्लीं - शेंडत शेंडत आनी झरत मरत म्हणटात तशीं. ओब्रिगाद, पात्रांव हे सारकीं कांय भारदस्त उतरां सोडल्यार, बाकीचीं कांय उतरां तर इल्लीं इल्लीं मर्णपंथाकच लागिल्लीं. पुणून एक वटेन 'आघात' आनी दुसरे वटेन 'प्रहार' हांचे सारके सणसणीत भाशेंत बरोवपी बाब दिलीप बोरकारान 'सुनापरान्त' मदें आपणाली 'बोरकारी' सुरू केली आनी ताणेंच उल्लेखिल्ल्या 'पॉरकारी' ह्या शब्दाक एकदम दर आयलो. एका दिसाळ्यांत तर आमच्यांतल्या बरोवप्यान सरळ 'पॉरकारी' नांवाचें सदरच सुरू केलें. आनी विशेश म्हळ्यार फाटल्या आयतारच्या 'सुनापरान्त'मदें दूरदशरनाचेर बरयिल्ल्या लेखाच्या माथाळ्यांत, बाब राजू नायक हांणी तर 'पॉरकारी' हो शब्द एकदम कपलाक तिळो लावचो तसो वापरलो.

म्हाका एक प्रश्न पडला दिलीपबाब बरयता ती 'बोरकारी' आनी तरी न्हय आशिल्ल्या 'पॉरकारी' शब्दांक इतलें म्हत्व कित्याक येवचें? दिलीपबाबान अशें केलां तरी कितें? ताणें एक 'बोरकारींत' कोणा तरी कवीची झुल्फेकवी म्हणून आरत केल्या. आनी एकेंत कोण तरी (खंयचे कोण जाणा!) पामेला हाडून दीस उजवाडा सपनाळे अणभवसूख (स्वप्नावस्था न्हय हां!) भोगलां. व्हडव्हडले काकोडकार, केळेकार, सरदेसाय, केणी, भेंब्रे, मावजे, नायक सारके बाब-बाब कोंकणी लिडर आसतना कोंकणी अकादमीचो अध्यक्ष जावपाचें स्वप्नरंजन केलां. तेखातीर केणी हॉटेलांतले मिटिंगेचें चित्र रंगयलां. (भोंगू बाबड्या दिलीपाचें - कों. प्र. आवाजाचे चळवळीवेळार त्या हॉटेलांत मोव मोव कुलच्यांवाचेर लोळिल्ली ती याद, कोंकणीवादी, इंग्लेजवादी जावन आझाद

मैदानार जमले तरी ताची फाट सोडिना!) दिलीपबाबान आनीक एक केलां : कोंकणींतल्यान एका खलील जिब्रानाचो सोद लायला. (दिलीपबाब वाचला मरे जिब्रान? ना जाल्यार मोनजाती घरभाटांत बसून ओलिव्हीन गोमीसान जिब्रानालीं 'तोडिल्लीं पाखां' पिसुडपाचो जो अत्त्याचार केला तोच वाचून भुरकुटूंक ना मरे?) हालींचेच एके 'बोरकारीं'त डॉ. घाणेकार, रामभाऊ आदी कवींच्या कवितांचें सरकारी, पॉरकारी, तोरकारी अशेंच कितें तरी क्लासिफिकेशन केल्ल्याचें वाचूंक मेळ्ळां. तरीपूण खासा दिलीपबाबानूच उपेग केलो तो निखटो 'पॉरकारी' शब्द सोडल्यार ताची याद येवपाची गरजच ना. कारण 'पॉरकारी' म्हळ्यार हळशीक, घाण. 'बोरकारी'त असलें कितेंय आसता तर?

आं! आसल्योच तर पावभर बकच्छायो, नवटांगभर तासमपट्टी आनी किस्कुटभर खातकुतल्यो आसत. मर्दीं मर्दीं सेर्वांतिसाल्या डॉन क्विझोट सारकें मात्शें मात्शें जाता जायत. डॉन क्विझोटान म्हाराक्षस म्हणून पवनचक्केचेर हल्लो केल्लो. दुस्मानाचें सैम म्हणून बोकडो मेंढराच्या हिंडाची कापाकापी केल्ली आनी उप्रांत राखण्याकडल्यान यथेष्ट मार खावन निश्चेश्ट पडिल्लो. आपूणच सर्वश्रेष्ठ वीर झुंजारी, हेर बाकीचो सगलो संवसार किंकोत अशे भिरकेंतच डॉन क्विझोट चलतालो. सांगपाचें म्हळ्यार दिलीपबाबाचे बाबतींत असो कितेंय प्रस्न येना. कारण ताका आपूण कोण तें खबर आसा. तरी पूण वेतां वेतां एक सांगचें दिसता –

दिलीपबाब कल्पनेतली पामेला आनी अध्यक्षपदां आसूं मात्शीं कुशीक. आपणालेंय कितें तरी अशेंच वोरशें तिरशें करून बरय- हिंदींतले हाश्य कवी आसतात तशें. तांगेलें व्यंग स्वतापासून सुरू जाता. ताका लागून बरपाक पर्सनल टच येता. 'बोरकारी'त असलें कितें तरी मुजरत येवंदी फुडले होळयेक. बरो मसालो मेळटलो.

बरें मागून.

**कवी 'तोरकारी'**

**सुनापरान्त १ जुलाय १९९०**

# बोरकाराकडल्यान अपेक्षा ना !

**आ**यतार ता. १० जून ह्या दिसा तुमी छापिल्ली 'बोरकारी' वाचून मन अस्वस्थ जालें. भौ. दिलीप बोरकारां सारक्या बरोवप्यांकडल्यान ही अपेक्षा नाशिल्ली. आमी कोंकणींतल्या चळवळींक मन लावन, निस्वार्थीपणान काम करपी कार्यकर्त्यांकडेन, म्हज्या फॅमिलींतलो मनीस वा कार्यकर्तो हे नदरेन पळयतात. आनी जेन्ना आमी फॅमिली वा कुटूंब हो विचार मनांत रूजयतात तेन्ना त्या कुटुंबाचे संस्कारय आचरणाक हाडपाक आमी जापसालदार जातात.

फामिलेंत/कुटुंबांत बापूय आनी पुतामदीं जाल्लें झगडें, दुसऱ्या पुतान गांवार घालप हो संस्कार म्हणून बसना. तो त्या पुताचो दुर्गूण थारता. बापाय पुता मदलें झगडें थांबोवप वा त्या दृश्टीन प्रयत्न करप हाका मात बऱ्या कुटुंबाचो संस्कार म्हणटात.

बाब दिलीप बोरकारान आपल्याच भावांक भीम, दुःशासन म्हणटना आपूण दुर्योधन भशेन मनान कुडडो जाला हाचो विचार करूंक ना.

कुटुंबात जसो वावर करपाक वा विचार मांडपाक मेकळेपणा मेळ्ळो म्हणटकच त्या विचारांमदीं झगडीं केन्नांवां हीं येतातच. पूण तीं बाब दिलीप बोरकारासारक्या विचारांनीं जाणट्या आशिल्ल्या मनशांनी जाग्यार घालपाचो यत्न करपाक जाय. ना जाल्यार कोंकणीच्या कुळांत फूट घालून तुमचे सारकेच घरच्यो गजाली गांवार घालपीच जापसालदार उरतले हातूंत दुबाव ना.

अशीच गजाल कालच्या आयताराक म्हळ्यार ता. २४ जूनाच्या बोरकारींत जाल्या.

कोंकणींतल्यान कविता करपी म्हळ्यार एक उश्टावाऱ्यार पडिल्लो प्राणी अशी भौ. दिलीप बोरकाराची समजूत बी जाल्या काय कितें?

कोंकणींतले कविनी कविता ज्यो बरयल्यात वा बरयतात तेवय साहित्यांत भर घालतातच. आतां प्रत्येकाचो 'पोसो' मोतयांचो आसना हें खरें. पूण म्हणून बाकीच्यांनी दिल्लो साहित्याचो पोसो निरर्थक जायना.

मोतयांचें मोतयांपण सिध्द करपाक बाकिच्या कविंचो आस्पाव गरजेचो.

बोरकारी बरोवपाचो उद्देश बरो समजूंक ना. साहित्यिकांची 'टवाळी' मारपाक हें स्पेशल सदर सुरू केलां काय कितें असो दुबाव येवंक लागला.

एक आमी सदांच लक्षांत दवरूंक जाय. असलें लिखाण कंस्ट्रक्टिव कांयच करचें ना. उलट जाल्यार डिस्ट्रक्टिव मात जातलें.

म्हज्या मतान कोंकणीच्या साहित्याची उदरगत जाका जमना ताणें त्या भानगडेक पडचें न्हय. पूण स्वताची जायरात करपाक मात कोंकणीच्या साहित्याक आनी साहित्यीकांक आपल्या विचारांनी पांयामुळां माडोवचे न्हय.

तशें पळोवंक गेल्यार आमी नशिबवान. आमकां आमच्या कोंकणी कुटुंबाक आपल्याक जाय तशे विचार मांडपाक मेळटात आनी आमी ते मांडटातय बी.

हेच विचार जर सरळ मार्गान (कोंकणीच्या उदरगतीक बाधा न हाडपी मार्ग) मुखार सरले. जाल्यार आमचो कोंकणी भाशेचो फुडार पर्जळीत जातलो हातूंत दुबाव ना.

हांवें म्हजे विचार स्पशटपणान मांडल्यात म्हणून बाब दिलीप बोरकारान राग धरचो न्हय. पूण कितेंय फार्सिकल बरयतना ताचो समाजाचेर जावपी परिणामांचो विचार करप इल्लें बरें जातलें.

आमचें लिखाण बरो समाज घडोवपाचे दृश्टीन आसचें, तातूंतच खरो आनंद आसता. देव बरें करूं.

**– दिनेश मणेरकार**

**सुनापरान्त १ जुलाय १९९०**

# 'लावंदारीयाची' गरज आसा

रशियांत सुध्दां ग्लासनोश्त आनी पेरेस्ट्रोयका सुरू करून आत्मपरीक्षण सुरू केलां तेन्ना आता कोंकणी संस्था आनी पंगडांनीय आत्मपरिक्षण करपाची गरज आसा. ते नदरेन सुनापरान्ताचे आयतार पुरवणेंत येता ती 'बोरकारी' खूब आवडटा, ती दिसपट्टी फुलून येवची अशें मागतां. ह्या संदर्भात श्री. दिनेश मणेरकार हांचें पत्र वाचलें. बोरकारींत कोणाचीं नांवां घेवंक नांत आनी कमेरखालाय प्रहार करूंक नांत तेन्ना कोणे वायट दिसून घेवपाची गरजच ना. आमचे भितर खूब धोंगा पोंगा आसात तीं दाखोवन दिवचीं. बोरकारींत हें काम बरें भाशेन जाता. ह्या असल्या एका सदराची गरजच आसली. सुनापरान्त ती भागयता. बोरकारींत कांय आमच्या लेखक कवींच्यो वैयक्तीक गजाली सांगच्योच पूण तांच्या साहित्य रचनाचेरय भाश्य करचें. ह्या सदरान बऱ्यो अपेक्षा निर्माण केल्यात. तो दर्जो ताणी तिगोवन दवरचो. पर्थून एक फावट परबीं. पेपर एकदम बरो येता.

**– पंढरीनाथ शणै लोटलीकार**
मडगांव

**सुनापरान्त ८ जुलाय १९९०**

# साहित्यांतली त्रिमूर्ती

बोरकारी, पॉरकारी आनी कवी तोरकारी हे त्रिमूर्ती देवा इतलेच व्हड आसात. पिंपळा पेडार ना तर बोरकारी–पॉरकारी–तोरकारी आमकां वेळच्या वेळार दिवचीच.

ती जावन आसा साहित्यांतली त्रिमूर्ती. ती आमकां जायच!

**– आग्नेलो डायस**
पणजी

**सुनापरान्त ८ जुलाय १९९०**

# बोरकारी

आतां मेरेन श्री. दिलीप बोरकार हांच्यो तीन 'बोरकारी' हांवें वाचल्यो. वाचतासतना मनाक खातकुतल्योश्यो जाल्यो आनी जीव ल्हव - ल्हव सो दिसूंक लागलो. दिलीपाच्या रूपान कोंकणीक आनीक एक अना गावलो म्हळ्ळी जाणवीकाय जाली. जालेंय जाल्यार अना हालीं खूब म्हारग जाला.

बोरकारान आपली बोरकारी अशीच चालू दवरची. सद्याक जाल्यार आयतारच्या सुनापरान्तान तेंच सगळ्यांत ओडलायणे सदर आसा. बोरकारी सादें, सरळ, मात्शेंशे फटकळ आनी थोडे भोव कल्पक आसा. 'बसींची वाट पळोंव आपूण कंटाळ्ळों. मागीर मुखावेल्या बार्रांत वचून दोन-तीन फूल पेटयले' ही मात बोरकारांची फकत कल्पनाच आसची अशें काळजा थावन दिसता.

**– अविनाश भजे**
म्हापशें गोंय

**सुनापरान्त २२ जुलाय १९९०**

# बोरकारींतलें ‘एक्स’

**बो**रकारींतलें ‘एक्स’ खुब्ब खटकता. दर एके बोरकारींत ही पॉरकारी!

असभ्य मानिल्ल्याक सभ्याची मान्यताय जोडून दिवपाची ही तरा. ‘चार–चौगांत उलयनांत’ तें चार–चौगांत उलोवन दाखयतकच खंय सभ्यपणाचे ताण सदळ जातात. तशें जाल्यार हीं ‘असभ्य’ उतरांच सरळ वापरप चड बरें न्हय? जीब कुतकुतता जाल्यार ती सारकीच खरपुची. सारकेंच ‘सभ्य’ न्हय, सामकेंच ‘असभ्य’ न्हय अशे तरेन दोनूय व्हड्यांचेर पांय दवरून जिवाक खातकुतल्यो करून घेवचे परस सारक्योच गाळी वापरप बरें न्हय? माजर चोरून दूद पिता तेन्ना दोळे धांपता. तशेंच हें पोजडेंपण झळकावप? ‘एक्स’ हातूंत कसली ‘धिटाय’?!

सभ्यपणाचीय म्हूण मजाच! ‘भूक लागल्या’ म्हणपांत जर वाकडें कांय ना जाल्यार ‘मुतूंक जालां’ म्हणपांत वाकडें कित्याक आसचें? जिणेच्या कांय आंगांकडेन पळोवपाची आमची विकृत नदरूच आमकां ‘मुतूंक जालां’ म्हणप ना, ‘बाथरूमांत वतां’ म्हळ्यार जाता हें शिकयता. गाळीय बी हीच विकृती दाखयतात. हातुंतल्यान भायर सरचें जाल्यार लिपचोरयां म्हणटात तेंच चार–चौगांत म्हणून कशें भायर सरप जातलें? चडश्यो गाळी लैंगिकते भोंवतणी आसतात. हाचेवेल्यान लैंगिकतेकडेन आमी म्हेळे, विकृत नदरेन पळेतात म्हणपाचें दिश्टी पडटा. हें म्हेळेंपण म्हणपाचें आमकां कळटलें तेन्नाच गाळींची खाज आपशीं ना जातली; पोजडेंपण आपले आपूण गळून पडटलें.

बोरकारान हो ‘अुदात्त हेत’ घेवन बोरकारी बरोवची अशें हांव सांगूंक सोदना. पूण बोरकार बरो घोस्तान ‘एक्स–एक्स’ करून आपणालें दादलेपण गाजयता तें पळोवन ओगी रावंक येना. म्हणून ही म्हगेली इल्लीशी ‘सरदेसायी’…

**– म. ज. देसाय**

**सुनापरान्त ९ सप्टेंबर १९९०**

दिलीप बोरकार कोंकणीची बरी सेवा करता म्हळ्यार थोड्यांक वायट दिसतलें, पूण तरणे पिळगेक मात दिलीपाली बोरकारी खूब कितें शिकयता. चित्रबोध भुरग्यांक शिकोवंक शकना ताच्याकय चड.

म्हालगड्यांनी केलें तें सगलेंच बरोबर अशें समजुपी एक वर्गच कोंकणी चळवळींत तयार जाल्लो. बोरकारान अश्या स्वनिर्मित, स्वघोशीत म्हालगड्यांचेर बोरकारीचे फटके मारून तांकां 'समज' दिवपाचो जो यत्न चलयला तो अभिनंदनीय आसा.

'बोरकारी' सारकीं सदरां सुनापरान्तांत सुरवात करपाचें धाडसी पावल उबारल्याबद्दल तुमचेंय अभिनंदन.

**– प्रशांन्त नायक**
मडगांव

## ‘समिधा’ आनी ‘बोरकारी’

आयतार आयलो की केन्ना काय रवीन्द्रबाबाली ‘समिधा’ आनी बोरकाराली ‘बोरकारी’ वाचतां अशें जाता. हीं दोनूय सदरां म्हज्या सारकेल्या सामान्य वाचकांक निर्भेळ आनंद दितात. पयलीं दिलीप बोरकारांची ‘बोरकारी’ हांव सगळ्यांत पयलीं वाचतालों. दुसऱ्याचेर ताणी केल्ली टिका म्हाका आवडटा म्हणून न्हय तर कोंकणींतलो एक ज्ञानी (म्हालगडो) बेदकारपणान कसलीच भीड मुर्वत वा भंय बाळगिनासतना सडेतोड बरयता म्हणून. तातूंत कसल्याच प्रकारचो वैयक्तीक सुवार्थ, आसक्ती नासता म्हणून. (आपूण सामकोच आपस्वार्थी अशें दाखोवपाचो आनी हेरांचेर वायट बरोवन वायटपण घेवपाचो मागीर तांणी कितलोय यत्न करूं) पुणून रवीन्द्रबाब ‘समिधा’ बरोवंक लागतसर काळजांतलो ‘बोरकारी’चो जागो ‘समिधा’न घेतला. ‘बोरकारी’चेर मोग करतल्याचे हें मत आसा. ‘बोरकारी’कारानी हाची नोंद घेवची.

रवीन्द्रबाब ‘समिधा’ चालूच दवरतले ही आशा. सुनापरान्तांतलें एक सदर ते आदीं चलयताले. पूण अचकीत तांणी तें बंद केलें. तशें समिधाचें जावनये. ‘समिधा’ आमकां वेगळ्याच भावविश्वांत व्हरता. (मात रवीन्द्रबाबालीं राजकी तशींच देशाफुडल्या भावनात्मक प्रस्नावेलीं मतां आमकां केन्नाच पटलींनांत). सामके उंचेल्या पावंड्यावेले उदात्त अशे विचार मांडप, सगळें जीवनच आनंदमयी करपी अध्यात्माचीं दारां आमच्याखातीर उगडप आनी मागीर कोंकणींतल्यान नितळ आनी उंचेल्या दर्जाची साहित्य निर्मिती जायना म्हणून खंत करप ही विसंगती न्हय? आमच्या ह्या मताकडेन रवीन्द्रबाब न्हय जाल्यार वाचक तरी नक्कीच सहमत आसतले.

**– आशिष करमली**
काकोडे, कुडचडें – गोंय

# दिलीप बोरकार

(२ मे १९५७)

## पुरस्कार आनी भोवमान

१. **भरते भार** नाटकाक **गोंय कला अकादमी**चो उत्कृश्ट साहित्याचो पुरस्कार - १९८२.

२. **आयज आमचें राज्य आयलें** नाटकाक **कोंकणी भाशा मंडळ** पुरस्कार.

३. **गोमाचल ते हिमाचल** प्रवासवर्णनाक **गोंय कला अकादमी**चो उत्कृश्ट साहित्याचो पुरस्कार - १९८५.

४. नवी दिल्लीच्या **अखिल भारतीय नभोनाट्य** सर्तींत १९८७ वर्साचो **राष्ट्रीय पुरस्कार**.

५. नवी दिल्लीच्या **अखिल भारतीय नभोनाट्य** सर्तींत १९९१ वर्साचो **राष्ट्रीय पुरस्कार**.

६. नवी दिल्लीच्या **अखिल भारतीय नभोनाट्य** सर्तींत १९९२ वर्साचो **राष्ट्रीय पुरस्कार**.

७. **गोमाचल ते हिमाचल** ह्या प्रवासवर्णनाक १९९५ वर्साचो **केंद्रीय साहित्य अकादेमी**चो पुरस्कार.

८. **न्यू गोवन ओवरसीज** संस्थेचो १९९६ वर्साचो उत्कृश्ट लेखनाखातीर पुरस्कार.

९. **डॉ. टि. एम्. ए. पै फाऊंडेशना**चो १९९९ वर्साचो उत्कृश्ट साहित्याचो रूक्षप्रस्न पुस्तकाक पुरस्कार.

१०. साहित्यांत राष्ट्रीय स्तरार किर्त संपादन केल्ल्या खातीर २००७ वर्सा **राज्य सन्मान**.

# दिलीप बोरकार
## हांचें
## उजवाडाक आयिल्लें साहित्य

१. वर्गशत्रू (नाटक)
२. भरते भार (नाटक)
३. गोमाचल ते हिमाचल (प्रवासवर्णन)
४. दर्या सुंदरी (बालगितीका)
५. आण्टीची गादी (नाटक)
६. आयज आमचें राज्य आयलें (नाटक)
७. कॅन्सर (एकांकी संग्रह)
८. अशांत सुशांत (बालसाहित्य)
९. मस्त्या गुंडूची नस्ती भोंवडी (बालसाहित्य)
१०. पवित्र करार (नवो करार बायबलाचें देवनागरी लिपयांतर)
११. रूक्ष प्रस्न (ललित निबंध)
१२. चड आस्त धरता तो बुडटा (बालसाहित्य)
१३. एक सुन्य प्रवास (नभोनाट्य संग्रह)
१४. श्रेयार्थी (रवीन्द्र केळेकार हांच्या जीवनावेलें चरित्रात्मक भाश्य)
१५. Shreyarthee (कोंकणी श्रेयार्थीचें किरण बुडकुले हाणी केल्लो अणकार)

खऱ्यांनीच इतलीं वर्सां - सुमार एक दसक- सातत्यान 'बोरकारी' चलोवप आनी तातुंतलो झिंग (गॅस-बिअरींत आसता तसलो) कायम दवरप सोंपें न्हय. दिलीपाक तें जमलां. दर सप्तकाक तो कोंकणी वाचप्याचे नदरेक नवें कितें हाडटा. तांकां हांसयत हांसयत तो तांचीं धोंगां पोंगां दाखयता, तांकां खातखुतल्योय करता.

आयज हें सदर खूब लोकप्रिय जालां. आनी, जे आदीं तें वाचून तिडटाले, तांणी लेगीत मानून घेतलां कीं असलें सदर कोंकणी बरपांत जाय, आनी तें दिलीपूच बरे तरेन बरोवंक शकता. दिलीपान ह्या सदराक एक वेगळें व्यक्तित्व दिलां. इतलेंच न्हय, दिलीपाच्या व्यक्तित्वाकूय ह्या सदरान नवीं तासां दिल्यांत, ताची नदर विकसीत केल्या आनी कोंकणी साहित्यांतूय आगळी वेगळी भर घाल्या.



विनोदी, वा उपहासात्मक साहित्य म्हळें की खूब जाणांक नाक मुड्डुपाची सवंय आसा. असले तरेच्या साहित्याची सामान्यतायेन उपेक्षाच जाता. पूण दिलीपाची 'बोरकारी' हांगा आडवाद थरल्या म्हणूंक जाय. हांव तर अशें म्हणन की, दिलीपाचें सगळें साहित्य तागडेच्या एका दाल्यांत घालें आनी दुसऱ्या दाल्यांत 'बोरकारी' घाली जाल्यार बोरकारीचेंच दालें जड थारतलें.

- राजू नायक

बिम्ब प्रकाशन